पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृती दिल्या. शिल्पांत तीन जोतिशी बुद्ध भगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतले लेखनकलेची ही अशे तरेची सगळयांत पुर्विल्ली नोंद आसुंये.

नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडो, इसवी.
नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांच्या बरेपणान.

# चेम्मीन

बरोवपी

**तकझी शिवशंकरा पिल्लाई**

अणकारपी

**रघुनाथ व्ही. पंडित**




**साहित्य अकादेमी**

CHEMMEEN (चेम्मीन) :
Konkani translation by Raghunath V. Pandit of
Thakazhi Sivasankara Pillai's Award winning Malayalam Novel 'Chemmeen'
Sahitya Akademi, New Delhi (1996) Rs. Seventy five


First Edition : 1996

*Published by :*
Sahitya Akademi

*Head Office :*
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi - 110 001

*Sales Department :*
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi - 110 001

*Regional Offices :*
172, M. M. G. S. Marg, Dadar (East), Bombay - 400 014
Jeevan Tara, 23A/44X, Diamond Harbour Road, Calcutta - 700 053
Guna, 304-305, Anna Salai, Teynampet, Madras - 600 018
ADA Rangamandira, 109, J. C. Road, Bangalore - 560 002

ISBN 81-7201-725-1

मोल : 75 रुपया



*Printed by :*
Omega Enterprises, Vidyanagar, Vidyanagar colony, Margao (Goa) 403 601

# 1

"बाप्पा व्हडें आनी जाळ घेवपाक सोदता."

"तुजें नशीब!"

करुत्तम्मा हाचेर कांय जाप दिवंक शकली ना. पूण ती रोकडीच सावचीत जाली. तिणें म्हळें, "पूण पयशे पावचे नात. थोडे उसणे दिशीत?"

भुजां उडयत परीन म्हळें, "म्हजे कडेन पयशे खंय आसात?"

करुत्तम्मा हांसली. म्हणूंक लागली, "मागीर तूं धाकटो सावकार म्हूण कित्याक मिरयता तर?"

"तूं बेठीच म्हाका धाकटो सावकार कित्याक म्हणटा?"

"ना जाल्यार कितें म्हणूं तर?"

"परीकुट्टी म्हळ्ळयार पुरो!"

करुत्तम्मान 'परी' इतलेंच म्हळें आनी खळखळून हांसली. सगळें नांव घेतलें ना. तिणें आपलें हांशें दाबलें. मातशी गंभीर जाल्लेवरी जावन मानेक झटको दित म्हणूंक लागली, "उं हूं, तशें नांव घेवन हांव तुका उलो मारची ना."

"मागीर हांवूय करुत्तम्मा म्हूण तुका आपोवचो ना!"

"कितें म्हूण आपयतलो तर?"

"व्हडेकान्नीमांय! म्हणटलों."

करुत्तम्माक हांसो आटापना. परीकुट्टीय हा हा करीत व्हडान हांसलो. कित्याक? अशें दोगांकूय हांसपा सारकें हातूंत कितें आसलें? कोणाक खबर! दोगांय भितल्ले भितर एकामेकांक खातकुतल्यो जाल्लेवरी मनमेकळीं हांसलीं.

"बरें, व्हडें आनी जाळ विकतें घेतलें की धरिल्लें नुस्तें विकपाक म्हाका दी अशें तुगेल्या बापायक तरी सांगशी मूं?"

"पयशे चड दिशीत जाल्यार नुस्तें कित्याक मेळचें ना?"

परतींय एक फावट दोगांय पोटभर हांसलीं. हातूंतय खरें पळयल्यार इतलें हांसपा सारकें आसलें तरी कितें! पूण जायते फावटीं मनीस कारणा शिवायूच हांसता. हांसतां, हांसतां करुत्तम्माले दोळे भरून आयले. वाळू दाबीत दाबीतच तिणें म्हळें, "सावकारा, म्हाका असो बेठोच हांसोवं नाका आं!"

"व्हडेकान्नीमांय, तूंय बी नाका म्हाका हांसोवं" परीकुट्टीन जाप दिली.

"हाय देवा रे म्हज्या, कसलो मनीस जाणाय तूं धाकट्या सावकारा!"

हाचेर दोगांय जाणां अशीं खो खो करून पोट फुटसर हांसलीं की कितें विचारूं नाका. हांसपूय ही एक मोटी विचित्र गजाल! हांशें केन्ना मनशाक गंभीर करता, तर केन्ना केन्नाय ताका रडयता.

करुत्तम्माचें तोंड सामकें तांबडें गुंज जाल्लें. हांसपाचें थारावन मात्तशें रागानूच तिणें म्हळें, ''म्हजे कडेन असो बारीक नदरेन पळयत रावं नाका!''

तिचें हांशें थारिल्लें. तोंडा वयले भाव अचकीत बदलिल्ले. जशें कितें, न कळयां परीकुट्टी कडल्यान कसलीय तरी चूक घडिल्ली.

''करुत्तम्मा, तुवेंच बळयां म्हाका हांसयलें. आनी आतां तूंच...''

''हट,'' करुत्तम्माच्या तोंडांतल्यान उतर आयलें. आपलें हड्डें हातांनी धांकिल्लेवरी करीत तिणें तोंड फिरयलें. ती एकाएक शिटकवल्लेवरी जाली. तिच्या कंबरा भोंवतणी रेवडायल्ली फक्त एक लुंगी आशिल्ली.

''अशें कितें करता रे सावकारा?''

इतल्यांत घरच्यान कोणें तरी तिका उलो मारिल्ल्याचो आवाज आयलो. तिची आवय नुस्तें विकपाक गेल्ली ती परतल्ली. करुत्तम्मा धांवत घरा कडेन गेली.

ताका वायट दिसलें. तैवटेन करुत्तम्माच्याय मनांत विचार आयलो, आपूण परीकुट्टी मुखार हांसली, तशे तरेचो हांसो हे आदीं केन्नाच खंय करूंक ना. तो एक खेरीतूच तरेचो अणभव. कसले तरेचें तरी तें हांसप! हड्डें फोडून उडोवपी. जीव खासावीस करपी. तिका खिणभर दिशिल्लें, आपूण ताचे मुखार सामकी नागडीच उबी आसां, आनी थंयची अदृश्य जावंक पळयतां. असो अणभव हो पयलोच. आनी देखुनूच रागान तिच्या तोंडच्यान काळजाक तोप सारकीं कांय उतरां भायर सरिल्लीं.

करुत्तम्माचें तारुण्य जशें कितें जागें जावन उठिल्लें. प्रति खिणाक आकार घेत राविल्लें. परीची नदर अचकीत करुत्तम्माचे छातयेर वचून खिळ्ळी, तेन्ना तिका दिसलें की तिच्या सगळया आंगार कांटो फुल्ला. हाचे वयल्यानूच हांशें सुरू जाल्लें काय? करुत्तम्माच्या आंगार त्या खिणाक एक पातळ, जिरजिरीत लुगटाचो फाडो, आनी तोय बी फक्त कंबरा भोंवतणी, रेवडायल्लो आशिल्लो.

परीकुट्टीक दिसलें, करुत्तम्मा आयज ताचेर वितरागली. ताचे अशिश्ट वागणुकेक लागून ती हे मुखार ताचे सरीं येवची ना, अशेंय ताका दिसलें.

करुत्तम्माची माफी मागची, हे फुडें असली चूक परती आपले कडच्यान घडची ना अशें करुत्तम्माक सांगपाचें परीन थारायलें. दोगांकूय आपणें एकामेकांची क्षमा मागूंक जाय अशें दिसपाक लागलें.

चार पांच वर्सांची बुटुकली, दर्यादिगेर फुलांनी खेळपी चली करुत्तम्मा आशिल्ली तेन्ना तिचे बराबरचो एक ल्हानगुलो सांगाती मेळिल्लो तो परीकुट्टीच. लेंग्याचेर हळडुवो सदरो, गळयांत सेदाचो लेंस बांदिल्लो, आनी माथ्यार तुर्की तोपी घालून आपल्या बापायचो हात धरून दर्यादिगेर परीकुट्टीक पयलेच खेप तिणें पळयल्लो, ताची तिका घट्ट याद आसा. ताच्या घराचे दक्षिणेक तांचो मुक्काम. आजुनूय तीं थंयच रावतात. पूण आयज परीकुट्टी थंयचो वेपारी जाला. दर्यादिगेर शेजरा शेजरा रावन दोगांय व्हड जाल्यांत.

रात्री पोल्लांत बसून रात्रीक उजो घालतना करुत्तम्माक एक एक याद येत रावली. उजो रात्री भायर पेटत रावला, त्याच वेळार आवय थंय पावली. भायर पेटपी लाकडां आनी करुत्तम्मा कसल्या तरी विचारांत गुल्ल... आवय खिणभर पळयत रावली.

करुत्तम्माचेर एक खोंट दित आनी तिका सपनांतल्यान जागयत चक्कीन रागान विचारलें,

"अशें गुल्ल जावन कोणाचो विचार करता गो?"

करुत्तम्माक पळयल्यार कोणूय तिका त्या खिणाक होच प्रस्न करतलो आशिल्लो. चक्कीचो हातूंत कांयच दोश नाशिल्लो. करुत्तम्मा एका खेरीतच संवसारांत पाविल्ली.

"अम्मा, वेळे वयल्या त्या व्हड व्हड्या आडसाक रावन आक्का त्या धाकट्या सावकारा बराबर किटकिट्टालें." करुत्तम्माचे धाकले भयणीन - पंचमीन कागाळ केली. तिची चाडी आयकून करुत्तम्मा सामकी धवी धवी जाली. तिचें जें गुपीत कोणाक खबर नाशिल्लें, तें अशें उकतें जालें.

पंचमी इतल्यारूच थांबलें ना. म्हणूंक लागलें, "आनी हांसप तरी कशे तरेचें जाणां अम्मा, सामकें पिशें जाल्लेवरी." अशें म्हणून, आनी करुत्तम्माक खुणेन 'म्हज्यो चाडयो करतलें न्हय, घे आतां!' अशें चाळयत थंयच्यान पसार जालें.

करुत्तम्मा पंचमीक घर राखपाक दवरून व्हड्या वसल्यान गेल्ली. ताका लागून पंचमीक शेजारच्या भुरग्यां बराबर खेळपाक वचपाक मेळूंक नाशिल्लें. बापायचो हुकूम आशिल्लो की घरा कोणूय तरी एक मनीस आसपाकूच जाय. व्हडें-जाळ घेवचे पासत कितलेच दीस कश्ट करून गांठयल्ले पैशे ताणें घरांतच दवरिल्ले. ताकाच लागून पंचमीक घरा रावचें पडिल्लें. ताचो राग ताणे करुत्तम्माचेर अशे तरेन काडिल्लो.

अशे तरेचें उलोवणें आयकून खंयची आवय ओगी रावत! चक्कीन करुत्तम्माक फडफडायलें, "आगो, हें कितें आयकतां?" करुत्तम्मान कांयच जाप दिली ना.

"तूं कितें करूंक फुडें सरलां गो?" करुत्तम्माक आतां उलोवचेंच पडलें. एक जाप तिका येवजली, "अशें ओगीच गेल्लें दर्यार..."

"गेल्लें तें खरें मूं?"

"थंय धाकटो सावकार व्हड्यार बसून आशिल्लो."

"पूण तुका ताचे कडेन किटकिटपाचें कारण?"

करुत्तम्माक आनी एक जाप येवजली. आवयक म्हणूंक लागलें, "बाप्पाक व्हडें आनी जाळ घेवचे खातीर पयशे उणें पडटाले ते सावकाराक दिशीत काय विचारलें."

"आगो, पूण ताचे कडेन पयशे मागपाचें काम तुज्या माथ्यार कोणें घालें?"

"त्या दिसा तूं आनी बाप्पा उलय नासलीं गे, सावकारा कडेन पयशे मागपाक जाय म्हूण?"

हें सगळें उलोवप वयल्या वयलें. आवयच्या प्रस्नांक जापो दिवपाची धडपड. आवय मुखार वेळ मारून व्हरपाची तिची खटपट. चक्कीन चलयेक बारीक नदरेन वयर-सकयल पळयली.

चक्कीय अशे तरेचे तरनाटे अवस्थेंतल्यान केन्नाय तरी गेल्लीच. ती करुत्तम्माचे पिरायेची आशिल्ली तेन्नाय दर्यादिगेर कोणूय तरी मासळी दलाल ठाण मांडून आसताले अशेंय आसूं येता. तांणीय बीं त्या तेंपार दर्यावेळेर घडये आशिल्ल्या व्हड्यांच्या आडसाक रावन फकाणां मस्करी करून चक्कीक हांसयल्लें आसुंये. काळजाक खातकुतल्यो केल्ल्यो आसुंयेत. पूण चक्की एक अशे तरेची घरंदाज गाबतीण हे दर्यादिगेर जल्मल्ली आनी वाडिल्ली की, तिका हांगाचे परंपरेन चलत आयिल्लें जिणेचें तत्त्वगिन्यान पुरायेन खबर आशिल्लें.

पयलो गाबीत जेन्ना लाकडाचे एके सादे फळकुटेचेर बसून, दर्याचीं वादळी ल्हारां पार

करून धारे पयलाडी गेलो, तेन्ना ताचे घरकान्नीन दर्यादिगेर रावन व्रतां-वैकल्यां केलीं, अस्तन्तेचेर नदर खिळोवन उब्या उब्यांनी तपश्चर्या केली. दर्यांत आकांताचें वादळ उठलें, राक्षसावरी व्हड व्हड शार्क नुस्त्यांनी गाबत्याक घेरलो. देवमाश्यान धारेंतल्यान ताचें सुपुल्लें फळकुटेवरी व्हडें दर्याचे भायले ओसाडींत भरकटत खंयचे खंय पयस पयस व्हळयत व्हेलें. भोंवऱ्यांत खेंचून गिरगिरायलें. पूण इतलेंय आसतना ह्या सगल्या आकांताचेर जैत मेळोवन तो घरा परतलो तेन्ना बराबर एक व्हड मासोळी घेवन आयलो. त्या भिरांकूळ वादळांतल्यान तो कसो वाटवलो? शार्कान ताका कसो गिळ्ळो ना? देवमाशाचे शेंपडे तडाख्यांतल्यान ताचें व्हडकुलें कशें तरलें? भोंवऱ्यां तोंडांतल्यान तो कसो वाटावलो? हें सगलें अघटीत कशें घडलें? ह्या प्रस्नांची जाप एकूच आनी ती म्हळयार ताची पतिव्रता नारी. तिची दुर्दम्य तपस्या!

समुद्र-मातेच्या धुवांनी हे तपश्चर्येपसून धडो घेतला. चक्कीकूय ह्या तत्त्वगिन्यानाची शिकवण मेळ्ळया.

चक्की एक तरणीताठी चली आशिल्ली तेन्ना खंयच्याय तरी मासळे दलालान तिचे कडेन वांकडे नदरेन पळयल्लेंय आसूं येता. आनी अशा समयार चक्कीचे आवयनूय तिका समुद्र-मातेचे वयले तपस्विनी धुवेची अमर काणी, तिचे जिणे फाटलें तत्त्वगिन्यान सांगिल्लें आसूं येता.

चक्कीक करुत्तम्माचें गुपीत कळ्ळें की ना कोण जाणा; पूण तिणें करुत्तम्माक म्हळें, "आगो पापणी, आतां तूं बोम चिंवपी ल्हान भुरगें न्हय. एक गाबतीण जालां." परीकुट्टीच्या 'व्हडेकान्न, व्हड गाबतीण,' ह्या उतरांचो खेरीतूच अर्थ आतां करुत्तम्माच्या ध्यानांत आयलो. चक्कीन फुडें म्हळें, "ह्या म्हासागरांत खूबशें कितें लिपलां. हातूंत वचपी लोक कशे परते येतात हें तूं जाणा? येतात, कित्याक?, दर्या देगेर फाटीं उरिल्ल्या तांच्या घरकान्नींचे पवित्रतायेक लागून. तांणी आपली पवित्रताय पाळ्ळी ना जाल्यार गाबीत व्हड्यासयत भोंवऱ्यांत सांपडून खंयचे खंय नाच्च जावन वतलो. दर्यांत वचणाऱ्यांचें जिवीत खरेपणीं दर्यादिगेर फाटीं रावपी तांच्या घरकान्नींच्याच हातांत आसता."

अशे तरेचो उपदेश कानार येवपाची करुत्तम्माची काय ही पयलीच खेप न्हय. चार गाबतिणी एकठांय येतात थंय हीं उतरां कानार येवप ही सदचीच गजाल.

तरीय परीकुट्टी बराबर हांसपा खेळपांत तिची चूक ती कसली जाल्ली? खंयच्याच गाबत्याची जीण कांय आजून तिच्या हातांत कोणें आजून दिवंक नाशिल्ली! ती दितले तेन्ना तिची राखण ती करतलीच. ती कशी करपाची हें तिका बेस बरें खबर आसा. गाबतिणीचे जातीक तरी हें कोणें शिकोवपाची गरज ना.

चक्कीन फुडें म्हळें, "हो दर्या मदीं मदीं रंग कित्याक बदलता तुका खबर आसा? समुद्रमाता क्रोध आयलो कीं सगलें ना- नपश्चात करून उडयता. ना जाल्यार हरशीं आपल्या भुरग्यांक ती सगलें दिता. हिच्या पोटांत भांगरा खाण आसा पुते, भांगरा-खाण!."

चक्कीन धुवेक परतोय एक व्हड उपदेश केलो, "पवित्रताय हीच सगल्यांत व्हड गजाल आसा, बाये! गाबितांची मोलाची खरी दौलत, गाबतिणींची पवित्रताय हीच. केन्ना केन्नाय ल्हान ल्हान तरणाटे मासळे दलाल दर्या किनारो अपवित्र करून उडयतात. सुंगटां मारपाक सुकी मासळी साकांनी भरपाक उदेंन्तेकडल्यान येवपी बायलो दर्यावेळ भश्टोवन सोडटात.

दर्याविळेचें मोल तांकां कितें खबर! तीं समुद्रमातेचीं भुरगीं काय न्हय. पूण तांच्या वायट कर्तुबांचें फळ भोगचें पडटा तें मात गाबीत लोकांक. वेळे वयल्यान तडेक दवरिल्ल्या व्हड व्हड व्हडयांचे आडस आनी दर्यादिगे वयलीं दाटायेन आशिल्लीं झाडां म्हणचे चड घातमारे जागे. थंय सदांकाळ सावशिकायेन वावुरपाक जाय."

अशें सांगून चक्कीन चलयेक गंभीरपणान शिटकावणी दिली, "तुजें आतां वय जालां. हड्डें भरून आयलां. मुखामळ म्होंवाळ दिसपाक लागलां. तरणे-ताठे दलाल वा गुंड लोकांचे नदरेंत तूं चटकरून भरूं येता." हें आयकून करुत्तम्मा शिटकवली. कित्याक, व्हड्या आडसाक सामकें तेंच घडिल्लें. तिचें मन ते सरशीं आपशींच रागान उसळून उठिल्लें ताचें कारणूय चड करून तेंच आशिल्लें. परंपरेंतल्यान उत्स्फूर्तपणान निर्माण जावपी भावनेक लागुनूच. कोणूय जर अचकितपणान आपल्या हड्ड्या कडेन वा जांगे कडेन नदर रोखून पळोवपाक लागलो जाल्यार ती गजाल मर्यादशील समुद्र-मातेच्या चेडवांक कशी सोंसत?

"म्हजे धुवे, समुद्रांत वादळ तुफान उठोवन गाबितांची जीण नश्ट जावन वचत अशें कांय करूं नाका!"

करुत्तम्मा भियेली. चक्कीन फुडें म्हळें, "तो तर आमच्या धर्माभायलो. ताका ह्या गजालींची पर्वा कशी आसतली?"

चक्की अशे तरेन उलयताली, जशें कितें आपल्याक सगलें कितें कळून आयलां-समजलां. ते रातीं करुत्तम्माक दोळो लागलो ना. पंचमीन तिचें गुपीत उगड्यार घाल्लें. पूण पंचमीचो तिका राग आयलो ना. तिणें आपली चाडी कित्याक केली हो विचार लेगीत तिच्या मनांत आयलो ना. आपले हातसून चूक घडली हें तिका समजलें. समाजांत शेंकड्यांनी वर्सां अभंगपणान चलत आयिल्लें तत्त्वगिन्यान तिच्यांतूय मुरिल्लें. तें निश्चीत रूप धरूंक लागिल्लें. कोण जाणा, आपलें पावल वांकडे वटेन पडटा काय, अशी भिरांतूय तिका दिसपाक लागिल्ली आसुंये. ही भिरांत आशिल्ली देखूनच जावंये, पंचमीचेर रागावपाचें कारणूच उरलें ना. इतल्यांत करुत्तम्मा आसा थंयच्यानूच तिका हुमटून काडून उडोवपाक निमित्त जायसारक्या एका गिताचीं कांय उतरां दर्याविळे वयल्यान येत तिच्या कानांत रिगलीं.

करुत्तम्मा कान दिवन आयकताली. पद गावपी आशिल्लो परीकुट्टी. तो कांय एखाद्रो गायक म्हणसारको न्हय. तरीय व्हड्याचे एके फळयेर बसून तो गायतालो. आपूण खंय आसा म्हणपाचें कोणाक तरी कळचें अशें ताका दिसतालें; तें कळोवपाक पद म्हणपा खेरीज दुसरो कसलो उपाव आशिल्लो? जाका खबर पावपाक जाय आशिल्ली, ताका ती मेळ्ळी. बाण लागपांक फाव थंय तो ज्युस्त लागलो.

करुत्तम्माचें मन तळमळूंक लागलें. 'गुपचूप उठून वचें...? परीकुट्टी नदर मोखून परतोय आपल्या उगड्या हड्ड्याकडेन, जांगांकडेन पळोवचो ना? पूण वचपाचेंच जालें जाल्यार खंयच्याय तरी व्हड्याच्याच आडसाक वचपाक जाय! आनी अशे जागे तर घातकी! खेरीज परीकुट्टी दुसऱ्या धर्माचोय बी!'

गिताच्यो वळी गाबितांच्या एका लोकगिताच्यो आशिल्ल्यो. आनीक थोडो वेळ तें गीत आयकत रावल्यार आपूण नक्कीच ताचेसरीं वतलीं, अशें करुत्तम्माक दिसलें. काळीज

चिरून भितर सरपी अशे तरेच्या सुरांचे भाले झेलपांतूय एके तरेचो आनंद आसता... ती कामरूण पांगरून आडवी जाली. कानांत बोटां गच्च धरून रावली. तरीय तें गीत भितर घुसतूच उरलें...

करुत्तम्माक रडूंक आयलें.

ते कुडीचें सादें दार उकतें करप कठीण नाशिल्लें. तें तोडूंय येतालें. पूण करुत्तम्मा एका अशे तरेच्या विचित्र आनी खडेगांठ दुर्गाभितर आडखळून उरिल्ली, जिची वणत कशेच रितीन तोडूं नज. आनी दुरीग म्हणचे समुद्र मातेच्या सन्तानांपासत परंपरेन चलत आयिल्ल्या जिणेच्या तत्त्वगिन्यानाचें दुरीग. ऊंच ऊंच आनी अभेद्य अशे तरेचें दुरीग. ह्या दुरगाक नाशिल्लीं जनेलां, नाशिल्ले दरवंटे!

पूण कुडींतलें हुनहुनीत रगत हें दुरीग तोडूंक शकना? अशे तरेचें दुरीग हे आदीं केन्ना कोसळ्ळें ना?

परीकुट्टीचें गीत त्या समुद्रतिरावयले मोनेळींत खीण खीण फांकत रावलें. एके गाबतिणीक काळखे रातीं दरवंटो उगडून घराभायर ओडचे पासत तयार केल्लें गीत न्हय तें. तातूंत ना लय आशिल्ली, ना ताल. तें गावपी मनशाचो आवाजूय नाशिल्लो गोड. आनी इतलेंय आसून ताच्यांत एके तरेचें आकर्शण आशिल्लें. परीकुट्टीची इत्सा इतलीच आशिल्ली की आपूण थंय बसलां म्हणपाचें करुत्तम्माक कळचें. ताका तिची माफी मागपाची आशिल्ली. गावन गावन ताचो गळो दुखपाक लागलो.

करुत्तम्मान कानांतलीं बोटां हळूच काडलीं. शेजारचे कुडींत तिची आवय, बापूय कितेंय तरी उलयतालीं. मदीं मदीं झगडटालीं. करुत्तम्मान कान दिवन आयकलें. पळय जाल्यार तीं तिचे विशींच उलयतात. चेम्पनान म्हळें, "म्हाका सगलें खबर आसा. तुवें सांगपाची गरज ना, हांवूय एक मनीसूच." चक्की गुरगुरली, "अशें, तूं मनीस न्हय! फक्त खबर आसलेंच म्हूण जालें ना! चली पिड्ड्यार जायसर रावपाचें?"

"ओगी राव, तशें घडचे आदीं हांव तिका उजयतलों."

"कशी तें तरी आयकूं दी! पयशे दिलेबगर तिका व्हरपाक कोण येतलो तो?"

"आयक तर!" अशें म्हणून चेम्पन आपली सगली येवजण सांगपाक लागलो. करुत्तम्मान हें आदींय अशे तरेचीं उलोवणीं शंबर वेळां आयकल्लीं.

चक्कीन दुखेस्त जावन, तेच प्रमाण रागान म्हळें, "बरें आसा, व्हडीं आनी जाळांच घेयत राव!"

चेम्पनान आपलो निच्छेव परतोय परगटायलो, "कितें जायत तें जायत, हांव त्या पयशाक हात लावपाक तयार ना. तूं तुजो दोळो त्या पयशार दवरूं नाका!"

चक्कीन रागान थोमणो मारलो, "चलयेक एखाद्रो धर्माभायरो पिड्डयार करून उडयतलो. थोडे दीस राव."

चेम्पनान कांय जाप दिली ना. चक्कीच्या मनाक लागिल्ल्या हुस्क्याचें ताका कांय पडिल्लेंच ना! थोड्या वेळान म्हणपाक लागलो, "हांव हाडटां एक भुरगो."

"पयशां शिवायूच?"

चेम्पनान फक्त "हूं" इतलेंच म्हळें. चक्की उलयली, "आसतलो कोणूय असोच रस्त्यार पडिल्लो!"

"अशें? मागीर पळयूच तर!"

"तशेंच आसत जाल्यार चलयेक काडून दर्यांत उडोवपूच चड बरें!" चक्कीन म्हळें. चेम्पनान तिका दटायलें, "हात् तुजे अकलेक!" हें व्हडें, आनी जाळ सगलें कोणापासत तर?"

चक्कीन सुचयलें, "त्या वेल्लमणली वेलायुधन्‌चो विचार कित्याक करिना?"

"ना, तो उपकरना."

"कित्याक पुणी, तें तरी सांग. ताच्यांत कितें उणें आसा?"

"तो गाबीत जातीचो आसा इतलेंच. सादो गाबीत."

"चलयेक गाबीत घराण्यांत दिवपाची ना, जाल्यार कोणा घरा घालपाची थारायल्या तर?"

ह्या प्रस्नाची जाप ना.

कोणूय परधर्मी मनीस आपले चलयेक वायट मार्गाक लायत हीं आपले आवयचीं उतरां करुत्तम्माच्या कानांत तापिल्ल्या तेलावरी पडलीं. पूण तिच्या बाप्पाल्या मनाक मात ह्या उतरांचो अर्थ पुराय कळ्ळो ना.

करुत्तम्माचें काळीज धड्‌धड् उडपाक लागिल्लें; जशें काय तें तुट्टलेंच. परधर्मी मनशान ह्या खिणा मेरेन तरी तिका वांकड्या मार्गा कडेन ओडूंक नाशिल्ली!



# 2

दुसऱ्या दिसा करुत्तम्मा घरा भायर सरली ना. परीकुट्टीच्या वाड्यार त्या दिसा कामाचो बोवाळ चलिल्लो. राशींनी पडिल्ली मासोळी साकांनी भरचे पासत उदेंन्ते कडल्यान बायलो आयिल्ल्यो.

करुत्तम्मा कामाशिवाय एकटीच बशिल्ली आसतना तिच्या मनांत एक विचार विजेवरी चमकून गेलो. परीकुट्टी त्या कामेऱ्यांच्या हड्ड्यां कडेनूय बी नदर रोखून पळयता आसतलो काय!

दोनपारां, दर्यांत गेल्लीं सगळीं व्हडीं परतून दर्यावेळेर पाविल्लीं. चक्की पाटलो घेवन वेळेर वचपाक गेली. वतना करुत्तम्माक तिणें परतीय शिटकावणी दिली, "बाय, हांवें तुका कितें सांगलां तें सगळें चत्रायेन याद दवर!"

करुत्तम्माक कितें कितें याद दवरपाचें तें बरें खबर आसलें.

थोड्या वेळान चेम्पन घरा आयलो. करुत्तम्मान ताका शीतकडी वाडली. आयज चेम्पनान हे आदीं केन्ना पळोवंक नाशिल्ली अशे बारीक साणेन चलयेक पळोवन घेतली. तो तिका सदां पळयतालो. मागीर आयजूच अशे तरेन पळोवपाचें कारण कितें? आपल्या बाप्पाकूय आपलें गुपीत कळ्ळें ना मूं, ह्या विचारान करुत्तम्मा भियेली. पूण तें कळिल्लें जाल्यार तो रागावपाचो न्हय? ताच्या तोंडार रागाचें तशें चिन्न कांय दिसलें ना.

चक्कीन कालचे रातींच ताका, चली लग्नाक आयिल्ल्याची याद दिल्या. आयजवेर आपलें एक व्हडें आनी जाळ आसचें हे खेरीज दुसरो कसलो विचार ताका केन्ना आफुडलो ना. आयजूच पयले खेप अशे तरेच्या दुसऱ्याच एका म्हत्त्वाच्या विचारा कडेन ताचें लक्ष खेंचलां. चली वयांत आयल्या. चक्कीन शिटकावणी दिल्या की कोणूय परधर्मी तिका फसोवंक शकता. आनी हे गजालीचो उगडास जाल्ल्यानूच चलये कडेन चेम्पनान आयज खेरीत नदरेन पळयलां.

दुसऱ्याच्या व्हड्यार एक मानाय कसो वावरून तो जोडटा. सुरवेक वलीं मारपाच्या कामार आशिल्लो. आयज शीड सांबाळटा. आपले जिणेचें ध्येय ताणें थारायिल्लें. जोडींतलो एक पैसो तो नश्टखर्चाचेर वगडाय नाशिल्लो. ताका लागून थोडी गांठूय ताचे कडेन जमिल्ली. पूण व्हडें, जाळ विकतें घेवपाक पाव सारकी ती नाशिल्ली.

चली घरांत वाडल्या, तिचें पावल वांकडें पडूं येता. चक्कीन सांगिल्ली गजाल सामकी खरी. तिका तशें दिसप लटकें न्हय. व्हडें, जाळ घेवपाचें काय आदीं चलयेक उजोवपाची हें आतां विचार करपाचे खरेले विशय जावन पडले.

चेम्पनाकूय आपले धुवेक कितेंय पूण सांगन शें दिसलें, "बाय, तुका आतां सांबाळून चलपाक जाय" ताणें म्हळें.

करुत्तम्मान जाप दिली ना. चेम्पनानूय जापेची वाट पळयली ना.

आमोरेचेर कामेऱ्यांक सोडून दिले उपरान्त परीकुट्टी व्हड्याचे फळयेर वचून बशिल्लो. आयजूय घडये तो करुत्तम्माची वाट पळयतालो. इतल्यांत चेम्पन परीकुट्टी कडेन पावलो. करुत्तम्मान दोगांकूय जायतो वेळ मेरेन उलयतना पळयलें. ते कसल्या विशयाचेर उलयतात काय अशें चिंततना, आपलो बाप्पा चड करून परी कडेन रीण मागपाचीं उलोवणीं करपाकूच आयला आसूंक जाय अशें तिका दिसलें.

ते रातीं चक्की आनी चेम्पनाचीं व्हडे राती मेरेन उलोवणीं चलतालीं. तीं क़ितें उलयतात म्हणपाचें समजून घेवचें शें करुत्तम्माक दिसलें.

परीन ते राती कडेनूय गीत गायलें. आपले पोरणे ख़ोपींत न्हिदिल्ले कडेन करुत्तम्मान तें आयकलें. आयज मेरेन, आपल्या हड्या कडेन नदर रोखून पळोवं नाका ही एकूच गजाल तिका परीक सांगपाची आशिल्ली. पूण आतां तिका आनीक एक गजाल ताका सांगपाची आसा आनी ती म्हणचे ताणें हे फुडें अशे तरेन व्हडाव्हडान गावचेंय न्हय, ही.

दोन दिसां फाटीं मेरेन करुत्तम्मा फुला वयल्या पांख्यावरी खुशालकायेन भोंवताली, नाचताली. पूण दोनूच दिसां भितर तिच्यांत केदो बदल घडून आयलो! एका जाग्यार बसून चिंतीत विचार करपाचें तिका सुचलें. देखून हळुहळू ती आपले आपणाकूच वळखुपाक लागल्या. आपलीच तपासणी घेवपाक लागल्या. एक एक पावल सांबाळून उडोवपाक जाय. आदले वरी मनाक मानत तशें खिदळप, मुरगटप चलपाचें ना, हें तिका कळूंक लागलां. तिचे जिणेंत एके तरेचे गम्भीरतायेन प्रवेस केला. आनी ताकाच लागून आपलें भुरगेपण फाटीं पडलें. खंयच्याय परकी दादल्यान आपल्या हड्या कडेन इचिर्कायेन नदर खिळोवची इतली आपूण जाणटी बायल जाल्यां, म्हणपाचें तिका उमगलां.

तिसऱ्या दिसा परीकुट्टीचें गावप कानार आयलें ना. त्या दिसाय चान्नें पडिल्लें- मन भुलोवपी. दर्याचें अथांग रहस्यान भरिल्लें एक सैमाचें गोड गीत माडांच्या चुडटांतल्यान ल्हारां वयल्यान उदेंते वसल्यान सरकतालें.

परीकुट्टीन गावपाचें बंद केल्ले पासून, करुत्तम्मा ताच्या गिताचे सूर परतेय कानार येवचे म्हूण उचंबळ जायत चलिल्ली. तो हे फुडें गावचो नाच काय?

रातीचें जेवण घेवन चेम्पन खंय तरी भायर सरून गेलो. चक्की जागीच आशिल्ली. तिणें धुवेक न्हिदपाक वच म्हूण सांगलें. हातुळणांत पडले बराबर करुत्तम्माचो दोळो लागलो.

तिका अचकीत जाग आयली तेन्ना कोणूय तरी विचारतालो, "करुत्तम्मा आजून जागीच आसा?"

फक्त तिच्या ध्यानांत येयसारकें जें एके तरेचें कांपरेपण त्या आवाजांत आशिल्लें, ताचे वयल्यान करुत्तम्मा तो मनीस कोण हें वळखली. तो परीकुट्टी आशिल्लो.

चक्कीन जाप दिली, "ना, ती न्हिदल्या." चक्कीचे जापेंत मात्तशें तुटकेपण आशिल्लें, हेंय करुत्तम्माच्या ध्यानांत आयलें. तिचें सगलें आंग घामान दरदरीत भिजून गेलें. सट्ट करून उठून दाराचे खांचींतल्यान तिणें भायर पळय जाल्यार, परीकुट्टी आनी चेम्पन दोगूय जाण मेळून कसलीं तरी जड जड वजीं उखलून भितर हाडटात. एका फाटसून एक स-सात गच्च भरिल्ले साक. सगले सुकिल्ले खारे मासळेन उपाट भरिल्ले.

करुत्तम्माचें काळीज तें पळोवन सामकें धड्डपाक लागिल्लें. जशें कितें आतां तें फुट्टलेंच! भायर आंगणांत चक्की, परीकुट्टी आनी चेम्पन तिगांय जाणां हळू आवाजांत कितेंय तरी उलयतालीं.

दुसऱ्या दिसा करुत्तम्मान त्या साकांविशीं आवयक विचारलें तेन्ना चक्कीन जड उतरांनी जाप दिली, "धाकल्या सावकारान ते हाडून दवरल्यात."

करुत्तम्मान ताचेर म्हळें, "आमगेर शे? तागेर जागो ना काय कितें?"

"आनी हांगा दवरले म्हूण तुजें कितें गेलें?" चक्कीन प्रस्न केलो. कांय वेळान मात्तश्या रागानूच फुडें म्हळें, "अशी पोटतिडकेन चवकशी करपाक तो तुजो कोण लागता बी काय कितें गो? तुजें काम तूं पळय!"

करुत्तम्माक जायतें कितें विचारपाचें आशिल्लें. "परीकुट्टी ताचो कोण न्हय. पूण हें फटकिरेपण जालें ना? एके वटेन बाप्पा म्हाका मर्यादेन वागपाक शिकयता. आम्माय तेंच सांगता. आनी दुसरे वसल्यान परीकुट्टीचींच रिणकारी जावपाचें दोगांय येवजितात. अशें करप बरें...?" पूण करुत्तम्मा कांय उलयली ना.

दुसऱ्या दिसा तें सगलें खारें खपयलें. ताचे उपरान्त जायते दीस हें काम चलतालें. बरेच दीस गाबत्यांकूय दर्यार खूब जोड जाताली. चेम्पनाचें व्हडें मासळी भरून आयलें आनी एक खेप तिरार ती ओतून परतेंय दर्यार गेलें. चक्कीय खारें खपोवपाक उदेंतेक गेल्ली. पंचमीय घरा नाशिल्लें. करुत्तम्मा घरा एकटीच उरिल्ली.

संद सादून परीकुट्टी आयलो.

करुत्तम्मान ताका पळयलो तशी धांवत ती भितर गेली. कांय उलय नासतना परीकुट्टी थोडो वेळ भायर उबो रावलो. ताकाय भीड दिसताली. ताचें तोंड आनी गळो सुकून आयिल्लो. ताणें पयशिल्यान इतलेंच म्हळें, "व्हडें आनी जाळ विकत घेवपाक हांवें पयशे दिल्यात."

पूण भितल्ल्यान जाप ना. परीन फुडें विचारलें, "आतां तरी वेपार करपाक म्हाका मासळी मेळटली मूं? हांव मासळेचे खेरीत पयशे दितलों."

"बरें मोल दिल्यारूच ती मेळटली" अशी जाप येवपाक जाय आशिल्ली. हीच जाप करुत्तम्मान फाटीं एक खेप ताका दिल्ली. पूण आयज ती उलयलीच ना. त्या दिसा अशे तरेच्या उलोवपा निमतान दोगांय जाणां हांस हांस हांशिल्लीं. परीक दिशिल्लें की अशे तरेचें हांशें परतेंय जातलें, पूण आयज तशें कांय घडलें ना. करुत्तम्मा कशी कोण जाणा, सापूच मोनी जावन पडिल्ली.

परीन म्हळें, "करुत्तम्मा, तूं उलयना कित्याक? म्हजे कडेन सामकीच गट्टी फू बी केल्या काय कितें?"

ती भितल्ले भितर फुगार जावन रडटा आसुंये, असो परीक भास जालो. देखून ताणें विचारलें, "रडटा काय कितें तूं करुत्तम्मा? हांव आयलों म्हूण तुका राग बी आयिल्लो आसत जाल्यार हांव वतां. वचूं?"

ह्याय प्रस्नाची कांय जाप मेळ्ळी ना तें पळोवन रडकुऱ्या आवाजांत परीकुट्टीन पुनाय विचारलें, "वचूं मूं करुत्तम्मा?"

"सावकारा, तूं दुसऱ्या धर्माचो..." करुत्तम्मान जाप दिली. परीच्या निमण्या प्रस्नान

जशी काय करुत्तम्माच्या काळजाक दूख पाविल्ली.

परीकुट्टीक तिणें कितें म्हळें तें सारकें कळळेंच ना. देखून ताणें विचारलें, "जालो दुसऱ्या धर्माचो म्हूण कितें जालें?" नकळत तिच्या तोंडांतल्यान उतर भायर गेलें, "गुदावांत कामाक येवपी कामेऱ्यांचीं हड्डीं बरीं बारीक नदरेन तूं नियाळून पळयता मूं!"

आपल्याक करुत्तम्मान वायट उतर लायलें अशें परीक दिसलें. तशेंच आपले कडेन कामाक येवपी कामेऱ्यां लागीं आपले वायट संबंद आसुंये असो दुबाव आयिल्ल्यान ती आपल्याचेर रागार जाल्या अशेंय ताका दिसलें. आनी तिच्या मनांतलो दुबाव कसो काडून उडोवचो, आपूण निर्दोश आसां हें तिका कशें पटोवचें म्हणपाचें न कळिल्ल्यान तो गोंदळांत पडलो. ताणें आयजवेर कोणाकडेनूच वायट नदरेन पळोवंक नाशिल्लें. ताणें म्हळें, "अल्लाचो सोपूत, हांवें कोणाचेच कडेन आयजवेर वायट नदरेन पळोवन संबंद दवरूंक नात. खरें सांगतां करुत्तम्मा."

परीकुट्टी एक बरो मनीस इतलें कळपूच तिका पुरो आशिल्लें, ताणें आपले पासत हेर खंयचेच बायले कडेन संबंद दवरचो न्हय अशें तिका दिसलें ना.

आपल्याक जाय पूण कितें परी कडल्यान, आनी तें ताका सांगचें तरी कशें, हें खुद्द तिचे तिकाच खबर नाशिल्लें. तशें करपाचें काम खरेपणीं खुबूच कठीण. तिका तें मात्तूय जमपाचें न्हय. करुत्तम्मा कितें सांगपाक सोदता तें परीक कळपाचें कशें? तिका तें सांगपाकूच जमनाशिल्लें. पयली गजाल म्हणचे करुत्तम्मांत तितली धिटाय नाशिल्ली. आनी दुसरी म्हणचे आपले गाबतिणी जिणेचें सगलें तत्त्वगिन्यान समजावन सांगप ही एक खुबूच कठीण गजाल आशिल्ली.

मोन्यानी बरोच सो वेळ गेलो. कोण कांय उलयलोच ना. हो मोनेळ असोच खूब वेळ चलत रावत ह्या भंयान करुत्तम्मान याद दिली, "आम्मा येवंची जाल्या."

"आयली म्हूण कितें जालें?"

भियेवन तिणें म्हळें, "आवयस! अशें आमी मेळप सामकें चुकीचें. हो एक व्हड गुन्यांव."

"तूं थंय भितर आसा, हांव हांगा भायर. हातूंत गुन्यांव तो कसलो जालो?" हेंय हाका समजावपाक जाय. कशें समजावपाचें? तें करचे पासत केदें पुराण सांगचें पडटलें!

परीन विचारलें, "करुत्तम्मा! तुजो म्हजेर मोग ना?"

करुत्तम्मान सट् करून जाप दिली, "आसा." परीकुट्टीन पोटतिडकीन विचारलें, "मागीर तूं भायर कित्याक येना तर?"

"ना, हांव येना."

"तुका हांसोवचों ना. मात्तसो तुका पळोवन वतां."

"ना रे बाबा! नाका नाका," काकुळटेक येवन करुत्तम्मान जाप दिली.

"मागीर हांव वतां तर.'

"हांव तुजेर सदांकाळ मोग करीत रावतलीं" भितल्ल्यान आवाज आयलो.

हाचे परसूय चड मोलाचें आनीक कसलें उतर ताका जाय आसलें? परी थंयच्यान वचपाक गेलो.

तो गेल्या उपरान्त करुत्तम्माक दिसलें, की जें सांगपाक जाय आशिल्लें तें तशेंच

उरलें आनी नाका आशिल्लें तें सांगून मात आपूण मेकळी मेकळी जाल्यां.

ते रातीं करुत्तम्मान आपले आवय-बापूय, दोगांकूय, दिव्या उजवाडांत पयशे मेजून दवरतना पळयलें. आजुनूय पयशे उणे पडटात. तरीय चेम्पनाक समाधान आशिल्लें. ताणें म्हळें, "औसेप वा हेर कोणूय गळो कापपी मनशाचो आधार घेतले बगर इतलें तरी काम जालें."

चक्कीनूय तेंच म्हळें, "गाबितांक नागोवचे पासत बोल्सांनी पयशे खुळखुळायत भोंवपी लोकां कडल्यान पयशे घेतिल्ले जाल्यार..."

"तशें केल्यार व्हडेंय उरचें ना, आनी जाळूय बी. धंद्यांत घातिल्ले पयशेय परतें मेळचे नात."

औसेप आनी गोविन्दन रीण जाय काय म्हूण हालींच विचारताले. चेम्पनान नाका म्हूण ज़ाप दिल्ली. तांचे कडल्यान घेतिल्लें रीण परतें पावन पावना. इतलेंच न्हय, तर पयशे वचचे वचुनूय व्हडें आनी जाळूय वयल्यान तांचेंच जावन पडटा. गरीब गाबत्यांचे बाबतींत तरी अशें जायत आयलां. मागीर पयशे उणे पडटात ताचेर उपाय कितें?

चेम्पनान म्हळें, "धाकलो सावकारूच हेय पयशे कित्याक दिवन उडयना?"

जिणेंत पयलेच खेप आपल्या आवय-बापाय विशीं करुत्तम्माच्या मनांत सामकी रागाची भावना उप्रासली. आवयन तरी बापायक तशें करपा पसून आडावपाचो न्हय? अशें चिंतून ती चडूच बेजार जाली.

परीच्या घरा कडेन, हाचे उपरान्त, मासळी सुको सुकोवन साकांचे साक भरपाचें काम नेटान चलपाक लागलें. हे गजाली फाटलें गुपीत करुत्तम्माक खबर आशिल्लें. थोड्याच दिसां भितर ती हळूहळू हुशार जायत गेल्ली.

जीण सुदारपी घडणुको घडत गेल्यो ते खोशेन चक्की करुत्तम्मा कडेन एक दीस उलोवन गेली, "बाय, आमचें व्हडें आनी जाळ येवपाचे दीस लागीं पावल्यात."

करुत्तम्मा कांय उलयली ना. तिचे खोशेंत वांटो घेवपाक करुत्तम्मा तयार नासली.

चक्कीन म्हळें, "समुद्र-मांयची कृपा जाल्या!" ताचेर करुत्तम्माच्या मनांत जो संताप भरिल्लो, तो खिणांत उकतो जालो. म्हणपाक लागली.

"लोकांक फटयल्यार समुद्र-मांयक तें मानवत मूं?"

चक्कीन करुत्तम्मा कडेन रोखून पळयलें. पूण करुत्तम्मा भियेली ना. तिका आनिकूय सांगपाचें आशिल्लें, "त्या बाबड्याक अशे तरेन फटोवन आमी व्हडें आनी जाळ हाडूंक फावना अम्मा! तो व्हड अन्याव जातलो."

"कितें म्हटलें तुवें? फटयलो?"

करुत्तम्मान धिटायेन म्हळें, "हय हय."

"कोणें, कोणाक फटयलो?"

'ह्या प्रस्नाची ज़ाप करुत्तम्मान ओग्गी रावनूच दिली. चक्कीन म्हळें, "औसेप्पा कडल्यान रीण घेतलें जाल्यार तें केन्ना परतें फिटना. वेल्यान व्हडें, जाळ ताचेंच जावन पडटा."

"हें परतें फेडपाचें ना काय कितें?" करुत्तम्मान चक्कीक सरळ विचारलें, "हें सगलें फेडपाच्या हेतान घेतलां?'

चक्कीन म्हळें, "परी कडल्यान खारें घेतल्यार तातूंत कितें चुकलें? बाप्पान ताचे कडेन

विचारिल्लें मात, ताणें दिवन उडयलें. तातूंत ताका फटयलो कसो? ताचे पयशे आमी ताका पावयतलींच."

करुत्तम्मान थोमणो मारलो, "व्हडे रातीचे साकांचे साक भरून हाडले ते ताचे पयशे परते फेडपाच्या हेतान? तशें जाल्यार दिसा उजवाड्यां हें करूंक येनासलें? असल्या तरेच्या कामांक लागुनूच दर्यांत वादळ उठ्टा!"

करुत्तम्माचें निमाणें उलोवप मात्तशें चडूच जालें. चक्कीक तें आयकून भिरभिरी मारली. तिणें विचारलें, "तूं कितें उलयताय गो? तुज्या बाप्पान चोरी केली म्हणटाय?"

करुत्तम्मा ओग्गी रावली. आवयच्या अधिकारी सुरांत चक्कीन तिका फडफडायलें, "भायल्या धर्माचो पोर तुजो कोण लागता गो? तुका शी ताचे पासत इतली दूख पावपाचें कारण कितें?"

करुत्तम्माच्या मनांत आयिल्लें की सांगून उडोवचें, "तो म्हजो कोण न्हय" म्हूण. पूण तिच्या तोंडांतल्यान तशें उतर सुटलें ना. तिका दिसलें, आपणें कित्याक म्हूण सांगचें परी आपलो कोण न्हय अशें! खरेपणीच तो तिचो कोणूच न्हय...? 'कोण सांगता तो कोण न्हय? तोच तर म्हजें सगलें कितें!" असो विचार तिच्या मनाक विजे वेगान चाटून गेलो.

चक्कीन फुडें म्हळें, "ही सटवाय समुद्रा देगेचो सत्यानास केले बगर ओगी रावत शी दिसना!" तेन्ना करुत्तम्मान निच्छेवान आवयक मदीं आडायत जाप दिली, "हांव म्हजी मर्याद केन्नाच सोडपाची ना. याद दवर तूं!"

"तर मागीर ताचे पासत तुजो जीव असो वयर खाला कित्याक जाता गो?"

"तुमचे करणेक लागून ताका हांगासल्ल्यान आपणाली सांटली पोटली उबारून एक दीस वचचें पडटलें."

चक्की धुवेक तोंडाक येत तें उलयली. करुत्तम्मा मोन्यानी सगलें आयकत रावली. पूण तिच्या मनाक तातुंतलें एक उतर लागलें ना. चक्की तशीच उलयत रावली.

जेन्ना तिचें उलोवप मर्यादे भायर गेलें तेन्ना करुत्तम्मान आवयक विचारलें, "तूं खरेंच सांगशीत ताणें बाप्पाचेर विस्वासून पयशे दिल्यात म्हूण?"

"मागीर कोणाचेर विस्वासून तर?"

अचकीत चक्कीक याद जाली की करुत्तम्मान परी कडेन पयशे मागिल्ले. आनी त्याच आधारार ती आपल्याक खोंचून विचारता. ते सरशीं तिणें प्रस्न केलो. "तुवें मागिल्ले देखुनूच दिले अशें तुजें म्हणणें?"

आपणें मागिल्ले म्हूण परीन पयशे दिले अशें करुत्तम्मा नक्की सांगूंक शकनासली. पूण तिका बरें खबर आशिल्लें की परी तिचेर प्रेम करता. तिणें म्हळें, "म्हंजे कडल्यान तूं कांय काडूंक सोदूं नाका आम्मा!"

"तुजे कडल्यान कितें काडपाचें?" मातशी थांबून चक्की फुडें म्हणपाक लागली, "तूं अशें बी म्हणूंक सोदिना मूं की हांवूच नाच-नाचत ता सरीं धांवलीं, पयशे मागपा खातीर?"

"आम्मा, त्या दिसा म्हाका येदो सेर्मांव तुवें आयकयलो. यानी मागीर ताचेच कडल्यान पयशे कित्याक घेतले? ताची रिणकारी कित्याक जाली?"

फुडें तिच्यान उलोवं नज जालें. तिचो गळो भरून आयलो. चक्कीचेंय बोड मातशें थान्यार आयलें. करुत्तम्माच्या उलोवपांत तथ्य आशिल्लें. चक्कीक वायट दिसलें. तिका जाणवपाक लागलें की खरेपणीच थोडीशी चूक घडल्या. आनी पावल चुकीचे वटेन पडलां. तिणें विचारलें, "घडलां कितें धुवे? खरें सांग."

करुत्तम्मा रडतूच रावली.

"तो हांगा आयिल्लो गो?"

करुत्तम्मान सामकी फट मारली, "ना!"

"मागीर घडलां तरी कितें?"

"पूण तो आयलो जाल्यार हांवें कितें करपाचें आम्मा?"

आपलो तातूंत कांयच गुन्यांव ना अशें सांगपाचो चक्कीन येत्न केलो. ती म्हणपाक लागली, आमी तसो कांय विचारूच केलो ना. परी कडेन आधार मागलो, ताणें तो दिलो. फेडपाचे नदरेनूच ताचे कडल्यान पयशे हाडल्यात. तरीय करुत्तम्माचो हुस्को बराबर आशिल्लो. परी वायट चालीचो न्हय ही गजाल खरी. पूण तो एक तरनाटोच की ना! चक्कीचें मन एकाएक अस्वस्थ जालें आनी त्या खिणाक खरेमणींच दिसलें, "परी कडल्यान पयशे घेवंक नाशिल्ले जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें. पूण चेम्पनाक हें सगलें कोणें सांगलां?"

त्या दिसाय करुत्तम्माच्या लग्नाची खबर काडून चक्कीन घोवाक सामको सतायलो. तिणें भर दिवन सांगलें की वेलायुधन बराबर उलोवणीं करून पळोवपाक जाय. आदीं लग्नाचें काम जावपाक जाय. व्हडें-जाळ घेवपाची गजाल फुडें धुकलपाक जाय. पूण तशें करपाक तयार तो जायत मूं? ताका सगलें उकतें करून सांगपाचें!

"आयज मेरेन तुज्या व्हड्या खातीर, जाळा खातीर म्हूण पयशे एकठांय करचे पासत हांव वजीं भरुभरून विकपाक वेतालीं. हे फुडें म्हजे जोडीची आस धरूं नाका!"

चेम्पनान पुरायेन ध्यान न दितांच चक्की कडेन पळयत म्हळें, "विचार केले बगरूच तूं हें कितें उलयता?"

चक्कीन रागानूच जाप दिली, "हांव योग्य तेंच उलयतां."

"कितें?"

"म्हाका म्हजे धुवेची राखण करपाची आसा."

"म्हणचे? हांव समजलों ना!"

"ती आतां व्हड जाल्या. तिका घरा कडेन एकटीच सोडून खंयूय वचपाक म्हजें मन घेना. ना जाल्यार तिचें लग्न करून उडय."

चेम्पन ओगीच रावलो. जसो कितें ताचे तकलेंत उजवाड पडिल्लो. चक्कीन बाजाराक वचपाचें काम बंद केलें जाल्यार व्हड लुकसाण जातलें हें तो जाणा आशिल्लो. ताणें विचारलें, "तशें कित्याक म्हणटा तूं? अशें अघटीत घडलां तरी कितें?'

"आजून ना कांय घडूंक. पूण तें घडलें जाल्यार?'

सावशिकांयेन रावपाची गरज आशिल्लीच. पूण चेम्पनाक पुरायेन विस्वास आशिल्लो की करुत्तम्मा एक गुणेस्त भुरगें. तिट्टिटें न्हय. "तें घरा एकटेंच उरलें तरीय कश्याकशेंय चलचें ना."

चक्कीन म्हळें, "पूण वांकडें पावल पडपाक कितलो सो वेळ लागता?"

चेम्पनान जाप दिली ना. दुसऱ्या दिसा चक्की उदेंते कडेन गेली ना. चेम्पनानूय आग्रो केलो ना.

ते रातीचीय सुकी मासळी हाडपाची गजाल आयली. पूण हे खेपे चक्कीन आडमेळें घालें, "आमकां नाका ती." चेम्पनान प्रस्न केलो, "कित्याक पूण?"

"त्या वल्याक बेश्टोच कित्याक फटयता?"

"कोण म्हणटा, हांव फटयतां?"

"म्हणचे तूं ताचे पयशे दितलो?"

"दितलों तर!"

करुत्तम्माक दिसलें की परीक कळोवपाक जाय. ताचे पयशे मेळपाचे नात. ती चोरयां ताका ही गजाल कळोवपाक सोदी. पूण तशी संदूच मेळ्ळी ना.

रातीचो परी कांय साक भरून घेवन आयलो. आनी मात पसून अनमन नासतना चेम्पनान ते सगळे घरांत व्हरून दवरले. परीक ताचे पयशे केन्ना तरी दितलो म्हणपाचें एका उतरान ताणें सांगलें ना. करुत्तम्माक दिसलें की तिच्यांत बापाय मुखार धिटायेन उलोवपाची हिम्मत आसा. मात हे गजालींक आपली आवयूच खरी गुन्यांवकारी जावन आसा. जायते दीस मनांत दाबून दवरिल्लें वजें काडून उडोवचें अशेंय तिका दिसलें.



# 3

चेम्पना कडेन पुराय पयशे जमले. आनी ते घेवन तो व्हडें आनी जाळ हाडपाक रवाना जालो. दर्यादिगेर हो एक उलोवपाचोच विशय जालो. कोणें म्हळें, चेम्पनाक कसलीय तरी गांठ मेळळ्या.

एक दीस तो वेळेर गेल्लो तेन्ना ताका फातराचे कुडके कशे दिसपी कितेंय तरी मेळिल्लें. पूण खऱ्यानीच ते आशिल्ले भांगराचे कुडके. तर कोणें ताची खबर उलयत म्हळें, की ताणें पय-पयसो करून धन सांठयलां. पूण ते गजालीचेर सगल्यांचो विस्वास बसलो ना. तांचें म्हणणें अशें की चेम्पना वरी सगलेच जोडटात. ते कांय एकठांय पावंक पावनात. जाल्यार एकलो चेम्पनूच येदो पयशेकार कसो जालो?

अच्चन, चेम्पनाचेच पिरायेचो. उत्तरेक चेम्पनाच्या घराकूच तेकिल्लें ताचें घर आसा. दोगूय भुरगेपणा पसूनचे सांगाती. सगले जाण अच्चना कडेन चवकशी करताले. चेम्पन कितले पयशे घेवन गेला? खंयच्यान आयले इतले पयशे? व्हडें, जाळ आयलें की मानाय म्हूण व्हड्यार कोण कोण चडटले?

अच्चनाक कांय खबर नाशिल्लें. पूण तरीय आपल्याक तें आसा, असो ताणें आव हाडलो. चेम्पनाचें म्हत्त्व वाडत चलिल्लें, तशें ताच्या मित्रांचें, सांगात्यांचेंय. अच्चनान आपल्या समजा प्रमाण सगल्या प्रस्नांच्यो जापो दिल्यो आनी आपलें म्हत्त्व प्रगट केलें.

कोच्चू वेलून एक प्रस्न विचारलो, "बाबा, आयकलां की तुमचोय बी हातूंत वांटो आसा. गजाल खरी?"

प्रस्न अच्चनाक गोंदळांत उडय सारको. पूण तो बदलो ना. म्हणूंक लागलो, "आसा, अशें म्हणूंक जायना. ना, अशें म्हणूंक जायना."

अच्चनाचो आव पळोवन ताका कात्रींत सांपडावपाचे हेतानूच वेलून हो प्रस्न केल्लो. ताची ती जाप आयकून सगलेच पोटभर हांसले. अच्चन मातसो लजलो.

एका शिटूक मनशान विचारलें, "तुमी सगले अशे हांसले शे कित्याक? अच्चनाच्या मनांत आयल्यार आपले पासत तो व्हडें आनी जाळ स्वतंत्र रितीन घेवंक शकना? मागीर भागिदार कित्याक जातलो?"

अच्चनाक आपशींच एक प्रस्न सुचलो- "सगल्याच जाणांनी व्हडीं, जाळां हाडलीं जाल्यार मानायपण कोणें करपाचें?" आपलें हांशें दाबीत कोच्चू वेलून म्हळें, "समजलें, तेच पासत अच्चनदाद व्हडें-जाळ घेयना तर!"

सांगाती बळयांच आपली टर उडयतात म्हणपाची गजाल अच्चनाच्या ध्यानांत आतां येवन चुकली. ते उपरान्त कोणें केन्नाय चेम्पनाच्या जाळा विशीं, व्हड्या विशीं विचारलें जाल्यार तो सामकी तुसडेपणान तांकां जाप दियी. आनी मुद्दामूच एक मजा म्हूण वा अच्चनाचीं फकाणां करपा निमतान लोकूय ताका मदिंमदीं कितें ना कितें विचारीत रावीत.

एक दीस गाबत्यांची जोड उणी जाली. अच्चनाक तिनूच रुपया मेळळे. च्यावालो अहमदाचें खूब दीस तो देणें लागतालो. त्या दिसा अहमदान ताका आडायलो. आनी आपले पयशे वसूल केले. त्या दिसा अशे तरेन ताका रिकाम्या हातांनीच घरा परतुचें पडलें.

घरांत रातीची रांदन कशी पेट्टली म्हणपाचो विचार करीत नल्लम्मा ताची वाट पळयत बशिल्ली. घोवा बायले मदीं बरें झगडें पेटलें. नल्लम्माचो ताचेर असो आरोप की तो जें कितें मेळयता तें सगलें ताच्या च्याक आनी सोऱ्याकूच पावना. अच्चन कितें सांगतालो ताचेर तिचो विस्वासूच बसना. आपणें सोरो पियेवंक ना म्हणपाचें सिद्ध करचे निमतान अच्चनान आपलें तोंडूच बायलेच्या नाकाक व्हरून तेकयलें. तरीय नल्लम्माक ताचें म्हणणें पटना. तिणें म्हळें, "तुजी सगली जोड सोऱ्याकूच काबार जाता. तुका कसलीच सुदबुद ना. आमी दीस कशे काडपाचे?"

"आगे, आयज हांव पियेवन आयलां तरी? कसलो नसतो आळ घालताय म्हजेर?"

घरखर्चाक पयशे नाशिल्ल्यान बायलेन तशें म्हणिल्लें; पूण अच्चनान तिकाच दटावन परतें म्हळें, "म्हजी लज काडूं नाका अशी!" तेन्ना तिका भिरभिरी मारली; म्हणपाक लागली, "लज? बराबरच्या सांगात्या कडेन व्हडें-जाळ आयलें, पूण तुज्यान हांगा बायलेकूय सारकी पोसूंक जायना. आनी म्हणटा तुजी लज गेली!"

हाची जाप अच्चनान उतरांनी न दितां बायलेचे फाटीर सपासप दोन थापटां ओडून दिली.

चेम्पनान व्हडें-जाळ घेतलें जाल्यार ते वटेन दर्यावेळेर सगल्यांनी अच्चनाची टिंगल केल्ली. हांगा घरा कडेनूय चेम्पनाच्या नांवान ताची बेअब्रू!

"आगे, कोणें व्हडीं-जाळां घेतलीं जाल्यार ताका हांव कितें करूं? कसलें प्रायश्चित्त घेवं? चेम्पनान पोटाक चिमटो घेवन पयशे जमयले, तशें हेर कोणाकूच जमलें ना."

चक्की आनी करुत्तम्मा आपल्या घरच्यान हें झगडें आयकतालीं. चक्कीन आड्डून म्हळें, "अचकनदाद, आमी उपास तपास काडले जाल्यारूय एक दीस तुगेर कांय मागपाक आयली ना!"

अच्चन चक्की वसल्यान वळळो. म्हणपाक लागलो, "पुरो, पुरो. चेम्पनाक हांव बरो वळखतां. सामको भुरगेपणा पसून वळखतां."

"तूं कितें वळखतलो! आयज तुज्या घरांत चूल लेगीत पेटूंक ना! तुजे आनी तुजे बायलेच्या कोडसाणेक लागून तुका मेळिल्लें हें फळ!"

"बायलेन कितें केलां गे? म्हजें नांव घेयशीत खबरदार!" नल्लम्मान दम भरलो.

"कसली कोडसाण म्हळळी? कोणाच्या मनांतली?" अच्चनान चक्कीक प्रस्न केलो.

"दुस्वास!"

"दुस्वास कोणाचो? तुज्या घोवाचो?" आपली तिडक पर्गटावचे पासत अच्चन खाक् करून थुकलो. म्हणूंक लागलो, "त्या उंवाळून उडयल्ल्या मनशाचो खंयचो सज्जन दुस्वास करतलो?" चक्कीचें माथें भिरभिरलें, "पळे, शिंतिदान उलय... कित्याकितेंय बडबडशीत...!"

"कितें करतली?"

"विचारता आनी वेल्यान, कितें करतली काय म्हूण?"

"चार पयशे मेळटात ना मेळटात इतल्यांतूच येदी घमेंड!"

झगडें वाडत चलिल्लें पळोवन करुत्तम्माक थरथरो सुटलो. तिणें आपल्या हातान आवयचें तोंड बंद केलें. अच्चन कसोच थांबनासलो. चक्कीकूय भार आयिल्ले वरी जाल्लें. करुत्तम्मान तिका ओडीत घरांत व्हेली.

रागाचो पारो देंवलो तसो अच्चनान लक्षपूर्वक एके एके गजालीचेर विचार केलो. त्या दिसा घरांत जेवण-खाण जालें ना. पूण हाचेय परस चड, ह्या झगड्याक लागून ताका दुःख भोगलें. बायलां एकामेकांलागीं झुजताल्यो. पूण तो जावन केन्ना चेम्पना कडेन वा चक्कीकडेन आयजमेरेन झगडूंक नाशिल्लो. आयज तेंय घडलें. ते रातीं ताका न्हीद आयली ना.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं समुद्रार वचचे पयलीं व्हड्याच्या मालका कडल्यान उश्णे घेवन दोन रुपया बायले सुवादीन केले. आनी दोनपारां, आपले जोडीचो आयिल्लो वांटो नल्लम्माचे सुवादीन करतना म्हळें, "आयच्यान अशेंच करपाचो निच्छेव केला. जोडिल्लें सगलें तुजे कडेन हाडून दिवपाचें. हात राखून खर्च कर. पळोवया, आमचे कडेनूय चार पयशे एकठांय करूंक जाता काय ना!"

हो ताचो विचार नल्लम्माक एकदम मानवलो. तिणें म्हळें, "तशें जाल्यार व्हडें जाळ घेवंक आमी पावलीं ना जाल्यारूय, आमकां सांजेवेळा उपाशीं तरी रावचें पडचें ना."

"कोण म्हणटा व्हडें, जाळ घेवंक जावचें ना म्हूण? तशें कोणाच्यान कांय सांगूं नज. आमकांय घडये तीं बरीं घेवंक येत!"

नल्लम्माक अच्चनाचें म्हणणें पटलें. तशे येल करपाचें तिच्याय मनांत आयलें. ती म्हणपाक लागली, "पळयलें मू? काल मेरेन आमचे सारकीं रावपी मनशां, आयज आमचे कडेन उलोवपाक तयार नात!"

अच्चनाक तें समा लागलें ना. ताणें म्हळें, "आमकां दुसऱ्यांच्यो गजाली कित्याक? आमी आमचेंच पळोवया."

"तें जालें. हांवें सहज म्हळें. पूण एक खरें, चक्की दिशिदिशीं खुबूच घमेण्डी जायत चल्ल्या."

अच्चनान तिका म्हळें, "तूं मातशें तोंड बंद कर पळोवया. तशें केल्यार चड बरें जायत."

"बरें आसा. ओग्गी रावतां."

"तशेंच करपाचें. पळोवया तरी कितें जाता तें!"

नल्लम्माक एकूच वायट दिसतालें, अच्चनाक हें सगलें शाणेपण हे आदीं कित्याक सुचलें ना!

अच्चन म्हणपाक लागलो, "तुवें जायते फावटीं म्हाका शिटकायल्लें. पूण हांव म्हजेच धुंदींत आशिल्ल्यान तुका हांवें जाप दिल्ली. गाबीत जातीक फायचे खातीर गांठ करून दवरपाची गरज कितें? ताची गिरेस्तकाय अस्तेंन्तेक उपाट भरून सदां रकत आसा!"

"जाणट्यांची सांगणी आशिल्ली, व्हडीं जाळां सगलीं सामुहिक मालकेचीं आसचीं. पूण ती गजाल खंय उरल्या? आयज कोणाच्यानूय ह्यो वस्ती हाडूंक जातात."

"आपल्या ल्हानपणांतल्या सांगात्याकडेन आतां व्हडें-जाळ आयलेंच मूं!"

अच्चनान म्हळें, "चेम्पन हुशार आसा. ताचें मुळा पसून कितल्याशाच वर्सांचें तें सपन!"

परत धीर आयिल्लेवरी करीत ताणें म्हळें, "पळोवया, जमल्यार म्हजोय विचार आसा." हो ताचो निश्चेव आशिल्लो.

सांजेवेळा जाळ सारकें करचे पासत ताका वेळेर वचपाचें आशिल्लें. तें पिंजिल्लें आशिल्ल्यान त्या दिसा बरेंच नुस्तें भायर गेलें. अच्चन वेळेर पावलो तेन्ना ताचे हेर सगले सांगाती थंय पाविल्ले. कामाक लागिल्ले. थंयूय चेम्पनूच लोकांच्या उलोवपाचो विशय आशिल्लो.

अच्चनान म्हळें, "तुमकां सगल्यांक दुसरें कसलें कामूच ना? लोकां बद्दल सारकें उलयत रावपाची गरज कितें? काम नासत जाल्यार उलयात. ताचें पाप धूयत बसात!"

अच्चनान फुडें म्हळें, "म्हजें खरें जाल्यार खरें म्हणात. हांव विचारतां, तुमकां इतलें दुःख कित्याक जालें?"

रामन मूप्पनान न्यायाचो एक प्रस्न काडलो, "चेम्पना विशीं कांयूच उलोवपाचो आमकां अधिकार ना?"

"अधिकार कसलो?"

रामन मूप्पनाक नवल दिसलें. म्हणपाक लागलो, "हेर कोणूय एखाद्रो तरणाटो तुजेवरी उलयल्यार समजूं येतालें. तूं एक जाणटो आनी अणभवी गाबीत मूं!"

अच्चनाक तो असो प्रस्न कित्या पासत विचारता तें कळळें ना. ताणें दुसऱ्यांची टिंगल करूं नाकात इतलेंच म्हणिल्लें. तातूंत कितें चुकलें? म्हणपाक लागलो, "कित्याक असो मुद्दो तुवें काडलो मूप्पन?"

सुताधागो सकला दवरीत मूप्पनान जाप दिली, "दर्यावेळेवेले कांय पूण कायदे-कानून आसात मूं?"

अच्चनान म्हळें, "ते चेम्पनाकूय लागू जातातूच न्हय?"

ते सगले कसले गजालीचेर भर दिवन टिंगल करतात हें अच्चनाक बरें कळळें ना. रामन् मुप्पनान खोलायेंत शिरत म्हळें, "पोन्न्या काळारूच न्हय, सामक्यो हालीं मेरेन वाडिल्ल्यो चलयो, हे दयदिगेर, लग्ना बगर घरांत उरिल्ल्यो?"

अच्चनान जोडणी दियत म्हळें, "दर्या घाटार त्या काळार घाट राखपी घाटकार उरताले. "घरांत वाडिल्ली चली आशिल्लो खंयचोय बापूय व्हडें, जाळ घेवपाचो विचार करतालो?" आदल्या तेंपार वाडिल्ल्या चलयांक घाटकार लग्नाविना अश्यो रावपाकूच दिनासले. घाटाचे थारिल्ले नेम कोण मोडूंक शकनासलो. घाटकार ते बाबतींत सामको शिटूक रावतालो. नेम करपा फाटलो हेतूच तसो आशिल्लो. गाबितांच्या कल्याणा पासत ते आसताले.

अच्चनान विचारलें, "नेमा प्रमाण केदे पिरायेचेर चलयेचें लग्न जावपाक जाय?" जाणटेल्या मूप्पनान जाप दिली, "धा वर्सांचेर." ताचेर वेल्लामणली वेलायुधनान प्रस्न केलो, "पूण समजा, धा वर्सां मेरेन लग्न ना जालें जाल्यार?"

नेम समजून घेवचे पासत ताचे हे प्रस्न नासले. ताका अशे तरेच्या नेमां आड आवाज उठोवपाचो आशिल्लो हें स्पश्ट दिसतालें. रामन मूप्पनानूच ताका जाप दिली, "विचारता, ना जालें जाल्यार? तशें घडपाकूच दिय नाशिल्ले."

वेलायुधनान विचारलें, “कितें करतालो तर घाटकार?”

“तशें करतल्याक घाटकार भौसा भायरो करून सोडटालो. दर्या घाटार रावप कठीण करून उडयतालो.”

दुसरो एक तरणाटो मदींच उलयलो, “ह्यो सगल्यो पोरन्या काळांतल्यो गजाली जाल्यो!”

ताचेर रागान अच्चनान म्हळें, “कोण सांगता? आयजूय अशेंच जातलें, पळयशी तूं! आमी दाखयतले करून. चेम्पनाची सामकी रेवडी करून उडयले बगर आमी सोडचे नात!”

हे गजालीक आपलो तेंको पर्गटायत रामन मूप्पनान फुडें विचारलें, “व्हडें, जाळ दवरपाचो हक्क सगल्यांक पावता अच्चन?”

अच्चनान जाप दित म्हळें, “ना. सगल्यांक तो हक्क ना. ताचेर मूप्पनान हो विशय विस्कटायत म्हळें, “समुद्रमातेचीं भुरगीं जावप म्हणचे एका व्हड गिरेस्तकायेचीं येरदेरी जावप! तांच्या हातांत पयसो आडको खेळप ही सादी गजाल. सगल्यांक व्हडें, जाळ घेवपाची तांक आसताच. पूण प्रस्न असो आसा, घाटावेल्या सगल्याच गाबितांनी व्हडीं, जाळां खरेदी केलीं, जाल्यार मानायपणाचें काम कोणें करपाचें!”

ताणें म्हळें, “हे दर्यावेळेर मनांत हाडलें जाल्यार व्हडें जाळ घेवंक शकना अशा एका मनशाचें नांव सांगात पळोवया!”

“खरें मूं, जाल्यार...” अच्चनान जोडणी दिली, “व्हडें जाळ ह्यो वस्ती दरेकल्याकडेन ना ताचें कारण कितें?”

“ताचेंय कारण आसा. गाबीत लोक पांच जातींचे. आरीकार, जाळवाले, वलेकार, पागेली आनी रांपणकार. ह्या सगल्यांचेर उदेंतेक एक “वालन” आसता. हातूंत जाळवाल्यांकूच व्हडें विकतें घेवपाचो अधिकार आसा. मागशिल्ल्या काळांत घाटकार पागेल्यांकूच व्हडीं, जाळां घेवपाक मान्यताय दिताले. आनी तींय बी पागेली ताका रसांव दिवपाची कबलात करी तेन्नाच.”

वेलायुधनान विचारलें, “चेम्पनकाका हातूंत खंयच्या जातीचो?”

पुण्यंन बेश्टोच हांसलो. मूप्पनान जाप दिली, “पागेली.”

पुण्यनान हांसत म्हळें, “चेम्पनकाकाची जात-पात आतां हो समजून घेवपाक सोदतलोच!”

अच्चनान कारण कितें विचारलें. तेन्ना पुण्यन् म्हणपाक लागलो, “ताचे चलयेच्या लग्नाचीं उलोवणीं चल्ल्यांत न्हय?”

अच्चनान म्हळें, “अशें? चली खरेपणींच बरी आसा.”

पुण्यनाक तें मानवलें ना. म्हणपाक लागलो, “अच्चनाक चेम्पनाचें सगलें कितें बरें दिसता. आनी वेलायुधनाक सुचयलें, “त्या चामट्या कडल्यान तुका दमडी सुटपाची ना. याद दवर! तेच प्रमाण ती चलीय बी सुमाराची न्हय!”

अच्चनाक तिडक मारली. ताणें म्हळें, “तूं कितें उलयता गा? लग्न थारता कोणाय चलयेचें तर थंय असो मोडो घालपाचो? हें आमकां सोबता?”

अच्चनान फुडें म्हळें, “हांव खरी गजाल सांगतालों.”

आण्टी आतां मेरेन ओग्गी बशिल्लो, ताणें आनीक एक नवोच प्रस्न काडलो. ताका लागून उलोवण्याचो सगलो रोखूच बदललो. ताका समजून घेवपाचें आशिल्लें, “पागेल्यां खेरीत ह्या आदीं कोणेय दुसरे जातीच्यान केन्ना व्हडें, जाळ घेतिल्लें?”

ताका जाप मेळ्ळी, “हय. तशें घडलां. पूण तें करपी मनीस मात त्यो वस्ती चड काळ भोगूंक पावंक ना.”

अच्चनान विचारलें, “दरेक दर्यावेळेर जाळेऱ्यांचीं खंयचीं खंयचीं कुटुंबां आसात?”

हाची जाप रामन् मूप्पनान दिली, “चेर्तलांत पल्लिकुन्नम, आलप्पुशांत परुत्तिक्कवल, आनी हांगा कुन्नेल रामनाचें कुटूंब अशीं जाळेऱ्यांची, पागेल्यांची वळेरी लागता.

पुण्यनान विचारलें, “जाळ घेवपाचें तर घाटकाराक रसांव म्हूण कितें कबूल करचें पडटा?” ह्या प्रस्नाची जाप आशिल्ली, “धुमटेचीं चार पानां, आनी रोख पंदरा रुपया!”

हाचे उपरान्त घाटकाराचे अधिकार आनी हक्क हांचे विशीं उलोवणीं चालू जालीं. घाटकाराचे अधिकार खरेलेच व्हड आशिल्ले. तांकां आळो कसो घालपाचो अशा तोऱ्यांत वेलायुधनान विचारलें, “खासा आपणेंच जोडिल्ल्या पयशाच्या बळार व्हडें घेवपाक फुडें सरपी मनशाकूय घाटकाराक रसांव दिवचें पडटा?”

पुण्यनान म्हळें, “पळेया, पळेया, कसो आपूण चेम्पनकाकांचो जांवय जाल्लेवरीच हो उलयता!” अच्चनान फुडें म्हळें, “घाटकाराक दिवपाचें रसांव चुकोवन, दक्षणा चुकोवन व्हडें, जाळ हाडपाचें जांवय-मांवान थारायलें जाल्यार घाटकारा मुखार ते कशे तग मारतले तें पळोवया.”

हें एके तरेचें आव्हानूच आशिल्लें. चेम्पन व्हडें, जाळ हाडटलो तेन्ना घाटकाराचो आधार आसले बगर व्हडें दर्यांत कशें लोट्टलो तें दिसतलेंच. अच्चनान स्पश्ट सांगलें की तशें जावं नज. वेलायुधनाक दिसलें खरें, आपणें हें आव्हान पेलूंक जाय. पूण तशें करतलो कित्याच्या नाड्यार? कसल्या अधिकाराच्या जोरार! पूण तरिकूय म्हणपाक लागलो, “तुमकां सगल्यांक दुस्वास जाला, दुसरें कितें!”

अशें दिसपाक लागलें की हे चर्चेंतल्यान एक झगडेंच उप्रासूंक लागलां. अच्चनान मदीं पडून वैलायुधनाक गप्प बसयलो. बरोच वेळ कोण कांय उलयलो ना.

दर्यावेळेर अशीं कोणें चिंतनाशिल्लीं उलोवणीं चलतालीं तेन्ना चक्की आपल्या घराकडेन बसून सपनां रंगोवपांत गुल्ल आशिल्ली. थोड्याच दिसां भितर एका व्हड्या धनयाची घरकान्न म्हूण लोक आपल्याक वळखतले. जिणेंतली एक चडा दिसांची इत्सा फळाक आयिल्ली आपूण पळयतली म्हणपाचीं तीं सपनां.

हें सपन साकार जावचें म्हूण चक्की आनी चेम्पन हांणी दोगांयनी खूब कश्ट सोंसल्यात. शेजराचे खंयचेय चलये परस करुत्तम्मा अदीक देखणी आसा. तिची आवय व्हड्याची मालकीण जाली की, आयज करुत्तम्माक जे तरेचो न्हवरो मेळूं येता, ताचेय परस चड बरो न्हवरो मेळूं येतालो.

आवयन धुवेक म्हळें, “तुज्या बाप्पाल्यो उमेदी व्हड, व्हड आसात. अवंदूंच्या वर्साचे जोडींतल्यान तो जमीन आनी घराची वेवस्था करतलो. ते उप्रांत तुजें लग्न.”

करुत्तम्माक कांयच सांगपाचें नाशिल्लें. चक्की आपुणूच फुडें सांगपाक लागली, “समुद्रमातेचे कृपेन आमी कोणाच्याच कसल्या रिणांत नान [illegible] जाल्यारूय कोण

देणेकारी नात, छळपी नात हें समाधान थोडें न्हय!"

चक्कीचें उलोवप पुरायेन सोंपचे पयलींच करुत्तम्मान तिका आडायत म्हळें, "आम्मा, आमी कोणाचें देणें लागना अशें तूंच तुज्या तोंडान म्हणटाय?"

परीच्या पयशांचो उगडास करून. दिवचे पासत करुत्तम्मा अशें उलयली हें चक्कीक कळळे बगर रावलें ना. ती थोडी आडखळळी. पूण दुसऱ्याच खिणाक म्हणपाक लागली, "ना, तें एक रीण म्हूण मानपाची गरज ना."

करुत्तम्मान मातशा कोंडसर आवाजांत म्हळें, "ना कशें तर?"

"आगो, तशें न्हय गो पापया. तें रीण रोखड्या रोखडें फेडलेंय ना जाल्यार व्हडें, जाळ कोण काडून व्हरपाचो ना!"

"हें तूं सांगताय ताचें कारण रीण दिवपी धाकलो सावकार सादो भोळो मनीस हेंच मगे?"

चक्कीन तिडकीन म्हळें, "तुज्या उलोवपाचो अर्थ म्हाका कळळो ना. धाकल्या सावकाराचो विशय येता तेन्ना तेन्ना असो तुजो आवाज सो कित्याक चडटा गो बाये?"

करुत्तम्मान जाप दिली ना. आवयच्या प्रस्ना कारणान तिचेर कांय परिणामूय जालो ना. चक्कीन तिका दटायलें, "पोरा, तूं आपले मर्यादेंत राव! तरूच घडये एखाद्रो बरो भुरगो तुका मेळत. ना जाल्यार आसा तशेंच उरतलें."

करुत्तम्मान मख्खपणान, पूण गुरगुरतूच म्हळें, "आम्मा, म्हज्यांतूच मर्याद उणी आसा न्हय?"

तिचो प्रस्न आयकुं कूच नाशिल्लेवरी करीत चक्कीन थोमणो मारलो, "तो धाकलो सावकार तुजो कोण लागता गो?"

तो आपलो कोण लागना अशी जाप करुत्तम्मान दिली ना. पूण एकाएक तिचे दोळे भरून आयले.

करुत्तम्माचो कितें गुन्यांव आसलो? कसलोच ना, हें चक्कीकूय बेस बरें खबर आशिल्लें. आयजवेर तिणें कसलीच चूक करूंक नासली. ती एक गुणेस्त आनी सोंशीक चली. परीच्या रिणांत रावप बरें न्हय, ताचे पयशे पावोवपाक जाय इतलेंच तिणें सुचयिल्लें, तातूंत कितें चुकलें? खेरीत करुत्तम्माच्या मनांत परी पासत मोग आसाच. हे आदींच लग्न करून तिका उजोवपाक जाय आशिल्ली. पूण ही गजाल तिच्या बापायच्या ध्यानांत आयलीच ना!

चक्कीन फुडें म्हळें, "धुवे, तुजे पासतूच तुजो बाप्पा इतले त्रास काडटा. तूं म्हजें बाये तें दुकांत उडोवं नाका!"

करुत्तम्मा ओगीच रावली. तेन्ना चक्कीन म्हळें, "बाय, तुका एक प्रस्न विचारूं? तूं म्हाका खरें कितें तें सांगतलें! तूं त्या भायल्या धर्माच्या मनशाचेर खरेपणींच प्रेम करता गो?"

करुत्तम्मान चटकरून 'ना' म्हूण जाप दिवपाची. पूण तशें करिनासतना ती ओगीच रावली, तेन्ना मात आवयच्या मनाक एके तरेची भिरांत दिसली.

चक्कीच्या मनाची शांती हरपली. होळम काडून एकाएक रडत तिणें म्हळें, "देवा रे म्हज्या, त्या पातकी मनशान करणी करून म्हजे धुवेक फटयली रे देवा!"

चक्कीचें मन खंयचे खंय भरकटलें. करुत्तम्मान आपल्या हातान आवयलें तोंड बंद करीत म्हळें, "खरेपणींच पिशी बी जावंक ना मूं तूं आम्मा?"

चक्कीन काकुळटेक येवन धुवे कडेन पळयलें आनी जमनीर लोळण घेत म्हळें, "पापणी, म्हाका अशें फटोवं नाका गो पुते!"

इतलेंय घडलें तरी आपूण परीचेर प्रेम करिना अशें एका उतरान क़रुत्तम्मान सांगलें ना.

ते सांजेवेळा अच्चन चेम्पनागेर आयिल्लो. दर्याघाटार जीं जीं उलोवणीं जाल्लीं तीं सगलीं अच्चनान चक्कीक सांगलीं. लोकांनी घाटार गडबड करपाचें थारायलां. तातूंत अय्यनकुंजू रामन मूप्पन हे मुखेल आसात.

"चेम्पन गांवाक परतो आयले बराबर सगळयांत आदीं ह्या नव्या संकटापसून आपली राखण करून घेवपाचो उपाय सोदून काडपाक जाय."

ताणें फुडें म्हळें, "अच्चन आनी हांव भुरगेपणा पसूनचे सांगाती. म्हज्यान हें आयकूं नज जालें. त्या विघड घालप्यांकडेन सहमत जावपाचे सोडाच."

आतां मात चक्कीच्या मनांतली उरिल्ली सुरिल्ली शांतताय बी नाच्च जावन गेली. घाटावयल्या खंयच्याय घाटकारा आड झुजपाचें फळ कितलें कोडू जावं येता म्हणपाची कल्पना चक्कीक बेसबरी आशिल्ली. तिच्या मनांत विचारांचें चक्र घुंवपाक लागलें.

"अशे तरेची ख्यास्त आमकां मेळची असलो कसलो तरी गुन्यांव आमचे कडल्यान घडलो काय देवा? चलयेचें लग्न आजून मेरेन केलें ना, इतलोच मूं?"



# 4

दर्याघाटा वयल्यांचे प्रतिनिधी कशे जावन, रामन मूप्पन, अय्यन आनी आनीक दोग जाण घाटकाराक मेळपाक गेले. घाटार घडत आशिल्ल्या कांय गजालींची कागाळ तांकां करपाची आशिल्ली.

चेम्पनाली चली जाणटी जाल्या, चेम्पनान आजून तिचें लग्न करूंक ना, आनी ती जाय जाय तशी मेकळेपणान दर्याघाटाचेर भोंवता, फिरता. हीच ती कागाळ. घाटकारान सगली गजाल लक्ष दिवन आयकून घेतली. आपूण फाव ते उपाय घेतलों म्हूण सांगलें, पूण अय्यनाक दिसलें की तांचे सांगणेचो जावपाक फाव आशिल्लो तितलो परिणाम ताचेर जालो ना; देखून घाटकारान जाप दिलें उपरान्तूय सगले थंयच रावले. तेन्ना ताणें विचारलें, "आजुनूय उबेच शे कित्याक?"

अय्यनान आनिकूय गजाली सांगल्यो. "चली दर्याघाटाचो सत्यानास करपाक फुडें सरल्या. आनी ते वटेन चेम्पन व्हडें, जाळ घेवपाच्या बोवाळाक भोंवता."

घाटकाराक ही गजाल खबर नाशिल्ली. ताणें विचारलें, "त्या कामाक ताचे कडेन इतले पयशे खंयच्यान आयले?" मूप्पन, अय्यनाकूय तें खबर नाशिल्लें. अय्यनान नमळायेन घाटकाराक विचारलें, "चेम्पन एक मासळेकार मानाय. व्हडें, जाळ घेवपाक तुमी ताका तुमची मान्यताय दिल्या?"

"शे, शे. म्हजे कडेन तो आयलोच ना."

"मागीर आमी घाटावयल्यान कितें करचें तर?" घाटकारान मातसो विचार करून म्हळें, "तो समजता आसत आतां काळ बदलला. पूण ताचें व्हडें, जाळ येवं दी. मागीर पळोवंया. ताच्या व्हड्यार मानाय म्हूण कोणूच म्हाका विचारले बगर चडूं नाकात."

अय्यन मन दिवन आयकतालो. ताणें म्हळें, "हय, तशेंच जातलें."

घाटकारान फुडें म्हळें, "पूण घाटार थोडे तरनाटे लोक आसात, ते कितें करतीत म्हणपाचें कळना."

अय्यनाच्या मनांत त्या खिणाक वेलायुधनची गजाल आयली. घाटकाराक कांय ती बाब तितलीशी व्हड दिसली ना. कित्याक, ताका बरें खबर आशिल्लें की उगड उगड रितीन ताचे आड उबो रावपाची धिटाय घाटार कोणाच्यांतूच ना. ताणें खंबीरपणान म्हळें, "सगल्याचेर उपाय हांव काडटलों. तुमी वेळे वयल्या लोकांक आयज इतलीच शिटकावणी दिवन उडयात की व्हडें, जाळ घेवपाक चेम्पनाक हांवें मान्यताय दिवंक ना."

मूप्पन, अय्यन हांकां तें आयकून आपलें जैत जाल्लेवरी दिसलें. आनी त्या तोऱ्यांतूच ते परतले. घराघरांत भोंवन तांणी घाटकाराची सुचोवणी सगल्यांक कळयली. अय्यनाक दिशिल्लें की वेलायुधन हो एकलोच घाटकाराची आज्ञा मोडटलो. ताचीं फळां भोगतलो.

चक्कीक सगली गजाल कळ्ळी. घाटा वयल्यांचो कोप ओडून घेतल्यांचें घरदार बुडलां

म्हणपाची काणी तिणें आयकल्ली. रातोरात, कुटुंबांच्या कुटंबांक दर्यावेळ सोडून पळ काडचो पडला! अशे तरेन आपलो दर्यातीर सोडून येवपी लोक दुसऱ्या वेळां वयल्या लोकांमदीं भरसून आपली जीण लोटूंक सोदतीत तर ती गजाल म्हा कठीण. ते खंयूय वचूं. तांचेर तांच्या समाजाचें बंधन हें उरतलेंच. ते पासत अशा लोकांचेर चड करून आपलो धर्म लेगीत बदलपाचो प्रसंग आयला.

इतलेंच, आयज काल हे नेम मातशे धील पडल्यात. सगलो संवसारूच बदलत चल्ला न्हय! पूण घाटकार, जल्मी, घाटावेले नेम पाळपाकूच जाय असो फतवो काडीत जाल्यार आयजूय. ताचे फुडें कोणाचो निस्तर चलपाचो ना. खंयचोच मानाय व्हड्यार कामाक चडपाचो ना. अशें घडूं येता.

अशेंय घडूं येता की भौसान भायर उडयलो जाल्यार तागेर लग्ना-मरणा सारक्या प्रसंगा वेळार लेगीत कोण पावपाचो ना, अशी गत आयजूय जावची ना अशें सांगूं नज. व्हडें आनी जाळ घेतलेंच म्हूण जालें ना. ताचे पयलीं घाटकाराचो मान-पान करून, ताची दक्षणा-रसांव पावोवन, तांची मान्यताय मेळोवपाक जाय. आदीं ही गजाल करपूच खरी गरजेची आशिल्ली.

चक्की, चेम्पनान कोणाचें घोडें मारूंक नाशिल्लें ही गजाल खरी. तरिकूय घाटार सगल्याक जल्म्याचे घाटावयले नेम तांणी मोडून उडयले अशी बोब पडिल्ली. "घरांत वाडिल्ले चलयेचें आदीं लग्न करून घेवपाचें तें सोडून तीं नस्त्या कामा फाटल्यान लागल्यांत. हो तांचो एक व्हड गुन्यांव," अशें भोंवतणच्यो बायलो फुतफुतूंक लागिल्ल्यो.

करुत्तम्माक आपले जिणेचो वीट आयलो. आपले पासत आपल्या आवय बापायचेर कसलीं कसलीं संकश्टां येतात, तें पळोवन तिचें मन विटलें. ती चलयेच्या जल्माक आयली ही तिचे हातची गजाल न्हय. दर्या घाटाची पवित्रतायूय तिणें इबाडूंक नाशिल्ली. ती चड दीस आंकवार उरली म्हूण कोणाचें कितें वांकडें जाता? पूण अशे तरेचें तिचें चिंतप कोणाक मान सारकें नाशिल्लें.

आवय आनी धूव दोगांय जाणां चेम्पन घरा केन्ना परतता म्हणपाची दोळे लावन वाट पळयत राविल्लीं. गांवांत वचत थंय उलोवणीं तांचेच विशीं चलिल्लीं. चक्की लिपचोरयां तीं आयकताली.

एकलेन म्हळें, "करुत्तम्माची परीकडेन घसण आसा. आपणें तांकां दोगांकूय व्हड्या आडसाक रावन एकामेकां बराबर हांसता- किटकिट्टना पळेल्यांत. आनी त्याच कारणाक लागून करुत्तम्माच्या लग्नाक तिचे आवय-बापूय फुडें सरनात."

मनीस सगलें सोंशीत. पूण एक आवय आपले चलये वयलें अशें नस्तें किटाळ कशें सोसतली! चक्की एकाद्र्या चवताळिल्ल्या वागावरी किवांट्यान तांचेर शेंवटली. व्हड झगडें पेटलें.

कोणें म्हळ्ळें, तरणेपणांत चक्कीनूय त्या घाटाची पवित्रताय अशीच भश्टयल्ली. ताचेर चक्कीन कालीच्या एका भुरग्याचें सरळ नांव घेवन ताच्या खऱ्या बापाय विशीं थोमणो मारलो. तिणें म्हळें, "म्हाका खबर आसा कोण ताका जल्माक घालपी तें. तो एक त्या तेंपावेलो एक मुसलमान मासळे वेपारी. सुकी मासळी विकपा निमतान घराघरांनी भोंवतालो." अशें म्हणत, थंय जमिल्ल्या सगल्या बायलांच्या आवयांची एक एक सुरबूस

मोगाकाणी चक्कीन जमिल्ल्या लोकाक आयकयली. त्या बराबर चक्की आनी त्या बायलां मदीं एक खडेगांठ झुजूच जालें. उतरांचें झूज. आनी एकटी चक्की सगल्यां बराबर झुजली. आपल्या आड्या कडेन उबी आशिल्ले कडेन करुत्तम्मान सगलें आयकलें. तें आयकून ती अजाप जाली. आपले आवयनय तरणेपणांत कोणाचेर मोग केल्लो काय? आनी तो करतना तिचे कडल्यान दर्या देगेची पवित्रताय भश्टल्या ही गजाल खरी? मागीर घाटाच्या पवित्रतायेचें पुराण उठटां बसतां सगलीं जाणां सांगतात तें पुराणांतलेंच काय कितें! त्या सगल्यांच्यो अशे तरेच्यो रंगरागी काणयो आसतनाय दर्या बाबडो आयजूय पयलींच सारको ल्हारेत उरला. ताका आदलेच सारकी भरती-सुकती येता. मासळेकारांची जोड आदलेच प्रमाण. गाबितांची जिणूय बदलूंक ना. तशें जाल्यार घाटाच्या पवित्रतायेच्या पुराणांचो खरो अर्थ तरी कितें?

झगडें वाडत रावलें तशें करुत्तम्माच्यो गजालीय तातुंतल्यान वयर सरपाक लागल्यो. आनी त्यो आयकतना तिका आपले कान धांपून घेवचे पडले. कसल्यो कसल्यो केन्ना घडनाशिल्ल्यो कल्पीत गजाली बायलो उलयताल्यो! "पऱ्यीन तिका आपली नायकीण केल्या. तिचे सारके वाडिल्ले तट्टीत घोडयेक एखाद्रो सावकारूच सांबाळूंक शकता. घरची जोड उणी जाल्ल्यान तिचें लग्न आडावन दवरलां" अशें तोंडाक येत तें त्यो उलयताल्यो. तशें जाल्यार आपले आवय विशीं जें कितें ह्यो बायलो उलयल्यो, तें सगलें अर्थ नाशिल्लेंच म्हणपाक जाय.

चक्कीच्या तोंडाक लागप कठीण जालें तेन्ना कालीन म्हळें, "तुमचें आतां कितें जावपाचें आसा तें पळयत राव! घाटकारूच तुमकां दाखयतलो! तुमकां बुद्द शिकयतलो!"

तरीय चक्की ओगी रावली ना. सगल्यांक तोंड दिवपाचो तिचो हावेस आनी कैफ चडतूच राविल्लो. तिणें विचारलें, "कसली गे बाये बुद्द शिकयतलो घाटकार? ताणें आदींच थारावन दवरलां काय कितें? जल्मी करूंक तरी कितें सोदता?"

पेण्णम्मान थोमणायलें, "मर्याद सोडून काम करपी मनशांक कितें करपाचें तें घाटकाराक बरें खबर आसा. ताचें कितें करपाचें तें तो करतलो."

चक्कीन शेंवटून विचारलें, "कितें करपाक जाता घाटकाराच्यान? गरज पडल्यार आमी मुसलमान, क्रिस्तांव लेगीत जावं. मागीर कितें करतलो?"

एकलेन म्हळें, "पळयलें मूं! निमाणें तोंडांतल्यान खरें तें भायर सरलें. म्हणचे, थारावन सवरूनूच चलयेक मुसलमाना बराबर सोडल्या तर!"

दुसरेन तिका तेंको दियत म्हळें, "हय, आवय धुवेक दोगांकूय तोच बरो पडटलो."

चक्कीन विचारलें, "तातूंत वायट कितें?"

करुत्तम्मा तें आयकून सामकीच कांचवेली. तिका खूब दुखलें. दुखलें अशेंय म्हणूं नज. मागीर खोस जाली म्हणपाचें! तशेंय म्हणूं नज. करुत्तम्मान आवयक व्हडान उलो मारलो. तिच्या आवाजांत भिरांत आशिल्ली. चक्की तो आयकून आयली.

घरांत येवनूय चक्की आड्डतूच रावली. करुत्तम्माक तिका जायतें कितें विचारपाचें आशिल्लें. पूण तशें करपाक धीर जालो ना. 'मुसलमान जातलीं' हीं आवयचीं उतरां तिच्या कानांत गुंजत राविल्लीं. तिच्या कानसुलाच्यो शिरो हुनहुनीत जाल्ल्यो. आंग सोसूं नज इतलें भाजूंक लागिल्लें.

तशें जावपाचेंच. तिचें काळीजच चोरयेक गेल्लें. जिणेचे आदर्श, सदाचार, निश्ठा, विस्वास हांच्या एके तरेच्या घुस्पागोंदळांत तेच प्रमाण हरेक तरेन संकश्टांनी वेडिल्ल्या कोटांत बांदून दवरिल्ले वरी ती जियेताली. तातुंतल्यान भायर सरपाची वाट तिका मातशी झळकुपाक लागिल्ली. गरज आशिल्ली ती फक्त निच्छेवाची. तो केल्यार सगलें निभावतलें!

मुसलमान जावपाचें! तशें केल्यार ती कशी दिसतली? कुडतो, जरी देगेचें लुगट न्हेशिल्ली. कान वेल्यान सकला पाळये मेरेन तोपून तातूंत भांगरा झूल घाल्ली. माथ्या वयल्यान ओडणी ओडून ती परीकडेन वतली तेन्ना तिका केदी खोस भोगतली! परीय खुशाल भरीत जातलो!

आपले भोंवतणचीं जीं आडमेळीं ती पुरायेन समजूंक शकनासली आनी तरीय तिका अणभवचीं पडटालीं, तातुंतल्यान निच्छेवान भायर सरपाचो हो एकूच मार्ग. ही वाट धल्ल्यार गाबिताची चली म्हूण तिका घुस्मटंत रावपाची गरज ना. त्या खिणाक परी थंय आयिल्लो जाल्यार ती ताका सांगून लेगीत उडोवपाची की तिचे घरचीं सगलीं मुसलमान जावपाक तयार आसात. आनी तें आयकून परीय खोश्येन नाचपाचो.

पूण आवयन फाटलो फुडलो सगलो विचार करून तशें खंय म्हणिल्लें? रागाचे भिरभिरेंतल्यान ती उलोवन गेल्ली. पूण करुत्तम्मा बाबडी सादी. तिका आवयचें उलोवणें खरें दिसलें. पूण आवयक "आम्मा, आमी मुसलमानी धर्मांत वचपाचीं आसात गे?" अशें विचारप तिच्या जिवार आयलें. तशें केल्यार आवयक घडये दिसुंये, 'हिणें आदीं पसुनूच मुसलमान जावपाचें थारायलां!' करुत्तम्मा अशा विचारांत बुडून गेली. घाटकारा कडल्यान तीग-चौगजाण आयले. पूण चेम्पन आजुनूय घरा येवंक नाशिल्लो. चार पांच दिसांनी चेम्पनाचें व्हडें पावलें. बराबर जाळय आशिल्लें, पल्लिकुन्नमचो नांवाजतो व्हडेकार कण्डनकोरनं हाचें तें व्हडें. एका काळार खूब गाजिल्लें व्हडें तें. आयज इल्लें पोरनें जालां इतलेंच.

गांवच्या लोकांकूय चेर्तला दर्यातिरा वयलें तें एक हेर सगल्या व्हड्यां परस बरें व्हडें ही गजाल खबर आशिल्ली. पोरनेंय जालें तरी कण्डनकोरनान तें विकपाक काडलें कित्याक हाचें सगल्यांक अजाप जाल्लें. तो एक हाताभायर पयशे उधळपी मनीस. ताची परिस्थिती ताका लागून इबाडिल्ली.

सगल्यांनी येवन व्हडें दोळेभर पळयलें. पूण कोणेंच उक्तेपणीं कांय म्हणलें ना. तरी चेम्पनाक एक चड मोलाचें व्हडें मेळ्ळें हो विचार तांकां आयले बगर रावलो ना.

अच्चनान सांगात्यांक म्हळें, "ह्या व्हड्याच्या रुपान चेम्पनाकडेन पल्लिकुन्नमाची गिरेस्तकाय आयल्या हातूंत दुबाव ना."

"जालें तरीय त्या गिरेस्ताची व्हडवीक ह्या मासळेकाराक कशी येतली! ताचो भांगरावरी सोनेरी रंग! आपल्या सुटिल्ल्या पोटाच्या धेंदेलावयल्यान ताणें खांद्यार ओडिल्ली काळे देगेची जरी चकचकीत चादर. व्हडें तिराक लागच्या समयार वेळेर देंवन ताचें ताठ आनी झेतान उबें रावप! चेम्पनाक ताच्या नाकटाची सर येत?" अय्यनान म्हळ्ळें.

मूप्पनानूय आपलें मत प्रगटायलें. तशें करतना "काळे सांवळे हाडकुळे चक्कीची बराबरी कण्डनकोरनचे घरकान्नीशीं कशीच जावपाची ना. तिचें मुखामळ पळयतनाच पळोवप्यांचे दोळे घुंवतात" अशी मखलाशीय ताणें केली.

घरा येवन पळय जाल्यार चेम्पनाक एक व्हड धसको बसलो. मोटे उमेदीन तो परतल्लो. तें व्हडें मेळप म्हणचे एक भाग्य. पल्लिकुन्नम कण्डनकोरनागेर तो कसो पावलो, थंय जेवणपान कशें जालें- सगल्यो गजाली चक्कीक सांगपाच्यो आशिल्ल्यो. कोरनाचे घरकान्नी विशींय तिचे कडेन उलोवपाचें आशिल्लें. ह्यो खबरी कशे तरेन तिका सांगपाच्यो हाचो विचार करिकरीत तो परतल्लो. पूण घरा यो जाल्यार ताच्या वांट्याक हें संकश्ट!

हे आदीं अशे तरेचो माथ्यावयलो भार ताच्या वांट्याक केन्ना येवंक नाशिल्लो. ताच्या मुखार एकूच ध्येय आशिल्लें. आनी तें आयज फळाक आयिल्लें. पूण हांगा पळय जाल्यार काम फुडें वचपाचें कसलें चिन्नच ना.

व्हडें, जाळ घेवचे पयलीं घाटकाराक तो मेळ्ळो ना, होच ताचो एक व्हड गुन्यांव, ही गजाल खरी. ताणें शेंकड्यांनी वर्सां चलत आयिल्ली रीत मोडिल्ली...

केद्या कश्टान ताणें व्हडें-जाळा पासत पयशे एकठांय केल्ले! आयज आनिकूय पांच पंदरा रुपयांची ताका गरज आशिल्ली; पूण ते मेळपाचे कशे! आपले कडल्यान घडिल्ल्या गुन्यांवाक येदें व्हड स्वरूप येत शें ताका दिसूंक नाशिल्लें.

सामको निर्शेल्लेवरी जावन ताणें आपले बायलेक म्हळें, "आमी कोणाच्या दारार केन्ना अशीं सुणीं वडयल्लीं अशें म्हाका दिसना!"

चक्कीन जाप दिली, "सुणीं चडोवपाची गरज आसा? दुस्वास हो. फक्त दुस्वास!'

"तें बरें आसा. पूण आतां करपाचें किदें? जाळ एकूच आसा. व्हड्याचेरूय थोडो खर्च आसा. पांच पंचवीस रुपयांचेर भागपाचो. पूण ते हाडपाचे खंयसून!"

चेम्पनान एक एक करून सगलें तिच्या मुखार मांडलें. चक्कीक सांगचो ना जाल्यार आनीक कोणाक सांगतलो? आयकुपाक दुसरो आसा कोण! पूण चक्कीन समजिकायेन आयकून घेवचे बदला ताका थोमणोच मारलो, "तशें जाल्यार ही भानगड नस्ती माथ्यार घेवपाक तुका सांगिल्लें कोणें?"

चेम्पन एक उतर उलयलो ना. घडये ताकाय आतां दिसपाक लागिल्लें, आपणें बेश्टेंच ताकती भायलें हें वजें उखल्लें. पयसो तर सगलो सोंपलोच. वयल्यान सगलो लोक आपले आड जालो!

चक्कीन म्हळें, "हातांत पयसो घोळटालो तेन्ना चलयेक उजोवन उडयिल्ली जाल्यार अशी दुर्गति जाती ना."

चेम्पन आतांय कांय उलयलो ना. व्हड व्हड हावेस मनांत धरून वावुरल्यार आडमेळीं येतात म्हूण मनशान हात कामरून बसपाचें? आसा तेच दशेंत समाधान मानून ओगी रावपाचें?

खरें पळयल्यार आयचो दीस केदो खोश्येचो! कित्याक, जिणेंतलें एक व्हड सपन आयज फळिल्लें. पूण चेम्पनाचें घर आयज निर्शेणेच्या काळखांत बुडिल्लेंच उरलें.

बरीच रात उलगले उपरान्त चेम्पनान बायलेक म्हळें, "फकत पस्तीस रुपया मेळिल्ले जाल्यार काम जाय सारकें आसा."

चक्कीन विचारलें, "तें कशें?"

चेम्पन म्हणपाक लागलो, "ते मेळत जाल्यार फाल्यांच घाटकाराक वचून मेळटां. सगलें जाग्यार उडयतां."

"नुस्त्याचें जाळ, जोडणेचें जाळ... सगलें?"

"सगलें बसता."

चक्कीन मानी-कोंड्यांतले नळयेंत बंद करून आनी जमनींत पुरून मोट्या कश्टान तशाच प्रसंगाक म्हूण सांबाळून दवरिल्ले पयशे काडून लेगीत ताका केन्नाच दिवन उडयल्ले. तिचे कडचें चिमटीभर भांडवल सोंपोवन उडयलें हे करणे पासत तिणें चेम्पनाक दोशी थारायत म्हळें, "पळयलें मूं आतां कसो संकश्टांत आयलो तें? इतलेय दीस एक गूंजभर भांगर सांबाळून दवरपाचें तुका येवजलें ना. हांवें सुचयलें तेन्ना तेन्ना तुवें कानार हात दवरलो. खरें मूं?"

चेम्पनान तिचें म्हणणें मानून घेतलें. फुडें म्हणपाक लागलो, "आतां एकूच वाट आसा चक्की!"

"खंयची ती?"

सांगपाक चेम्पनाक लज दिसताली. पूण चक्कीन आग्रो करना फुडें सांगपाक लागलो, "त्याच भुरग्याक परतोय घट धरीत जाल्यार काम जायत."

चक्कीन चेम्पनाच्या तोंडार हात धरलो. करुत्तम्मा न्हिदल्या काय जागी आसा म्हणपाचें तिका खबर नाशिल्लें. बायलेचो हात कुशीक सारीत चेम्पनान विचारलें, "कितें जालें?"

"मातसो हळू उलय!"

"कित्याक तें सांग तरी?"

हातूंत जी गजाल घुस्पल्ली ती चेम्पनाक कळोवपा सारकी नाशिल्ली. खंयच्याय बापायक अशो गजाली कळूंक फावनात. तरीय जाप दिवपाकूच जाय. तेन्ना चेम्पनाच्या आगऱ्याक लागून चक्की ताच्या कानांत फुतफुतली, "करुत्तम्माचें म्हणणें, तशें केल्यार आपलो मान उरना. तिका ही गजाल कळत जाल्यार ती झगडपाक उबी रावतली."

"हाचे शिवाय दुसरो मारग आसा तरी खंयचो?"

"हांवूय तेंच चिंततालीं."

मातसो रावन चेम्पनान विचारलें, "आतां तो आसत घरा?"

"आसतलो."

"हांव वचून पळोवन येतां" चक्कीन कांय म्हळें ना. चेम्पन दार उगडून भायर सरलो.

करुत्तम्मा गाढ न्हिदिल्ली. तिका कांय कळळें ना. थोड्या वेळान चेम्पन परतलो. तो खोशी दिसतालो. ताका पळयतनाच काम जाल्ल्याचें कळटालें.

"खरेंच सादो सरळ भुरगो तो. सभावान गोड. ताचे कडेन तीसूच रुपया आशिल्ले. दिवन उडयले."

संकश्ट टळिल्लें. तरिकूय चक्कीच्या मनांत एक दुबाव उरलोच. परीचें उदारपण खरेपणींच सुव्राथा विरयत आसत मूं? मागत तेन्ना तेन्ना तोंडांतल्यान ब्र काडिनासतना ताणें पयशे दिले कशे, हो एक प्रस्नूच आशिल्लो. करुत्तम्मा पासतूच ताणें हें करूंक ना मूं... अशें दिसपा सारको.

दुसऱ्या दिसा चेम्पन घाटकाराचे भेटेक गेलो. ताणें ताका सुरवेक मातसो दटायलो. पूण मागीर तो शांत जालो. ताणें फर्मायलें, चलयेक रोखड्या रोखडी लग्न करून घरा भायर काडपाक जाय. व्हड्याचे जोडींतलें ताचें रसांव दिसपट्टें ताका पावतें करूंक जाय.

चेम्पनान लोकांच्या दुस्वासाची खबर ताच्या कानार घाली. आनी घाटकारान, तें सगलें आपूण अचळय जाग्यार घालतां म्हणपाची हमी घेतली.

अशे तरेन चेम्पना भोंवतणीं निर्माण जाल्लें वातावरण निवळ्ळें. व्हडें पुरायेन श्रिंगारून दर्यांत सोडपाच्या वावराक तो लागलो. पांचशेक रुपयांचो खर्च आशिल्लो, तोय करपाचें थारलें.

"पूण पयशे उबे जातले कशे?" चक्कीन प्रस्न केलो. तेन्ना चेम्पनान म्हळें, "तेय परी कडल्यानूच घेवचे पडटले."

तें आयकून चक्कीक तिड़क मारली. करुत्तम्माचे असवडीं दोगांय झगड, झगड, झगड़लीं. निमणें घोवपणाच्या अधिकारा जोरार चेम्पनान तिका फर्मायलें, "तें तुकाच मागपाक जाय."

"म्हज्यान तें काम जावपाचें ना."

"जाल्यार व्हडें तशेंच पडून उरतलें."

"उरूं दी!"

तिणें तशी जाप दिली खरी, पूण व्हडें पडुनूच उरप बरें न्हय हें तिका कळटालें. चेम्पनाचे निर्शेणेच्या सुंरा वयल्यान तो आपूण जावन ताचे विशीं कांय करपाचोय ना हें तिका कळून आयिल्लें. कित्याक, हे फुडली गजाल सामकी ताच्या हाता भायली आशिल्ली. तेन्ना चक्कीन विचारलें, "पूण हे सगले पयशे तूं फेडटलो मूं?"

"व्याजा सयत!" ताणें निच्छेवान उतर दिलें.

अशे तरेन हे खेप आपूण जावन चक्की रातीची परी कड़ेन गेली. ताचे कडेन तिणें मागणी केली.

परीच्या गुदावांत परीचे सुके मासळेची विक्री करपाचो वायदो जालो. आनी तेच बराबर चेम्पनाच्या व्हड्याचें श्रिंगारप, हेर तयारीय जायत आयली.

सगलें चोख जालें. व्हड्यार मानाय थारावपाचो वेळ येवन पावलो. घाटकारान अणभवी गाबीत लोकांक जमोवन सगलीं कामां करून दिलीं. ताका लागून घाटावयले लोक ताचे वाटेक गेलेच नात. व्हडें पळयले बराबर, जण एकल्याक मानाय म्हूण ताचेर चडचें शें दिसपाक लागलें. अच्चनाक दिशिल्लें की चेम्पन ताचो विचार घेतलोच. आपल्याकूय कामार घेतलो. ताचें एक दीस आपले बायले कडेन व्हड्या वयल्यान झगडेंय जालें. आनी गरज पडल्यार, तेच प्रमाण घाटकारान आडमेळें हाडल्यार, चेंम्पना वटेन रावन घाटकाराशीं झगडपाचेंय ताणें थारायल्लें. भुरगेपणा पसूनचो चेम्पनाचो तो सांगाती; पूण दोन तीनदां भेटगांठ जावनूय चेम्पनान अच्चनाक कांय सांगलें ना. आनी मानाय म्हूण वाड्या वयले जे बाराजाण वेंचून काडिल्ले, तातुंतूय अच्चन नाशिल्लो.

व्हडें दर्यांत लोटपाच्या आदल्या दिसा एक जेवण दिवपाची पद्दत आसा. ताचे पासत लागपी सगलो माल चेम्पनान हसनाच्या पसऱ्या वयल्यान उधारेन घेतलो. काक़ाशत्त आनी पुन्नप्रा गांवांत रावपी सोयऱ्यांक आपोवपाचें आशिल्लें. त्या कामाक चेम्पनान करुत्तम्माकूच धाडली. करुत्तम्मा चिंतेस्त नुरेन वेळे वयल्यान चलताली इतल्यांत अचकीत "मासोळी आमचे कडेन विकपाक दितली मूं?" असो प्रस्न आयकून ती सुद्दीर आयली. मुखार परी उबो. खंयच्यान आयलो कोणाक खबर! करुत्तम्मान जाप दिली ना. ती आतां आदली

करुत्तम्मा उरूंक नाशिल्ली. मान सकयल घालून ती उबी राविल्ली.

परीन विचारलें, "म्हजेकडेन उलोवपाचेंच तुवें बंद करूंक ना मूं?" तरीय करुत्तम्मा उलयली ना. तिचें काळीज अशे तरेन खपखपतालें, जशें कितें तें आतांच फुटपाचें आसा.

"तुका मानवना जाल्यार हांवूय कांय उलय ना!"

खरें पळयल्यार तिका खूब विचारपाचें आशिल्लें. 'आपणें मुसलमान जावचें काय कितें?' हें लेगीत विचारपाचें आसलें.

ती तिराक आशिल्ल्या एका व्हड्या आड बरोच वेळ उबी आशिल्ली- मोन्यानी. परी तिच्या उबार हड्ड्याकडेन पळयत राविल्लो. पूण आयज तिणें परीक तशें करूं नाका अशें सुचयलें ना. मान वयर करून अखेर शेवटाक तिणें विचारलें, "हांव वचूं सावकारा?" तिका तशें विचारपाची गरजूच नाशिल्ली. परीन तिका खंय आडायिल्ली? मनांत आसल्यार तिच्यान सरळ वचूं येतालें. अचकीत करुत्तम्मान भियेत म्हळें, "कोणूय पळयत आमकां!" आनी तशें म्हणत ती फुडें सरली. कांय पावलां फुडें सरता थंय आसा, आपलें नांव घेवन मारिल्लो उलो तिच्या कानार आयलो. त्या उल्यांत एके तरेचें अशें कांय खेरीतपण आशिल्लें की तसलो अणभव हे आदीं केन्नाच तिका आयलो ना. केन्ना तिच्या काळजाकूय आफुडलो ना. उलो आयकून कांट्यांत शिरकल्ले मासोळीवरी तिची गत जाली. ती थंयच उबी रावली. परी आपले फाटसून येतलो अशें तिका दिशिल्लें. पूण तो आयलो ना.

कितलो सो वेळ दोगांय एकामेकांक पळयत उबीं आशिल्लीं. पूण तांच्या ध्यानांत ही गजाल आयिल्लेवरी दिसली ना. करुत्तम्माच्या मनांत कसले कसले विचार भरकटत चलिल्ले कोणाक खबर!

समुद्रांत तुफान जालें ना. न्हय, वावटळ लेगीत उठली ना. अशें दिसतालें, समुद्रमाता मंद ल्हारांत ल्हारेंता आसतना तांच्या बोंबाड्यांतल्यान निर्माण जावपी धव्या फेणेरांतल्यान हांसत रावल्या.

अशे तरेचें मोगा नाटक ते दर्या-वेळेचेर हे आदीं केन्नाच घडिल्लें नासतलें काय!

परीक जें कितें विचारपाचें, सांगपाचें आशिल्लें, तें सगलें एका प्रस्नाच्या रुपान समूर्त जावन करुत्तम्माक विचारतालो, "तूं म्हजेर मोग करता करुत्तम्मा?" आनी कसलोच फाटलो फुडलो विचार करिनासतना करुत्तम्मान जाप दिली, "हय!" तेन्ना व्हडा तळमळीन आनिकूय एक प्रस्न परीन विचारिल्लो, "फक्कत म्हजेरूच मोग करता?"

आनी रोखडीच परीक ह्या प्रस्नाचीय जाप मेळ्ळी, "हय, तुजेरूच."

करुत्तम्माक तिच्या आपणाल्याच खुद्द आवाजान मेघ-गर्जने प्रमाण भेडसायलें. वा जावंये, आतां ती शुद्दीरूय आयिल्ल्यान तिका आपल्याच उतरांचो अर्थ कळून आयलो. तिका खीण भर दिसलें, आपलीं उतरांच आपले मुखार मूर्तिमंत उबीं जावन आपल्याक हिणसायतात.

तिणें परी कडेन पळयत मान वयर केली. चार नदरो मेळ्ळयो. सांगपाचें सगलें सांगून जाल्लें. काळजाची कुरू काळजाक कळून चुकिल्ली.

करुत्तम्मा फुडें चलपाक लागली.



# 5

दुसऱ्या दिसा तीन वरांचेरूच सगले जाण वेळेर जमले. त्या दिसा चेम्पनाचें व्हडें दर्यांत लोटपाचें आशिल्लें. चक्की, करुत्तम्मा, पंचमी सगलीं वेळेर पाविल्लीं. लागींच परीय बी आशिल्लो. पंचमीन करुत्तम्माचें ध्यान परी कडेन ओडलें. करुत्तम्मान हळूच चिमटो काडलो. उसरां येवप्यांक रामन् मूप्पनान उलो मारून फुडें आपयले. अय्यन तांचेर सगल्यांचेर रागार जालो. ताणें म्हळें, "नवें व्हडें लोटपाचें आसा हें जाणा जावनूय असो वेळ कित्याक काडटात रे?"

चेम्पनाच्या व्हड्यार वचपी लोक फुडें जाले. कोणें तरी तें परी गातालो तें गीत गायलें. करुत्तम्माच्या काळजांत एके तरेची दूख निर्माण करपी अशें तें गीत.

उदेन्तेक चंद्रीम माडांच्या शेंड्यां वयल्यान पळयता सो दिसतालो. चेम्पनाचें व्हडें लोट्टना पळोवपाकूच तो आयिल्लो जावंये. समुद्र-माता खोश्येंत दिसताली. व्हड्यांक घेरून सगले उबे राविल्ले. चेम्पनाचें व्हडें सगल्यांत पयलीं सुटपाचें आशिल्लें. अय्यनान 'मंगल' गीत गायलें आनी बाकिच्यांनी ताका साथ दिली. समुद्रा-देग मंगल आवाजांत गुंजून उठली. मुप्पनान म्हळें, "चेम्पा, येरें धर!" चेम्पनान तें धरलें आनी ताचेर आपलें माथें तेंकोवन इश्ट देवतांचें ध्यान केलें. सगल्यांनी मेळून व्हडें धुकल्लें. दर्यांत लोटलें. चक्की, करुत्तम्मा दोगांयनी हात जोडून, दोळे मेटून देवाक नमस्कार केलो. दोगांयनी दोळे उगडले तेन्ना तांकां व्हडें ल्हारां वयल्यान वयर सकयल जायत हळुहळू अस्तन्ते कडेन सरकतना दिसलें. व्हड्याचे चालींतुनूय जाणकार ताचीं लक्षणां पळयतात. रामन, मूप्पन आनी अय्यन दर्यातिरा वयल्यान अशें लक्षण समजून घेवचे पासत बारीकसाणेन व्हड्याचे चाली कडेन पळयत रावले. मूप्पनान विचारलें, "आसा मरे सारकें?'

"वजन अस्तन्तेकडेन आसा न्हय रे?"

"मात तोल दक्षिणे वसल्यान."

चक्की फळ जाणून घेवपाक आंवडेताली. ताकतिकेन तांचेसरीं आयली आनी म्हणपाक लागली, "सांग पळोवया अय्यनदाद, कशें लागता लक्षण तें?"

अय्यनान एकाद्र्या जाणकाराचे गंम्भीरतायेन जाप दिली, "खरेंच, बरें आसा. कसलो उणाव पडपाचो अणभव येवंचो ना."

चक्कीन त्या खिणाक सामक्या भक्तिभावान हात जोडून सर्वशक्तिमान समुद्रमातेचें नामस्मरण केलें. व्हडें सुफळतायेच्या विस्वासा बळार दर्यांत फुडें सरत रावलें.

करुत्तम्मान म्हळें, "आमच्या व्हड्याचो झेत कितें खेरीतच आसा, ना गे आम्मा?"

"हय तर, ताची चालूच कितली देखणी!" चक्कीन जाप दिली.

ताचेर अय्यनान म्हळें, "तुका कितें खबर चक्कीआका, तुमकां हें आतां मेळ्ळां. पूण मुळांत कोणाचें जाणा? पल्लिकुन्नम कण्डनकोरनाचें. ह्या व्हड्या शिवाय इतल्या बऱ्या

लक्षणाचें दुसरें खंयचेंच व्हडें कोणें देखलां ह्या समुद्रा तिरार? कण्डनकोरनाचें सगलेंच तशें. ताची घरकान्न लेगीत पर्जळीत भांगरावरी! तिका लागपी दुसरी बायल अख्ख्या गाबीत समाजांत मेळपाक ना, इतली देखणी! आनी ताचें घरूय तशेंच. व्हडें आयज तुमचें जालां हें तुमचें नशीब अशेंच म्हणपाक जाय.

हेर सगलीं व्हडींय दर्यांत लोटलीं. वेळेर चक्की, चलयो आनी परी थांबलीं. थंड हवेक लागून परीक शीं खावपाक लागलें. व्हडीं एका फाटोफाट सगलीं दर्याभर फांकारलीं. जाळां उडोवपाक लागलीं.

परी हळुहळू चक्की कडेन आयलो. करुत्तम्मा आवयच्या आडसाक रावली. पंचमी परी कडेन बारीक नदरेन पळयत रावली.

परीन मदींच आपलो प्रस्न मांडलो. हे खेप तो आवय मुखार मांडिल्लो, इतलेंच. फकाणांनी म्हूण आसूं वा खरेपणीं, ताका एकूच विचारपाचें आशिल्लें, "मासळी म्हाका विकपाक दितलीं मूं?"

चक्कीन म्हळें, "दुसऱ्या कोणाक विकतलीं तर?"

परीच्या त्या प्रस्नाचो खरो अर्थ चक्कीच्या ध्यानांत आयलोच ना. तो येवपाचोय न्हय. कित्याक, वयल्यान दिसता तेदोच तो नाशिल्लो, तातूंत विचारांचो एक व्हड दर्याच लिपून बशिल्लो!

आवय आड उबी आशिल्ली करुत्तम्मा म्हणपाक लागली, "आम्मा, म्हाका शीं खावपाक लागलां."

त्या दिसा व्हडें दर्यांत लोटिल्लें. चक्कीक थंयच्यान वचचे पयलीं एक गजाल सांगूंकच जायशी दिसली. तिणें म्हळें, "पुता, तुका लागूनच आयज हें व्हडें दर्यांत लोटप घडून आयलें. ना जाल्यार तें केन्नाच शक्य नाशिल्लें!"

परी कांय उलयलो ना. आवयन कांय ना म्हळयार इतलें तरी कबूल केलें हें पळोवन करुत्तम्माक भोव खोस जाली. चक्कीन फुडें म्हळें, "चाकरा सोंपलो की तुजे पयशे पावतले."

"नाका, म्हाका ते नाकात!"

"नाका? नाका कशे तर?"

परीन जाप दिली, "फेडचे पासत हांवें ते दिलेच नात."

चक्कीच्या ध्यानांत कांय आयलें ना. करुत्तम्मा मात समजली. इतलेंच न्हय, तिची सगली कूड घामान चिंब भिजून गेली. चक्कीक मात एके तरेची भिरांत शी दिसली. तिणें विचारलें, "तशें कशें जायत रे पुता?"

परीन निच्छेवान म्हळें, "ना, ते परते फेडपाची गरज ना." मातसो थांबून परीन फुडें सांगलें, "करुत्तम्मान बाप्पाक व्हडें आनी जाळ घेवपाक पयशे उणे पडटात म्हूण म्हजे कडेन मागिल्ले. हांवें ते दिले, ते परते घेवपाक न्हय."

करुत्तम्माच्या दोळयां मुखार काळोख उबो रावलो. तिची तकली गरगर घुंविल्लेवरी जावपाक लागली. चक्कीन मातशें रागार जावनच विचारलें, "आरे, करुत्तम्माक पयशे दिवपी तूं कोण? ती तुजी कोण लागता?" आनीकय आवाज चडयत तिणें फुडें म्हळें, "तें चलपाचें ना. तशें जावंक फावना. तुजे पयशे तुका घेवचेच पडटले." परीक कळून

आयलें, चक्की रागार जाल्या. ताणें कांय म्हळें ना. चक्कीन एखाद्रे आवयन पुताक सांगचें तशें समजायत ताका फुडें म्हळें, "पुता, तुजो धर्म खेरीत, आमचो खेरीत. आमी गाब्त्यां. हे दयदिगेर भुरगेपणा सावन तुमी एकठांय खेळ्ळीं, सवरलीं, हें खरें; पूण ती जाली भुरगेपणांतली गजाल. आमी आतां एक बरोसो गाबीत भुरगो सोदून काडून तिचें लग्न करपाचें थारायलां. तूंय तुजे जातीचीं एक बरी चली पळय आनी तिचे बराबर लग्न करून सुखी जा."

थोडी रावन चक्कीन फुडें उलयत म्हळें, "तुमी आजून भुरगींच आसात. तुमकां समज येवंक ना. अब्रू वचत अशें कांय करूं नाकात! इल्लें शें कुस्कूट मेळत. लोक तोंडाक येयत तें उलयतले.. लोक म्हणचे ओंक पुता, जाणा जा."

चक्की चलयां बराबर वचपाक लागली. फाटीं वळून पळयत मायेस्त सुरांत परतीय एकदां परीक तिणें याद दिली, "तूं आपले पयशे घे आनी मेकळो जा. आयक म्हजें."

चक्की फुडें आनी करुत्तम्मा, पंचमी तिचे फाटीं, अशीं तीं चलतालीं. परी उब्यांनीच तांचे कडेन पळयत रावलो.

चक्कीन सांगिल्लें सगलें बराबरूच. निष्ठुरपणान तें सांगपाक नाका आशिल्लें, इतलेंच. तिच्या उतरांनी करुत्तम्माचें काळीज दुखवलें.

बरीं फुडें पावले उपरान्तं करुत्तम्मान फाटीं वळून पळयलें. तशें पळयले बगर तिच्यान रावं नज जालें. आनी ती घरा पावतनाच काळीज भेदून उडोवपी तें गीत दर्या देगे वयल्यान परतेंय कानार येवपाक लागलें.

चक्कीन म्हळें, "ह्या भुरग्याक न्हीद बी येना काय कितें! चक्कीन करुत्तम्माक म्हळें, "आतां कशीय केरून तुका हांगासल्ल्यान घालोवपाकूच जाय, अशें म्हाका जाल्यार दिसता." आवयच्या उतरांतल्यान एक गजाल पर्गट जाताली आनी ती म्हणचे चलये कारणान ती खुबूच बेचैन आसा ही. चक्कीची शांतताय पुरायेन ना जावन गेल्ली.

करुत्तम्माक सोसूं नज इतलें दुःख जालें. तिडकूय मारली. तिणें आवयक विचारलें, "पूण हांवें केलां तरी कितें?" चक्की ओग्गी रावली.

सकाळीं व्हडें परतलां काय कितें, तें पळोवपाक चक्की आनी तिचीं भुरगीं गेलीं. व्हडीं पयस दर्यांत आशिल्लीं. दर्याचो रागरंग पळयल्यार त्या दिसा खूब नुस्तें पडटलें काय दिसतालें.

"कसलें कसलें नुस्तें पडटलें शें तुका दिसता गे?" करुत्तम्मान आवयक विचारलें. आवयन जाप दिली.

"सरंगे, विस्वण पडपाक जाय."

करुत्तम्मान उमेदीन म्हळें, "तशें जालें जाल्यार आमची बोंडी लेगीत बरी जातली तर!"

"दर्या मायची कृपा अशीच उरूं, पुते."

एक ल्हानशें भुरगें आवय कडेन आपली इत्सा परगटायता, तशी करुत्तम्मान ती परगटायत म्हळें, "आमच्या व्हड्याची मासळी आमी धाकल्या सावकाराकूच दिवपाक जाय, ना आम्मा?"

चक्कीक तिचो राग आयलो ना. धाकलो सावकार तुजो कोण, अशेंय तिणें विचारलें

ना. चक्कीक तशेंच दिसतालें. पूण तिका दुबाव अशिल्लो तो चेम्पनाचो, "तो देंवचार अशें करीत मूं? कोणें सांगचें!"

करुत्तम्मान ताचेर उपाय सुचयलो, "व्हडें परायेक लागच्या सुमाराक आमी थंय वचुंया. मागीर आम्मा, तूंच बाप्पाक सांग"

चक्कीन तशें करपाचें थारायलें. तें करप गरजेचें आशिल्लें: आनी योग्यूय.

व्हडें वेळेर केन्ना पावता ती खबर घरा कळोवची ह्या हेतान ताची वाट पळयत पंचमी वेळेर गेली.

तो मेरेन एक दुसरेंय पर्व सुरू जाल्लें. शेजान्नी नल्लम्मा, काली, पेण्णम्मा, लक्ष्मी सगलीं बराबरूच थंय पावलीं. पेण्णम्माक समजून घेवपाचें आशिल्लें, की चेम्पन आपणालें नुस्तें ठोक खरेदी करतल्यांक विकतलो काय ती किरकोळीन घेतल्यांक? ठोक घेवप्यांक वट्ट माल दिवन उडोवपाची चालूच हांगा पडिल्ली. ताका लागून, उदेन्तेक सावन येवपी पाटलेकार मासळी विकपी बायलांक ठोक वेपाऱ्यांचे पांय घरचे पडटाले. पेण्णम्मान चक्कीक म्हळें, "व्हनये, आमी तुजेसरीं कित्याक आयल्यांत तें तुका खबर आसा. सांगले बगरय तुका तें कळटलें."

त्या नुस्तें विकपी बायलांक वेपाऱ्यां कडल्यान नुस्तें घेवन कांय फायदो उरना. मागत ते पयशे दिवचे पडटात. खेरीत तांच्यो गाळीय खावच्यो पडटात, हें चक्की जाणा आसली.

चक्कीन तांकां विचारलें, "ताका हांव कितें करूं? म्हजे कडेन कितें आसा?"

तेन्ना नल्लम्मान नेटान म्हळें, "तुमच्या व्हड्याची मासळी आमकां मेळपाक जाय." हाचेर चक्की कांयच जाप दिवंक शकली ना. थंय जमिल्ल्यो त्यो सगल्यो तिच्यो शेजान्नीच. तांचें म्हणणेंय खरें अशिल्लें. पूण ती कितें सांगतली! चेम्पनाक तें मानूं नाका? खेरीत, परीचोय मासळेचेर पयलो अधिकार आसा, तेंय ती तांकां उकतेपणीं कशें सांगतली?

चक्कीक कालीन विचारलें, "तूं कांयच उलयना कित्याक? चेम्पनमाम, तुवें ताका सांगल्यार आयकुचो ना शें तुका दिसता? तुवें ताका सांगपाकूच जाय. कित्याक, तुका अणभव आसाच ह्या कामाचो. व्हडें घेवचे पयलीं तुवेंय बी आमचेच प्रमाण पाटल्यांचे पांटले माथ्यार मारून मासळी विकल्या. पयशां खातीर त्रास काडल्यात."

चक्कीन म्हळें, "तुजें म्हणणें खरें."

लक्ष्मीन म्हळें, "तूं आयजूय उदेन्तेक वचून मासळी विकपाचें काम करतली काय कितें गे?"

"तुवें अशें कित्याक म्हटलें? घरांत धा व्हडीं आयलींय जाल्यार चक्की सदांच चक्कीच उरतली." चक्कीन नमळायेन जाप दिली.

"तशें न्हय गे व्हनये, हांवें त्या अर्थान म्हणूंक ना. तूं वेतली जाल्यार आमी सगलीं एकठांयूच माल वांटून घेवया आनी वचुंया, अशें म्हाका म्हणपाचें आशिल्लें."

चक्कीन सांगलें, "म्हज्यान तुमकां कांयच सांगूं नज. तो देंवचार म्हजें मानीतच म्हणपाचो नेम कितें!"

कालीन करुत्तम्माकूय म्हळें, "तूंय बाय सांगून पळय गो बाप्पाक तुज्या."

करुत्तम्मान चटूकरून म्हळें, "हांव ना बाये सांगचीं!"

पंचमीन बाप्पाक सांगपाची जापसालदारकी आपल्या माथ्यार घेतली. व्हडें देगेक

लागतनाच ठोक वेपाऱ्यांची गर्दी जावचे पयलीं आपूण बाप्पाक सांगतां अशें तिणें तांकां समजायलें. तशें करपांत तिचोय एक हेत घुसपल्लो. तिणें थारायल्लें की व्हडें पराय जाता तेन्ना तेन्ना, आपणेंय ल्हानशा पाटुल्यांत बारीक सारीक करबट जमोवचें, तें सुकोवन दवरचें. आनी ही गजाल ठोक वेपाऱ्यांक नुस्त्याचो ठेको दिलो ना जाल्यारूच शक्य आशिल्ली.

आपुणूय जाता ती खटपट करून पळयतां अशें चक्कीनूय वयले वयर सगल्यांक उतर दिवन ती मेकळी जाली. पूण तशें कांय एक घडपाचें ना म्हणपाचें तिका बरें खबर आशिल्लें. तिका इतलेंच जाणवलें की एक नाजूक प्रस्न हातुंतल्यान उप्रासपाचो आसा.

दनपारचीं भुरगीं, वजीं- पांटल्यो घेतिल्ल्यो बायलो, मानाय, ठोक वेपार करपी नुस्त्या दलाल... सगले दर्यावेळेर जमले. मळबांत उडपी शेवणारांचीं भिरीं वयल्यान भोंवाडे मारतालीं. व्हड्या वयल्यान मानाय जाळां झाडटाले, दाळटाले. वेळे वयल्यान सगले जाण कसलें पूण नुस्तें आयज पडलां काय हाचो अदमास घेताले. कादरीक दिसलें, आयज करबटूच पडलां आसुंये. कितेंय उरूं, नुस्तें खूब पडिल्लें, हातूंत दुबाव ना. इतल्यांत दोन बकीं अस्तन्ते वसल्यान उदेन्तेकडेन अळंग उडत आयलीं. एकल्याच्या तोंडांत कसलें तरी भोपशें दिसतालें. सगल्यांची नदर वरशी गेली, आनी कोण तरी आड्डलो, "ताल्ले रे, ताल्ले!"

दर्यांत व्हडीं धोलतना दिसतालीं. सगले उदेन्ते कडेन धांवपाक लागले. पंचमी घरा कडेन धांवली. म्हणपाक लागली, "पाग्यांक ताल्ले पडल्यात, ताल्ले."

करुत्तम्मा, चक्की उमेदीन भायर सरलीं. चक्कीन समुद्रमायेक भावराथान नमन केलें. पयल्या दिसा व्हडें कितें पूण भरून घेवन लोटलां हें पळोवचे पासत आवय-धूव दोगांय दर्या दिकेन धांवत सुटलीं.

दर्यांतल्यान वयर सकयल जायत जायत एका फाटोफाट एक सगलीं व्हडीं तडेक येतालीं. इतल्याय व्हड्यांतलें आपलें खंयचें, हाचो अदमास घेत चक्की, करुत्तम्मा उबीं आशिल्लीं.

जाळांक ताल्लो पडला म्हणपाचें कळून लोक उमेदीन शिळोणी घालपाक लागिल्ले. पेण्णम्मा, नल्लम्मा, काली, लक्ष्मी सगलीं चक्की भोंवतणीं जमा जालीं. पंचमीनूय घरसून एक ल्हानसो पांटुलो हाडिल्लो. इतल्यांत देगेर एक व्हडें एका ल्हारा वयल्यान दुसऱ्याचेर उडयो मारीत आयिल्लेवरी येतना दिसपाक लागलें. तें नुस्त्यान उपाट भरिल्लेवरी आशिल्लें. पंचमीन म्हळें, "ताचो एकूच वलो दिसता." व्हड्याची चाल खरेपणींच डौलदार आनी मन भुलयणी! वयल्यान भिरभिरपी शेवणारांचे चोंबे. ताचे फाटसून हेर सगलीं व्हडीं.

आयज दर्याय जसो कितें उमेदीन गाजतालो. फुडें सरपी व्हड्याचें येरें धरून चेम्पन उबो आशिल्लो दिसतालो. खरें पळयल्यार तो उबो नाशिल्लो. उडी मारीत वल्यान नेटान उदक फाटीं मोखीत तो येतालो. आनी तशें करतना पळयतल्याक दिसतालें की तो व्हड्यांत ना तर मळबांत आसा. ताच्या हातांतल्या वल्याक लागून मळबांत एके तरेची गोल फिरकी निर्माण जाताली. अशे भशेन व्हडें ल्हारां वयल्यान उफेत, उफेत फुडें येत राविल्लें.

कालीन म्हळें, "व्हड्याची चालूच देखणी आनी सोबीत बरी!" सगल्यांनी मानून घेतलें

की व्हडें दुबावा विरयत. सुलक्षणी आसा.

"तशें म्हणूं नाकात गो बायांनो" चक्कीन तांचे लागीं मागलें. "त्या व्हड्यांतलें आपलें खंयचें हें आजून सारकें तिच्या ध्यानांत येवंक नाशिल्लें.

व्हडें सामकें लागीं पावलें. चेम्पन एक खेरीतूच मनीस दिसतालो. ताच्यांत कसो पूण असो एकाएक बदल जाल्लो! चक्कीन म्हळें, "हें मखखपण जावन आसा, समुद्र मायेच्या पुतांक मेळिल्लें तेजिश्ट मखखपण!"

व्हडें तडेक लागलें. वलीं घेवन मानायांनी तडेक उडयो मारल्यो. व्हडें धुकलून वयर काडलें. भुरगीं व्हड्या सरभोंवतणीं जमलीं. तातूंत पंचमीय आसलें.

तें पळोवन चेम्पनान व्हड्या वयल्यान तिडकीन उडी मारली. भुरगीं भियेवन रडपाक लागलीं. पंचमी आशिल्लें थंयच उबें रावलें. तें बाप्पाक कित्याक भियेतलें? पूण चेम्पनान व्हडान किळांची मारीत सांगलें, "कोणूच म्हज्या व्हड्यापोंदा पडिल्ल्या भोपशाक हात लावचो ना!" आनी तें सांगतना ताणें पंचमीक धुकलून उडयलें. "आवय गे" म्हूण आड्डत तें पयस वचून पडलें. करुत्तम्मा आनी चक्की तें ताचें रूप पळोवन रडपाक पावलीं. आनी एके बायलेन म्हळें लेगीत, "देवा म्हज्या, कसलो गे बाये हो म्हारू!"

चेम्पना वरीच पंचमीचीय एक इत्सा आशिल्ली. जमनीर पडिल्लें नुस्तें, भोपशें जमोवन तें सुकोवपाचें अशें तिका दिसतालें. तशें केल्यार आपल्याकूय दोन पयशे मेळटले. देखून आपल्या बाप्पाल्या व्हड्यावयलें करबट पुंजोवपाक तें गेल्लें. येदी सादी गजाल चेम्पनाक कळची न्हय? मनीस असो एकाएक आपले आपणाकूच विसरता?

व्हड्यांत जें कितें आशिल्लें तें सगलें समुद्र मातेचें दान. मनशान निर्माण केल्लें, पाळिल्लें-पोशिल्लें काय न्हय. तातुंतलो जमनीर पडिल्ल्या नुस्त्याचो हक्क तर सगल्यांचो, असो दर्या घाटाचो एक पूर्वापार चलिल्लो नेमूच.

"खरेलो देंवचारूच बाये हो!" अशी किळांच मारून चक्कीन पंचमीक मांडयेर ओडून घेतलें. आवय-धूव दोगांय जाणां तिका मार बशिल्ल्या जाग्यार सांसपुपाक लागलीं. पूण पंचमीक मात लागिल्ले परसूय चड दुःख जाल्लें तें बापायच्या कसाबपणाक लागून.

ठोक वेपाऱ्यांनी व्हड्या भोंवतणीं चारूय वटांनी गर्दी केल्लीच. तातूंत सगल्यां मुखार आशिल्लो तो परी. पूण थंय चेम्पनान कोणाक वळखूच दाखयली ना.

क़ादरी दलालान विचारलें, "दर कितें दवरला चेम्पा?"

पेण्णम्मा, लक्ष्मी आनी हेर बायलो हांगा थंय येरादारी घालताल्यो. पंचमीन बाप्पा कडल्यान तुमकां मासळी दिवपाची वेवस्था करतां अशें म्हणिल्लें, पूण तिचीच दुर्गति जावन पडिल्ली. चक्की तिचेच सरीं बसून उरिल्ली.

ठोक वेपारी दर थारायताले. पेण्णम्मान बराबरच्या बायलांक आनीक एक फावट चेम्पनाक विचारपाक सांगलें, पूण फुडें सरता कोण! नल्लम्मान तर सरळ म्हळें, "त्या म्हारवाशीं कोण गे बाये उलयतलो!" हेर व्हडींय एक एक करून येवपाक लागिल्लीं. तीं तडेक लागचे पयलींच चेम्पनाक आपलो माल खपोवन काडपाचो आशिल्लो.

परीन ताका विचारलें, "मासळी विकपाचें काम तूं म्हजेर सोंपयतलो?" पूण परी आपले वळखी-देखीचो नाशिल्लेचवरी करीत चेम्पनान ताका प्रस्न केलो, "रोख पयशे मेजतलो जाल्यार फुडें सर. म्हाका हातार पयशे जाय."

इतल्यांत परीन शंभर शंभरांच्यो नोटी चेम्पनाच्या हाताक तेकयल्यो. मालाची विक्री पक्की जाली.

परी हेर व्हडेकारांसरीं धांवलो. पूण कदरीन ते मरेन सगले क़डेन माल विकून लेगीत जाल्लो.

पंचमीचें रडप मातशें थांबलें तेन्ना करुत्तम्मान परी कडेन नदर वळयली. तो निर्शेल्ल्या तोंडान परतताना तिका दिसलो. ताचे कडेन पयशे खंयचे आसतले!

करुत्तम्मान आवयक म्हळें, "धाकलो सावकार हात हालयत आयलो सो दिसता."

चक्कीन ताचेसरीं वचून म्हळें, "तुवें मासळी मागली ना सावकारा?"

"मागली तर!"

"मागीर?"

परी उलयलो ना. त्या दिसा ताका कांयच मेळ्ळें ना. आयचें सारकी मासळेची आवकय बरेच दीस जावंक नाशिल्ली. चक्कीक सगलें कितें समजलें.

चेम्पनाक तिणें आपल्याक एका उतरान लेगीत विचारिनासतना वेव्हार करतना पळयिल्लोच. तिणें म्हळें, "मासळी सामकी ताचे तकलेक चडली सावकारा. तो मनशांतूच उरलो ना."

"म्हजे कडेन थोडे पयशे आशिल्ले. उरिल्ले हांव ताका रोखडे दिवपाचों."

"पयशां पासत सवदो पटलो ना?"

"आसत घडये!"

परी फुडें सटकलो. करुत्तम्माक ताका कितेंय तरी सांगपाचें आशिल्लें; पूण सगल्यां मुखार कशी सांगतली? पयलेच खेप जो प्रस्न परीन तिका केल्लो, तोच आयज खरो थारिल्लो. ताचीं उतरां जशाक तशीं करुत्तम्माक आजुनूय याद जातात, "व्हडें आनी जांळ आयलें की मासळी म्हाका दियशीत मूं?" आनी तिणें मस्कऱ्यांनी ताका जाप दिल्ली, "चड पयशे दिल्यारूच दितलीं!" काली, पेण्णम्मान आनी हेर सगल्यांनी चेम्पनाक मनांतल्या मनांत पोटभर गाळी घाल्यो आनी निमणो ठोक वेपाऱ्यां कडल्यानूच माल घेतलो.

चेम्पनान काम करपी आपल्या मानायांक तांचे वांटे वांटून दिले, जाळां धुवन सुकत घालीं, तेन्नाच घरा परतलो. ताच्या हातांत भरपूर पयशे आयिल्ले. आपले जिणेंत एक नवो उजवाड रिगला अशें ताका जालें. ताणें ह्या उजवाडा वाटेन मनांत निच्छेव केलो. फांतोडेर तीन वरांच्या सुमाराक तो कामाक लागिल्लो. पूण तरी आसतना जिवाक थाकाय आयिल्लेवरी ताका दिसलें ना. घरच्यांची उमेद मात पुरायेन ना जावन गेल्ली. हातांतली नोटींची कवळी ताणें चक्कीक दाखयली. ती पळोवन खाशेलो आनंद म्हणपाचो तिका मात पसून जालो ना.

"कितें करपाचे आसात ते पयशे? घरच्यांचें नशीब फुट्कें तें फुटकेंच!"

"तूं अशी कितें उलयता?"

"दोळे उकते करून मातशे पळय. पंचमीचे छातयेचीं किणेल्लीं केणां पळय." हुटके हुटकेवन रडपी पंचमीक उखलून धरून चेम्पनान पळयलें. तिच्या हड्डयाक बरीच दूख जाल्ली.

ताणें विचारलें, "पूण तूं थंय शें वचून कित्याक राविल्लें गो पुता?" चक्कीन, पंचमीची घडिल्ली सगली खबर सांगली ती आयकून घेवन मोगान तिका लागीं ओडून तिचे कडेन पळयत ताणें लक्तुबायेन म्हळें, "तूंय बी जोडूंक गेल्लें गो बाय? तशें जाल्यार फायच्यान हांव तुका सद्दां पांटुलोभर नुस्तें दितलों. मागीर जालें मूं?"

चक्कीन परीचो प्रस्न काडून ताका शेडायलो, "ताचेर तुवें असो अन्याय करपाचो? ताका लागुनूच मरे आमचें व्हडें, जाळ येवंक पावलें?"

हातूंत अन्याय कितें जालो म्हणपाचें चेम्पनाक बरें कळ्ळें ना. ताणें विचारलें, "ताचेर हातूंत अन्याव तो कसलो जालो?"

"ताकाच खरें पळयल्यार सगल्यां आदीं मासळी दिवन उडोवपाची न्हय?"

"उधारी घालून काम कशें चलत? व्हड्यार मानायपणाक येवपी मनशांक तांच्या वांट्याचे रोख पयशे दिवचे पडटात न्हय?" ताणें फुडें म्हळें, "ताका मासळी दिवपांत म्हजें लुकसाण आसा. ती दिली की हांवें ताका दिवपाचे पयशे तो रोखडेच वाशील घालतलो!"

"म्हणचे ताणें तुका संकश्टांत हात दिलो हीच गजाल ताचे आड आयली, अशें जालें ना?" करूत्तम्माच्या कपलाक सामकी भिरभिरी मारिल्ली. भितल्ल्यानूच उसळून म्हणपाक लागली, "तें कितेंय आसूं. हे फुडें मात ताच्या गुदावांत कोणाक कांय मेळपाचें ना!"

ते रातीचें अच्चनागेरूय बायले घोवा मदीं झगडें पेटलें. बायलेन ताका थोमणो मारीत म्हळें, "भुरगेपणांतलो आपलो सवंगडी म्हूण बरो भुरकुटिल्लो. चेम्पनाच्या व्हड्यार वचपाचीं पोकीं सपनां बेश्टींच रंगयतालो... परिणाम कितें जालो?"

"तुका तरी चक्की फाटसून इतलेय दीस शेंपडी कशीं नाचून कितें मेळ्ळें?" अच्चनान बायलेक परतो प्रस्न केलो. अच्चनान फुडें म्हळें, "मनशाकंडेन पयसो जालो की तो फाटलें फुडलें सगलें विसरता म्हणटात तें फट न्हय."

नल्लम्माकूय ताचें म्हणणें पटलें. अच्चनान आपलो फाटलो निच्छेव आनीक एक खेप परगटायत म्हळें, "पळोवया... हांवूय व्हडें, जाळ घेतले बगर सोडटां काय कितें तें!"

नल्लम्माक मात ताचें हें उलोवप निव्वळ फटाशेवरी लागलें.



# 6

चेम्पन खरेपणींच भाग्यवंत. दर्यार ताचे बराबरीन हेर कोणाकूच मासळी मेळना. हेरां परस तो दोडटी ओडटा. जाळ उडयलें की केन्नाच तें फुकट वचना. गजाल अजापाचीच म्हणपाक जाय.

रातीचे पयशे मेजून जातकीर चक्कीन म्हळें, "आतां आमकां चलयेच्या लग्नाचें पळोवपाक जाय."

चेम्पन कांय उलयलो ना. तेन्ना ती फुडें म्हणपाक लागली, "आनिकूय विचार कसलो करता? तिका अशी घराच बसोवपाची ना मूं?"

चेम्पन तरीय ओगीच. पयशे जोडपा फुडें हेर कसलीच गजाल ताका व्हड दिसना. पयशाची गांठ केली की सगलें आपशींच जातलें.

व्हड्याक लागपी सगलें सामान ताणें घेतलें. खंयच्याय मोसमांत दर्यार वचप आतां ताका कठीण उरलें ना. ताचे कडेन सगलो आसपाव आशिल्लो.

परीचो वेपार थंडूच पडिल्लेवरी जाल्लो. गुदांवाचेर कांय काम चलनाशिल्ल्यान हातांत पयसोय घोळनासलो. ताच्या बापायन येवन एक दीस ताका तापोवन काडलो. अब्दुल्ला दलालान चाडी केल्ली की खंयचे तरी एके गाबतिणीक ताणें आपलो पयसो खावयलो. आनी ती गजाल करुत्तम्माच्या कानार आयिल्ली.

करुत्तम्मान आवयचे फाटीं पिरपिरें लायलें की परीचें रीण मेकळें करपाक जाय. अब्दुल्लान परीची केल्ली चाडीय तिणें आवयच्या कानार घाल्ली. हाचे परस लजेची खबर दुसरी कसली आसूं येता? परीन आपलें आशिल्लें नाशिल्लें भांडवल एके गाबतिणीक खावयलें ही ग़जाल खरी न्हय?

चेम्पनान त्या दिसा तीच जाप दिल्ली, "आगे, पयशे खंय वेतात? दिवंया. पूण चार दीस धीर धरशीत की ना?"

चेम्पनाच्या तोंडांतल्यान केन्ना केन्नाय ताचे हावेस अचकीत भायर सरताले. "आमचीं आनिकूय दोन व्हडीं, जाळां उरपाक जाय. उबो जल्म, 'मेळयल्लें आयल्या दिसा पावना' अशे तरेन गेलो. हे फुडें तरी आमकां थोडें सुखूय भोगपाक जाय. तुज्या आंगार मूठभर मास चडपाक जाय." हेच ते ताचे हावेस.

"आरे देवा! आतां आनी म्हज्या आंगार मास चडपाचे दीस उरल्यात?" चक्कीन विचारलें.

"ना कित्याक तर? तूं आंग धरतलीच, हांव जाणां!" चेम्पनान म्हळें. हे आदीं सूख भोगपाच्यो गजाली चेम्पनाच्या तोंडसून तिणें केन्नाच आयकूंक नासल्यो. चेम्पनाचें मन पयलेच खेप सुखाक आशेलां म्हणपाचें तिका दिसलें.

तिणें म्हळें, "आतां ह्या जाणटेपणार शीं सुखां भोगपाची वान्सा तुका खंयच्यान

येवजली? हो विचार खंयच्यान आयलो? खंयच्यानूय तरी मेळिल्लो आसूंक जाय!''

"आगे, म्हातारपणांत लेगीत मनीस सूख भोगूंक शकता. मातशी वचून त्या पल्लिकुन्नमाक पळय न्हय, मागीर कळटलें, मनीस कशे कशे तरेन सूख भोगीत आसता.''

चक्कीन ताका उपदेश करपाच्या हेतान म्हळें की तो चुकीच्या मार्गार आसा. जाणटेपणांत सुखां फाटल्यान लागप म्हणचे सामकेंच चुकीचें.

चेम्पनान म्हळें, "तूं आयकतली? ताची बायल तुजेच पिरायेची. पूण सदां नटून थटून रावपी. केंस बेस बरे उगयिल्ले. माथेंभर कुकूम. आनी ओंठ लेगीत तांबडे गुंज. दिसपाक भांगरा रंगाची. घोव तशी बायल, दोगांय भुरग्यांवरी टवटवीत.''

"म्हणचे तुजें म्हणणें हांवेंय आतां एखाद्रे तरनाटे वरी नटून थटून रावचें?'

"तातूंत वायट म्हणपाचें कितें आसा?''

"लज दिसची ना तशें करपाक?''

"लजेचो प्रस्नूच खंय येता?''

चक्कीन खीण भर लजिल्लेवरी करीत म्हळें, "म्हज्यान ना बाबा जावपाचें हें सगलें.''

चेम्पनान 'जाळवालो' कण्डनकोरन्नाचे जिणेची काणी सांगतना म्हळें, "ताचे कडेन जे तरेचें जेवण हांव जेवलों, तशें जेवण आयजवेर हांव खंयूच जेवलों ना. तागेर केल्ल्या घरच्या भाज्यांची रूच कितें म्हूण सांगपाची! एक खेरीतूच रूच. तीं दोगांय जाणां घरांत सामकीं भुरगीं कशीं सुखान जियेतात. चेम्पन फुडें सांगपाक लागलो. "आयकतली जाल्यार आयक. एक दीस तांगेर पळयलें तें पळोवन तर म्हजे म्हाकाच सामकी लज दिसली. त्या दिसा हांव तांगेर पाव जाल्यांर हीं दोगांय जाणां एकामेकांक वेंगावन बसल्यांत. आनी एकामेकांचे उम्यार उमे घेतात!''

चक्कीच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं, "शी! लज नाशिल्लीं मनशां!''

"लजेची कसली गजाल तातूंत? तीं भुरग्यांवरी आसात. हांसतात, खेळटात ल्हान भुरगीं कशीं. अशें चलता तांचें.''

"भुरगीं बाळां नाशिल्लीं जावंये.''

"आसा एक चलो.''

चक्की कडेन पळयत चेम्पनान म्हळें, "पाप्पी भशेन (कण्डनकोरनाची घरकान्न) तूं फुगली की म्हाकाय बी तुजे सांगाता तशे तरेचो भुरग्यां-खेळ खेळपाचो आसा.''

खरें पळयल्यार आपणाकूय घोवान वेंगावन घेवन उमो घेवपाचो विचार चक्कीक मानवलो. पूण तशें तिणें उकतेपणीं दाखयलें ना.

तिणें म्हळें, "हय, आमीय बी मातशीं तशीं जावपाक जाय ही गजाल खरी.''

"हांव जातलोंच तसो. मागीर तुका चुकता?'' अशें म्हणून चेम्पन खो करून हांसलो. सुखाच्यो सगल्यो नव्यो नव्यो कल्पना ताच्या दोळयां मुखार आसल्यो.

चक्कीन कागाळ केल्लेवरी करीत म्हळें, "म्हाका दिसता, तूं ते पाप्पीक पळोवन पिसो जालाय!''

"आतां कशी उलयली! एक खेप ते बायलेचेर नदर घालीत, मनीस पिसो जाताच.''

मातसो रावन चेम्पनान म्हळें, "कण्डनकोरन मोटो भाग्यवान खरो!''

चक्कीन म्हळें, "आदीं समुद्रमातेची पूर्ण कृपा जावपाक जाय. आयिल्ल्या दिसाची

पोटाची चिंता मेटली, आपलें घरदार, जमीन जाली की 'ल्हान भुरग्यावरी जियेवपाच्यो वा हेर सगल्यो गजाली. आदीं चलयांचीं लग्नां-कारणां करून मेकळीं जावपाक जाय.

चेम्पनाकूय तिचो हो विचार मानवलो.

"पूण हांव तिचे वरी सुंदर खंय आसां?" चक्कीन प्रस्न केलो.

चेम्पनान जाप दिली, "हें सगलें घडून येय मेरेन जातली सुंदर."

"आनी ते आदींच मरून गेलीं जाल्यार?"

"हट! तुजे जिबेक म्हूण हाडूच ना. मरतली कित्याक? कित्याकितेंय अवचिन्नपणां उलोवं नाका."

एकाएक समुद्राचो रंग बदललो. 'पोला' चे दीस आयिल्ले. उदक खदोळ जाल्लें. तांबड्या रंगाचें. (समुद्र माता भश्टी रावल्या म्हणपाचें हें लक्षण) दोन तीन दीस गेले. चेम्पनाच्यान घरा ओग्गी बसूं नज जालें. (ह्या दिसांनी दर्यार मासळी मारपाक कोण व्हडीं देंवयना) देखून समुद्रांत पयस वचून गरयो घाल्यो जाल्यांर गरवणेक थोडी पूण मासळी येतली असो विचार ताच्या मनांत आयलो.

आपल्या मानायांक ही गजाल ताणें सांगली. तांचो विचार घेतलो. चटकरून कोणें जाप दिली ना. ते लोक हे आदीं केन्ना गरवणेक ग़ेल्ले नाशिल्ले. आनी चड करून "पोला" च्या दिसांनी तर केन्नाच कोण वचूंक नाशिल्लो.

चेम्पनान नेटानूच तांकां सुचयलें, "हां, तुमकां एक गजाल सांगतां, तुमी आयले नात जाल्यार जेवणाक पादिसेर जातले. घरा बसून तुमकां पयशे दिवप म्हाका जमपाचें ना."

कामा विरयत बेकार रावपाचे दीस वाडूंय येतात. चड करून तशेंच जाता. सगल्यां कडले पयशे सोंपिल्ले. कांय जाण व्हडीं घेवन गेल्लेय. पूण एक भोपशें तांकां गावलें ना. व्हड्यांचेर काम करपी मानायांक पयशां पासत मालकांनी अडचोंवपाचे ते दीस. धनयांच्या हातांतूय तरी पयसो खंय घोळटालो!

शेजारच्या घरांतल्या लोकांचेर उपास काडपाचो प्रसंग आयलो. खडेगांठ उपास. अच्चनान व्हडें-जाळ घेवपाचें थारायल्लें. ताची परिस्थिती कठीण जाली. घरांत भुरगीं-बाळां खूब.

एक दीस घरांत कांयच ना जालें. त्या दिसा विकी सारकी आशिल्ली वस्त विकून कणगां हाडलीं. त्या दिसा पुरतें काम भागयलें. फायच्या दिसाक कांयच ना उरिल्ल्यान घोव बायले मदीं झगडें पेटलें. रागाचे भिरकेंत बायलेचेर ताणें दोन थापटां फुलयलीं आनी आपूण भायर गेलो. भुरग्यांचो भार घरचे बायलेचेर उरता. ती तांकां सोडून खंय- वतली!

नल्लम्मान अच्चनाक थोमणो मांरलो, "चावे हॉटेलार मडकी भरूंक वेता आसतलो!" तें आयकुनूय आयकनाशिल्ले वरी करीत अच्चन सटकलो. कितेंय तरी फुडलो विचार करपाक जाय आशिल्लोच, ते पासतूय गेल्लो आसूं येता.

सांजवेळ मेरेन नल्लम्मान ताची वाट पळयली. अखेर शेवटा उठली आनी घरांत आशिल्लो फुलांचो ग्लास घेवन चक्की कडेन गेली. चक्कीक तो घाण दवरून एक रुपया उसनो दिवपाक सांगलें. चक्कीन दिलो. लक्ष्मीक तें कळ्ळें तशी तीय, आपले चलयेच्या

कानांतलीं कालापुरां घेवन चक्कीसरीं आयली. अशे तरेन एका फाटोफाट जायत्यो बायलो येवपाक लागले बराबर चक्कीची अडचण जाली. सगल्यांक दिवपाक तिचे कडेन तरी पयशे आशिल्ले खंय! पयशे ना म्हूण सांगल्यार कोणाक खरेंच दिसना. काली एक कायल घेवन आयली. तिणें ती गेल्लें 'मण्णारशाला' जात्रेक घेतिल्ली. तिका पळोवन चक्कीन म्हळें, "अशे तरेन सगलींच येवपाक लागलीं जाल्यार हांवें तांकां दिवपाक कितें पयशे घरांत पुरून दवरल्यात?"

भुरगीं घरांत भुकेन तडफडट्टालीं, देखून काली आयिल्ली. चक्की अशे तरेन परतितली अशें तिका दिसूंक नाशिल्लें. चक्कीन टोंचून उलयत म्हळें, "सगल्यांक चेम्पनाचो पयसो जाय. पूण संद मेळटा खिणाक ताची लज काडपाक मात कोण फाटीं रावना!"

कालीन म्हळें, "हांवें कितें वायट केलां गे तुजें?'

"करूंक कांय ना. पूण म्हजे कडेन पयशेच नात."

"मावशे, तूं अशी कित्याक उलयता, म्हाका हे आदीं केन्ना पळोवंकूच नाशिल्ले वरी."

"हें पळय, हांव म्हज्या पयशांची गजाल तुका सांगतां; जाय जाल्यार आयक."

कालीक कपलाक भिरभिरी मारली. तिणें म्हळें, "हांव हे आदीं केन्ना तुजे कडेन आयल्लीं पयशे मागपाक? आयज तशीच गरज जाली म्हूण आयलीं. ताका पयशे, पयशे करून अशी तुसडेपणान उलयता कित्याक गे?"

हाचे उपरान्त दोगांय मदीं एक खडेगांठ झगडें पेटलें. करुत्तम्मान मदीं पडून तें मेटयलें. झगडें वाडत गेलें जाल्यार तातूंत तिचोय उद्धार जातलो म्हणपाचें तिका खबर आसलें. तिणें फुडें सरून कालीचे पांय धरले. तेन्ना आपली कायल घेवन काली घरा परतली.

करुत्तम्मा आवयचेर रागार जाली. म्हणपाक लागली, "कितें करता गे तूं आम्मा, अशी उठटां बसतां आपलो तोल सोडून बसताय ती?"

"कशी तें सांग तरी मुगो!"

"तशीच. व्हडें-जाळ हाडिल्ल्या खिणा पसून तूं आनी बाप्पा, दोगांय पुरायेन बदलून गेल्यांत."

त्या दिसा सांजेवेळा चेम्पन जेवणाक बशिल्लो आसतना चक्कीन वाड्या वयले लोक कशे तरेचे उपास-तपास काडटात तें ताका सांगलें. त्या दिसा तर एकाय घरांत चूल पेटूंक नाशिल्ली.

चेम्पनान म्हळें, "तशेच मरपाक जाय लोक, जाल्यारूच आमचें काम सादतलें."

कसलें काम तें करुत्तम्माक समजलें आनी त्याच बराबर तिच्या मनांत तिरस्कार निर्माण जालो.

चक्कीन विचारलें, "कसलें काम?"

"सगल्यांक तशेंच वळवळूं दी. हालांत चार पयशे आयले की हांकां भान उरना. नाका नाका तें येवजतात. दादले, बायलो सगलीं सारकीं. कोण शारांत वचून हॉटेलांनी जेवन येतात. घरांत बायलेच्या आंगार फाळी नासल्यार नासूं, हांकां जरी देमेल्यो लुंग्यो येवजतात. तांचे पांय जमनीर पडनात, नखेत्रां मेजीत सामके मळबांत पावतात. आतां

मेजूं दी बरीं नखेत्रां, चड उडटात तांकां!''

करुत्तम्मा अजापान आयकत रावली. चक्कीन आपलें पोरनें पुराण सोडलें, ''आमची गाबीत जातूच तसली; हातांत एक पयसो तिगपाचो ना.''

''सांठोवचे नात मूं, नाका सांठोवं. आतां रडटात कोणाक? भोगूं दी फळां! तुजें पुराण मातशें तुजे धुवेकूय शिकय. तिकाय शिकूं दी बरी उपाशी रावपाक.''

चक्कीन हांसत म्हळें, ''आब्बा! आतां मात बरोच हुशार जालो आं!''

''कित्याक जावंचो ना! म्हजे कडेन पयसो आसा.''

''कितें गा विचारता! त्या बाबड्यान ते वटेन आपलो धंदो बंद दवरला. हे वटेन चली वाडल्या.''

करुत्तम्माक विचारीन शें दिसलें, ''परीकूय उपास भोगूंक लावंक जाय, न्हय?''

दर्या वयल्या दुकळाचो फायदो घेवन चेम्पन आनी चक्कीन सवाय भितर भांगर शिंगर केलें. रुप्याचीं आयदनां घेतलीं. चलयेच्या लग्ना वेळार चड चिंता-हुस्को करपाची गरज पडची ना. एक दीस एक बरी खाटूय अशीच आडगत मेळ्ळी. घोव घरा येतनाच बायलेन लजत सांगलें, ''हांवें एक खाट घेतल्या.''

तिका हांसत चेम्पनान विचारलें, ''खाट शी कित्याक गे बाये?''

''खाट कित्या पासत आसता? न्हिदचे पासत मूं?''

''कोणाक न्हिदपाक?''

''चलये पासत. जांवय मावोड्या आयलो कीं ताका न्हिदपाक.''

''आं, जांवयाक न्हिदपाक, न्हय?'

''तर कोणाक, तुका आनी म्हाका? ह्या म्हातारपणांत!''

ताचेर चेम्पनान म्हळें, ''तशें जाल्यार नाका. हांवें एक पलंग करपाचो थारायला. कण्डनकोरनागेर आसा ते तरेचो.''

चक्कीन म्हळें, ''पूण पलंगाचेर जोड्यांनी न्हिदचे पासत एक देखणी बायलूय नाका आशिल्ली?''

''हांवें तुकाच तशी करपाचें थारायलां.'' चेम्पनाच्या मनांत आनिकूय एक इत्सा नेटान उसळून आयली. जिणेंत सूख भोगपाचे तळमळीचोच तो एक वांटो आसूं ये. ताका आनीक एक व्हडें घेवपाचें आशिल्लें. पूण आयिल्लो चडसो रोख पयसो जंगम वस्तींचेरूच खर्चिल्लो. तरीय व्हड्याची गजाल आपले तांकी भायली अशें ताका दिसलें ना.

एक दीस ऊठ जाल्यार सकाळीं फुडें तागेर ''जाळवालो'' रामन आयला. चेम्पनान ताची मोगान उठबस केली. भोवमानान ताका वागयलो. रामन त्याच घाटा वयलो. ताचे कडेन दोन व्हडीं आशिल्लीं. ताचीं सगलीं भाटां दुसऱ्याच्या हातांत पडिल्लीं. चेम्पनान ताच्या व्हड्यार कांय तेंप कामूय केल्लें.

रामनाक त्या भुकेन वळवळावपी दुकळा समयार आपले कडेन काम करपी लोकांक दिवचे पासत थोड्या पयशांची गरज आशिल्ली. अशी गरज पडली जाल्यार तो औसेप्पा कडल्यान रीण घेतालो. औसेप्पाक तो आजून थोडें फाटलें रीण बाकी आशिल्लो. अशे परिस्थितींत ताचे कडेन परतेंय मागपाक ताका भीड दिसताली. ताणें चेम्पनाक म्हळें, ''आमच्या आधारार जियेवपी लोक आयज भुकेन मरपाक लागल्यात. दर्यार तर ह्या

दिसांनी कांय काम ना, ज़ोड ना. तांची परिस्थिती पळोवं नज अशी जाल्या.''

चेम्पनाक ताचें म्हणणें पटलें.

''अशा प्रसंगाक मोन्यानी ओग्गी बसप बरें न्हय.''

तें आयकून मात पसून कसलीच अडचण दाखय नासतना चेम्पन ताका रीण दिवपाक तयार जालो.

''कितले पयशे जाय?''

''देडशेंक पुरो जातले.''

चेम्पनान मेजले. दिवन उडयले. रामनान प्रस्न केलो, ''तूं तुज्या मानायांक पयशे दिना?''

माथे खरपीत चेम्पनान जाप दिली, ''हांव कशे दितलों? हांवूय तांचे सारकोच काम करपी न्हय? चानी, हतयाचें वजें कशें ओडीत!''

रामन खुदकरून हांसलो. चेम्पनान आपलें म्हणणें फुडें विस्कटावन सांगलें. रामन उठून गेलो तेन्ना चेम्पन चक्की लागीं आयलो. एखाद्र्या पिशावरी हांसपाक लागलो. त्या दिसा प्रमाण असो खोसयेंत येवन हांसतना तो केन्नाच दिसलो ना.

चक्कीन विचारलें, ''हें पिशावरी कितें चलयलां?''

''पिशी तूं, तुका कितें कळटा? स म्हयन्यां भितर हाचें व्हडें म्हजेंच जातलें! पयसो पंदराक उरलो जाल्यार असो फायदो जाता.''

चेम्पनाचे मानाय उश्णे पयशे मागून ताका बेजार करपाक लागले. ताणें तांकां विचारलें, ''हांवें सांगिल्लें काम करपाक तुमी तयार आसात?''

''हय!''

''चलात तर, दर्यार वचून आमी आर घालुंया.''

''तें कशें जातलें? इतलेय ओसाडींतल्यान दर्यांत पयस भितर वचप कशें जमतलें?''

तेन्ना चेम्पनाक एक दुसरोच उपाय येवजलो. ''आतां व्हड्या भायल्या मानायांक सांगाता घेवन तांचे बराबर जमत तें काम करपाचें आनी मागीर तांकांय मानाय म्हूण व्हड्यार आपोवपाचें. व्हडें आनी इतल्याय हेर तरेक तरेच्या आस्पावाचेर उदका सारको पयसो ओतून, हांव हात कामरून ओगी बसपाचों ना. तशें केल्यार केदें लुकसाण जातलें!''

दोन तीन दिसां उपरान्त एक दीस सकाळच्या पारार येरें सांबाळीत अस्तेन्ते वसल्यान आपलें व्हडें नेटान घेवन वतना चक्कीन, करुत्तम्मान चेम्पनाक पळयलो तेन्नाच तांकां ही ताची गजाल कळ्ळी. त्या दिसा तेरा घरांतल्या बायलां-भुरग्यांनी देवाचें नांव घेत दर्यावेळेर चिंतेस्तपणान वेळ घालयलो. जाणकार लोकांनी दर्याचो रंग आनी ताचें रागीट रूप पळोवन म्हळें, ''चिन्न बऱ्याचें दिसना. अशा वेळार दर्यांत घातकी भोंवरे जातात.''

रात जाली तरीय व्हडें परतलें ना. दर्यावेळेर रडप, हांबेर दिवप सुरू जालें. मातशा वेळान दर्याघाटा वयले लोक एकठांय जाले. तांच्यो नदरो अस्तन्ते दिकेन खिळ्ळयो. रात शान्त आशिल्ली. दर्या मखख. नखेत्रां लुकलुकतालीं. कोणाक तरी भास जालो की दर्यांत खूब पयस एका थिपक्यावरी कितें तरी दिसता, तें व्हडेंच आसूंक फाव. पूण व्हडें आयलें ना.

कोम्बनाली म्हातारी आवय हड्डें पेटून चक्की कडेन आपलो भुरगो दी म्हूण मागताली.

बाबाली गुरवार घरकान्न, कोणाचेरच ठपको दवरिनासतना एके कुशीक बसून दुकां गळयताली. अशे तरेन दर्यावेळेर सगले कडेन दुःखाची सया पडिल्ली.

व्हडा रातीच्या सुमाराक आवाज कानार आयलो आनी कोणे तरी आड्डून म्हळळें, "व्हडें येता...." व्हडें एखाद्र्या सुकण्यावरी वेगान येतालें.

व्हड्यांत एक मोटो मोरो आशिल्लो. दोन धरिल्ले. पूण दोनूय एका बराबर व्हड्यांत हाडप कठीण जाल्ल्यान, तातुंतलो एक चेम्पनान वाटेरूच कातरलो. ताचीं पोस्तां केल्लीं. उदेन्तेक वचपी मासळेकान्नींचे सुवादीन केल्लीं. आनी तीं विकूंन परतीं आयलीं की तांचे पयशे हाडून दिल्यार जाता अशें तांकां सांगिल्लें. काली, लक्ष्मीक, सगल्यांक वांटे मेळिल्ले. त्या दिसा जायत्या घरांनी चुली पेटल्यो.

दोन दिसां उपरान्त परतेय गरोवणी करपा निमतान लोक गेले. आनी त्या दिसा चेम्पनाक येस मेळळें.

दर्याच्या वाऱ्या ओसाडींतल्यानूय चेम्पना हातांत पयसो येवपाक लागलो. जाणटे, बुदवंत लोक हारले, ओग्गी पडले. गांवच्यो बायलो म्हणपाक लागल्यो, चेम्पनाक लागुनूच लोकाक पेजेनीस तरी पडटा! तेन्ना हेर व्हडेकारांनी गरवणेक वचपाचो निच्छेव केलो.

सगल्यांक भरवंसो आशिल्लो की दुकळा उपरान्त बरे दीस येतलेच. गेल्ल्या वर्सा बांगडो आलप्पुशाचे उत्तरेक आशिल्लो. त्या हिसबान अंदू वर्सा तो तिरा वसल्यान पावतलो. पूण तशें घडलेंय ना जाल्यार, मासळी मारपाची तयारी उरपाकूच जाय. हाचोच अर्थ असो की, व्हडीं, जाळां तेच प्रमाण हेर सगलो आस्पाव व्हडेकारांनी वेळार सारको करून दवरपाक जाय. हें काम दुकळ आसलो तरीय आतां पसुनूच हातांत घेवपाक जाय. हें चिंतून व्हडेकार चिंतेस्त जाले.

औसेप्प आनी गोविन्दन पयशांच्यो पोतयो घेवन दर्यादिगेर पावले. सगल्या गाबीत लोकांक पयशाची गरज आशिल्ली. मेळत ते तरेन रीण घेवपाक लोक आवंडेताले. ठोक मासळे माल घेवपी सावकारांनी आलप्पुशा, कोल्लम, कोचीन सारक्या ठिकाणां वयल्या व्हड व्हड सुंगटां वेपाऱ्यांचे, दलालांचे पांय धरले. आनी अशे तरेन रिणांतल्यान उबो जाल्ल्या पयशाचो प्रताप त्या दर्या तटाचेर पडिल्लो दिसपाक लागलो. देगेर उडोवपाचीं, व्हड्यांतल्यान मारपाचीं पागेलां तयार करपाचीं, विणपाचीं, सारकीं करपाचीं, शिंवन निगूत करून दवरपाचीं कामां वचत थंय चालू जालीं.

ल्हान ल्हान दलाल, वेपारी (मोतलाली) मासळेकान्नी बायलांक रिणां दिवपा निमतान पयशांच्यो पोतयो घेवन घरा घरांतल्यान भोंवपाक लागले. येराझारी घालपाक लागले. मासळी मारपा मोसमांत गांवा गांवांतलीं बायलां-भुरगीं नुस्तें सुकोसुकोवन सांठोवन दवरतात, तें तांणी फुडें आपल्याकूच दिवचें हें पासत हें रीण! ह्या बोवाळांत गांवागांवांनी भोंवपी एका तरनाट्या वेपाऱ्याक कोच्चुकुट्टीच्या एका घरांतल्या घोवान सुरी तोपली आनी ताका लागून पोलीस केसूय चल्ली.

चेम्पन मदीं मदीं रामनाक मेळटालो. रामनाक भंय दिस की अचकीत तो रिणाचे पयशे बी परते मागत. पूण चेम्पनान पयशाची गजाल काडली ना. इतलेंच न्हय, जाल्यार रामनाक गरज पडल्यार आनिकय रीण दिवपाची तयारी ताणें दाखयली.

परी येवपी बांगड्या वेपाराचे तयारेक लागलो ना. ताच्या बापायन ताका धंदोच बंद

कर अशें सांगिल्लें. बापायलें म्हणणें आशिल्लें की परीन मासळेचो वेपार कवळून थंयच्यान भायर सरचें आनी हेर खंयूय वचून दुसरो कसलोय तरी वेपार हातांत घेवचो. परीक तें मानलें ना. ताणें बापायक सांगून उडयलें की तशें करप आपल्याक जमपाचें ना. ताका आपलो जागो सोडून हेर खंयच वचपाचें नाशिल्लें.

ताचो बापूय अबदुल्ला- ताका हे गजालीचें अजाप दिसलें. कित्याक, हाचे पयलीं केन्नाच परीन आपल्या बापायचें उतर मोडूंक नाशिल्लें. अबदुल्लान पुताक कारण विचारलें तेन्ना परीन ताका म्हळें, "तुवें भुरगेपणा पसून म्हाका हांगा हाडून मासळे वेपारांत सोडला. आतां म्हाका दुसरें कामूच येना!"

"पूण तुवें सगलें भांडवलूच सोंपयलें न्हय?"

हाची जाप परीक दिवचीच पडली. ताणें म्हळें, "तशें पळयल्यार अब्बा, वेपारांत फायदो, लुकसाण दोनूय जातात. केन्ना केन्नाय सगलें भांडवलूच काबार जावन वेता."

"पूण फुडेंय अशेंच घडलें जाल्यार?"

ह्या प्रस्नाची एकूच जाप परी कडेन आशिल्ली, "अब्बा, तुज्या मनांत म्हाका कितें दिवन उडोवपाचें आसा तें एकदांच दिवन उडयल्यार जालें. परतें आनीक कितेंच दिवपाची गरज ना."

"आतां दिवपाक म्हजे कडेन आनीक पयसो आसा तरी? सगली मेळून आतां उरल्या ती चाळीस गुण्टे जमीन!"

अबदुल्लाचेर केद्यो जबाबदाऱ्यो आशिल्ल्यो. आदीं ताचे कडेन जायती जमीन आशिल्ली. आयज ती उरली ना. घरांत लग्नाची एक चली आजून उरल्या. तिचें लग्न थारलां." अबदुल्लान हें सगलें परीक सांगून पळयलें. पूण परीचेर ताचो कांय परिणाम जालो ना.

करुत्तम्माक कळून आयिल्लें की परीच्या गुदांवाचेर फुडल्या वेपाराची कसलीच तयारी चलिल्ली ना. बांगडे, मासळी सुकोवपा खातीर नवे हातर, पांटल्यो, वजीं विकतीं घेवपाचीं चिन्नां नात. बल्लां, काशी, बुयांवांय जाग्यार नात. खोपींत नेमान चूल लेगीत पेटना.

तिणें आपले आवयक सांगून उडयलें, "परीन आमकां आधार दिलो त्या उपकारांची चिमटीभर जाणविकाय आमकां आसत जाल्यार ताचे पयशे ह्या खिणाक आमी परते दिवन उडोवपाक जाय."

चक्कीनूय चेम्पनाक चिमटे काडपाक सुरू केलें. पूण कांय फायदो जालो ना. तो तिचेर रागेलो मात. तेन्ना करुत्तम्माक पुरायेन कळून आयलें की चेम्पन परीचे पयशे फेडपाचो ना. केन्ना केन्नाय ती आपल्या मनांत कितेंय तरी थारायताली. अश्याच एका खिणार ती आवय कडेन उलोवन गेली, "म्हजे कुडीक हो भार तोलना!"

हाचो अर्थ नीटपणीं आवयक कळ्ळो ना. तिणें विचारलें, "तुजे कुडीर असलो कसलो भार आसा गो?"

करुत्तम्मा रडपाक लागली. चक्कीन तिका थारावपाचो येल केलो, पूण करुत्तम्मा हट्टाकूच पेटली, "बाप्पाक हांव सांगतलींच. सगलें सांगून उडयतलीं. हांव जाणां, तशें केल्यारूच पयशे भायर सरतले."

चक्की भियेली, "तूं अशें कांय करूं नाका, म्हजे धुवे!"

चक्कीक खबर आशिल्लें तितलेंय सगलें चेम्पनाक कळ्ळें जाल्यार कितें जातलें? चक्कीक

हो विचार लेगीत सोंसलो ना. आनी करुत्तम्माच्या उलोवण्या वयल्यान तर तिका दिसपाक लागलें की तिका खबर आशिल्लें ताचे परस कितलें तरी व्हड गुपीत तातूंत आसुंये.

एकटीच आसली की करुत्तम्माक आपलें मन सांवरना अशें जातालें. ती परीचेर मोग करताली. तिच्या काळजांत-हेर कोणाकूच कुस्कूटभर जागो नाशिल्लो. आनी मनाचो निर्धार केलो तरीय, परीकूच न्हय, तर परी लागीं आशिल्लो आपलो संबंद लेगीत ती विसरूंक शकनासली. एक गाबतीण म्हूण ती जल्माक आयिल्ली. आनी हें ती जाणटाली. पूण हें कशें घडटलें तें मात तिका कळनासलें. कित्याक, तशें घडपा खातीर परीक विसंरपाक जाय हें खबर आसून लेगीत तिका तें जमपाचें नाशिल्लें.

परीचें रीण फेडून उडयलें जाल्यार तरी ताका विसरूं येत अशें तिका दिसतालें. पूण आपल्या उतराक परी आपलो धंदो बुडोवन काबार जाला, निराधार जाला, हो विचार जों वेर आपले तकलेंत रातदीस घोळटा, ते मेरेन परीक विसरप सामकें अशक्य आसा अशें तिचें मन तिका सांगतालें.

दीस फाटीं पडले. पूण परिस्थिती बदलली ना. चेम्पनान परीचें रीण फेडलें ना.



# 7

समुद्रादेगेवयले लोक वाट पळंयत दीस काडटाले. रातीचें जेवण मिर्सांग-पेजेचें भागयतना, घराघरांतले लोक दर्या-मातेची याद करून तिका प्रस्न करताले, "माये, घासभर अन्न खावपाचे दीस आतां केन्ना पूण दिसतले गे?" आनी ताची जापूय तेच दिताले, "राशींनी बांगडो पडलो म्हणटकीर." तांकां केन्ना अशेंय दिसतालें की पोटभर खावपाचे दीस खरेपणींच फाटीं पडले.

च्यावालो च्याक उधार रावना जालो की म्हणटाले, "पापया, भियेवं नाका. हे पळय बांगड्यांचे दीस येतात!"

घरांनी बायलांचीं लुगटां म्हेळीं जावन पिंजपाक लागिल्लीं. तांचेर थिगळां-कपयो चडपाक लागल्यो, तेन्नाय लोकांचें म्हणणें एकूच, "मातसो बांगडो येवं दी; बराबर मलमल, सेद, जरी... सगलें येतलें! सगल्यो इत्सा भागतल्यो!"

करुत्तम्माच्या मनांतूय एक आस उरिल्ली आनी आवयकडेनूय ती तिणें पर्गटायिल्ली. "बांगड्यां तेंपार कशेय करून थोडे पयशे फाटीं उडोवपाक जाय. बाप्पाचे जोडींतल्यानूय इल्लें इल्लें उखलपाक जाय. आनी अशे तरेन तरी परीचें देणें पावोवपाक जाय."

चक्कीकूय दिसलें, आपणेंय थोडें भोव जोडपाक जाय. पूण तिचो हेत मातं वेगळोच आशिल्लो. तिचे मतींत तशें करून थोडें भांगर कूरचें.

करुत्तम्मान सांगलें, "म्हाका भांगरा-शिंगराची गरज ना. परीचें देणें पावलें की म्हाका सगलें पावलें."

चक्कीन म्हळें, "बाय, पूण तें रीण फेडपाची जापसालदारकी तुज्या बाप्पाली."

"बाप्पा? बाप्पा पयसो पावोवचो ना."

चक्कीन 'खरें तुजें' म्हणत आपलें काळीज उकतें केलें. करुत्तम्मा हिशेब करपाक लागली.

पंचमीची बाबडेची आपली वेगळीच माण्णी आशिल्ली. ती करबटाच्यो राशी घालतली. बाप्पान तिका व्हड्या कणकणी पांटुलोभर मासळी दिवपाचें उतर दिलां.

परीनूय आपलेभशेन कितें तरी थारायलें. अबदुल्लान आपली जमीन, घर शेठजींकडेन घाण दवरलीं. तांच्या आदारार खर्चाक हजार दोन हजारांमेरेन परी घेंवक शकतालो. ताणें थारायल्लें की ह्या वर्सा फिशालकायेन बांगड्यां वेपारांत लक्ष घालतलों. आनी तातुंतल्यान जमनीवयलें रीण सोडोवन वयल्यान भयणीचें लग्नूय करतलों.

ह्या बांगड्यां मोसमांत तरी आपूण व्हड्याचो धनी जातलोंच म्हणपाचो अच्चनाचो विचार कायम आशिल्लो.

त्या दिसांनी लोकांक वचत थंय उपास घडलो. तेन्ना अच्चन औसेप्पाकडेन गेलो आनी ताणें ताचेकडेन आपल्याक व्हडें घेवपाची गजाल काडली. ते पासत लागत तें करपाची

अजनी तयार उक्तायली. म्हळें, "हांवूय एका व्हड्याचो धनी जावन दर्यांत वपाक आवडेतां. म्हजीय बायल दर्यादिगेर उबी रावून म्हजी वाट पळयतली अशें चिंता."

औसेप्पान विचारलें, "हातांत थोडो भोव तरी पयसो आसा?"

"कांय ना."

"मागीर कशें जातलें तर?"

अखेर शेवटा औसेप्पानूच एक वाट सुचयली. "बांगड्यां तेंपार सगली जोड राखून दवरपाक जाय. आनी मागीरूच व्हड्याचो विचार करपाक जाय. उणें पडत तें इंडवल हांव दितां. मात एक गजाल आसा. व्हडें, जाळ म्हज्या नांवान घेवचें पडटा तुका व्हड्याचो उक्त वांटो मेळटलो. येरेंकाराचो वांटो. तूं अशें कर, बांगड्या तेंप तुजी सगली जोड म्हजेकडेन जमा करीत राव. हांव राखून दवरतां."

अच्चनाक तें मानवलें. अशेंच थंय चलतालें. घरा पावतनाच ताणें नल्लमाच्याकानार सगली गजाल घाली आनी तिका सांगलें, "उदेन्तेक नुस्तें खपोवन तुका मेळटा तोफायदो तूं म्हजे सुवादीन कर."

"तशें कित्याक तर, तूं तुजीच जोड म्हजेकडेन दी." नल्लम्मान जाप दिली.

"हट, बेअक्कली खंयचेकडली! दोगांयचे पयशे औसेप्पाकडेन जमा करपाचे आसात." नल्लम्माचो ते गजालीक तेंको मेळ्ळो.

तिणें विचारलें, "चेम्पनदादान व्हडें कशें घेतिल्लें खबर आसा? तो आपत जोड सगळीचे सगली, चक्कीचे सुवादीन करतालो." पूण अखेर शेवटा दोगांयनी औसेप्पकडेनूच आपलें जोडिल्ले पयशे दिवपाचे अशें थारायलें.

अच्चनान सगल्यांक सांगून उडयलें की आपुणूय एक व्हडें घेवपाचो आसां.

अशे तरेन वाट पळयतां, पळयतां पावस लागीं पावलो. दर्यांत ऊंच ऊंच झारांचो नाच चालू जालो. मासळेचें पीक थंयच येतलें. गाबितांच्या तोंडावयल्यान आर आनी उमेदीचे भाव फुलपाक लागले. दर्या किनारो रोखडोच उत्तरेक सावन दक्षिणे मेरें एका व्हड शाराचें रूप घेवपाचो आशिल्लो. दोनूय वसल्यान खोंपी उब्यो जावपाक लागल्यो. च्यावेचीं हॉटलां, तुगटां, आल्कियात, भांगर-शिंगर, सगले तरेचीं लॉजां दिसपाक लगलीं. ह्या वर्सा एक डायनामो बसोवन दर्यातटार विजे दिव्यांची वेवस्था जावपाची आसा म्हणपाची वार्ता कानार आयली.

दर्यांत परतींय व्हारां उसळ्ळीं. उदक खूब धवळ्ळें. लोक उमेदीन नाचपाक लागले. तांच्या काळजांत सपनां कंवळे आंकूर धरपाक लागल्यो. दर्या धवळू धवळून पुरायं शांत जावन रावलो, की लोकांची समृध्दी उदेतली.

अखेर तो शांत जालो. पयशी-पयशिल्यान व्हडीं येवपाक लागलीं. पावसार दीस. ओसाडी उदकाचो नेट. इतलें आसुनूय दर्या एकाएक तळयेवरी शान्त जालो.

ईम्पनाच्या व्हड्याचेर काम करपी लोक हुशार आशिल्ले. ताणें तांकां शिकोर्नकोवन तयार केल्ले. चेम्पन येरेंकारा जाग्यार उबो रावलो, ताणें नेटान व्हडें भायर घां, की तें एक पळोवपाक देखणें चित्र दिसतालें.

पयल्या दिसा मासळी चड मेळ्ळी ना. उदक शांत जाल्ल्याचें पळोवन मासळी कितीच देवपाक लागिल्ली. दुसऱ्या दिसाय सगलीं व्हडीं दर्यांत गेलीं. चेम्पनाक चड नुस्तें मेळ्ळें.

अच्चनाक दिसलें, चेम्पन सगल्यांआदीं मासळी धरपाक गेलो देखून तशें जालें. राम मूप्पनाचें म्हणणें वेगळें पडलें. ताणें म्हळें, "चेम्पनान पल्लिकुन्नमचें भाग्यूच मोलावन हाडलां" सगल्यांक दिसतालें, चेम्पना इतली नासली तरी मातशी थोडी तरी मासळी तांच्या वांट्याक येवं नाका? खरें पळयल्यार चेम्पना कडल्यान सगल्यांक स्फूर्त मेळिल्ली.

अच्चनान आपल्या सांगात्यांक सांगलें, "आमी वेठीचें काम करपी जावंक फावना. काम नेटान उमेदीन करपाक शिकूंक जाय. सगले जाण हे गजालीची याद दवरीत जाल्यार तांकां आपली जोड चेम्पनाचे बराबरीची जाता की ना तें रोकडेंच कळटलें!"

लोक आदल्या दिसा परस चड फांतोडेर वेळेर जमपाक लागले. फाटीं उरिल्ल्यांक उले मारमारून आपोवपाक लागले. हॉटेलांतूय च्या वेगीं मेळपाक लागली. आपलेकडेन सर्त करचेपासत सगले वावुरतात म्हणपाची सुलूस चेम्पनाक लागूंक नाशिल्ली. आनी देखून त्या दिसा ताचें व्हडें सगल्या मागशीं दर्यार पावलें.

दर्यांतली व्हड्यांची चाल पळोवन दिसतालें की त्या दिसा मासळी खूब पडटली. ठोक मालाचे वेपारी, हेर सावकार, दलाल सगले वेळेर एकठांय आयिल्ले. परी मात चिंतेस्त दिसतालो. कोणाची तरी तो वाट पळयतालो. हातांत फाव तितलो पयसो घोळनाशिल्लो. शेठजीच्या मॅनेजरान पयशे घेवन येतां अशें ताका सांगिल्लें. पूण तो आयलो ना. परी ताचीच वाट पळयतालो. सगले तरेन जोड वाडोवपाचे ते दीस. दर्यांत मासळी खूब आशिल्ली. दिसूय वताचो आनी लकलकीत. सुंगटां सुकत घाल्यार बेस बरीं वाळगून येवपाचीं. अशा दिसा मनीस कितलेंय जोडपी. वेळ असोच गेलो. शेटीचो मॅनेजर पांचु पिल्लै अखेर मेरेन पावलो ना. परीक भंय दिसलो की आपले मासळे वेपाराची बोणीच वायट तरेची जायत चल्ल्या.

सगलीं व्हडीं वेळे वसल्यान वळळीं, तसो परीचो हुस्को वाडत रावलो. हेर सगले पयशे घेवन आयिल्ले.

दर्या तटार सगले कडेन शंखनाद कानार येवंक लागलो. हॉटेलांनी जेवण मेळपाक लागलें. व्हडीं तडेक लागतनाच लोक तातूंत गर्दी करपाक लागले. आंगड्यांनी वा वाटेर वचत थंय चावेच्यो किटल्यो दिसपाक लागल्यो. एक मिनीट फुकट घालोवपाक कोण तयार नाशिल्लो. परीचे मानायूय कामाक आयले.

सगल्यांमुखार चेम्पनाचें व्हडें आशिल्लें. सदचे सारकेंच तें उडिल्लेवरी येतालें. कादरीन म्हळें, "ताचेर जैत मेळोवप कठीण. मोयिद्दिनान ताका तेंको दिलो."

एका जाणटेल्या आनी अणभवी गाबितान आपलें मत पर्गटायलें, "खुद्द धनीच व्हड्याचें येरें धरून उबो आसा न्हय!"

व्हडें तडीक लागलें. आयज सुंगट पडिल्लें. व्हडें उपाट भरिल्लें.

परीन चेम्पनाकडेन धांव मारली. आदलो कोडू अणभव तो विसरून गेल्लो. अशा वेळार कोणाकूय विसर पडपाचोच. ताणें चेम्पनाकडेन काकुळटेक येवन मागलें, "चेम्पनमाम, आयज म्हाकाय माल दी!"

चेम्पनान तुसडेपणान ताचेकडेन पळयत विचारलें, "आरे, दिवपाक पयशे आसात?"

व्हडें तडेक पावलें की व्हड्या धनयाचो सबावूच असो विचित्र जाता.

परीन फुडें उलोवंचे पयलींच थंय कादरी पावलो. चेम्पनाच्या व्हड्याची मासळी आयजूय

मेळपाची नाशी दिसले बराबर परीन हेर व्हड्यांकडेन धांव मारली.

चेम्पनान आपले मासळेचो सौदो केलो. मासळी खुबूच आशिल्ली. चेम्पनाची रास सगल्यांपरस व्हड.

परीन कोणा तरी दुसऱ्या व्हडेकारा कडल्यान ताच्या व्हड्यांतले मासळेचो तिसरो वांटो खरेदी केलो. ताचेलागीं तितलेच पयशे आशिल्ले.

फायदो, खर्च काडून आपल्या मानायांक तांचो वांटो दिवन उडयतना तांकां म्हळें, "आयज दर्यावयली जोड पळे! काय बरें वत, कशे तरेचो उजवाड! जोडपाचो एक बरो दीस! दर मेळ्ळो तोय तोखेय सारको!" ताच्या उलोवण्याचो अर्थ मानायांक कळ्ळो ना. तें पळोवन ताणें फुडें सांगलें, "आरे, गाढवांनो, संद येता तेन्ना तिचो भरपूर फायदो घेवपाक जाय. पयशे गांठीक लावपाचो हो वेळ! जेवण आटापून परतेय येतात, जाल्यार हांव आनीक एक फावट दर्यांत वचपाक तयार आसां."

शेजरा उबो रावन अच्चन आयकतालो. चेम्पनान ताका कांय सांगूंक नाशिल्लें. तरी म्हणपाक लागलो, "म्हज्यान उलयले बगर रांव नज जालें म्हूण मदीं पडटां. पयशे मेळटाच म्हूण दर्याच उसपुपाक फुडें सरला काय कितें? दिसांतल्यान दोन खेप मासळी मारपाचें काम हे आदीं केन्ना जालें ना. फुडेंय जावंक फावना."

चेम्पनानं आपल्या मानायांक म्हळें, "तुमचो विचार तुमी करात!"

दर्यादिग गिरेस्तकायेन झगझगताली. घरांच्या चोशींवसल्यान भांगर रकिल्लेवरी भासतालें. मिठाक मारिल्ली मासळी नदर पावत थंय सुकताली.

त्या दिसा अच्चन हॉटेलांत जेवपाक गेलो ना. नीट घरा गेलो. जोडिल्ली जोड सांबाळून दवरपाचो निच्छेव ताणें केल्लो न्हय!

"आयज जेविनासतनाच सो परतलो" नल्लम्मान विचारलें.

अच्चनाक तिडक मारलीं. म्हणपाक लागलो, "पापणी तुजें केन्ना बरें जावपाक ना. व्हडें तुज्या नशिबांतूच ना!"

अच्चन भायर सरलो. तेन्ना आपली चूक ध्यानांत येवन नल्लम्मान म्हळें, "आरे, पूण सकाळीं वतना तशें म्हणपाचें न्हय?"

अच्चनान जाप दिली, "पूण ही गजाल आमी आदींच थारायल्या न्हय?"

ताचें म्हणणें खरें आशिल्लें. अच्चन वचपाक लागलो तेन्ना नल्लम्मान ताका याद करीत म्हळें, "जेवणापुरते पयशे दवरून उरिल्ले म्हजेकडेन दित राव. हांव दवरतां सांबाळून. औसेप्पाकडेन मागीर एकदमूच जमा करचे."

अच्चनान कांय नोटी आनी मोड तिचेमुखार उडयली.

जेवण करून चेम्पन रोकडोच वेळेर परतलो. त्या दिसा आनिकूय पयशे मेळोवपाचीं सपनां तो रचतालो. पूण तागेलो एकलोय मानाय परतूंक नासलो.

सांजवेळार चेरियशिक्कल, तृक्कुन्नपुशा बी जाग्यांवेलीं व्हडीं येवन पाविल्लीं. रातीचो पावळयांचो पावस पडलो. दुसरो दीस उदेल्या उपरान्तूच व्हडीं भायर घालीं. सदचे सारकें मानायांनी झिळमिळपी फांतोडेर व्हडें भायर लोटलें ना म्हूण चेम्पनाक तिडक मारली.

व्हडें दर्यांत लोटलें तेन्ना चेम्पनूच सगल्यां मुखार आसलो. पूण दुसरें एक व्हडें नेटान फुडें सरतालें. तातुंतले वलेकार उमेदीन वलीं मारताले. येरेंकारा जाग्यार एक हुशार

तरनाटो उबो रावून फिशालकायेन तें सांबाळटालो. ताचेकडेन पळोवन लोक अजापान विचारपाक लागले, "कोणाचें काय हें व्हडें!" तांकां कळून आयलें की तें तृंकुन्नपुशाचें. आनी येरें धरपी आशिल्लो पलनी.

करतां, करतां दोनूय व्हडीं एकामेकां बराबर पावलीं. पळयतल्यांक कळून आयलें की दुसऱ्याक फाटीं उडोवन आपणें फुडें वचचें अशी दोगांयची इत्सा आशिल्ली. ताका लागून दोगूय हट्टाक पेटिल्ले. दोगांयच्या वलेकारांमदीं सर्त लागिल्ली. चेम्पन आनी पलनी दोगूय व्हडा इचिर्कायेन व्हडीं येरायताले. मोटो स्फूर्त दिवपी देखाव आशिल्लो.

चेम्पन आतां फाटीं पडटा काय कितें असो दुबाव मारपाक लागलो. पूण तशें जाल्यार चड मासळी कोणाक मेळटली म्हणपाचें मात कळनासलें. जाळां उडोवपाची, व्हडीं जाय जाय ते तरेन घुंवडावपाची दोगांयची मांडणी पळोवन, कितेंच अदमास करप कठीण आशिल्लें.

व्हडीं परतीं येवपा वेळारूय दोगांय मदीं पयलीं सारकीच वोडा लागली. दोनूय व्हड्यांचे मुखावेले वांटे सामके एकामेकांक घसटून वतले काय, तांचे मदीं झूजं पेट्टलें काय अशी चिंता दिसपाक लागली. आनी दोगूय जेन्ना एकामेकाचेर खरेपणींच घसटले तेन्ना सगलेच भियेले.

तडेकच्यान व्हड्यांची चलिल्ली अशे तरेची सर्त पळोवन करुत्तम्मान म्हळें, "आम्मा बाप्पा इतलो हट्टाक सो कित्याक पेटला गे?"

मासळी मारून व्हडीं तडेक काडटना अशे तरेची सर्त करपाची कितें गरज म्हणपाचें चक्कीक कळ्ळें ना. कित्याक, चेम्पन तशें करपाक आतां भुरगो उरूंक ना. व्हडीं नेटान एकामेकांचेर आपटलीं जाल्यार कितेंय अनर्थ घडूं येता! अशे जाणविकायेन सगल्यांक खिणभर भेश्टायलें.

अशे तरेन व्हडीं निमणीं तडेक पावलीं. आनी तें पळोवन लोकांनी उमेदीन हांबेट्यो घाल्यो.

कोण हारलोय ना, कोण जिखलोय ना. दोगूय एका बराबर अखेरमेरेन उरलीं. दोनूय मासळेन उपाट भरिल्लीं. दोनूय व्हडीं एकाच खिणाक पराय जालीं.

पलनी व्हड्यावयल्यान देंवलो तेन्ना करुत्तम्मान ताचे कडेन आदरान पळयलें. ताणें माथ्याक लेंस बांदिल्लो. ताच्या हातांत ताज आशिल्लें. व्हड्यांतल्यान चपळायेन उडी मारून तो परायेर उबो आशिल्लो. नदरेंत भरसारको एक घटमूट तरनाटो. चेम्पनान पलनीक मोगान लार्मी ओडीत म्हळें, "पुता, खरेपणींच दर्याचो तूं एक धिटायेचो खांबो!"

पलनी उलयलो ना.

त्या दिसाच्या बाजाराक पलनीक मातशे चडूच पयशे मेळ्ळे. तें पळयल्यार चेम्पन थोडो भोव हारलोच म्हणूं येता.

चेम्पनान पलनीक विचारलें, "तुजें नांव कितें?"

तो बळीश्ट तरनाटो इल्लो लजेस्त सभावाचो. व्हडें चलोवपांत फिशाल आसलो तरी चेम्पनामुखार एखाद्र्या ल्हान भुरग्यावरी तो दिसतालो. व्हड्यावयलें ते ताचें खिणापयलें रुद्र रूप कोण जाणा, खंय नाच जाल्लें. ताणें जाप दिली, "पलनी!"

"तूं आपलें काम बेस बरें जाणा. गाबीत म्हूण जल्माक येवपी मनशाक दर्यार

निर्भयपणान वावुरपाची कळा खबर आसपाक जाय'' पलनी कांय उलयलो ना.

चेम्पनान विचारलें, ''बाब, तुज्या बापायचें नांव कितें?''

''बेलू. पूण तो ना आतां.''

''आनी आवय?''

''तीय मेली.''

''घरा आनीक कोण आसा तर?''

''कोण ना!''

अजापान चेम्पनान म्हळें, ''कोणूच ना?'' पलनी ओगीच रावलो.

घरा पावतकूच चक्कीन चेम्पनाक टोंकारलें, ''दिसान दीस तूं तरनाटोच जावंक पळयता. तें बरें आसा, पूण तरनाटेपण लोकांक दाखोवपाचीय गरज आसा?''

चेम्पनान कांय आयकलें ना शें केलें. ताचे तकलेंत दुसरेच विचार घोळटाले. दर्यार आपूण भार आयिल्लेवरी कसो वावुरतां म्हणपाची खबर ताका चक्कीक केन्नाय सांगपाची आशिल्लीच. पूण ह्या खिणाक तो बायलेक सांगूंक सोदतालो तें खेरीतूच. ताणें तो विशय काडीत चक्कीक प्रस्न केलो, ''तुवें त्या दुसऱ्या व्हड्यावेल्या जुवान भुरग्याक पळेलो मूं?''

''पळेलो तर!''

''भुरगो गोमटो आनी हुशार आसा न्हय?''

पलनी चक्कीच्या मनांत भरिल्लो. वेळेवयल्या सगल्यांक मानवल्लो.

चक्कीन म्हळें, ''अचकीत ताची शी याद जाली?''

''तो म्हाका मेळत जाल्यार कितलें बरें जातलें!''

चक्की उलयली ना. चेम्पन फुडें सांगपाक लागलो; ''हांवें ताची खबर काडली. घरा कोण कोण आसा तें ताका विचारलें. म्हणपाक लागलो, आपलो कोण ना. पूण नासलोय म्हूण कितें जाता! एके तरेन बरेंच तें.''

चक्कीन म्हळें, ''ताका जेवणाक आपोवपाचो न्हय?''

''तें मात विसरलों पळय.''

करुत्तम्मा पासत चेम्पनान एक भुरगो वेंचून काडला ह्या विचारान चक्की खोशी जाली. हाचेवयल्यान उकतें जातालें की चलयेच्या लग्नाची गजाल ताचे तकलेंत घट आसा.

''भुरगो सादो आसा. सभावान कोणूय ताका फटोवंक शकता.'' चेम्पनाक हे गजालीची भिरांत दिसली. जेवण जाले बराबर तो उठलो आनी दर्यावसल्यान गेलो.

पलनी आनी ताचे सांगाती माडांचे सांवळेक न्हिदिल्ले. त्या दिसा ताचें चेम्पनाबराबर उलोवणें जालें ना. दुसऱ्या दिसाय दर्यार सर्ती जाल्यो. चेम्पन हे खेप हारलो आनी मासळी तर पलनीकूच चड मेळ्ळी.

चेम्पनाचे मानाय सामके हट्टाक पेटले. करूत्तम्माकूय दिसलें, ''ह्या भायल्या लोकांक आमचे वेळेर येवन आमच्या माथ्यार बसूंक दिवपाक आमी फावना.''

बाबान विचारलें, ''पलनीच्या व्हड्यार आमचें व्हडें व्हरून कित्याक मारचें न्हय? ती संद घेवन सगल्यांक बरे धाडावन काडपाकूय मेळटलें!''

तेन्ना चेम्पनान सांगलें, ''तुमी उलयतात कितें रे पापयांनो? एक बरो गुणेस्त भुरगो आमचे मुखार आयलो जाल्यार ताचो येदो दुस्वास कित्याक? ताचे बराबर, ताच्या

सांगात्यां बराबर सर्त लायात आनी जैत मेळोवन दाखयात.''

चेम्पनाच्या मानायांनी विचार केलो, तांकां दर्यांत बुद्द शिकोवपाक संद मेळ्ळी ना जाल्यार तडेक पूण प्रसाद तांकां दिवपाक जाय. बेलुत्तान हे गजालीक तेंको दिलो ना. ताणें समजायलें, ''आयज हे लोक आमचे वेळेर पावल्यात. फाल्यां घडये आमकांय तांचे वेळेर वचचें पडत!'' इतलेंय जालें, पूण चेम्पनाच्या कांय मनशांक तें पटलें ना. भायल्यांक कितें ना कितें करपाक जाय, आळाबंदा हाडचे पासत, असो विचार दाटतूच गेलो. हे दीस खूब जोडीचे आशिल्ले. देखून आपल्या पोटा आड येवपी मनशांक आवर हो घालपाक जाय. मागीर गरज पडल्यार ते पासत पुलिसींत वचचें पडूं. कोर्टांत खेटो घालच्यो पडूं. आयज तांकां कशेच सोडपाक जायना!

चेम्पनाक ती गजाल कळ्ळी आनी ताच्या मनाची शांतताय इबाडली. चेम्पनाच्या व्हड्यार वावुरपी लोकांकूच न्हय, तर अख्खे दर्यादिगेर वावुरतल्या व्हडेकारांक पलनी आनी ताच्या सांगात्यांविशीं दुस्वास दिसपाक लागिल्लो. ते उलोवपाक लागिल्ले, ''हांणी आपल्याक चड शाणे समजुचें न्हय.'' कांय जाणांचो तांच्या म्हणण्याक विरोधूय आशिल्लो. पूण दोन चार दिसांभितर वेळेर 'मारपेट' जालो. तो व्हड्यांचेर काम करपी मानायां मदींच जालो. दोगा-तिगांच्यो तकल्यो फुटल्यो. त्या दिसा तशेंच दुसऱ्याय दिसा एक व्हडें दर्यांत लोटलें ना. सगले जाण लिपून बसले. पुलीस आयले. कांय जाणांक धरून व्हेले. घाटकारान मदीं पडून तांकां सोडोवन हाडले. सगळो बोवाळ.

सगले जाण एक एक करून घाटकाराक मेळ्ळे. ताका भेटो, वजीं पावयलीं. उपरान्त सगल्यांनी पटी काडली. पुलिसीचीं तोंडां बंद करून उडयलीं. पूण परिणाम जावचो तो जालोच. गेल्या कांय दिसांची जोड सगल्यांनी सोंपोवन काबार केली. फक्त वेलायुधन घाटकाराक मेळपाक गेलो ना. घाटकारान ताचेर राग काडलो. पुलिसीक सांगून ताका बंदखणींत उडयलो. एक आठवडो जेलाची हवा खावन आयले उपरान्त ताणें उकतेपणीं सांगून उडयलें, ''हांव हे फुडें घाटकाराक निखालूस मानपाचो ना!''

चेम्पनाची आठ दिसांची जोड पाणयांत गेली. पोटभर जोडपाच्या दिसांनी केदें लुकसाण जालें ताचो हिशोब ना. दर्यावयलें काम परतेंय चालू जाल्लें. चक्की दिसपट्टी चेम्पनाक म्हणटाली, ''त्या पलनीक एक दीस जेवपाक आपय.''

हाचे मदीं काम करपी कांय जाण एका दिसाची सुटी घेवन तृक्कुन्नपुशाक गेले. पूण पलनी गेलो ना. चेम्पनान पलनीक विचारलें, ''तूं कसो गेलो ना रे?''

''हांव खंय वचूं?''

ताचें बराबर आशिल्लें. कोणागेर वचचें म्हणपाक ताचो कोणूच थंय नाशिल्लो. चेम्पनान पलनीक आपल्यागेर जेवणाक येवपाचें आपोवणें दिलें, ''आयज दोनपारां जेवणाक आमगेर यो हां बाब!''

पलनीन आपोवणें मानून घेतलें. चेम्पनागेर एका खाशेल्या जेवणाची तयारी जाली.

पलनी एका घरचोच भुरगो न उरतां अख्ख्या तृक्कुन्नपुशाचो भुरगो जावन पडिल्लो. आवय बापायचो ताका उगडास नाशिल्लो. तो कसो वाडलो? ह्या प्रस्नाची एकूच जाप आशिल्ली. आनी ती म्हणचे, तो वाडलो. कोणे ताका वाडयलो? कोणेंच ना. ताचे पासत कोणेंच कसले त्रास घेतले नात. तो आपले पासत आपुणूच जोडटालो आनी वाडटालो.

तो ल्हान भुरगो आसतनाच, सैमान ताका दर्यावयलें काम करचे पासत हाडून दर्यादिगेर उडयल्लो. एका घाणयारे सुवातेर. जंय ताका पळोवपी कोणूच नाशिल्लो. मातसो व्हड जालो तेन्नापसून तो व्हड्यार काम करता, जोडटा. पयसो हातांत आयलो की तो मनाक मानत तसो खर्चिता. नासलो वा उणो जालो की हात राखून दीस काडटा. जिणेंत ताचे कसले हावेस आशिल्ले काय? आसूं येत. आयजवेर ताका अपुरबायेन केन्ना कोणें म्हळें ना, 'बाबा हें खा. हें पी.' आनी ताणेंय केन्ना कोणाकडेन हक्कान कांय मागलेंय ना. जिणेंत पयलेच खेप ताचे पासत कोणेंय तरी जेवण तयार केल्लें. ताणें खोश्शेन पोटभर तें खावचें हे पासत आग्रो करून एके बायलेन मोगान ताका वाडलें. केदो आनंदाचो अणभव! ताका खंयची भाजी मानवली तें चक्कीन समजून घेतलें, आग्रो करू-करून ताका ती खावयली.

पलनीच्या मनाक, आपलो हो भोवमान कित्यापासत चल्ला म्हणपाचो दुबाव आफुडलो की ना कोण जाणा!

चक्कीन विचारलें, "पुता तुका वर्सां कितलीं?"

"हांव नेणा!"

आपले पिरायेचो ताका पत्तोच नाशिल्लो! चक्की मातशी सावचीत जाली. आपली लेगीत खबर नासप ही गजाल बरी न्हय. तशें जाल्यार फुडलो एक एक प्रस्न हुशारेन विचारपाक जाय. कोणाक खबर, ताची जात-पात तरी कितें आशिल्ली! पूण ती जाणून घेवप गरजेचें आशिल्लें?

"बाबा, तूं खंय रावता?"

"आसा एक खोंप, थंय आसतां."

"पयशे जोडटा ते कितें करता?"

"करतलों कितें, खर्चितां."

एखाद्रे आवयचे मायेन चक्कीन म्हळें, "पुता हांगा परगांवांत तूं आनी एकटोच. मेळिल्ली जोड खर्चून बसलो जाल्यार कशें जावपाचें! बरें वायट आसा. चार दीस बरो ना जालो, वखत पाणी लागलें, कितें करतलो?"

पलनीन जशी कितें ह्या प्रस्नाची जाप आदींच सोदून दवरिल्ली. म्हणपाक लागलो, "ओह!"

हो प्रस्न ताका सामको सादो दिसलो. जल्म घेवन येदो व्हड जावप हीज गजाल ताचे बाबतींत अजापाची आशिल्ली. तें जाले उपरांत दुयेंत पडपासारके सादे गजालीक कितें भियेवपाचें!

चक्की ताचे कडेन पळयतूच रावली. ताका, तिका आनीक कांय विचारपाचेंच नाशिल्ले वरी.

पलनी आंगलोटान घटमूट. ताचे पासत खोशी जावपी वा दुखी जावपी, कोणूच नाशिल्लो. अशे तरेन ताची जीण एकटे एकसुरेपणाची कशी चलिल्ली. आयजवेर ताचे जिणेविशीं कोणें कसलो विचार केलो ना.

चक्कीन एखाद्रे आवयचे ओडीन ताका म्हळें, "अशे तरेन एकलो एकसुरोचं रावप तुका मानता?"

"आनीक कितें जाय?"

म्हणचे? आपले जिणेंत ताचे हावेस, सपनां म्हणपाचीं कांय नाशिल्लींच तर! तीं नासप बरें? "न्हय, अशेंय काय म्हणपाक येना." पलनीन चटकरून जाप दिल्ली. मात पसून आडखळनासतना.

जिणेचीं सपनां रंगोवपाक ताका केन्ना फुरसतूच मेळ्ळी ना. ताणें तसो येलूय केलो ा. तांची ताका गरजूय दिसली ना.

चक्कीन म्हळें, "जिणेविशीं इतलें उदास उरप बरें न्हय पुता! पलनीन कांय जाप दिली ा. चक्कीन फुडें म्हळें, "पुता, तूं एकटोच आसा. काम करता, जोडताय बी. पूण हें गलें बदलूं येता. तुजी बलायकीय इबाडूं येता. ते खेरीज मनशाक आनिकूय गजालींची रज आसा. तुका सांगात करपाक एक सांगाती उरचो. जेवण खाण कोणें तरी करून तुका दिवचें. तें करचे पासत आपलो म्हणपाचो एक जागो उरचो. अशें तुका दिसना?"

पलनी ओगीच रावलो.

"तशें जावपाक पुता, तुवें लग्न करपाक जाय."

"हय, तेंय खरें."

"मागीर तुज्या लग्नाची गजाल हांव माण्णेर घालूं?"

"हय, कित्याक नाका!" पलनीन मान्यताय दाखयली.

चक्कीन विचारलें,"चली कोण म्हणपाचें समजून घेवपाचें आसा?"

"सांग न्हय, कोण आसा?"

"म्हजी धूव."

पलनीन माथें हालोवन तेंय म्हणणें मानून घेतलें.

गजाल ह्या थराक पावली खरी, पूण चक्कीचे नदरेन कांय गजाली आजून उरिल्ल्योच. अशा घर नाशिल्ल्या. ताच्या नात्या पात्याचेय कोण नाशिल्ल्या अशा अनवळखी मनशाक चली दिवन उडयली आनी उपरांत कसलीय बरी वायट घडणूक घडली जाल्यार मागीर कितें करपाचें! कोणाक सांगपाचें? कोणाक विचारपाचें?

चेम्पनान म्हळें, "भुरगो बरो लायक आसा."

"पूण कोणेंय प्रस्न केलो की चलयेक कोणा घरा दिली, तर कितें सांगपाचें?"

चक्कीक सगल्यांत चड मनाक लाग सारकी आनिकूय गजाल उरिल्ली आनी ती म्हणचे, "भुरग्याची जात कोण?"

"ताची जात मनीस. दर्यार काम करपी मनीस!"

"पूण तशें सांगल्यार आमच्या नात्यांतले लोक रागोवन उबे रावतले. तांचें कितें?"

"रागेतले? रागेवं दी. तांकां विचारता कोण!"

"तांणी आमकां वाळींत उडयले जाल्यार?"

"वाळींत उडयतले? उडोवं दी. म्हाका पर्वा ना!"

चेम्पनान घट निच्छेवान सांगलें, "हांव धुवेचें लग्न ताचे बराबरूच करतलों."



# ४

दोन-तीन दीस जाले, एकसारको पावस पडटालो. दर्यांत सुंगटांक हुंवार आयिल्लो. पूण व्हडीं भायर गेलीं नाच. काम मानायांचेरूच, पडटा न्हय! शीं कुडकुड्याचें पडिल्लें. चवथ्या दिसाचो सूर्य झगझगीत वत घेवन उजवाडलो. व्हडीं दर्यांत देंवलीं. खूब माल पडलो. वेपारूय तेजीचो जालो. मळब. परतेंय कुपांनी धांपून उडयलें. पावस झडपाक लागलो. पावसाचें अशें ह्या तेंपार उटंगारानी येवप आदीं केन्ना घडलें ना. पावस झडपीतूच रावलो.

वेळेलागसारच्या खोंपी-खोंपींतल्यान मासळी भरिल्ली. अर्द सुकयल्ली, अर्द सुकनाशिल्ली. भायर सगल्याक कुशिल्ले, पोंवशेल्ले मासळेच्यो साऱ्या राशी पडिल्ल्यो. वचत तेवटेन पळयल्यार खोपीची अवस्था बरी दिसनाशिल्ली. सगलें लुकसाणेचें लक्षण दिसतालें.

मासळे मोसमाचे सुरवेक लकलकीत वत उजवाड आशिल्लो. दिसपट्टी पडपी मासळी त्याच दिसा सुकुनूय तयार जाताली. दलालांची सारकी येरादारी चलताली. रीग लागिल्ली. मालाक उठाव आशिल्लो. आनी इतल्यांत अशी दर्गेत उबी रावली.

परीक आनीक एका संकटाक तोंड दिवचें पडलें. पयले खेपे ताका मेळिल्लो माल बरो आशिल्लो. दुसरे खेपेच्या मालाविशीं, तो सारको सुकलो नाशिल्लो अशी कुरकूर कानार येवपाक लागली. शेठीन परीक सांगून धाडलें की ताचो माल आपल्याक नाका, आपले पयशे धाडून दी. शेठ कशेच रितीन आपलें म्हणणें फाटीं घेवपाक तयार जायना जालो तेन्ना आलप्पुशाच्या सगल्या दलालांचे पावंडे परीन झरयले, पूण कोणूच ताचो माल घेना. सगल्यांचे गुदांव मासळेन उपाट भरिल्ले आशिल्ले.

परीन पांच्चू पिल्लेचेय पांय धरले, जाका लागून ताका थोडे पयशे मेळिल्ले. थोडें कमिशन घेवपाचे शर्तीर शेठीक समजावपाक पांच्चू पिल्ले तयार जालो. अशे तरेन लुकसाणींतूय थोडे पयशे मेळपाची वेवस्था जाली. ह्या पयशा धिरार आनीक माल घेवपाचें ताणें थारायलें. आनी इतल्यांत हो घातमारो पावसाचो बोवाळ! परीचो माल पडिल्ल्या जाग्यार कुसून सगले कडेन घाणी गुट्ठाणी येवपाक लागल्यो. आनिकूय कांय दीस गेल्यार माल जमनींत पुरून उडोवपाशिवाय दुसरो उपाय नाशिल्लो.

दर्या तटावयलें वातावरण एकाएक उदास जावन गेलें. व्हडीं दर्यांत वतालीं, भरपूर मासळी ओडटालीं. घराघरांतल्यान थोडी भोव सुंगटां खपतालींय. पूण भायल्यान येवपी ट्रकांक गुळटी लागिल्ली. मालाक उठाव कमी जाल्लो. वेपारी, व्हड दलाल मागत त्या मोलाक माल दिवन उडोवचो पडटालो.

हॉटेलांची गल्लो कमी जावपाक लागिल्ली. कपड्यां लोजांकडेन लोक पळयना जाले. वेळेर मसमी भिकणां विकपी पोरां लेगीत दिसना शीं जायत चलिल्लीं. ही मंदीची

परिस्थिती बदल मेरेन लोकांचो दिसपट्टो खर्च भागप जमपाचें नाशिल्लें.

दर्या तटावयले सगले व्हडेकार संकश्टांत आयले. चड करून रामन. त्या वर्सा ताचो वेपार सामकोच बसलो. औसेप्पान रीण वसूल करचे पासत ताचेकडेन पिरपीर लायली. ताची नदर रामनाल्या नव्या व्हड्याचेर आशिल्ली. दोगांय मदीं घुसपट जाली. दोगूय एकामेकांचेर रागेले. एका सुमानाभितर कशेय तरेन औसेप्पाच्या रिणांतल्यान आपणें मेकळो जावपाक जाय असो रामनान निच्छेव केलो. आनी त्याच खिणाक ताका चेम्पनाचो उगडास जालो.

रामनान चेम्पनाकडेन पयशे मागले. पूण हे खेप मात चेम्पन ते दिवपाक रोकड्या रोकडो तयार जालो ना. रामनान ताचें कारण ताडलें.

"घडलां कितें चेम्पन? उक्तेपणीं सांग तरी!" रामनान मातशें भिडेस्तपणान चेम्पनाक विचारलें. "कितेंय पूण घाणवट दवरले बगर सारखे पयशे दीत रावप बरें न्हय!"

"तुका हांवें कितें घाण दवरिल्लें जाय?"

"तें हांव कशें सांगूं?"

अखेर शेवटा चेम्पन आपल्या मनांतलें ताचे कडेन उलयलो. म्हणपाक लागलो, "तुजें नवें व्हडें दवरल्यार जाता."

अशे तरेन चेम्पनाकडेन रामनाचें व्हडें आयलें. त्या दिसाय अच्चनाल्या घरांत झगडें जालें. "चेम्पनाकडेन आतां एका जाग्यांर दोन व्हडीं आयलीं," नल्लमान अच्चनाक थोमणो मारलो. "तुज्यान कितें जाता?"

"आगे , तुकाच लागून हो सत्यानास जाला. औसेप्पाकडेन जमा करचे पासत म्हूण जी जोडिल्ली जोड हांवें तुजे सुवादीन केल्ली तिचें कितें जालें?"

"आंगार ओडपाक एक फाळी ना, उदक पियेतलो म्हळयार घरांत दोन आयदनां नात, जाल्यार संवसार चलता?"

"तो पयसो म्हजेचकडेन हांवें दवरिल्लो जाल्यार?..."

"सगलो पियेवपांतूच काबार जावपाचो!" अशें म्हळां मात, अच्चनान नल्लम्माल्या मुस्कटार दोन चडयलीं.

दुसरें व्हडें घरांत आयिल्ल्यान चक्की उमेदींत आशिल्ली. जाल्यारूय तेच बराबर परीचे पयशे दिवन उडोवपाचें तशेंच रावन गेल्लें, हे गंजालीची दुखूय तिका छळटाली. करूत्तम्मा एक सारकी तिका टोंचीत आशिल्ली.

ज्या दिसा नवें व्हडें चेम्पनान सुवादीन घेतलें. त्या दिसाच चक्कीन घोवाक घोंगशिलें, "तुवें एक व्हड गुन्यांव केलो."

"कसलो?"

"व्हडे रातीचो त्या गरीब पोराक नाडून तूं आतां मोन्यांनी बसला!"

चेम्पनान चक्कीक दटायलें.

"अशे तरेन म्हाका भेश्टायलें म्हूण तुका रीण चुकता? तो बाबडो मोटे चिंतेंत आसा. संकश्टा वेळार ताका पावशीत जाल्यार ताचेर केदे उपकार जातले!"

"तूं सांगता तेन्ना पयशे खंयसून येतले?"

करुत्तम्मा उब्यानीच तांचें उलोवणें आयकताली. तिणें किंवाट्यान म्हळें,

"परीचे पयशे तुवें दिवपाकूच जाय बाप्पा!"

चेम्पनान रागान तिका शिटकायलें,

"हे गजालींत तुका मदीं पडपाचें कारण ना."

हाचेर फाव ती जाप ती दिवंक शकताली. तिचेकडेन सांगपा सारकें जायतें आशिल्लें. सांगपाचें तिच्या तोंडारूय आयिल्लें की, 'पयशे परीकडेन सगल्यांत आदीं मागिल्ले ते हांवेंच. म्हजे सांगणेक लागुनूच हातांत पयशे नाशिल्ले देखून ताणें तुका माल दिवन उडयल्लो.' ती आपल्या बाप्पाक म्हणूंक सोदताली, 'तूं जितलो, जितलो व्हड पयशेकार जायत चल्ला, तितली, तितली चड, हांव त्या धर्मभायऱ्या परीचे सुवादीन जायत रावल्यां!'

करुत्तम्मा रागाचे भिरभिरेंत क़ित्या कितेंय उलोवन वचत म्हूण चक्की भियेली. कित्याक तशें घडपांत धोको आशिल्लो. चक्कीन चेम्पनाक समजायत म्हळें, "हातूंत इतलो रागार जाय सारकें कितें आसा? चलयेन खरें तेंच सांगलां मूं?"

"म्हजें म्हणणें ह्या पोराक परीचे गजालींत कोणें पडपाक सांगलां? ताणें कांय तें रीण घेवंक ना. आनी परीय काय हाचेकडेन मागपाक तें येवचो ना!"

मातशी भियेतूच चक्कीन म्हळें, "तिचे कडेन ताणें मागलें ना म्हूण कितें जालें? घरचे गजालींत तिणें कांय उलोवपाकूय जायना?"

चेम्पनान गंभीरपणान उपदेश करीत गजाल थंयच सोंपयली. ताणें म्हळें, "हांव एकूच खेप तुमकां सांगून दवरतां, दादले आपापसांत जाय तें करतले, तुमकां बायलांक मदीं पडपाची गरज ना! करुत्तम्माक एका दादल्या बराबरूच दीस काडपाचे आसात हें ध्यानांत आसूं दी."

उपदेश खरो आशिल्लो. करुत्तम्माक हें सगलें शिकपाचें आशिल्लें.

"हांवें ध्यानांत दवरून उपेग कितें?" चक्कीन विचारलें. तेन्ना तिचेकडेन पळयत चेम्पनान रागान म्हळें,

"तुजें पळोवन चली शिकता, न्हय?"

चेम्पनान सगलो गुन्यांव चक्कीचेर लोटलो. प्रसंग असो आशिल्लो की चक्कीक तोंडांतल्यान एक उतर काडिनासतना ओगी रावप बरें दिसलें.

आवय-धूव दोगांच आसात शें पळोवन चक्कीन करुत्तम्माक विचारलें, "तूं कित्याक गो बाप्पाचे गजालींत तोंड घालता, मेळत तेन्ना? ताका मातसो तुजो दुबाव मारीत जाल्यार कितें जातलें खबर आसा मुगो? शेजरा पाजराचो बास्कळ लोक कितें बडबडपाक लागला तें तर तुवें आयकलांच. बाप्पाक तें कळत जाल्यार कितें घडत तें सुमुद्र-माते, तुकाच गे बाये खबर!"

करुत्तम्मा सगलें जाणटाली. तरीय तिणें म्हळें, "ताचे पयशे दिवन उडोवपाकूच जाय."

"म्हाकाय तशेंच दिसता!"

"तशें तूं सांगता खरी आम्मा, पूण पयशे दिवपाची खबर मात करिना. हांवें तरेक तरेचे उपाय तुका सुचयले. तुवें एकूय मनार घेतलो ना. ताचें रीण पावयले उपरान्तूच...."

फुडें उलोवप तिच्यान जालें ना. पूण चक्की समजली.

"हय, आतां त्याच मार्गाक लागूंक जाय."

पलनी बराबर लग्न करपाविशीं करुत्तम्माच्या मनांत कितें आसा म्हणपाचें समजून

घेवपाचो येत्न चक्कीन केलो, पूण करुत्तम्मान आपल्याक तो मानता वा ना हें उकतें केलें ना.

आजून ती ल्हान आसा. लजभीड सोडून आपल्या मनांतली गजाल सांगप तिका जमना, अशें चक्कीक दिसलें. तरिकूय परीचेर आशिल्ल्या तिच्या मोगाचो परिणाम निमणो कितें जायत, ही भिरांत तिका जाचताली. करुत्तम्माच्या सांगाता तिचे बराबर वावुरपी चलयांकडल्यानूय तिच्या मनांतले विचार काडून घेवपाचो येत्न चक्कीन केलो ना. कित्याक, तशें केल्यार गजाल अख्खो गांवभर फां फां करून पसरूं येताली. अशे परिस्थितींत करुत्तम्माच्या तोंडसून उतर भायर सरिल्लें, "रीण पावयले बगर..."

ह्या अर्दकुट्या उतरान चक्कीचें समादान जालें. तिच्या मुखामळाचेर हांशें चमकलें.

"म्हणबे हें लग्न पुते तुका मानलें मुगो?" तिणें प्रस्न केलो. पूण करुत्तम्मान जाप दिली ना.

चक्कीन तेच खोशेच्या बळार फुडें म्हळें, "भुरगो हुशार आसा न्हय, आनी सभावानूय बरो!" तरीय करुत्तम्मा ओग्गी रावली.

चक्कीन पलनीचे गूण तोखेले. ते तोखेवपा योग्य तो आशिल्लोय बी. पूण ती तोखणाय आयकतां आयकतां करुत्तम्माच्या मनांत वेगळेच विचार घोळटाले. ती ते तोखणाये आड उलोवपाक सोदताली. तशें करपाक तिका कारणूय आशिल्लें.

पलनीची पिराय कितें, ताच्या नात्या-गोत्याचें कोण आसात काय ना, ह्यो गजाली समजून घेवपाचो हक्क तिका पावतालोच न्हय? आनी सगल्यांत म्हत्त्वाची गजाल म्हणचे, तिच्या काळजांत पलनीक जागो आसा काय कितें?

खोशेंत गुल्ल आशिल्लेवरी चक्की पलनीची गजाल सांगत रावली. हेवटेन करुत्तम्माचें मन घुसमटत आशिल्लें. तिच्यान फुडें सोसूं नज जालें. आनी तिणें फटकरून तशें म्हळें, "आम्मा, आतां मातशें थांबय न्हय तुजें पुराण!"

आपले ओंठ दांतांनी घट्ट दामून तें सुस्कारता तें पळोवन चक्कीन म्हळें, "हांवें तुका सांगलें न्हय गो बाय की लग्ना आदीं हांव ताचें रीण मारतलीं म्हूण?"

तें आयकून करुत्तम्मा तिडकली, "तूंच मू ती रीण मारतली आम्मा! आजून मेरेन कित्याक मारलें ना तर?"

"बाप्पाकडेन हट्ट धरतलीं"

निरशेल्ल्या सुरांत करुत्तम्मान म्हळें, "तशें करून कांय जावपाचें ना. लग्न तितलें जातलें. आनी ताचीच तयारी चल्ल्या."

चक्कीन हावेसान् सांगलें, "पळयच तर!"

करुत्तम्मान आयजवेर केन्नाच न पर्गटायल्ले विचार उकते करीत म्हळें, "रिणाचे पयशे पावयले शिवाय हांव कांय एक मानपाची ना. आनी ते तुमी पावयच नात अशें जालें जाल्यार हांव जीव दितलीं!"

चक्कीन भयभीत जावन म्हळें, "असलीं अवचिन्नपणाचीं उतरां नाका गो पुता तोंडांतल्यान काडूं!"

करुत्तम्मा रडपाक लागली, "आनीक करूं कितें? तो बाबडो सामको नागवला. आमचेकडेन पयशे नात अशें न्हय. ना फक्कत ती ते दिवपाची दानत!" करुत्तम्मान

चक्कीक दोशी थारायली. चक्की आयकत रावली.

"आम्मा, तुका सुद्दां ते पयशे दिल्ले नाकात.'' करुत्तम्मान आपलें मन उकतें करीत म्हळें, "हांव हे फुडें खरें तें उलयतलीं.''

"तशें म्हणूं नाका धुवे!''

"कित्याक नाका म्हणूं?'' ती फुडें म्हणपाक लागली, "तुमी म्हूर्त थारावन धुमधडाक्यान समजा म्हजें लग्न केलें आनी हांव घरा वचपाक भायर सरच्या वेळार आमच्या दारांत उबो रावन परीन म्हाका आडायत म्हळें... म्हजे पयशे आदीं उडय आनी मागीर वच खंय वचपाची ती, जाल्यार तूं कितें करतली?''

हो वेळ मेरेन चक्कीन अशे तरेचो विचार केन्ना करूंक नाशिल्लो. आतां मात तें आयकून तिका थरथरो भरलो. भिये-भियेतूच चक्कीन विचारलें, "पूण तो तुजेकडेन पयशे कित्याक म्हूण मागतलो?''

"हांवें मागिल्ले देखुनूच ताणें ते दिल्ले म्हूण!''

"तुवें ते मस्कऱ्यांनी मागिल्ले मुगो?''

"कोण सांगता मस्कऱ्यांनी?''

रस्त्यार आडावन परीन उबो रावपाचे शक्यतायेचें चित्र कशेंच केल्यार चक्कीच्या दोळयांमुखारल्यान हालना जालें.

परी निर्शेल्लो. तो सामके वायट परिस्थितींत आशिल्लो. कसल्याय धाडसी आनी अविचारी कामाक तो तयार जावं येतालो. मनांत हाडल्यार एक व्हड आडमेळें लेगीत लग्नांत उबें करूंक शकतालो.

करुत्तम्मान म्हळें, "हांवें बाप्पाक सगळें सांगून उडोवपाचें थारायलां. आनी आयज हांव सांगतलींच. म्हाका कोणाची भिरांत!''

"देवाखातीर पुते, तशें करूं नाका!''

"करतलींच हांव. सोडचीं ना.'

चक्कीन तिका उतर दिलें की लग्नाआदीं कशेय तरेन आपूण सगळें जाग्यार घालतलीं.

ते रातीं चक्कीन घोवाक म्हळें, "करुत्तम्मा लग्नाक तयार आसा. पूण लग्नाक उबी रावतली जाल्यार तिची एक म्हत्त्वाची अट आसा.''

चेम्पनाचे नदरेन करुत्तम्माचे अटीचो प्रस्नूच नाशिल्लो. लग्नाआदीं परीचें रीण पावोवपाक जाय अशें चेम्पनाक आग्रो करून सांगपाचें कशें, म्हणपाचें चक्कीक कळनाशिल्लें.

मासळी सामकी सवाय जाल्ली. चेम्पनूच न्हय, कोणूच समादानी नाशिल्लो. कांय दिसां उपरान्त मागणी आयली. कोचीन, आलप्पुशांत सांठोवन दवरिल्लीं सुकीं सुंगटां भायर गेलीं. पूण मालाक दर मेळ्ळो ना. रंगूनाकूय मालाचे दर पडिल्ले. धंद्यांतल्या शेट सावकारांचें म्हणणें पडलें की मालाचे दर अर्दार आयल्यात. अशीय खबर कानार आयली की माल घेवन वचपी तारूं वाटेर दर्यांत बुडलें. ताका लागून माल खरेदी करपी वेपारी अर्दे पयशे दिवनूच हिशोब करतात.

परीक हजारभर रुपयांचें लुकसाण जालें. करूत्तम्मांतूय थोडो बदल घडून आयलो. भायली परिस्थिती बदलता ते प्रमाण ती आपल्याकूय बदलून उडयताली जावंये. ती आतां

व्हड जाल्ली. समजिकाय, आनी धिटाय तिच्यांत मुळापसूनच आशिल्ली. ती परी लागीं उलोवणीं करपाचे संदेची वाट पळयताली. परीक सांगपासारकें तिचेकडेन खूब आशिल्लें. एका व्हड्याचो आडस घेवन दोगांय एकामेकांक भेटलीं तेन्ना करुत्तम्मानच उलोवणें काडलें. हें पयलीं सारकें हांसपा-खिदळपाचें नाशिल्लें. करुत्तम्मान विचारलें, "वेपारांत तुका लुकसाण जालां म्हूण आयकलां. खरें मरे धाकले शेटी?"

उलोवप सुर्वेकच अशे तरेचें वळण घेतशें परीक दिसूंक नासलें. ताणें जाप दिली, ना. करुत्तम्मान म्हळें, "तुजे पयशे हांवूच दिवपाचीं आसां शेटी!"

"पूण तुवें म्हजेकडल्यान पयशे घेतल्यात खंय?' परीन विचारलें.

"घेतले नात, तरी हेरांनी घेतिल्ले. पावोवपाची जापसालदारकी म्हजीच."

"ती कशी कितें?"

"तशीच. तुजें रीण फेडून उडयले की..." करुत्तम्मा आपलें उतर पुरें करूंक पावली ना. तिचो गळो दाटून आयलो. सगली कूड सैल पडली. दोळे भरून आयले.

तिचें अर्दकुटें उरिल्लें उतर परीन सोंपयलें, "रीण पावयलें की लग्न करून परघरा वचपाची आसा, अशेंच मूं?"

करुत्तम्माच्या दोळयांतल्यान टपाटप दुकां गळटालीं. परी रडलो ना. ताणें विचारलें, "सगले संबंदूच तोडून वचपाचें थारायलां तुवें, न्हय?"

हो प्रस्न मात करुत्तम्माच्या काळजाक भाल्यावरी तोपलो.

प्रस्न विचारतना परीक कांयच दिसनाशिल्लें काय? करुत्तम्मा काकुळटेक आयल्या हें ताका कळटालें. पूण तिचे कडल्यान प्रस्नाची जाप मेळची अशी आशा ताका आशिल्ली.

करुत्तम्मान म्हळें, "न्हय, तशें न्हय धाकले शेटी. तुजें बरें जावं!"

परी आतां आदले वरी सादो भोळो मोगी उरूंक नाशिल्लो. तो फक्त हांसलो... एक जीव नाशिल्लो हांसो.

"म्हजें आनी बरें, करुत्तम्मा?"

परीच्या उतरांचो अर्थ करुत्तम्मा समजली. ताचें बरें जावपाचें आतां उरिल्लें कितें? करुत्तम्माच्यान आतां खिणभर थंय रावं नज जालें. ती तशीच उठून गेली.

ते रातीं चेम्पनाक एक खाशेली गजाल सांगपाची आशिल्ली. मोटे उमेदीन ताणें चक्कीक हळून म्हळें, "आयकलें, पलनी वरदक्षणा घेवचो ना." चक्कीक तें खरें दिसलें ना. तिणें विचारलें, "अशें कशें जायत?"

"तातूंत जावपाचें कितें? वरदक्षणा घेतले बगर लग्न करपाक तो तयार आसा."

चक्की चेम्पनाकडेन नदर रोखून पळयत रावली... चेम्पनान सोपूत घेवन तिका समजायली.

"दर्या मायेचो सोपूत? खरेपणीच ताणें आपूण जावन वरदक्षणा घेतले बगर लग्न जातां अशें सांगलां? ताका घेवपाची आसूं, नासूं; आमकां ती दिवंक चुकना!"

चक्की चेम्पनाकडेन पळयत रावली. चेम्पनाक चक्कीचो अशे तरेचो आडमुठो हट्ट मानवलो ना. कोणूय आपल्याक पयशे नाका अशें सांगून उडयता, तेन्ना ते बळजबरेन ताका दिवपाची गरज कितें! चक्कीच्या हट्टाचें ताका अजाप दिसलें.

चक्कीन तिडकीन म्हळें, "त्या भावराती भुरग्याकडेन गोड गोड उलोवन, ताचेकडल्यान

तुवें तशें वदोवन घेतलां आसतलें.''

चेम्पनान चट करून जाप दिली, ''ना ना, हांवें तशें कांयच करूंक ना.''

चक्कीन गंभीरपणान म्हळें, ''ते पयशे भुरग्याक आमी खंय दितात! वरदक्षणा म्हणचे कितें? जें कितें आमचे चलयेक आमी दिवंक सोदतात, ती वरदक्षणा न्हय?''

''पूण तिच्या घोवाक ती नाका आसल्यार कितें करपाचें?''

''मागीर तूं जें सगलें जोडटा तें कोणाखातीर, हांव तुका विचारतां!'' चेम्पनाच्या घोवपणाची पर्वा करिनासतना चक्कीन ताका विचारलें, ''सगलें तुज्या एकट्याच खातीर? म्हातारपणांत आयज सुखां भोगपाचें जें तुका येवजूंक लागलां, तांचे पासत? तें कितें करपाचें तें तूं कर. पूण जिणेंतलीं करपाक जाय तीं कर्तव्यां पाळप तुका चुकपाचें ना. तुवें इतलीय जोड जोडून दवरल्या तातूंत म्हजोय इल्लोसो वांटो आसा काय ना?''

चेम्पनान हांसून चक्कीच्या रागाचो पारो देंवोवपाचो येल करीत म्हळें, ''तुजो वांटो आसाच. ना कोण म्हणटा! आसुंदी तो; आमकांच दोगांक उपकरतलो. दोगांय भोगुंया सूख.''

चक्की आनिकूय तापली. व्हडाव्हडान उलोवपाक लागली. दोगांय मदलें झगडें वाडत गेलें जाल्यार शेजारा-पाजाराच्या लोकांचें लक्ष तें खेंचून घेतलें म्हणपाचें ध्यानांत येवन चेम्पन चरकलो आनी गजाल थंयच थांबोवपा निमतान भायर सरलो.

करुत्तम्मा आवयसरीं येवन म्हणपाक लागली, ''आम्मा, म्हाका तुमचें कांय नाका.''

''कित्याक गो बाये, तुजेंय कितें चाळवलें? चलयेक कांय घाली सवरी नासतना घोवागेर वतना भायर काडली जाल्यार लोक आमच्या तोंडांत शेण घालतले. चलयेकडेन आपलें कुळारचें अशें म्हणसारकें कितेंय तरी उरपाक जाय.''

खिणभर थांबून करुत्तम्मान म्हळें, घरांत ना मांय, ना नणंद, अशा जाग्यार म्हाका वचपाचें आसा मूं?''

तिचीं उतरां चक्कीच्या काळजाक रोमलीं. खरेंच, चली अशा जाग्यार वचपाची आसा, जंय तिच्या नात्यापात्याचो म्हणपाचो कोण उरचो ना. तिणें म्हळें, ''जालें तरीय, गांवचो लोक आमकां कितें म्हणटलो गो!''

''गांवचो लोक कितें म्हणटलो तें म्हणूं. म्हजी रवानगी जाय तशी कर. धाकल्या शेटीक मात रिणा मेकळो कर. तितलें केल्यार पुरो. ताका निराधार करून म्हज्यान वचपाक जावचें ना. हांवूय गेलीं जाल्यार तो मेले बगर रावचो ना!''

करुत्तम्मान चक्कीक सगलें सांगून उडयलें. पूण तिका तें समजलें की ना कोणाक खबर. गजाल ध्यानांत येती जाल्यार एके आवयची गत कितें जावपाची! आपले धुवेच्या मोगाची चाल खंयमेरेन पावल्या हें तिका कळ्ळेंय जावंये. पूण तेच बराबर तेविशीं न उलयल्लेंच बरें अशेंय तिका दिसलां आसुंये. तिणें म्हळें, ''धुवे, तें रीण पावोवपाचो भार हांव म्हजेर घेतां. पूण तूंच सांग, आमी कितें करूंया?'' तेन्ना करुत्तम्मान सुचयलें, ''बाप्पाले पेटयेंतले पयशे थोडे थोडे काडून आमी एकठांय करूंया आनी रीण पावोवंया.'' पूण चोरी चेम्पनाक कळ्ळी जाल्यार घरांत कोणायचो खून लेगीत पडूं येता! चक्कीच्या आंगांत तेदी धिटाय नासली. तशे तरेचें हे आदीं तिणें केन्नाच करूंक नासलें .

करुत्तम्मान विचारलें, ''तुका हातूंत भिरांत कसली दिसता आम्मा?'' भिरांत

आशिल्लीच. देखूनच तसो निच्छेव करून लेगीत थारायल्लें काम घडून आयलें ना.

"मासळी पडच्या मोसमाचे सुरवेक सावन दिसपट्टे थोडे थोडे पयशे काडिल्ले जाल्यार हो वेळ मेरेन काम जावन लेगीत गेल्लें. सुरवेक दिसाची जोड थोडी जायनासली!" करुत्तम्मान आवयच्या मनांतली भिरांत काडून उडोवपाचे नदरेन म्हळें आनी प्रस्नाचें म्हत्त्व कळिल्ल्यान, चक्कीक तिचें म्हणणें पटलेंय. फांतोडेर चेम्पन दर्यार वचपाक गेलो तेन्ना आवय-धूव दोगांयनी मेळून चेम्पनाची पेट उक्ती केली. भितल्ले थोडे पयशे काडले. तो सगलो दीस दोगांकूय खूब भिरांतेचो गेलो. चेम्पनान त्या दिसा परतेय दिसाभराचे जोडीचे पयशे पेटयेंत हाडून दवरले तेन्ना "आयज पयशे कितले आयले" म्हणपाचो एक प्रस्न चक्कीन ओगीच ताका विचारलो. चेम्पनान जाप दिली, "आयज कोणाक सुंगटां फुकेसवाय नाका आशिल्लीं."

"तरी पूण मेळ्ळे तरी कितले?"

"मेजल्यात कोणें?"

दर एक दिसा आवय-धूव दोगांय थोडे थोडे काडीत रावलीं.

एक दीस चेम्पनान पेटयेंत जमिल्ले पयशे सगले मेजून हिशेब केलो, तेन्ना दोगांयचीं काळजां भिरांतेन फुकफुकत राविल्लीं. चेम्पनान पेट बंद करून दवरली. पूण आवय-धुवेची चोरी ताच्या लक्षांत आयली ना. तेन्ना दोगांयच्या जिवांत जीव आयलो.

चेम्पन भायर गेलो तेन्ना आवयक विचारलें, "सगले कितले जमले आम्मा?" इतल्याय दिसांच्या येलांचें फळ म्हूण तिचे कडेन अवघे सत्तर रुपया जमिल्ले.

खेरीज धा-वीस रुपयांची सुकयल्ली मासळीय.

रक्कम ल्हान आशिल्ली खरी, तरीय ती परीक दिवन उडोवची अशें थारलें.



# 9

लग्न थारलें. ताचे पासत म्हणपासारके तयारेची गरजूय नाशिल्ली. विचारपी सवरपी म्हणपाचो पलनीचो कोण नाशिल्लोच. हेर कोणाकडल्यानूय कसली गडबड जावपाचें कारण नासलें. पलनीन वचून आपल्या व्हड्याच्या धनयाक सांगलें. चेम्पनाच्या सांगाता एक दीस घाटकाराक ताचें रसांव, भेट दिवन उडयली. आनी अशे तरेन चलयेच्या लग्ना वाटेंतलें आडमेळें काडून उडयलें. चेम्पनान चक्कीक म्हळें, "पळयलें मगे तुवें, कितले फिशालकायेन हांवे लग्नाचें काम आटापून हाडलें तें!"

चक्कीन थोमणो मारलोच, "पळयलें तर! भुरग्याच्या घरादाराचो ठिकाणो ना इतलेंच. हेर सगलें बरें आसा. पुरो ना?" "ओगी बस आतां. तूं कितलीय जाली जाल्यार गाढव ती गाढवूच! तुका कितें खबर, भुरगो फुडार आशिल्लो आसा. मेळोवपी आसा. बलायकेन घटमूट आसा. चालचलणुकेन बरो. दिसपा - सवरपाक, सभावान लक्तुबायेचो आसा. ताचे सारको लायक भुरगो ह्या वाठाराक सोदल्यार दुसरो मेळपाचो ना."

चक्कीन तोंड उगडलें ना. हांसत म्हळें, "तशें जाल्यार आतां सूख भोगपांत कसली बादाच येवपाची ना तर!"

"हय व्हय, हांव मुजरत सूख भोगतलों. सोडटां व्हय! पलिकुन्नमावरी सुखांत लोळत रावतलों."

"पूण त्या धाकल्या सावकाराक मात तुज्यान रिणा मेकळो करप जालें ना."

चेम्पनान आड्डतूच म्हळें, "उलयता कितें गे तूं? हेवसल्यान म्हजे चलयेच्या लग्नाची धांदल चल्ल्या. आनी तेवसल्यान तुजें एक सारकें पिरपिरें!"

चक्की शिटकवली. ताचें म्हणणें खरें आशिल्लें. करुत्तम्माच्या लग्ना बोवाळांतच, परीच्या रिणाचोय बोवाळ केलो जाल्यार चेम्पन ताचेकडेन लक्ष दितलो अशें तिकाय दिसूंक नाशिल्लें. चक्कीन समजावणेच्या सुरांत म्हळें, "आमी परतींय ल्हान भुरग्यांवरी सूख भोगूंक आंवडेतात मूं? मागीर त्या दुर्बळ भुरग्याचे पयशे एकदां दिवन उडयले की एके व्हड जापसालदारकेंतल्यान आमी मेकळीं जाल्ले वरी जांवचें नाशिल्लें? असो विचार हांव करतालीं."

ताका रिणाची याद आसा. पूण सद्या ताका त्या कामाक सवड खंय आसा? मातशी फुरसत मेळ्ळी, विसव मेळ्ळो की एके एके जापसालदारकेंतल्यान तो मेकळो जातलोच. ताणें अभिमानान चक्कीक म्हळें, "आगे, आमगेर चलो भुरगो ना. पलनीक आमचो पूत कसो मानून आपणावचो असो म्हजो विचार चल्ला."

चक्कीन म्हळें, "हरशींय जाल्यार तो आमकां म्हालगड्या पुता समान जाता.'

चेम्पनान चक्कीक समजायलें, "पलनीलो आपलो म्हणपाचो कोण ना. देखून लग्ना उपरान्त तांकां आमगेर दवरून घेतलीं जाल्यार कितें लुकसाण आसा? आमचेकडेन दोन

दोन व्हडीं आसात. पलनीय आमगेर रावलो जाल्यार बरें जावचें ना?'' चक्कीक ताचो विचार मानवलो. तशें केल्यार घरांतलो भुरग्याचो रिकामो जागो मेट्टलो. पूण चक्कीच्या मनांत एक दुबाव रिगलो. ''पूण पलनीक हें मानवत मूं?''

चेम्पनान म्हळें, ''कित्याक ना मानचो?''

चक्कीन म्हळें, ''खंयच्या गाबितान आयजमेरेन मावोड्या रावपाक मान्यताय दिल्या?''

चेम्पनान मातसो विचार करून म्हळें, ''ना, तें खरें. पूण हाका सगलें मानवतलें गे. सामको सादो भुरगो. उकत्या मनाचो.''

''पूण तूं तुजेवेल्यान कित्याक थारायना? लग्ना उपरान्त तूं दोन दीस तरी आमगेर केन्ना रांवला?''

''आवय, बापूय दोगांय आसलीं म्हाका.''

पलनी आपल्यागेर तिगतलो म्हणपाचो चक्कीक विस्वास दिसनासलो.

करुत्तम्माक आपलो बाप्पा कितें करूंक येवजिता तें समजलें. तिणें आवयक सांगून उडयलें की चेम्पन करूंक सोदता तें आपूण निखालूस मानपाक ना. चक्कीक अजाप जालें. तिणें चलयेक विचारलें,

''आगो, तूं सामकेंच बेमान काय कितें गो? लग्न थारता, ना थारता इतल्यांत आवय बापायवेली तुजी मायाच ना जावन गेली? म्हणचे इतलेय कश्ट काडून तुका आमी ल्हानाची व्हड केली तें फुकटूच म्हणपाचें! एका व्हडेकाराची बायल जाताशें दिसले बराबर तुका म्हजी आनी बाप्पाची गरजूच उरली ना. नशीब आमचें, दुसरें कितें!''

चक्कीचीं उतरां करुत्तम्माक वर्मार लागलीं. आवय आपल्या उतरांचो अर्थ असो विपरीत करीतशें तिका दिसूंक नासलें. तांचेवयलो तिचो मोग उणो जाला म्हूण ती तशें उलयल्ली? लग्ना उपरान्त कुळारा रावली जाल्यार आपल्या अभिमानाक बादा येता अशें तरी तिका दिसतालें? ना. आपले पासत आपली आवय कितेंय करपी हें जाणा आशिल्ल्यान तिचेवयलो करुत्तम्माचो मोग पसून उणो जावंक नाशिल्लो. पंचमीक सोडून वचप तिच्या जिवार येतालें. घर सोडून अचकीत परघरा वचप ही कल्पना लेगीत तिका सोंस नाशिल्ली. आनी इतलेंय आसून लग्ना उपरान्त कुळारा आपणें रावंक फावना शें तिका दिसतालें. सामकी रडकुळेक येत तिणें म्हळें, ''आम्मा, म्हज्या उलोवण्याचो अर्थ तूं समजली ना. तूं तशें उलोवं नाका. म्हाका तुमचे शिवाय कोण एक व्हड ना.'' अशें म्हणून हुटके हुटकेवन रडत आपली मान आवयच्या खांदार उडोवन तिणें चक्कीक वेंग मारली आनी आवयनूय तिका पोटाकडेन आंवुळ्ळी.

चक्की सहजपणान उलोवन गेल्ली. आपलीं उतरां करुत्तम्माक इतलीं दुखतलीं शें तिंका दिसूंक नाशिल्लें. करुत्तम्मा हो हो करून रडटाली. जशें कितें तिचें काळीजूच चिरून रक्तबंबाळ जावन पडिल्लें.

चक्कीय रडपाक लागली. करुत्तम्मान म्हळें, ''आम्मा, ही दर्यावेळ सोडून सगलींजाणां दुसरेकडेन खंय तरी वचुंया. म्हज्यान हांगा कशेच तरेन रावंक जावचें ना.''

मोगान तिका घट्ट लागीं ओडीत चक्कीन विचारलें, ''पापया, तूं कितें गो उलयताय!''

काकुळटेक येवन करुत्तम्मान म्हळें, ''हांव हांगा रावन जाल्यार...''

''घडटलें कितें... सांग तरी.''

करुत्तम्माक कितेंय तरी सांगपाचें आशिल्लें. चक्कीक सुरवेक दिसलें कीं करुत्तम्माक रडपाक आयलें तें आपल्या तीख उतरांक लागून. पूण हळुहळू अशें उकतें जावपाक लागिल्लें की कसलीय तरी घोर चिंता भितरले भितर करुत्तम्माक पोखरीत आसा आनी ही चिंता इतली दुखदिणी आसा म्हणपाचें तिका केन्ना कळ्ळेंच ना.

हुटके आडायतना खासावीस जायत, घुसमटत आनी आपले ओंठ दांताखाला दामीत करुत्तम्मान निमाणें सांगून उडयलें, "हांव हांगा रावन जाल्यार हांगासल्ल्या दर्या तटाची सगली पवित्रताय ना जावन वेतली!"

चक्कीचें काळीज तें आयकून सामकें थरथरलें. तिणें म्हळें, "अशें कित्याकितेंय उलोवं नाका पुते!"

"खरेपणींच सांगतां हांव तुका आम्मा, म्हाका हांगासल्ल्यान वचचेंच पडटलें; तरूच सगलें जाग्यार पडत. म्हजी दूख तुजेबगर हांव कोणाक सांगूं?"

आपलें काळीज उकतें करीन म्हळयार करुत्तम्माक दुसरो कोण आशिल्लो? आनी काळीजूय एक अशी वस्त, ती सगल्या सगली उकती करपाक तरी येता? शक्य आसा? त्या समयार चक्कीच्या तोंडांतल्यान अचकीत उतरां भायर सरलीं, "त्या मुसलमान पोरान म्हजे चलयेचेर कसली जादू-फितिसां करून उडयल्यांत देवा, तुकाच रे खबर!"

करुत्तम्मान तिका आडायत म्हळें, "म्हजेर कोणें कसलो जादू- मंतर करूंक ना. हे आदीं म्हजे सारकी दुसरी चली कोणागेर जल्माक आयिल्ली तुवें पळयल्या आम्मा?"

"कसली चली म्हणटा तूं?"

"तुका खबर ना?"

"म्हजे दर्या-माते, म्हजी धूव खरेपणीच पिशी बी जावंक ना मूं?"

आपल्या मनांतले भाव कशे तरेन उकते करून मांडपाचें तें करुत्तम्माक कळनाशिल्लें.

परधर्मांतल्या मनशाचेर मोग करपी दुसरी खंयचीच गाबत्याली चली हे आदीं केन्ना जल्माक आयली नाशिल्ली काय कितें, हें तिका समजून घेवपाचें आसलें.

मोगाच्या मोयपासांत एकदां बांदून घेतले उपरान्त, त्या मोयपासांतल्यान आपल्याक सोडोवन घेवचे बदला, कितलेय येत्न करून लेगीत जी तातूंत चड चड घुसपतूच रावली, अशे तरेची दुसरी एखाद्री चली? जिचे जिणेंतलो एक खेप निर्माण जाल्लो प्रेमाचो घुसपागोंदळ जिणेचे निमणे घटकेमेरेन सुटपाचीं लक्षणांच दिसनात, अशे तरेची दुसरी एखाद्री काणी ह्या समुद्रातटार हे आदीं कोणें केन्ना आयकल्या? खंयच्याय धर्माभायऱ्या तरनाट्यान मोग केल्ल्या कारणान खंयचेय गाबतिणीक ताच्या सांगाता हे आदीं अखेरमेरेन निर्शेणेची जीण सारची पडली, अशें केन्ना घडिल्लें? हे वेळेवयले रेंवेच्या कणाकणांतल्यान मोग्यांच्या अशे तरेच्या उत्फर्व्यांनी, गितांनी केन्ना प्राण भरिल्ले? आनी तशें घडिल्लें जाल्यार त्या मोग्यांचो शेवट अखेर कितें जालो?

आपले आवयकडेन ह्यो सगल्यो गजाली ती कशी विचारतली! जांणी आपलीं जखमी काळजां घेवन अखेरमेरेन आपली दुखेस्त जीण सारली, अशे तरेचीं जोडपीं हे दयदिगेर जावन गेल्लीं आसुंयेता.

दुखेस्त काळजांत आपलो खरो मोग लिपोवन तिसऱ्याच मनशाची बायल जावन जीण सारपाचो प्रसंग कोणाचेर आयलो अशेंय घडिल्लें आसूं येता. वा दुःख सोसूं नज जावन

दोगांयनी आत्मघात करून घेतलो अशेंय घडिल्लें आसूं येता. नाच म्हणपाचो कोणाच्यान निर्वाळो दिवं येत!

करुत्तम्माक दिसलें की अशे तरेचें दुर्भाग्य आपल्या वांट्याक येवं येता. कोणें सांगचें! कित्याक, तिणेंय अशे तरेच्या एका तरनाट्याचेर मोग केला. हेर लोकांच्यो काणयो खेरीत खेरीत आसल्यो तरी अशेच तरेच्या भोव कोडू अणभवांतल्यान ती वचत आसा.

चक्कीन भियेवन विचारलें, "खरें सांग पुते, तुजेकडल्यान कांय वांकडें पावल बी पडूंक ना मुगो?"

आवय कितें विचारता म्हणपाची गजाल करुत्तम्माक नीटपणीं कळ्ळी ना. करुत्तम्माक चक्कीन समजून घेवपाचो येत्न केलो तेन्ना तिणें जाप दिली, "ना आम्मा, कसलेंच वायट काम हांवें करूंक ना."

करुत्तम्माची आवयकडेन इतलीच मागणी आशिल्ली की आपल्याक ह्या घुसपा-गोंदळांतल्यान सुटपाक तिणें आदार दिवचो. तिच्या मनाचेर एकेतरेचे भिरांतेचें सांवट मांडिल्लें. आनी ह्या सांवटांतल्यान आपल्याक सोडोवन घेवपाक ती आंवडेताली. आवयन तिची सोडणूक करपाची जापसालदारकी आपल्याचेर घेतली. आनी लग्नादिसाच तिका आपल्या घोवाबराबर रवाना करपाचें उतर दिलें.

करुत्तम्माचेर शेजराच्या बायलांचो मोग आशिल्लो. त्यो तिका मानान वागयताल्यो. आदल्या तेंपासाकून चलत आयिल्ली एक बरी चाल गाबीत लोकांमदीं आशिल्ली. खंयचेय चलयेचें लग्न थारलें की व्हंकलेन आपल्या घोवाकडेन तेच प्रमाण हेरांकडेन कशें चलचें-सवरचें म्हणपाची जाणविकाय दिवपाचें काम सादारणपणान शेजान्नींचेर उरतालें. आनी हे गजालींत व्हंकलेकडल्यान कितें चुकलें माकलें जाल्यार ताची जबाबदारीय तांचेरूच उरताली.

नल्लम्मान करुत्तम्माक म्हळें, "एका दादल्याक सांबाळपाचें काम आतां तुजेर पडपाचें आसा. दादल्याचे सुवादीन व्हंकलेक करिनात. आमची गाबत्यांची गजाल उरफाटी आसता."

कालीन तातूंत भर घाली, "दरयाच्या उसळपी ल्हारांमदीं सदांच आमच्या दादल्यांची जीण उरिल्ल्यान तेच आमचे सुवादीन आसतात.

पेण्णम्मान फुडें म्हळें, "बायलांचें काळीज हलकें-फुलकें, देखून तांणी सदांच चत्रायेन वावरूंक फाव."

अशे तरेन सगल्यांनी उपदेश केले. आपल्या भुरगेपणांत जी शिकवण तांकां मेळ्ळी ते तरेचीच शिकवण तांणी दिली. तशें करप तांची लागणूक अशें तीं मानपी, देखून थंयसून लग्न जावन वचपी खंयचेच चलये बाबतींत तिच्या शेजान्नींकडल्यान केन्ना कागाळी आयल्यो नात. कित्याक, आपल्याक मेळिल्ली शिकवण ते चलयेन सदां मन लावन मानून घेतिल्ली.

करुत्तम्मान ध्यान दिवन सगलें आयकून घेतलें. उपदेशान तिचें मन भरून गेल्लें. पूण तरिकूय आपले आवयकडल्यान जाणून घेवपाक ती सोदताली तीच गजाल हांचे कडल्यानूय समजून घेवपाची आशिल्ली. आनी ती म्हणचे, 'जिणें एकल्या कोणाचेर तरी मोग केलो, ताचे कडल्यानूय मोग मेळयलो, आनी अशेंय आसतना मोग करपी मनशाक सोडून

तिसऱ्याच मनशाबराबर लग्न करून ती मेकळी जाली, अशी एक तरी बायल केन्नाय तरी हे दर्यादिगेर जावन गेलीच ना काय कितें?' हो प्रस्न तिका जाचतालो. तिचें काळीज जड जावन गेल्लें.

'आनी अशी बायल जाल्ली आसत जाल्यार ते दुर्भागी बायलेचो शेवट अखेर कितें जालो?' म्हणपाचें तांकां विचारून मेकळें जावपाचें तिच्या मनांत आशिल्लें. पूण तें विचारपाक लागपी धिटाय मात तिच्यांत नाशिल्ली.

करुत्तम्माक केन्ना केन्नायं दिसतालें की अशे तरेच्या खंयच्याय तरी शापीत बायलांचे आत्मे दर्यादिगेच्या वाठारांत खंय तरी भोंवताडे दित रडत फिरतात आसतलेच. आसातच. तिका दिसतालें की दर्यादिगेवयल्या एकसुऱ्या एकान्ता थळांचेर कोणाचेय तरी जिणेची काणी मदीं मदीं कानार येता... आपले वरी दुखी जीण घालोवपी आज्यो, पणज्यो थंय केन्नाय तरी जावन गेल्ल्यो आसुंकूच जाय. वाऱ्यांतल्यान आयकूंक येवपी तरेकतरेच्या आवाजांतल्यान तांचेच जिणेच्यो काणयो आस्पावतात. दर्या ल्हारांचे गाजेंतल्यानूय त्योच काणयो गाजतात. त्या आज्या-पणज्यांची हाडां थंयच्या रेंवेरेंवेच्या कणांतल्यान शिंवरून पूड जावन मेळिल्ली आसूंक जाय. आनी तेय अवस्थेंत अजून दुखीच आसात, आसूंक जाय.

एक दीस करुत्तम्मान नल्लम्माक विचारलें, "मावशे, हे वेळेवेल्यो बायलो केन्नाच वायट चालीच्यो जाल्यो नात? शिंदळकी करपी? धर्माभायर लग्न करपी?"

"जाल्यात तर, जांवक ना कित्याक! केन्ना केन्नाय अशे एखाद्रे बायलेची पोन्नी काणी आजुनूय कानार येता. पूण त्यो बायलो बळयां समजून उमजून तश्यो जाल्यो नात. तांचे जिणेची काणी एका पोन्न्या लोकांगिताचो विशय जाल्या. तातूंत, "अशा तरेच्या बायलांक लागून दर्यांत व्हड व्हड वादळां जाल्यांत. जमनीचेर लेगीत ऊंच ऊंच ल्हारां चडून आयल्यांत. दर्यांतले व्हड व्हड देवमाशे, जलचरां, व्हडींच गिळून उडोवपा खातीर फाटीं लागल्यांत" म्हणपाच्यो खबरी त्या गितांतल्यान आयल्यात. ती पुराणीक काणी. त्या गिताच्यो कांय ओळी गावन नल्लम्मान करुत्तम्माक आयकयल्यो.

तिची स्वताचीय एक मोगा काणीच आशिल्ली. देखून खूब वर्सां उपरान्त तिची काणीय अशे तरेच्या गिताचो विशय जावं येताली.

नल्लम्मान म्हळें, "दर्यादिगेर अशी चाल चलत आयल्या."

करूत्तम्मान विचारलें, "आयज कितें चल्लां?"

"आयज पोन्न्या काळांतलीं लग्नां आनी तांची पवित्रताय उरली ना. दादलेय आदलेवरी उरले नात. बऱ्या आचार-विचारांपसून लोक फाटीं सरूंक लागल्यात. पूण दर्याच्या धुवांनी आपली नीत सांबाळुंकूच जाय."

शेजारच्या चलयांनी करुत्तम्माक विचारलें, "आक्का, तूं चल्लें गो?" तिका त्या चलयां बराबर मनमेकळेणान उलोवपाचें आशिल्लें. तिका तांकां शिटकावणी दिवपाची आशिल्ली, "वाऱ्यार भुरभुरीत उडपी सुकिल्ल्या खोलयांवरी, दर्यावेळेवयल्यान मन मानत तशें तांणी भोंवचें सवरचें न्हय." जायत्या जाणांक तिणें समजायलेंय बी.

करुत्तम्माचो वचपाचो वेळ आयलो. तिणें ह्या तिरार जल्म घेतिल्लो. हांगाच वाडिल्ली. आतां जागो सोडचो पडटलो. पूण ह्या वाठाराक ती केन्नाच विसरपाची ना.

आतां तिका खंय वचचें पडटलें? थंयची दर्यावेळ कशी आसत? करुत्तम्माच्या मनांत दुबाव आशिल्लोच. थंयचो सूर्याय हांगाच्या सारकोच भांगरा किरणां फांकारीत अस्तमता! वादळ-वाऱ्या दिसांनी ऊंच ऊंच शेंवटुपी ल्हारांचें खेळां मैदान जावन पडले की हांगच्या दर्याचें चित्र खुबूच सोबीत जातालें. करुत्तम्माक ह्या दर्या तिरार केन्ना भिरांत दिसली ना.

हांगचे हवेंत, जंय त्या दुर्भागी, मोग करपी मोग्यांच्या काणयांचे मनांक रोमपी सूर कानार येतात, तातुंतल्यान मोग थपथपिल्लो आसता. थंयचो दर्यातिरूय असोच आसत काय? कोणाक खबर!

थंयचो लोक? तोय मोगाळ आसत? आसलोय तरी, जंय ती ल्हानाची व्हड जाली, तो जागोच तिका चड प्रिय आशिल्लो. पूण आतां ती तो सोडून वतली.

तिणें सगल्या थळांचो निरोप घेतलो. नितळ चांदन्याची रात. दर्या शान्त आशिल्लो. रातीच्या चान्न्यांत एके तरेची खाशेली गोडसाण भरिल्लेवरी दिसताली. आनी चान्न्यांतूच भिजून चिंब जाल्ल्या एका गिताचे सूर चारुय दिकांनी फांकारताले. परी गायत बशिल्लो.

करुत्तम्माच्या कानार हे सूर परीच्या गिताच्या रूपान न्हय, एका आनंदी संवसारांतल्या आपोवण्यावरी आयले. परीचें व्यक्तित्व तातूंत नाशिल्लें. नितळ चान्न्यांत दुखी आशिल्ले ते दर्यादिगेचेच ते सूर भासताले. तिचे जिणेच्या उल्हासाचेच उले आशिल्लेवरी भासताले ते सूर. ज़ो दर्यातट ती सोडून वचपाची आशिल्ली, त्या तटाचेंच तें संगीत. त्या तटावयल्या कितल्याशा मोगाळ यादस्तींचें तें चिन्न आशिल्लें.

गिताचीं ल्हारां करुत्तम्माच्या काळजांत रिगलीं. ती उठून बसली. परीचें मूर्तिमंत रूप तिच्या मनांत साकार जालें. खरेपणींच परी तिका आपयतालो? त्या गितांतले गोडयेशिवाय शान्तताय दिवपी तिंका दुसरें कितें आशिल्लें? आयजूच न्हय, तो सदां गायतंलो. ती हांगासून गेल्या उपरान्त लेगीत. पूण कोणें ताचें गायन आयकुचें ह्या हेतान मात न्हय.

आवय न्हिदिल्ली. बापूय घरा नाशिल्लो. दर्यावेळेर मोनेळीचें साम्राज्य पसरिल्लें हें तिका खबर आशिल्लें. अचकीत दार उगडून भायर वचपाची तिका हुक्की आयली.

गीत गावप्याचें काळीज फुकफुकनाशिल्लें. तें सामकें पिंजून उडोवचे पासत तो गायतालो. गिताची चालूय एका पारंपारीक गिताची आशिल्ली, जें एके पतित बायलेचे जिणेचेर तिरावयल्यो बायलो गायतना ताणें आयकल्लें.

नल्लम्मानूय तिका हेंच गीत आयकयंल्लें. गिताचीं कडवीं पुरायेन तिका याद जाय नासलीं. तरी त्या सुरांच्या उलोवपांनी करूत्तम्माच्या काळजाचे विणेची तार गुंजून उठली.

ती पडिल्ली (पतित) अस्तुरीय बी अशे तरेच्या एकाद्र्या गितान खेंचिल्लेपासत, आपली सुदबुद्द हरपून वेळेवयल्यान भोंविल्ली जावंये. चान्न्यान तिकाय अशीच ओडून व्हेल्ली आसुंये. आयज ते अस्तुरेवरीच दुसरी एक अस्तुरीय भायर सरल्या. तिका लागून घडये "दर्यांत ऊंच ऊंच ल्हारां उठून विकराळ रूप घेवन उचंबळून येवंये. तातुंतले अजस्र, हिंस्र जलचर उदकावयर आपलीं तोंडां उगडून वचत तें गिळपाक सोदूं येत. दर्यांतले जहरी, विखाळे सोरोप धर्तरेर येवन आकांत मांडूं येत." असो एक नवोच विचार करुत्तम्माक आफडून गेलो. तरी ती चलत रावली.

वळखी-देखीच्या सगल्या लोकांचो निरोप तिणें घेतला. सगलें सोडून पयस वचपाक

ती तयारूय जाल्या. पूण हे दर्यावेळेवयल्या चान्न्याचो निरोप तिणें घेन्नंक ना. चान्न्यांत चकचकपी पिठूर रेंवेचो निरोप घेवंक ना. आनी मुखेल म्हणचे, चान्न्याचे देवतेलागीं हो दर्यातीर सोडून वचपाक तिणें मान्यताय मेळोवंक ना. फाल्यां, परां... तिच्या वचपाच्या दिसामेरेन परतेंय हें गीत तिच्या कानार येतूच म्हणपाची खात्री कितें! तेच प्रमाण गायतां गायतां ते रातीं गीत आळयतल्या गावप्याचो गळोच बसलो अशेंय घडूं येता. वा ताणें तें गावपाचें आपूण जावन सासणाचें बंद केलें अशेंय जावं येता. आनी तशें घडलें जाल्यार ह्या तटावयलें चान्नेंच दुखेस्त, तशेंच कायमचें मोनें जावन पडूं येता!

आनी एका चिचारान करुत्तम्मा चिंतेस्त जाली. अशे तरेच्या चान्न्यांत आनीक हे फुडें त्या काळीज चिरपी गिताचो परतोय अणभव मेळप हें लेगीत असंभव जावंये. घडये ही तिची अखेरची संद आसुंये. कोणें सांगचें! देखून हे संदेचो उपेग केलेबगर रावंक फावना शें तिका दिसलें. ज्या जिणेच्या आनंदाक ती सदेची अंतरपाची आशिल्ली, ताचो निमणो अणभव घेवच्या हेतान दर्यादिगेवयल्या व्हड्याच्या आडसाक करुत्तम्मा निच्छेवान गेली.

त्या दर्यातिरारूच भुरगेपणासावन हांसत खेळत ती वाडिल्ली. थंयूच ती तरनाटी जाल्ली. आनी थंय तिणें मोगूय केल्लो. आतां हेफुडें दर्यांतल्या विकराळ भोंवऱ्यांकडेन, हिंस्र जलचरांकडेन झूज दीत रातदीस मरणाचे दाढेंतल्यान मार्ग काडपी एका तांडेलाची घरकान्न जावपाची आसा. पतिव्रता धर्माचो पत्कर घेवपाची आसा. जिणेचें एक म्हत्त्वाचें पेणें फाटीं उडोवपाचे तयारेंत आसा. तिची फुडली जीण जापसालदारकेची आनी कठीण आसा. देखूनच भुरगेपणाचे जिणेचे कांय उरिल्ले- सुरिल्ले हलके-फुलके खीण लुटूंक मेळटात काय पळोवच्या निमतान ती फुडें सरत आशिल्ली.

पूण करुत्तम्माच्या मनाक भिरांत दिसली. तिचो आपले आपणाचेर पुरायेन विस्वास नासलो. आपले हातसून घडये गुन्यांव घडुंये, ताका लागून आपलें पावित्र्यूय ना जावन वचुंये, अशें तिका दिसलें. अशे तरेची भिरांत हे आदीं तिका केन्ना आफुडली ना.

करुत्तम्माक परीक खूब कितें सांगपाचें आशिल्लें. हे फुडें गावपाक ताका मना करपाचो आशिल्लें. चान्न्याचे रातीं एकलोच बसून अशे तरेचीं काळजां चिरून उडोवपी गीतां ताणें म्हणचीं न्हय, अशें सुचोवपाचें आशिल्लें. आनी ताचेकडेन आपले हातसून घडिल्ल्या गुन्यांवा पासत माफी मागपाचीय आशिल्ली.

करुत्तम्मा उठली. तिणें हळूच दार उगडलें. भायर पिठासारकें चान्नें पडिल्लें. ती घराभायर सरली. माडांच्या सावळयांच्या आडसांतल्यान, दर्यावेळे वसल्यान वचपाक गेली.

परीचें गाणें एकाएक बंद जालें. गायतां गायतां आपले देवतेक साक्षात आपले मुखार खेंचून हाडिल्ली. खिणभर परीचो आपलो आपणाचेर विस्वास बसना जालो.

ताणें विचारलें, "करुत्तम्मा, तूं चल्ली?" बाबडो दुसरें कितें विचारतलो आसलो! ताणें फुडें म्हळें, "घोवागेर गेली की तुका म्हजी याद उरतली? ती नाय उरली जाल्यार हांव हांगा बसून गायत रावतलों. म्हातारो जालों, दांत पडून गेले, केंस पिकले तरी सुद्धां हांगा बसून गायत उरतलों."

करुत्तम्मान म्हळें, "सावकारा, तूं आतां लग्न कर आनी तुजें अशें घर वसय. वेपार धंदो वाडय. आनी सुखी जा."

परी उलयलो ना.

करुत्तम्मान फुडें सांगलें, "तूं आतां म्हाका विसरून वच. पुरायेन विसर. भुरगेपणांत आमी कशीं एकामेकां सांगातान खेळटा -सवरतालीं, सगलें विसरायेर घाल. तशें करपूच आमकां बऱ्याक पडटलें.'

परीन जाप दिली ना.

करुत्तम्मा सांगतूच रावली, "तुजेकडल्यान आमी जे पयशे घेतल्यात ते हांव गांव सोडून वचचे पयलीं तुका परते मेळटलेच. तुज्या बऱ्या खातीर..."

करुत्तम्माच्यान फुडें उलोवपाक जालें ना. "हांव तुजेपासत देवाक प्रार्थना करतलीं" अशें तिका फुडें म्हणपाचें आशिल्लें. पूण आपूण एका व्हडेकाराची घरकान्न जावपाची आसां, तेच प्रमाण 'गाबीत - धर्मा नेमान आपल्या घोवाचें बरें मागपाचो अधिकार बायलेक उरता... दुसऱ्या दादल्याचो विचार करप म्हणचे अधर्म' म्हणपाचो तिका उगडास जालो. आनी मनांतल्या मनांत भिरांत दिसली. तरिकूय तिच्या तोंडांतल्यान उतर भायर सरलेंच, "सावकारा, तुजी याद हांव सदांच मनांत दवरतलीं."

"नाका, नाका करुत्तम्मा, तशें करपाची कितें गरज आसा?"

दोगांय थोडो वेळ ओग्गी रावलीं. पूण प्रत्यक्षांत हो मोनेळ उतरांपरसूय चड बोलकी आशिल्ली.

एक चक्रवाक पक्षी माडांच्या चुट्टांतल्यान उडत वाऱ्यांत दिसना सो जालो. जशें कितें आपणें तांचें निमणो निरोप घेवपाचें चित्र पळयलें म्हणपाचें ताका सुचोवपाचें आशिल्लें. मातसो पयशिल्ल्यान एक सुणोय तांकां पळयतालो. अशे तरेन दोन साक्षिदार जालेच.

परीन विचारलें, "हे वेळेर खेळटना आमचो शिंपयो-घुलो जमोवपाचो खेळ चलतालो, तो सगलो आटपलो मूं?" एक लांब सुस्कार सोडीत ताणें फुडें म्हळें, "तो खेळ सासणाचो फाटीं पडलोच!"

हें ताचें उतर करुत्तम्माच्या काळजाक सामकें रोमलें. परीन फुडें म्हळें, "करुत्तम्मा, म्हाका दिशिल्लें, म्हजो निरोप घेवपाकूय तूं येवची ना. तशें तुवें केल्लें जाल्यार म्हाका व्हड दुःख जावपाचें. पूण केल्यारूय हांव तुजेर रागेवचो नाशिल्लों. तुजेर म्हजो कसलोच राग ना.'

आपल्या हातांनी तोंड धांकून घेवन करुत्तम्मा घुसमटून रडटा अशें जेन्ना परीन पळयलें तेन्ना ताणें म्हळें, "अशी रडटा कित्याक तूं करुत्तम्मा! पलनी खरेपणींच एक बरो मनीस. लायक आनी हुशार." दाटून आयिल्ल्या गळयान फुडें म्हळें, "तुजें बरें जावं."

हाचे फुडें सोंसून घेवप तिका अशक्य जालें. तिणें म्हळें, "सावकारा, मेल्ल्या मड्याचेर अशे घाय कित्याक घालता तूं?"

परीक तिचें उलोवप नीट समजलें ना. आपणें चुकून तिका बेठेंच लाग सारकें उतर दिलें ना मूं, अशें ताका दिसलें. बळयां जाणून सवरून तरी ताणें तशें म्हणूंक नाशिल्लें.

व्हडा दुखेस्त अंतस्करणान करुत्तम्मा उलोवन गेली, "सावकारा, सादें मोगाचें उतर लेगीत तुजे कडल्यान म्हाका मेळूं नये मूं?"

"तशें कित्याक म्हणटा तूं?" परीन सपूत घेवन फुडें सांगलें, "म्हज्या मनांतली सगल्यांत व्हड इत्सा म्हणचे तुजें सूख" ताणें म्हळें, "हांव ह्या जाग्यार ठाण मारून गायत रावतलों. अखेर मेरेन गायत रावतलों."

तेन्ना करुत्तम्मान जोडणी दिली, "आनी हांवूय तृक्कुन्नशा समुद्रतिराचेर बसून तुजें गीत आयकत रावतलीं."

"अशे तरेन गायतां, गायतां गळो फुटून हांव मरून वतलों. तेन्ना ह्या तिरावयल्ल्या चान्न्यांतल्यान दोन आत्मे एकमेकां भोंवतणी फेर धरीत घुंवत उरतले" परीन करुत्तम्माचे जापेक मान्यताय दीत म्हळें.

उपरान्त कोण कांय उलयलो ना. एक उतर तोंडांतल्यान काडिनासतना करुत्तम्मा आपले खोंपी दिकेन चलत रावली. केन्नाय निरोप घेवपाची तिची हीच तरा आशिल्ली.

परीय तिका पळयत रावलो. ताचीय निरोप घेवपाची हीच रीत.

अशे तरेन दोगांय जाणां एकामेकांपसून पयस जालीं.



# 10

चक्कीची इत्सा आसली की लग्न बरें धूम-धडाक्यान जावचें. शेजारी-पाजाऱ्यांकूय कार्य बरें जातलें म्हणपाची आस्त आशिल्ली. चेम्पनाकडेन पयसो आशिल्लो. करुत्तम्मा ताची पयली चली. अशे अवस्थेंत लग्न वाजत गाजत जावचें अशें दिसप सभाविकूच.

पूण चेम्पन चड खर्च करपाक तयार नाशिल्लो. करूत्तम्माक भांगर-शिंगर करपांत थोडो-भोव खर्च जालोच. हात कितलोय आखडून घेतलो म्हूण खर्च जालेबगर रावता! खर्चाचे गजाली वयल्यान घोवा-बायलेमदीं घुसपट जाली. झगडें मिटोवपाचें काम करुत्तम्माक करचें पडलें. तिका चड वायट दिसपाचें कारण अशें की तिच्याच नांवान आवय-बापूय झगडपाक उबीं रावतात. लग्न थंडसाणेन जायत जाल्यार बरें जायत. तिका दिसपाक लागलें की आपले पासत आपले नात्यापात्यांतल्या कोणाक त्रास पडटले, कोण जाणा!

लग्नाचें काम शास्त्राप्रमाण करपाक घेवचे पयलीं, जल्म्याक आपोवणें दिवपाचें आशिल्लें. चेम्पन दक्षणा, पान-सुपारी-तम्बाकू बी घेवन जल्म्याकडेन गेलो. जल्मी बरो खोशी जालो आनी लग्नादिसा येवपाचें ताणें कबूल केलें.

अखेर लग्नाचो दीस उजवाडलो. चेम्पनाच्या अदमासा परसूय चड तयारी जाल्ली. जल्मी बेगिनूच पावलो. तृक्कुन्नपुशाचे धा पंदरा लोक आयिल्ले. तांचे बराबर बायलमनीस कोण नाशिल्ली. पलनीक आपलीं म्हणसारकीं कोण नाशिल्लींच, हाडटलो म्हळयार. ही गजाल सगल्यांक खबर आशिल्ली. तरिकूय न्हवऱ्या घरसून कोणूच बायलमनीस आयली ना ह्या विशयाचेर खोंचून, खोंचून उलोवणीं जालींच. चक्कीक लेगीत तें रुचलें ना.

नल्लम्माच्या तोंडांतल्यान उतर भायर सरलें, "ह्या लोकांनी निदानपक्षीं शेजारची पूण एक बायल मनीस हाडपाची न्हय?" कालीन तिका जोडणी दिली, "खरें गे बाये, ह्या दादल्यां बराबर चलयेक धाडपाची कशी?" लक्ष्मीन विचारलें, "पूण हाचेर उपाय कितें? नल्लम्मान म्हळें, "ही बाये कसली रीत? चलयेक व्हरपाक न्हवऱ्या भुरग्या बराबर बायलांचें येवप सामकें गरजेचें."

बायलां मजगतीं जाल्लीं हीं उलोवणीं चक्कीच्या कानार पावलीं आनी तिकाय बी ही गजाल बराबर जाल्ली दिसली ना.

देणें-घेण्याची गजाल थारावपाचो वेळ पावलो. कितें पयशे बी दिवपाचें नक्की करपाचो अधिकार जल्म्याचो आसता. तो नक्की जालो की मागीरच लग्न जाता, अशी रीत.

जल्म्यान पलनी आनी ताच्या सांगात्यांक आपोवन घेतलें. सगले जाण येवन भोवमानाचे भावनेन तांचे मुखार उबे रावले. जल्म्यान म्हळें, "पंच्यात्तर रुपया भरात!"

तें आयकून नवऱ्या-भुरग्याकडचे लोक अजाप जाले. येदी व्हड रकमेची मागणी जातली अशें तांकां दिसूंक नाशिल्लें. सगल्यांचें म्हणणें पडलें की मागणेची रक्कम खुबूच मोटी

आसा. व्हडेकार वा जाळवाल्यांच्या लग्नांतूच येदे व्हड रकमेची मागणी जाता.

कांय वेळ कोणें कांय म्हळें ना, तेन्ना नवऱ्या-पक्षाच्या मुखेल्यान नमळायेन म्हळें, "धनया, वायट दिसून घेवं नाकात. आमीय बी घाटवालेच आसात. आमचोय बी जल्मी आसा. कायदे नेम आसात. तुमी जी रक्कम थारायल्या, तिका हांव मान्यताय दिना अशेंय न्हय. पूण..."

"सांग, सांग. तुका कितें म्हणपाचें आसा?" अच्युतन् (मुखेली) म्हणपाक लागलो, "पयशे भर म्हणून सांगपाचो अधिकार तुमकां आसलो, तरिकूय न्हवऱ्या पक्षाच्या लोकांकडेन ते बाबतींत थोडीं उलोवणीं जावपाक जाय आशिल्लीं."

जल्म्याकडल्यान एक चूक घडिल्ली. पूण ताचे नदरेक ती हाडून दितांच जल्मी रागार जालो. ताणें म्हळें, "आरे, पूण हातूंत इतलें विचारपा-सवरपा सारकें कितें आशिल्लें?"

अच्युतनान आपलें म्हणणें सोडलें ना. ताच्या घाटारूय एक जाणकार जल्मी (घाटकार) आशिल्लो. ताणें म्हळें, "हय, विचारपाक जाय आशिल्लें.'

"कितें विचारपाक जाय आशिल्लें?"

अच्युतनान म्हळें, "हें लग्न करपाचो तुमचो विचार ना सो म्हाका दिसता.

गजाल वाडली. जल्म्यान फट् करून तिडकीन ताका म्हळें, "तूं म्हजेर आरोप करता."

अच्युतनान सहजतायेन म्हळें, "न्हवरेपक्षाकडेन कितले पयशे आसात म्हणपाचें समजून घेतले बगरूच "इतले पयशे दिवपाक जाय" अशें सांगप हाचोच दुसरो अर्थ असो की "लग्न जावपाचें ना!"

जल्म्यान म्हळें, "आरे, तुमी इतले गरीब?"

जल्मी आपलो नासलो तरिकूय, एका जल्म्याचो मान राखचे पासत, त्या लोकांनी ताचें तोऱ्याचें उलोवणें आयकून घेतलें.

पूण तरी अच्युतनाक आजुनूय कितें सांगपाचें आशिल्लें.

जल्म्यान चेम्पनाक म्हळें, "चेम्पा, तूं आपले चलयेक ह्या अशे तरेच्या लोकांचे सुवादीन करपाक सोदता, जांच्यांत पंचात्तर रुपया भरपाची तांक ना?"

बायलांक हो प्रस्न मानवलो. सगल्यांच्या मनांत होच प्रस्न उबो राविल्लो. सगल्यांच्या मनांत एके तरेची दूख पाविल्ली की एका बऱ्या घराण्यांतले चलयेक एका अशा मनशाच्या हातांत दिवन उडोवपाचें थारलां, जाचें ना घरदार, ना भाव-बंद! सगल्यांनी हातूंत चेम्पनाक दोशी थारायलो. देखूनच जल्म्यान जेन्ना चेम्पनाक तो प्रस्न केलो, तेन्ना सगल्यांक बरें दिसलें.

चेम्पन ओगी आसलो. अच्युतनान म्हळें, "तुमचें म्हणणें खरें, सावकारा! पूण ताचेर उपाव ना. आमी ताचे कोण न्हय. एका घाटावयले रावपी, इतलेंच. हेच पासत म्हळें की भरपाचे रकमेबाबतींत आदीं थारावपाक जाय आशिल्लें."

अच्युतनान पलनीच्यो ज्यो गजाली सांगल्यो त्यो आयकून करुत्तम्माविशीं बायलांच्या मनांतली ओड बळावली. कांय जाणां एकमेकांलागीं अशें लेगीत उलोवन गेलीं की हे तरेचें लग्न लावन चलयेक घोवागेर धाडचे परस तिका दर्यांत बुडोवन मारप चड बरें.

इतलें जालें तरी जल्म्यान आपलो हट्ट सोडलो ना. ताणें म्हळें, "तें आसूं, पूण म्हाका

हें सांग, भुरग्याची परिस्थिती पळोवन ताचेवयल्यान पयशे कितले दिवपाचे म्हणपाचें थारायतात?''

अच्युतनान ''ना'' अशी जाप दिली. जल्मी फुडें उलयलो, ''चली बरी आसा. ती जाय जाल्यार तिका फाव सारके पयशेय भरचे पडटले.''

न्हवरेकाराच्या पप्पू नांवाच्या एका मनशान ल्हव आवाजांत कितें तरी म्हळें. ताका जल्म्याचें उलोवप मान नाशिल्लें. ताच्या सोसपाभायर गजाल पावली तेन्ना तो कितें तरी उलोवन गेलो. तेन्ना जल्म्यान ताका म्हळें, ''कितें बडबडटा रे तूं?''

ताणें जाप दिली ना. जल्म्यान आपल्या उतराचेर घट रावत म्हळें, ''उलय मरे, आतां कित्याक ओगी रावता?''

ताचेर आपल्या मनांत जें कितें घोळटालें तें सांगून उडोवपाचो ताणें निच्छेव केलो. अशें कितेंय तरी उलोवन लग्नाचो बेरंग करचो, तातूंत मोडो घालचो अशें आदीं पसून थारावनूच घडये पप्पू आयिल्लो आसुंये. तोंकार करीत ताणें म्हळें, ''चलये बाबतींत चड न उलयल्लेंच बरें!''

''कितें म्हणटा? परतो उलय!''

''चली हांगा उरली जाल्यार ह्या घाटाची पवित्रताय ती ना करून उडयत ह्या भयानूच मू तुमी तिका लग्न करून भायर काडूंक सोदतात? आमच्याय घाटाची दुर्गती तीच जायत म्हणपाचें तुमकां कितें लागता! आनी तरीय बी रितीभायर चले भुरग्यान वयल्यान चड पयशे भरपाचे! कोणें केन्ना आयकलें ना!''

ताचें उलोवणें आयकून सगले जाण दचकले. चक्की उबी आशिल्ली थंयूच घुंवळ येवन पडली. करुत्तम्मान आवयक सांवरून धरली. तिणें किळांच मारली, ''देवा रे देवा!'' तिची किळांच आयकून लोक भियेले. चक्की जीव वचून पडिल्ली.

चेम्पन पिशावरी हांगा थंय धांवतालो. बायल आतां मरता, आनी लग्नूय मोडटा, अशें ताका दिसलें.

पप्पूक कांय जाणांनी कित्याकितेंय उलयता म्हूण दोशी थारायलो, दटायलो. तर ताणें ह्या प्रसंगार अशें उलोवप सामकें चुकीचें म्हणपाचें कांय जाणांनी ताका सांगून उडयलें. पूण उलयतल्याक मात्तपसून पच्छाताप जालो ना. तो निर्विकार आशिल्लो. म्हणपाक लागलो, ''आगा, हांव हे दर्यावेळेर हे आदीं जायते फावटीं पावलां. म्हाका सगलें कितें खबर आसा.''

हाचेवयल्यान चलयेची कितेंय पूण भानगड आसुंये म्हणपाचो दुबाव मारपाक लागलो. पूण ह्या खिणाक ती जाणून घेवपाची इत्सा मात कोणाक नाशिल्ली. सगल्यांक त्या मनशायाचें तोंड कशेय तरेन बंद जावपाक जाय अशेंच दिसतालें. सगले परक्या घाटार आयिल्ले न्हय!

अच्युतनान ताका सांवरीत रागान म्हळें, ''आतां मातसो गप्प बसशीत?''

नल्लम्मा आनी काली चक्कीक सावचीत करतालीं. जेन्ना तिका परतो मात्सो जीव आयलो, करुत्तम्माच्या गळ्यांत घालून तिका लागीं ओडीत, ''म्हजे धुवे गे, म्हजे धुवे...'' म्हणटां म्हणटां परतीय बेसुध जाली.

बायलांनी करुत्तम्माक धीर दिलो. चक्कीची सेवा करपांत गुंगून गेलीं.

चक्की सावध जाली, तेन्ना चेम्पनान पलनी आनी अच्युतनाक आपलेसरीं आपोवन सांगलें, "हे घेयात पंच्यात्तर रुपया. हे जल्म्याक दिवन तो सांगता तशें करात."

अशे तरेन भरचे पासत पयशे घेवन पलनी माटवांत आयलो. ते मेरेन थंयचें वातावरण निवळिल्लें. पप्पूची गजाल सगले विसरिल्ले.

पयशे भरले. घाटारितीप्रमाण तातुंतलो एक वांटो जल्म्यान दवरलो. उरिल्ले चेम्पनाक दिवन उडयले. इतलीय कटकट जावन म्हूर्त मात टळ्ळो ना. लग्नाचे सुरवेचे विधी सोंपले.

चक्की उठून बससारकी जाल्ली. पूण तकलेची घुंवळ मात बंद जावंक नाशिल्ली. बसल्या थंयूच मदीं मदीं दोळयांमुखार काळोख येतालो. कानांनी आयकुपाक बरें येयनासलें. चड वेळ बसून रावप लेगीत तिका कठीण जाल्लें.

चलयेक माटवांत हाडली. मूप्पन गाबितांचो पुरोयत. ताणें रिती-रिवाजानुसार लग्न सोबोवन घेतलें. मंगळसरी बांदपाचे, व्हंकलेक वस्रदान करपाचे विधी जाले. पलनीचो हात करुत्तम्माच्या हातांत दिलो. चेम्पनाक त्या खिणार करुत्तम्माचो हात पलनीच्या हातांत दितना तिणें तो मात्तसो आंखडून घेतिल्लो, फाटीं ओडिल्लो शें लागलें. करुत्तम्मान पलनीचो हात सारको धरलो ना, अशें लेगीत ताका दिसलें.

त्या समयार बाबडे करुत्तम्माच्या मनांत कसले कसले विचार येवन गेले काय, कोणाक खबर! तिका सांगलें तें तें एकाद्रे यंत्रावरी ती करीत गेली.

बायलांनी चक्कीक वेंगेंत धरून माटवांत हाडून उबी केली. आनी बराबर माळ पडटना चक्की परतीय बेसुध जाली. कांय बायलांक तशें घडप अशुभ दिसलें. चक्की पुन्नाय सुध्दीर आयली.

लोकांनी, तिणें थोडो विसव घेयत जाल्यार ती पुरायेन बरी जातली म्हणपाचें तिका सांगलें.

जेवणाक पंगती बसपाचो वेळ पावलो, तशी परतीय गडबड जाली. कांय बायलो जेवणाक थांब नासतना वचपाक गेल्यो. कारण पलनीची जात कसली म्हणपाचो तांकां दुबाव आशिल्लो. न्हवरेकारांतलो तंटो उप्रासपी पप्पूय उठून गेल्लो.

पूण हे गजालींनी चेम्पन डगमगलो ना. ताणें जल्म्याचे पांय धरून म्हळें, चक्कीक बरें दिसना, करुत्तम्मा केन्नाच हे आदीं घरा भायर न सरिल्ल्यान पयलेच खेप घर सोडून वचप तिच्या जिवार येता. न्हवरेकारांनी आपले बराबर बायलमनीस लेगीत हाडूंक ना, अशा प्रसंगार व्हंकलेक त्या दिसा घरा भायर काडप बरें जावचें ना...बी सांगून जल्म्याक फुडें म्हळें, "पलनीय बी तिचे बराबर रावत जाल्यार बरें जातलें. करुत्तम्माच गेली जाल्यार ह्या खिणाक दुखणेंकाराक निवळ-पेज घालचे पासत लेगीत घरांत कोण उरलो ना जाल्यार कशें जावपाचें!" चेम्पन पिशावरी जाल्लो. ताचेकडेन पळोवन आपलेपणान जल्म्यान म्हळें, "तुजें म्हणणें बराबर आसा चेम्मा, पूण लग्न जाले बराबर व्हंकलेक घेवन आमी वतलेच, असो न्हवरेकारांनी हट्ट धरलो जाल्यार तांकां कशें मना करूं येता?"

चेम्पनान म्हळें, "म्हाराज , तुमी सांगल्यार ते आयकतले."

जल्म्यान हांसत म्हळें, "ते सगले तृक्कुन्नपुशांतले आसात न्हय? आनी तातुंतूय मात्शो चड शाणे! तांचीं शाणेपणां तुवें निकतींच पळयलीं मूं?"

चेम्पनाचो भरवंसो जल्मी उपेगी पडटलो म्हणपाचेर आशिल्लो. ताका आजुनूय दिसतालें की जल्म्यान येत्न केल्यार काम जातलें.

जेवणां जालीं. उपरान्त पान-सुपारी जाली. अच्युतनान घरभरवणी परती वचपाचें उलोवणें काडलें. करुत्तम्मा आवय म्हऱ्यांत बशिल्ली. तिच्या दोळयांतल्यान अखंडपणान दुकां व्हांवतालीं. कामा निमतान चेम्पनाची हांगा थंय धावपळ चलिल्ली. अच्युतनान वचपाची गजाल परतीय उक्तायली. तिसरेय खेप ताणें तोच प्रस्न काडलो तेन्ना ताचेकडेन आयकलें ना आयकलें शें करप कठीण आसलें. तेन्ना जल्म्यान मदीं पडून विचारलें, "कितें गा, चलयेक आयचे आयज व्हरपाकूच जाय अशें आसा?"

असल्या प्रस्नाची कोणें आस्त धरूंक नाशिल्ली. अच्युतनाक सट्टकरून कितें जाप दिवपाची म्हणपाचें कळ्ळें ना. जल्मी जापेची वाट पळयतालो. अच्युतनान म्हळें, "तुमी अशें कित्याक विचारतात?"

"कित्याक म्हणचे?"

"लग्ना उपरान्त व्हंकलेक कुळाराच सोडून वचप न्यायाचें जातलें?"

जल्म्याक खबर आशिल्लें, की आपलो प्रस्न बराबर न्हय. तिका सोडून वचपाक जाय अशें सांगपाचो अधिकार ताका नाशिल्लो. ते पासत, घरांत आयज तांची कशी अडचण आसा म्हणपाचें ताणें पर्गटायली ती गजाल तांकांय बी खबर आशिल्लीच. जल्म्यान विचारलें, "आवयक मात्शें बरें दिससर थांबून मागीर तिका व्हेल्यार जावंचें ना?"

अच्युतनान म्हळें, "न्हवरो भुरगोच ह्या प्रस्नाची जाप दितलो."

आपल्या म्हणण्याक नेट येवचे पासत जल्म्यान म्हळ्ळें, "चलयेन आत्तांच तुमचे बराबर भायर सरपाक जाय, असो तुमी आग्रो धरप हेंय तितलेंशें बराबर न्हय."

अच्युतनान विचारलें, "तें कशें?"

तुमचे बराबर बायलमनशेक सांगाता व्हरपाचें, तर तुमचे बराबर एक पूण बायल तुमी हाडूंक नाका आशिल्ली?"

अच्युतनान तणतणत म्हळ्ळें, "जाचे घरा, हाडटलो म्हूण थारायलें तरी बराबर हाडपाक बायल ना, अशा मनशाक तुमी आपली चली दिवपाचीच कशी?"

जल्म्यानूय मात्तशें तिडके भिरकेनूच म्हळ्ळें, "जाणांय मूं, तूं बेश्टो उलोवंक जाय म्हूण उलयता!"

अच्युतन गप्प जालो. आनी प्रस्न सोडोवपाचो भार न्हवऱ्या भुरग्याचेर पडलो. अच्युतनानूय तो ताचेर सोडलो. जल्म्याक दिसलें, पलनी आपली गजाल मानतलो.

कांय वेळ सगलेच ओगी राविल्ल्यान तेच प्रमाण आमकां वगत जाता म्हणपाचें अच्युतनान सुचयिल्ल्यान, जल्म्यान म्हळें, "पलनीय रावल्यार बरें जातलें." हाचेरूय कोण उलयलो ना. जाप दिवपाची पलनीन.

अच्युतनान पलनीक विचारलें,"आरे, तुजें कितें म्हणणें सांग पळोवया. आमकां वचपाचें आसा!"

पलनी गडबडलो. कितें सांगचें तेंच ताका कळना जालें. सगलें तो आयकतालो. पूण फुडें कितें करपाचें हें थारावंक तो पावंक नासलो. कितेंय आसूं, त्या उलोवण्याचो ताचेर कितें परिणाम जाल्ल्याचें दिसनासलें.

अच्युतनान ताचे अशे तरेचे वागणुकेचेर रागावन म्हळें,

"आरे, कांय उलयना? आमकां बेश्टे त्रासांत कित्याक घालता?"

अच्युतन उलोवनूय गेलो,

"पलनी सारक्या मनशाच्या कामाक पडून बऱ्या मनशांकडेन विनाकारण झगडचेंय पडलें"

पलनी कितें उलयतलो म्हणपाचें आयकुपाक चेम्पन हुतावळो जाल्लो. ताका भरवंसो आशिल्लो, 'पलनी सरळ सभावाचो, तो हट्ट धरचो ना. तशें पळयल्यार, तो खंय रावत थंय ताचें घर, देखून तो सांगात्यांक धाडून दिवन आपूण हांगाच रावतलो.

अच्युतनान परतेंय सांगलें, "निमणें कितें तें सांग पळोवया पलनी!"

पलनीन अच्युतनाकडेन तेच प्रमाण हेरांकडेन पळयलें. खंयच्यानूच ताका कोणें खुणायलें ना. पूण आपूण जावन ताणें सांगलें,

"हांव व्हंकलेक आतांच व्हरूंक सोदतां."

चेम्पनाक अजाप जालें. अशी तुटकेपणीं ताची जाप येत म्हणपाचें ताका दिसूंक नाशिल्लें. हड्डें पेटीत ताणें मागलें,

"पुता, तिचे आवयची अवस्था कितें जाल्या मात्तशी पळय, आनी मागीर जाप दी!"

ताचे सांगणेचो पलनीच्या मनाचेर कितें परिणाम जालो वो ना, कळनाशिल्लो. पलनीन, कितेंय पूण इशारो मेळटा काय कितें हे आशेन अच्युतनाच्या तोंडाकडेन पळयलें. कांय फायदो जालो ना.

तेन्ना पलनी उलयलो,"हांव बायलेक व्हरपाक सोदतां."

आतां ताचेंय बोड चलपाक लागिल्लें. कांय विचार ताका सुचलेय बी. ताचेकडेन घर दार ना, हें खरें. पूण एक घर वसोवच्या हेतानूच ताणें हे लग्न केलां. ताका एक नवी जीण सुरू करपाची आसा. लग्न करून बायलेक सोडून गेलो जाल्यार तें जमपाचें ना. तांकां जायतीं कामां सुरू करपाचीं आसात....एकूय सोडपाचें ना. देखून तो बायलेक बराबर घेवनूच वचपाक सोदता.

इतल्यो गजाली पलनी सांगूंक पावलो ही एक अजापाची गजाल! ताणें पळयलें, की ताणें पर्गटायल्ले विचार ताच्या सांगात्यांक सामके मानवल्ले. पूण तांचो परिणाम चेम्पनाचेर कसो जालो जायत, म्हणपाकडेन कोणाचें लक्ष नाशिल्लें. चेम्पनान काकुळटेक येवन आनी पांयांकडेन लोळण घेत म्हळें,

"पुता, एके चलयेक ल्हानाची व्हड करपी मनीसूच तुजेकडेन मागता, केन्नाय तरी तूंय बी एक बापूय जातलोच!"

पलनी बदलो ना. सांगात्यांक मागणें मान्य जातालें जाल्यार, पलनीय तें मानून घेवं येत, अशें जावं येतालें. अच्युतनाचें काळीज विरगळ्ळें अशेंय आसूं येतालें. पूण ताणें तशें दाखयलें ना. जल्मीय विरगळ्ळो. ताका रागूय आयलो. ताणें तिरसटपणान म्हळ्ळें,

"ताका कशें समजतलें? ताणें केन्ना कोणाचें घरूच पळयलें ना. आवय बापायची माया ताका कशी कळपाची! घरांतूच मनीस मोग-माया शिकता. जो दर्या वाऱ्यारूच वाडला, ताच्यांत हे गूण खंयच्यान येतले?"

कांय खीण थांबून जल्म्यान चेम्पनाक सांगलें,

"अशा मनशाक चली दिवन उडोवपाचो दोश तुज्या माथ्यारूच पडटा."

चेम्पन कांय उलयलो ना. जल्म्याचें म्हणणें ताका पुरायेन पटलें. ज्या पलनीक ताणें पयलेच खेप पळयल्लो, तोच अशें रूप घेतलो, म्हणपाचें ताका दिसूंक नाशिल्लें. घरच्या मायेस्त सांवटाक न वाडिल्ले निमतींच ताच्यांत हें कमीपण रावन गेलां, अशेंय जावं येतालें. भविश्य काळांत कितें कितें घडपाचें आसा, कोण सांगतलो! चेम्पनाकय दिसलें, पलनीक आपली धूव दिवन आपणें व्हड चूक करून उडयल्या. लग्ना दिसाच ताचे गूण उजवाडांत आयिल्ल्यान, पलनीक चिमटीभर माया, मोग ना म्हणपाची गजाल पयल्या दिसापसुनूच कळून आयली.

अच्युतनान एक उपाव सुचयलो,

"तूं कित्याक सगल्यांचे शिराप घेता?, वचपाचें आसा तें चलयेक. आदीं तिकाच विचारचें. ती कितें म्हणटा तें पळोवया."

ही सुचोवणी चेम्पनाक मानवली. पलनीकय तें आयकून खोशी जाली. जल्म्याकूय तें बराबर दिसलें. ताणें म्हळें,

"तशेंच करचें. तिकाच सांगूं दी. चलयेक हांगा आपयात!"

चेम्पनान करुत्तम्माक आपयली. ती आवयसरीं बशिल्ली. रडून रडून भिजिल्ल्या तोंडानूच दारांत येवंन उबी रावली. जल्म्यान तिका विचारलें,

"हातरुणार पडिल्ले आवयक तशीच सोडून वचपाक तूं तयार आसा गो बाय? हांगा तुज्या बापायकूय वाटलीभर पेज-निवळ घालपाक कोण ना. लग्ना उपरान्त घोवा सांगाता वचप हो धर्मूच. तरिकूय तूं बरो विचार करून कितें तें थाराय!"

करुत्तम्मा हाची कितें जाप दितली! निच्छेवान कितें थारावपाची शक्तच तिच्यांत नाशिल्ली. आपल्या गांवाचो निरोप तिणें घेतिल्लो. भिरांतेन भविश्या विशीं विचार केलो तेन्ना तिका कळून आयलें की गांव सोडून जाता तितले वेगीं वचपाक जाय. ती तयारूय राविल्ली, तो दिसूय आयिल्लो. पूण त्याच दिसा तिचे आवयन हातरुण धरलां. बापायचे सेवेक घरांत कोण ना. करुत्तम्मा रडपाक लागली. कितें उलोवपाची शक्त लेगीत तिच्यांत नाशिल्ली.

सगलो लोक कान दिवन तिचे जापेची वाट पळयतालो. जल्म्यान म्हळें,

"बाबडी कशी आनी कितें तरी जाप दितली! पूण तरीय जाप तिणेंच दिवपाक जाय. गजाल तिणेंच थारावपाक जाय न्हय!"

करुत्तम्मा आवयसरीं गेली. तिच्या गालाक गाल लायत हुटके हुडकेवन रडपाक लागली. चक्कीय रडटाली. पूण आवयक तातुंतलें कांय समजलें ना. आवयन म्हळें,

"तूं विचारी गो बाय?"

करुत्तम्मा कांयच उलोवंक पावली ना. घुसमट-घुसमटत ती इतलेंच उलयली..

"हांव... हांव.. ना वचीं, आम्मा!"

एकाएक चक्कीन म्हळें,

"धुवे म्हजे! तशें म्हणूं नाका पुते! तूं वचूच! तूं गेली ना जाल्यार..."

आपलें उतर आवय सोपोवंक पावली ना. तिच्या दोळयांमुखार, करुत्तम्मा म्हणपाचें एक चलतें चित्रूच सरकतालें. घरांत घोंटभर उदक लेगीत दिवपाक कोण उरलो ना

जाल्यारूय ते पासत आपले चलयेक लुकसाण जावपाक ती दिवची ना. जायत तितले वेगीं चक्कीन धुवेक घोवागेर रवाना करपाचो निच्छेव केलो. तिका म्हळें,

"पुते, वच आनी सांग आपूण येतां म्हूण."



# 11

थंयचो दर्याच करुत्तम्माक वेगळे तरेचो लागलो. ताचें उदकूय खेरीतूच आशिल्लें. थंय दर्या शांत ना. भितल्ले भितर भोंवरे आनी उदकाची खर ओड लिपिल्ली आसता. थंय मातयेच्या रंगांत लेगीत वेगळेपण आसा.

नवे व्हंकलेक पळोवपाक जायतो लोक आयलो. लोकांक कशें मेळचें, तांचेशीं कशें उलोवचें तिका कळनो जालें. ज्यो ज्यो बायलो मेंळपाक आयल्यो त्यो तिका बारीकसाणेन पळयताल्यो. करुत्तम्माक तें रुचलें ना.

सगळ्यांचेर आपलो बरो प्रभाव पडचो अशें तिका दिस. पूण तें कशें जावपाचें हें मात तिका समजनाशिल्लें.

फांतोडेर पलनी दर्यार गेलो. मासळी धरपाक हो वेळ एकदम बरो. करुत्तम्मा आतां एका घराची मालकीण आशिल्ली. तिका आतां काम आशिल्लें.

घरांत एक तोपुलो, दोड आनी कळशी, इतलेंच सामान आशिल्लें. एका घराक आजुनूय कितलें तरी सामान लागता. एके पाटलेंत थोडे तांदूळ, मीठ, मिरसांगो बी हाडून दवरिल्ल्यो. लग्नाआदीं पलनीचें घर अशें नाशिल्लेंच. घरांत कितें कितें आसपाक जाय तें सांगपाकूय ताका कोण नाशिल्लो. आतां करुत्तम्माकूच सगली वेवस्था करपाची आशिल्ली.

करुत्तम्मान शीत केलें. कांद्यांची एक घमघमीत भाजीय केली. तें करपाक आयदन एके शेजान्नी कडच्यान मागून हाडलें. मसालो वांटपाचें कामूय बी शेजान्नीगेरूच जालें. त्या घरांतले एके जाणटेलेन तिका उपदेश केलो, "धुवे, एका चल्याक तुजे सुवादीन केला. सगलें तुकाच सांबाळपाक जाय."

आपल्या गांवांत करुत्तम्मान जें जें आयकल्लें, तें सगलें हांगाय आयकलें. चली कोणूय आसूं, खंयूय आसूं; तिका अशे तरेचेच उपदेश आयकुचे पडटात आसतले. ना जाल्यार कितें हे उपदेश फक्त तिचेच पासत आशिल्ले? तिका दिसलें, सगले जाण तिका दुबावान पळयतात. तांकां आपल्या गुपिताचो पत्तो बी लागूंक ना मूं?

थंयच्यो बायलो एकठांय जमून नवे व्हंकले संबंदान उलोवणीं करपाक लागलीं. उलोवणीं करपा लायक विशयूय आसलोच. करुत्तम्मा एका पागप्याची चली, जाचेकडेन व्हडींय आसात. जाल्यार अशे घरचे चलयेक कांय एक नाशिल्ल्या... ना घर ना आपघर अशा मनशागेर कित्याक दिली?

एकलेन म्हळें, "चलयेच्या बापायकडेन व्हडें, जाळ ना अशेंय जावं येता!" कोचम्मान तिका विरोध करीत म्हळें. "तिचो घोव निस्त्याच्या दिसांनी निर्कुन्नमाक गेल्लो. ताका सगळें खबर आसा. तो म्हणटालो, "ताचे कडेन व्हडेंय आसा, पयसोय आसा. खूब पयसो."

तेन्ना बाबान विचारलें, "तशें आसा जाल्यार चलयेचें लग्न ह्या चल्या बराबर कित्याक जालें?"

कोचम्मान विचारलें, "चल्यांत कितें उणें आसा?"

कोताक दुसरोच संशय आसलो, "चलयेंतूच कितेंय पूण गडबड आसा."

अशें दिसलें की कोताक कितेंय पूण खरें खबर आसुंये. सगलीं तें आयकुपाक हुतावीळ जालीं. तांणी सगळ्यांनी कोताक तिणें तशें म्हणपाचें कारण विचारलें. कोतान म्हळें, "चलयेकडल्यान कितेंय तरी वायट काम घडलें आसुंये. आनी ते पासत त्या गांवच्यान तिका कशीय तरी भायरी करपाची काळजी उप्रासल्या आसुंये."

तें आयकून जाणटेली शिटकवली. तिणें म्हळळें, "म्हणचे ती चली हांगा आमची दर्यावेळ भष्टोवपाक आयल्या?" जाणटेलेन आपल्या हड्डयार हात दवरलो. सगल्यांनी कोताक सगलें सरळ कितें तें सांग अशें सांगलें. पूण कोता फुडें कांय उलयली ना.

शीत, भाजी केले उपरान्त करुत्तम्माचें काम सोंपलें. तिगेर लोक येत वचत रावले. तिका अशें दिसपाक लागलें, सगलीं जाणां ती एक विचित्र प्राणी जाल्लेवरीच तिचेकडेन चलतात.

चक्कीच्या दुखण्याची खबरूय सगल्यांच्या कानार आयिल्ली. खुद्द आवय अशे तरेन हातरुणार पडिल्ली आसतना खंयचीच चली केन्ना तिका सोडून खंयूय वचूंक शकता? आवयची गजालूच हेर सगल्या गजालींपरस चड म्हत्त्वाची ती मानतली न्हय? त्या कारणान लोकांचो करुत्तम्माविशींचो दुबाव वाडलो.

दोनपार जाय मेरेन करुत्तम्मा म्हणचे एके तरेचें दुबावाचें कुवाडें जावन पडली. घरा घरांतल्यान तिच्योच गजाली चलताल्यो.

ती एक भश्टल्लीच बायल आसूंक फाव, जाता ते तरेन तिका भायरी करपाकूच जाय, हो विचार जावनूच तिका धाडल्या आनी तशें आसत जाल्यार? तो एक प्रस्नूच जावन पडलो.

करुत्तम्माक आवयचो विचार आयलो. ती आतां कशी आसा हें तिका खबर नाशिल्लें. तिका तशे अवस्थेंत सोडून येवप बराबर आशिल्लें? बापायनूय तिका कायमची सोडल्या. "ती आपली चली न्हय.' हीं बापायचीं निमणीं उतरां आजुनूय तिच्या कानांत गुंजतालीं.

करुत्तम्मा आपल्या बापायक बरे भशेन वळखताली. तो तिका आतां आपली चली म्हूण मानपाचोच ना. तिका दिसलें, आपूण कठोरपणानूच वागिल्ली. खंयचेच चलयेन केन्ना अशें केल्लें आसचें ना. निर्क्षुन्नम गांवांतलो सगलो लोक तिका दूशण दितात आसतले, आनी गाळीय मारतात आसतले. पूण आवयन मात आशिर्वादूच दिल्ले. वचपाक आवयन तिका मान्यताय दिल्ली.

आवय बाबडी कितलें सोंसता! आवय जाली की अशीच गत जाता. पेलोभर उदक दिवपाक कोण ना. वयल्यान, बापुयूय आवयकूच दोशी थारायता आसतलो. तेंय तिणेंच सोंसपाचें. ताचे पासत आवयक आनिकूय सोंसचें पडटलें. बापूय तिका कसोच सोडपाचो ना.

करुत्तम्मान आंपल्या फुडाराचोय विचार केलो. तिची एक आवय आसली, बापूय आसलो. बापूय कश्ट करून जोडपी. तिची जीण सुरक्षीत. जिणेंत तिचे हावेस, गरजो

थोड्यो आनी त्यो सगल्यो भागताल्यो. तिका केन्ना कांय उणें पडलें ना. तरी तें सगलें सोडून, सुरक्षितपणांतल्यान भायर सरून एके नवे तरेचे जिणेंत ती आयल्या. ही नवी जीण कशी आसतली!

तिका पोटाक मेळटलें? आंगभर लुगट, तेल मेळटलें? भूक म्हणचे कितें हें गजालीचो तिणें केन्ना विचार करूंक नासलो. फुडें कितें जातलें, कोणाक खबर! नक्की अशें कांयच ना. उकत्या मनान ती हांसूंक तरी शकतली? तिका ह्या खिणाक सगलें कितें अनिश्चितशें, असुरक्षीतशें दिसपाक लागलें.

तिचेर कोणें प्रेमूय केलां? जाचे बराबर ती आयल्या, तो दादलो तरी तिचेर प्रेम करतलो? तो एक व्हड प्रस्न आशिल्लो. ताचे संबंदीं तिका कांय एक खबर नासलें.

हो , जाणें आवयक ते अवस्थेंत पळोवन लेगीत हट्ट सोडलो ना, तो कसो जायत? चलयेक आपूण आयजूच व्हरना अशें जरी ताणें म्हणिल्लें, जाल्यार अशें जावपाचें न्हय. दोन दीस रावन गेल्लो जाल्यार सगलें वेवस्थीत जावपाचें... अशे परिस्थितींत ह्या मनशाचो स्नेह आनी मोग मेळोवन तो कसो सांबाळूं येत? असो निर्दय वेव्हार ह्या मनशाकडल्यान फुडेंय बी जावं येता न्हय? मोग तिगोवप कशें जमतलें?

आतां हाचे शिवाय तिचो कोण आसा? कोण ना. तोच आतां तिचो एकलो आधार. ताची इत्सा आनी मर्जी इतलोच तिचे जिणेचो आधार. पूण तिच्या आवडी-नावडी विशीं तिका कांय एक खबर ना.

करुत्तम्माक दिसलें, आपूण सगलें सोसूंक शकत. सगलें मोन्यानी सोशीत आपली जीण सोपोवपी असंख्य व्हडेकारां बायलां सारकेंच जावन रावपाचें आपल्या नशिबांत आसा. आपले जिणेंत विशेश अशें कांय घडनासतना आपली जीण सोपल्यार पुरो अशें तिका दिसतालें. पूण तशें शक्य आशिल्लें? होच भंय तिका जाचतालो. तिचें मन तिका भितल्ले भितर सांगतालें की तें शक्य ना. ह्या दुबावान तिच्या मनांत आयजूच न्हय, आदींपसूनूच मूळ धरिल्लें. तिचे जिणेंत आनिकूय घडणुको घडून जिणेचो मार्ग उरफाटो करून उडोवचो संभव आसा... असो विचार घट्ट जायत आशिल्लोच.

करुत्तम्माक दिस, आपल्या घोवान आपल्याचेर मोग करचो. पूण प्रेमाचो खरो अर्थ कोणाक कळटा? प्रेम म्हणचे कितें हें करुत्तम्माक कळ्ळां. प्रेमाचें दुःखूय तिणें अणभवलां. देखुनूच जावंये, घोवाचो मोग आपल्याक मेळत काय ना हाचेविशींच्या दुबावान तिका घेरिल्लें.

पयली गजाल म्हणचे पलनी प्रेम करपी मनीस न्हय, हो विचार घट्ट जालो. तशें जाल्यार आपलें घर सोडून ती कित्याक आयली? ही परिक्षा घातकीच आसा. तिणें घराच परती कित्याक वचचें न्हय? पूण ती तर हाचेय परस चड घातकी परिक्षा जातली.

दोनपरां पलनी दर्यावयल्यान परतलो. करुत्तम्मान ताका मायेन शीतरोस वाडलो. ती पयलेच खेप ताका खावयताली. रांदय ताका रुचतली की ना? जेवण मानतलें की ना? पलनी खावपाक लागलो. जेवण ताका सुरवेक मानवलें. करुत्तम्माक बरें दिसलें. ती कुडीच्या दारा आडसाक उबी राविल्ली. थंयसुनूच ताका कितें सांगपाचें तें सांगताली. दुसरें कितेंय करतली जाल्यार आयदन ना देखून एक रांदय केली. शितांत बारीक फातोर आसुंये. कारण तांदूळ चाळपाक चाळण ना, सूप ना. कळशीय एकूच आसा. रोसूय

सारको जावंक ना जावंये, कित्याक वांटपाचें सामान कांय ना. उश्णें मागून कशें तरी शेजान्नी कडल्यान आयज भागयलें. मिरसांगूय तिगेरूच वांटली. हें सगळें सांगून जाले उपरान्त, "आमकां वान, आयदनां बी हाडपाक जाय." अशें सुचयलें.

"घेवंया, पूण सगलें एकाच बराबर जावचें ना."

"एकदम नाका, हळुहळू घेतल्यार जालें."

वाडिल्लें सगलें शीत पलनी जेवलो. करुत्तम्मा आनीक थोडें वाडपाक लागली. पलनीन 'पुरो, पुरो" म्हळळें तरीय थोडें वाडलेंच. ताचेर पलनीन म्हळळें, "शीत चड जालें."

"जावं, चड आसल्यार पानांत उरूं!"

मात्तशी थांबून धिटायेन तिणें विचारलें, "रांदय बरी जाली ना? जेवण बरें लागलें ना?"

"रांदय बेस बरी जाल्या. हांवें आयज चडूच खालें.'

"इतलेंशें खालें आनी चड म्हणटा?"

"हांव इतलें खायना."

गालांतल्या गालांत हांसत करुत्तम्मान म्हळळें, "हाचे फुडें चड खातलो, ना जाल्यार हांव खावयतलीं."

पलनी दिलखुलास हांसलो. दुःखी मनाक अभय दिवपी अशें तें हांशें. पलनी शान्त प्रकृतीचो मनीस. तिका चड मानता आशिल्ली कितें तर ताचे नदरेंतली एक ओड़ लायणी झळक. सुरवेक इतलेंच पुरो आशिल्लें!

करुत्तम्मा तेच वाटलेंत शीत घेवन जेवणाक बसली. हात धुवन एक विडी ओडीत पलनी आयलो आनी करुत्तम्मा लागीं बसलो. म्हणपाक लागलो, "हांव तुका वाडूं?" करुत्तम्मान जाप दिली ना. तिचें काळीज मोगाक आशेल्लें. मोगाचीं किरणां तिका कातकुतल्यो करतालीं.

"आरे, उलयतां उलयतां तुवें कांय खालेंच ना!"

"म्हजें पोट भरलें."

पलनीन तपल्याकडेन पळयत म्हळळें, "शीत ना काय कितें?"

"आसा, पूण म्हाका आतां नाका."

"ना, प्रावसारकें नाशिल्लें."

पलनीन इल्लेंशें शीत तिका वाडलें. करुत्तम्मान "नाका, नाका" म्हळळें, तरीय ताणें वाडिल्लें ती जेवली.

करुत्तम्मान एक मोगी म्हूण न्हय, तर एक घरकान्न, घराची मालकीण ह्या नात्यान आपली जीण सुरू केली.

पलनीय एक घरकार जालो. जेवन-खावन, आयदनां घांसून दवरले उपरान्त करुत्तम्मा आयली तेन्ना पलनीन म्हळळें, "सांग, कितें कितें विकतें हाडपाक जाय?"

"जायतें हाडपाक जाय. पयशे आसात?" पलनीन पॅण्टीच्या बोल्सांत कागदांत गुटलावन दवरिल्ले पयशे काडले आनी मेजले. चार रुपया आसले. त्या दिसाची जोड आनी खर्चाचो हिशेब सांगलो. दर्यार नुस्तें मरप उणें जाल्लें. लग्ना पासत काडिल्ल्या रिणाचे थोडे पयशे फेडले. उरिल्ले ते हे चार रुपया.

करुत्तम्मान विचारलें, "हांगा वांटणी कशी जाता?"

"अर्देलीन."

"आमचे कडेन शेंकड्याक साठ." करुत्तम्मान म्हळें, "शेजराचे वेळेवयल्यो रिती तांकां सांगून वांटो मागपाक जाय!"

पलनीन त्राशिल्ल्या सुरांत म्हळळें, "हांगा अशेंच चलता."

करुत्तम्मान सांगलें, "चेम्पनान कामगारांची संघटना करून आपलो वांटो साठ करून घेतलो."

पलनीन जाप दिली, "हांगा अशें जावपाक ना."

पलनीन परतेंय विचारलें,"कितें कितें हाडपाचें आसा?"

करुत्तम्मान प्रस्न केलो, "आत्तांच हाडपाक वचपाचो आसा?"

"हय!"

करुत्तम्मान म्हळळें, "मात्सो विसव घे! निकतोच दर्यावेल्या कामाक सावन आयला. आतांच वचपाची गरज ना. लोक म्हणटले, कामावेल्यान आयले बराबर हांवें तुका बाजारांत धाडलो. थोडो विसव घेवन सांजवेळा गेल्यार जालें."

पलनीक ताचें म्हणणें पटलें. तो एक शेंदरी घालून पडलो. करुत्तम्माक ताणें आपलेसरीं आपयली.

करुत्तम्मा ताच्या आपोवण्याची वाटूच पळयताली. लजत, लजत ती ताचेसरीं गेली. आपल्या सुरक्षितपणाविशींचो तिचो दुबाव उणो जालो. आनी आपणें एक बरी घरकान्न कशी जावन रावपाचो मनांत निच्छेव केलो.

पलनीन तिका आपले वेंगेंत घट्ट ओडली. फुगार करपी, एके तरेचो आनंद दिवपी अवस्थेंत ती मग्न जाल्लेवरी दोळे मेटून पडून राबली. तिणें एका दादल्याचेर मोग केल्लो, आनी त्या दादल्यानूय तिचेर. पूण एका दादल्याच्या स्पर्शाचो अणभव मात तिका पयलेच खेप आज आयिल्लो. अशे तरेच्या अणभवाची ओड तिच्या मनांत निर्माण जाल्ली आसुंये. पूण तिणें आजून अणभव घेवंक नाशिल्लो. आतां तिचें लग्न जाल्लें. एका दादल्यान पुराय अधिकारान तिका आपले वेंगेंत ओडली आनी तिका तें मानलें. एकल्या बराबर मोग केल्लो आशिल्लो तरीय, आंवळून घेवन फुगार करून घेवपाचो अप्रूप आनंद मात तिका दुसऱ्या कडल्यानूच मेळिल्लो. ती आतां ह्या दादल्याचीच बायल आशिल्ली. तिची कूड हाचेच पासत आशिल्ली. हेच पासत तिणें आपली कूड आयजमेरेन पवित्र दवरिल्ली. फुडेंय बी ती तशीच शुद्ध राखतली.

आपूण कितलो वेळ ह्या आनंदांत बुडिल्ली उल्ली म्हणपाचें करुत्तम्माक कळळेंच ना. बांद तोडून व्हांवपी न्हंयेच्या उन्मत्त प्रवाहा प्रमाण, सामकी अनियंत्रित अशी ही अवस्था. तरनाटेपणांतल्या हुनहुनीत रगताची!

जेन्ना करुत्तम्मा सुदीर आयली, तेन्ना ती सामकी लजेवन गेल्ली. लजूच न्हय, एके तरेच्या भंयानूय तिका घेरलें. ज्या भंया कारणान ती चिंतेस्त जाली, ते अर्दुकुटे गुंगेंतले अवस्तेंत ती कितें उलयली, तिका याद ना. तिका दिसलें, आपूण पिशीच कशी जाल्यां. आपणें लज-लज्रा सोडून कसलें तरी घाणयारें काम केलें! हें खंयचेय चलयेक सोबसारकें? तिचो घोवूच कितें म्हणटलो!

तिका भंय दिसलो की आपले कडल्यान चूक जाली. आपलें गुपितूय भायर फुटलें. आनी पलनीक सगळें कळून आयलें. पलनीन तिका आपली केल्या पूण तरी तो एक अनवळखीच. एका अनवळखी मनशा बराबर, मागीर तो घोवूय आसलो म्हूण कितें जालें, पयल्याच दिसा, अशे तरेचें लज-भीड सोडून केल्लें काम बराबर कशें मानपाचें? ताकाच कितें दिसूंक फाव?

अशें कशें घडलें? ती सभावान पळयल्यार लजेस्त. आपलो घोव आपल्याक एकाद्रो कसलोय प्रस्न बी विचारीत जाल्यार, आपली जीणूच ना जावन वतली असो तिका भंय दिसलो. पूण तिचो हो भंय निराधार आशिल्लो. पलनीन कांयच विचारलें ना. तो भायर वचपाक सोदतालो. ताणें करुत्तम्माक कितें कितें हाडपाक जाय तें परतेंय विचारलें. करुत्तम्मान् म्हळें, "तुजेकडेन पयशे आसात तातूंत जें कितें हाडूंक जाता तें हाड!"

गरजेच्या वस्तींचीं नांवांय तिणें सांगलीं.

घरांत ती एकलीच उरली तेन्ना तिका परीची याद जाली. तो आतां कसो आसा काय? बाबडो दुखेस्त आसतलो. ताचे पयशे ताका पावयले नात. आवय दुयेंत आसा. ताचें रीण ताका पावय नासतनाच उरूं येता! आनी हरशीं तर ताचो वेपार बुडलाच.

परीचो उगडास तिच्या मनांतल्यान वचून वच ना, हें पातक न्हय? एकल्याची बायल जावन ती परकी दादल्याचो विचार करता. तिचें मन तिका गवाय दिता की ती परीक केन्नाच विसरूंक पावची ना. हें पिशेपण जल्मभर तिच्या सांगाता उरतलें.

ताचीं गितां दर्यावेळेर तशींच गुंजत आसतलीं! तिचें मन अस्वस्थ जालें. तिका कशी आनी केन्ना तरी शान्ती मेळटली? तिच्या नशिबांत शान्ती बरोवंकूच ना काय कितें!

पलनी बाजार घेवन परतलो. वाटेंत ताच्या सवंगड्यांनी ताची मस्करी केली. घरा परततांच करुत्तम्मान ताणें हाडिल्ल्यो वस्ती पळोवन म्हळें, मातये चूल बराबर ना, तिचे मातयेंत फातर आसात. तपलेंय बी दुसरे तरेचें घेवपाक जाय आसलें."

पलनीन म्हळें, "कितें बरें, कितें न्हय, म्हाका खबर ना!"

करुत्तम्माक हांसूंक आयलें. दोगांकूय बरें दिसलें.

ते रातीं दोगांकूय न्हीद येना. दोगांकूय एकामेकाक कितलें तरी सांगपाचें आसलें! सांगतां, सांगतां गजाली सोंपच नात. तेन्ना फुडाराविशीं उलोवणीं सुरू जालीं. करुत्तम्मान विचारलें, "म्हजी आवय तशे तरेन बेसुद्द आसतना तुवें म्हाका कशी हाडली?"

करुत्तम्माक आतां अशे तरेचे प्रस्न करी इतली मेकळीक दिसपाक लागिल्ली. पलनीक प्रस्नाची जाप दिवप मात्तशें कठीण आसलें. पूण तरीय ताणें म्हळें, "लग्न जाले उपरान्त बायलेक आवयगेर दवरपांत पुरुशार्थ आसा? तशें करप बराबर जावंचें नासलें."

पलनीन फुडें सांगलें, की ताच्या सवंगड्यांक तें बराबर दिसलें ना. हेच पासत ताणेंय बी तिका सांगाता घेवन येवपाचेर भर दिलो. मागीर मातशा संकोचान ताणें प्रस्न केलो, "तुका येवपाचें मनांत नासलें?"

"आसलें."

करुत्तम्माच्या मनांतली गजाल लिपुनूच उरली. तिका त्या खिणार आपल्या बापायविशीं जाय तें सांगनशें दिसलें. म्हणपाक लागली, "आतां म्हाका बापूय उरलो ना. बाप्पाचो सभावूच तसो आसा. हांव आपली चली अशें तो हे फुडें केन्ना मानचो ना."

पलनीन तटस्थपणान म्हळळें, "बापूय जर तूं आपली चली न्हय अशें म्हणटा, जाल्यार तूंय तशेंच कर. बापूय म्हूण ताका विसर."

करुत्तम्माक दिसलें, पलनीन आपल्या उतरांनी आपले राखणेची आपल्याक हमी दिल्या. तो बापूय तुका ना जालो जाल्यार हांव आसां न्हय, असोच ताच्या म्हणण्याचो अर्थ आशिल्लो न्हय? पलनी फुडें म्हणपाक लागलो, "तुजो बापूय खूब चामटो. थंयचो घाटकारूय तसोच. ताणें म्हजो अपमान केलो."

पलनीचो स्वाभिमान जागो जालो. ताणें म्हळळें, "म्हजें घर-दार ना, म्हाका आप-पर ना, अशें आसलें तरी हांव समुद्र-मातेचें संतान आसांच मूं! सामखारा पडिल्ल्या उदका राशीं भितर म्हजीय संपत्ति आसा. म्हजी खाशेली गजाल अशी की हांव म्हजें काम बेस बरें जाणां, हे गजालीचो म्हाका गर्व आसा. हांव कसलेय परिस्थितींत व्हडें हाकारूं शकतां. दर्यांत भोंवर पडलो तरीय हांव तो पार करूंक शकतां. हांव ते गजालींत कोणाक हार वचचों ना."

करुत्तम्मा कांय उलयली ना. तिका दिसलें, आपणें ओगीच ही गजाल उस्तून काडली. पलनीच्या मनांत तिच्या बापायविशीं आदराची भावना नाशिल्ली. तो ते वेळेवयल्या घाटकाराकूच न्हय, तर गरज पडल्यार हे वेळेवयल्या घाटकाराची लेगीत पर्वा करी सारको ना.

पलनीन म्हळळें, "आगो, हांव कित्याक कोणाकूच भियेवं? भियेवपाची कांय गरजूच ना"

पूण करुत्तम्माक एक गजाल सांगनशी दिसली, "म्हजी आम्मा बाबडी खरेपणींच बरी ना" हाचेर पलनी कांय उलयलो ना. ताचें ध्यान दुसरे कडेन आसलें. म्हणपाक लागलो, "एक गजाल हांव तुका सांगतां, तुजो बापूय जोंवेर आपूण जावन म्हजेकडेन येवचो ना, तोवेर हांव थंय वचपाचो ना."

बापाय सारकोच घोवानूय आपलो निच्छेव उक्तो केलो. हो निच्छेवूय तितलोच घट.

करुत्तम्मान आपली गजाल सांगली. तिका आतां आवय-बापूय दोगांय उरलीं नात. आतां तिका एकलो घोव म्हणचेच सगलें कितें. ताचेरूच सगलो मोग करपाचो आनी एक जबाबदार तशीच सांगिल्लें आयकुपी घरकान्न म्हूण रावपाचें.

पलनीन तिचें उलोवणें आयकलें. करुत्तम्मान परतेंय सांगलें की आपल्याक घोवाशिवाय दुसरो कोण ना. ती तो सांगता ते प्रमाण ताचे सांगातान सगलें कितें सोसपाक तयार आसा. ताचे इत्सेप्रमाण आपूण चलतलीं. ती फक्कत ताचो मोगूच आपल्याचेर उरूं, अशें मागता.

"आपुणूय तुजेर मोग करतलों," अशें पलनीन सांगलें ना. तशें उतरांनी सांगपाची गरज ना, अशें ताका दिसलें आसुंये. करुत्तम्माकूय जावंये, ताका प्रमाण करून घेवपाची गरज दिसली ना. तिणें आपलेवरवीं आपल्या मोगाचें प्रमाण दिलें. पूण ताचेवसल्यान तशें कांय जालें ना ही गजाल तिका मात्तशी खटकली. करुत्तम्मान आपूण एक बरी घरकान्न जायन अशें वचन दिवन उडयलें. तुजेरूच मोग करीन अशें म्हळळें. पलनीन तिचेकडल्यान तशें कांय मागूंक नासलें. तरीय आपुणूय तुजेर मोग करीन अशें म्हणपाचें न्हय? हें तिच्या मनाक लागले बगर रावलें ना.

अशे तरेन पयले रातीं कांय वादावादी न जातां हांगासल्ल्यो थंयसल्ल्यो गजालीच जाल्यो. अखेर घर दोगांयनी सांबाळचें हाचेर दोगांय आयलीं.

करुत्तम्मान हांसत हांसत म्हळें, "म्हजेंय घरदार ना आनी म्हाकाय आप-घर ना.'

फांतोडेर साडेतीन वाजपाच्या सुमाराक, दयदिगेर लोकांचो गजबजाट सुरू जालो. पलनीचो वचपाचो वेळ जालो.

करुत्तम्माक थंयचे जिणेचो अदमास आयिल्लो. लग्ना आदींच तिच्या शेजाऱ्नींनी तिका सगल्या गजालींची थोडीभोव जाणगूण दिल्ली. तातुंतली एक गजाल तिका याद जाली.

पलनी वचपाक भायर सरलो तेन्ना तिणें विचारलें, "असोच उठून व्हड्यार चल्लो?

ती कितें म्हणटा तें नीटपणीं न कळिल्ल्यान ताणें विचारलें, "कित्याक?"

ताका खोदून कशें सांगपाचें हें न समजल्ल्यान तिणें इतलेंच म्हळें, "घरच्यान उठून वतना अशें वचूंक फावना.'

"तर कशें वचपाचें?"

"समुद्राचेर वचप्यान पवित्र जावन वचपाक जाय." पलनी थांबलो. म्हणपाक लागलो, "तूं कितें म्हणटा तरी? सारकें सांग न्हय."

मात्तशी लजेतूच तिणें म्हळें, "मात्तसो न्हावन गेल्यार जालें ना?"

करुत्तम्माच्या म्हणण्याप्रमाण पलनीन न्हावन घेतलें. तीय बी न्हाली, धुली.

पलनी वेळेर पावलो तेन्ना मूप्पनान ताका केल्लो पयलोच प्रस्न, "आरे, न्हावन बी आयला मरे?"



# 12

घराचे समृध्दी पासत कितें कितें करपाक जाय हाची शिकवण करुत्तम्माक घराच मेळिल्ली. तिणें आपल्या आवय-बापायक आपले पासत कश्ट करतना पळयल्लें. हे गजालींत तिचो बापुयूच तिचे मुखार आदर्श जावन आशिल्लो. नश्टो खर्च न करतां पयसो सांबाळून तो ताणें सांठायलो आनी व्हडें जाळ खरेदी क्शें केलें हे तिणें पळयल्लें. फुडें वचपाक तिचे मुखार एक आदर्श आशिल्लो. ती एकटी उरत तेन्ना आपले घरचोच उगडास करीत बस.

पलनीक न्हाणोवन तिणें दर्यार धाडलो. जोंवेर व्हडीं परतीं लोटलीं नात तोंवेर ती बेचैन आशिल्ली. त्या दिसा तिणें एका बदला दोन भाज्यो केल्यो. आदल्या दिसा परस दुसऱ्या दिसा तिका पलनीविशीं चड लागसार दिसलो. जेवण तयार करून ती ताची वाट पळोवपाक लागली.

त्या दिसा अवचीत खूब मासळी पडली. सुमार तीस रुपया पलनीच्या वांट्याक आयले. जाळ धुवन सुकत घाले उपरान्त सगले जेन्ना न्हाताले, तेन्ना अय्यप्पनान सांगात्यांक विचारलें, "आयज आमी हरिप्पाट वचून जेवण कित्याक घेवचें न्हय?"

कोणाची अडचण नाशिल्ली. सगल्यांकडेन भरपूर पयशे आशिल्ले. समुद्र-मातेची कृपा. मात्तशी मजा करपांत कितें लुकसाण आसा? पूण फक्त पलनीन कांय जाप दिली ना. वेलुत्तान विचारलें, "कितें रे पलनी, तूं गप सो?"

आण्डीन थोमणो मारलो, "तुमी कितें सांगतात रे! नवे व्हंकलेन शीत, रोस भाजी तयार करून दवरिल्ली आसतली. तिचे लागीं बसून खावपांत ताका चड बरें दिसचें ना!"

कोच्चप्पनान हाची जाप दिली, "तातूंत नवल कसलें? तरनाट्यांक तशें दिसप साइजिकच आसा." हेर सगले जाण लग्न जाल्ले आनी भुरगीं-बाळकार आशिल्ले. वेलायुधनान सादारण अणभवाच्या आधारान सांगलें, "ही तर चार दिसांची गजाल. ते उपरान्त घरांत वेळार शितूय शिजना आनी शिताक विशेश सुवादूय उरना."

सगले न्हाले उपरान्त वेलुत्तान विचारलें, "तूं येना रे, पलनी?"

पलनीन म्हळें, "हांवूय येतां."

पलनीन म्हळें तर खरें. पूण मात्तसो अस्वस्थ सो जालो. सगले जाण बसीन बराबरूच हरिप्पाड वचपाक गेले.

बरोच वेळ मेरेन करुत्तम्मा वाट पळयत बसली. पलनी तरीय आयलो ना तेन्ना घरसून वेळेर येवन तिणें पळयलें. सगलीं व्हडीं वयर काडून दवरिल्लीं आशिल्लीं. पूण वेळेर कोण नासलो.

त्याच वेळार आण्डीची घरकान्न थंय येवन पावली. तिणें ती कशी आसा म्हणपाचें विचारून म्हळें, "कितें गो बाय! उब्या-उब्यांनीच अशी दर्याकडेन कितें पळेताय?"

करुत्तम्मान मात्तशी लजेवनूच जाप दिली, "कांय ना. अशीच पळेतां."

पारूक खबर आशिल्लें, "घोवाक सोदपाक आयल्या आसतली. आयज सगले हरिप्पाड गेल्यात. आज तांकां चड पयशे मेळल्यात बाये!"

निर्क्षन्नम वेळेरूय बी अशेंच जाता. थंयचो लोक आलप्पुशा वेतात, इतलेंच. पूण पलनी त्या दिसा वचत शें तिका दिसूंक नाशिल्लें.

थोडो वेळ पारू आनी करुत्तम्मा उलयत रावलीं. करुत्तम्मा निर्शेल्ली. तिका दिसतालें, असो पयसो उडोवप बरें न्हय. त्या दिसा हरिप्पाडाक पयशे खर्चतले तातूंत घरांत कितल्यो तरी गरजेच्यो वस्ती येत आसल्यो, अशे विचार तिच्या मनांत घोळटाले.

पारून म्हळें, "कितेंय आसलें तरी हरिप्पाडाकसावन येतना घोव तिका जरी देगेचें लुगट आनी सेदाचें पातळ हाडटलो."

करुत्तम्मान म्हळें, "व्हनये, घरांत उदक पियेवपाक आयदनां नात. दोनूच कळशे आसात."

पारून म्हळें, "कांय नज. ताचे परस चड कोणागेर तरी आसात?"

"हें सगलें चड निस्तें पडटा तेन्ना जावपाचें बाय! तेन्ना सगलें एकठावपाचें. तशें केलें की निस्त्याचो दुकळ जाता तेन्ना तातुंतलें थोडें भोव विकून दिस भागोवपाचे."

एक सुणें घरा भोंवतणी फेरयो मारतालें. भितर सरपाक सोदी. इतल्यांत करुत्तम्मा घरा पावली.

ती वाट पळयत बसली. रातीचीं दोन तीन वरां जालीं, तेन्ना पलनी परतलो. ताच्या हातांत कागदाची एक पोटली आशिल्ली.

करुत्तम्मा रागेवन ओगीच बसून रावपाक सोदताली; पूण पलनीक तें मानत की ना, हो भंय आसलो. तिणें हांसत विचारलें, "आतांच व्हडें तडीक लागलें काय कितें?"

तिचो थोमणो ध्यानांत न येतां पलनीन म्हळें, "छे, छे, हें पळय!"

पलनीन करुत्तम्माच्या हातांत पोटली दिली. ती उगडटां उगडटां करुत्तम्मान विचारलें, "हांगाच्या दर्यार जाळीं मारून जरीचें लुगटूय मेळटा काय कितें?"

पलनीक हांसो आवरना. करुत्तम्माय हांसली.

पलनीन एक बरें उंची, जरी लुगट हाडिल्लें. करुत्तम्मान तें उस्कटून पळयलें. लुगट खरेपणीच सोबीत, सुंदर आशिल्लें. पलनीन ताचें मोल सांगलें. लोकांनी अशे तरेचीं पांच लुगटां घेतिल्लीं. वेलुत्ता, वेलायुधन, कोच्चुरामन आनी अय्यप्पन हाणींय एक एक घेतिल्लें. वेलायुधन चो चलो दुयेंत आशिल्लो, वखदाक पयशे नाशिल्ल्यान ताची बायल पारूकडेन गेल्ली. पारून ही गजाल सांगिल्ली. सापहरन कडेनूय पयशे नात हें बायलेकडल्यान पारूक कळिल्लें, पूण तरीय ह्या सगल्यांच्या घरा भारंभार मोलाचीं जरी लुगटां आयिल्लीं.

मोगान मंद हांसत करुत्तम्मान विचारलें, "घरांत उदकाक आयदनां नासतना, अशा किमती लुगटांची गरज कितें आशिल्ली?" पलनीन एक उंडी घेवन करुत्तम्माच्या तोंडांत घालपाक लागलो.

"आवयस, येदी उंडी म्हज्या तोंडांत कशी वेतली?"बळिश्ट हातांनी केल्ली ती उंडी खरेपणींच मोटी आशिल्ली. ताणें ती मात्तशी ल्हान केली. करुत्तम्मानूय एक उंडी पलनीच्या तोंडांत घाली. पलनीन म्हळें, "आगो तुजी उंडी तोंडांत गेल्ली म्हाका कळ्ळेंच ना!"

अशे तरेन दोगांय बरोच वेळ मेरेन गुलगुलीत गजाली करीत रावलीं. जरी लुगट हाडपाची गरज ना म्हणपी करुत्तम्मान म्हळें, ''आतां एक सेदाचो ब्लाउज आनी घागरो हाडपाक जाय''

करुत्तम्मा सपना संवसारांतल्यान खरेल्या संवसारांत आयली तेन्ना तिका दिसलें की एक जिणेची रीत थारावपाक जाय. त्या दिसा कितले पयशे मेळिल्ले हें जाणून घेवपाचो तिका हक्क आशिल्लो. खर्चूय कितलो सो जालो म्हणपाचें तिका समजून घेवपाचें आशिल्लें. तिणें विचारलें, ''आयज पयशे कितले मेळिल्ले?''

''सुमार तिशेक रुपया.''

''उरले कितले?''

निर्शेल्ल्या सुरांत पलनीन जाप दिली, ''ती पळय, पुडी काड आनी मेज!''

करुत्तम्मान पुडी काडून पळय जाल्यार तातूंत दोन रुपया आशिल्ले, अठ्ठावीस रुपया खर्च जाल्ले. इतल्या पयशांनी ती कितें कितें करतली आशिल्ली? पूण कांय म्हणपाचो धीर तिका जालो ना.

घोवाच्या गळयांत हात घालून ताका तेंकून बसत तिणें विचारलें, ''रांदपाक आनी न्हिदपाक एकच कूड आसा. तितली पुरो?''

''ना.'' पलनीन यंत्राप्रमाण जाप दिली.

कितें कितें जाय हाचो तपशील करुत्तम्माकूच खबर आशिल्लो. हांसत हांसत तिणें म्हळें, ''खऱ्या अर्थान हांव तुका एक योग्य व्हडेकार करतलीं. तुका फुडें वचपाक लावपाचो हांवें निच्छेव केला.'' इतलें सांगपाची धिटाय तिच्यांत आयिल्ली. तिची पलनीक जी ओड आशिल्ली, ताचे विशीं तिची पुरायेन खात्री जाल्ली.

करुत्तम्मान आपल्याक आतां ताच्याकूय चड बरो करचो अशें पलनीकूय दिसतालें. मन भुलोवपी हांसत करुत्तम्मान म्हळें, ''येस मेळोवपाक तुवें कांय अटी मानच्यो पडटल्यो. सगळयांच पयलीं, जें जोडटा, तें अशे रितीन खर्चून उडोवंक फावना.''

आपल्या दोनूय हातांनी पलनीचे दोनूय पोले दामीत तिणें म्हळें, ''अशे तरेन तुका हांव खर्च करपाक दिवची ना.''

''म्हणचे, हांव च्या पियेवं नाका, शितूय जेवं नाका?''

''ती सगली वेवस्था हांव स्वता करतलीं. भुरगीं-बाळां जालीं की मागीर कितें करतलो?'' ह्या प्रस्नाचो अर्थ पलनीक सारको कळ्ळो ना. ''भुरगीं अशींच पडटलीं काय कितें?'' एकाद्र्या ल्हान बाळकाक समजायतात तसो पलनीक वेवस्थितपणान रावपाची रीत तिणें समजायली. कोणूय गाबती आसूं, तो आपणाकडेन व्हडें आनी एक जाळ आसचें अशें चिंततलो. तिणें सांगलें की पलनीनूय होच विचार मनांत बाळगूंक जाय.

तेन्ना पलनीन म्हळें, ''हे दर्यादिगेर जे गाबीत लोक आसात, तांणी सगल्यांनी अशे विचार केले जाल्यार ते सगले लक्षाधीश जातले. सगले तसो विचार कित्याक करिनात?''

एक प्रस्नूच हाची जाप आशिल्ली, ''आमी असो विचार केल्यार कितें लुकसाण आसा?''

पलनीन जाप दित सर्वसादारण गाबीत वर्गाचें तत्त्वगिन्यान आयकयलें. गाबीत जोडटा तें तो राखूंक पावचो ना. हाचें कारण अशें की तो जें कितें कमायता, तें लाख-कोटींनी

प्राण्यांची हत्या करून मेळयता. उदकांत स्वच्छंदपणान जियेवपी असंख्य प्राण्यांक विस्वासघातान फटोवन धरता आनी तातूंत फुगार जावन, तडफडून मरतना कोणूय पळयत (सदां पळयतल्यांक घडये कांय दिसना जावंये) तर खात्रीन दिसतलें ती जिवांची अशी हत्या करून केल्ली जोड टिकपाची ना. ती कोणूच एकठांय करूंक पावचो ना.

"तशें नाशिल्लें जाल्यार नुस्तें मारपी दयदिगेवेल्ल्या लोकांचेर अशे तरेन भुकेन जियेवपाचो प्रसंग कित्याक येता?" ताणें प्रस्न केलो.

हें तत्त्वगिन्यान पलनीचें स्वताचें नाशिल्लें. पिळग्यान पिळग्यो लोक तें आयकत आयल्यात. करुत्तम्मानूय आयकल्लें. पूण एक मनीस- तिचो बापूय हाचे आड उलयला. बापायचे विचार तिका तेन्ना पटूंक नाशिल्ले. पूण उपरान्त ताच्या म्हणण्याचो अर्थ तिका कळ्ळो. तरीय ते विचार करुत्तम्मान उलोवन दाखयले नात. वाद घालपाचो धीर तिका जालो ना.

पलनीन फुडे म्हळ्ळें, "आगो, गाबत्यांनी पयशे राखून कित्याक दवरपाचे? ह्या उदकान तुडुंब भरिल्ले संमुद्रमातेची कृपा आसल्यार पुरो. हीच आमची नीत."

करुत्तम्मान विचारलें, "पूण नुस्तें मेळना, तेन्ना उपाशीं रावपाचो प्रसंग कित्याक येता?"

"येता तेन्ना भोगपाचो."

करुत्तम्माच्या मनांत आवय-बापायचो विचार आयलो. कशे कश्ट काडून व्हडें- जाळ खरेदी केलें. एकाएक तिच्या काळजाक उजो पेटिल्लेवरी वेदना जाल्यो. त्या जाळांची धग तिच्या रगताच्या शिंरत्रांतल्यान कूडभर पावली. व्हडें आनी जाळ कशें मेळ्ळें?....बाबडो परी हातूंत मातयेक मेळ्ळो.

पलनीन विचारलें, "तूं आपल्या बापायची गजाल आठोवन बी उलयना मूं?"

करुत्तम्माक भास जालो की पलनीचे भाव बदलल्यात. पलनीन फुडें म्हळ्ळें, "थंयच्यानूच तुवें अश्यो हिमटेपणाच्यो गाजली शिकून घेतल्यात. सगळो लोक विचारता, आमी मावोड्या केन्ना वेतलीं!"

करुत्तम्माकूय बायलो हीच गजाल विचारताल्यो. आनी हाचेविशीं तिचेकडेन कांयं जाप नासली. लग्ना उपरान्त आवय-बापूय धुवे-जांवयाक आमंत्रण धाडून आपयना जाले जाल्यार ती गजाल एकदम वायट अशी मानतात. आपोवणें येतलें हाचेविशीं ताका दुबाव आशिल्लो.

"आवयक मरणादेगेर हातरूणांत पडिल्ली आसतना थंयच्यान आपोवणें घेवन कोण येतलो?"

मात्तशी रावन ती हांसत म्हणपाक लागली, लग्ना उपरान्त हांगा तरी तुज्या आप परांनी खंय कोणें आपयलां? तीय बी रीत आसा न्हय?"

करुत्तम्मान मस्करी केल्ली. पूण तरीय तातूंत पलनीक वायट लागसारकी गजाल लिपिल्ली. पलनीच्या मनाक तें लागलें. ताणें तिचीं उतरां मस्करेवरी घेतलीं नात. ताणें मात्तशें तिरसटपणान म्हळ्ळें, "हें आदीं पासूनूच खबर आशिल्लें न्हय? मागीर जाणा जावन तुका हांगा कित्याक धाडली?"

करुत्तम्माचें तोंड उतरलें. पलनी रागार जायत शें तिका दिसूंक नाशिल्लें. पलनीन फुडें म्हळ्ळें, "हय, पलनीक कोण ना. ताचे पासत दुःखी जावपी कोण एक ना. सुखी

जावपीय कोण ना. दर्यावेळेर रावपाक अयोग्य अशी एक चली आशिल्ली ती ताच्या गळ्यांत बांदली. दर्यांत वचून तो मेलोय बी जाल्यार ताचेपासत रडपी लेगीत कोण ना. खरें पळेल्यार अशेंच घडलां!''

हो एक निश्ठूर आघात आशिल्लो. 'दर्या देगेर रावपाक अयोग्य अशी ती आसा' हो आरोप ती कसो सोसतली? पूण तसो तातूंत थोडो सत्यांश आशिल्लोच न्हय! तिका दिसलें, भितल्लो गुन्यांव साकार जायत चल्ला. लग्ना उपरान्त खुद्द घोवूच तिच्या तोंडार उकतेपणीं तशें म्हणपाक लागला.

करुत्तम्मा हातांनी तोंड लिपोवन हुटके-हुटकेवन रडपाक लागली. हुटकेतना तिची सगली कूड थरथरिल्ले वरी दिसताली. पलनी तिका बशिल्ले कडल्यानूच पळयत रावलो. कांय वेळ करुत्तम्माची हुटकेवणीच ताच्या कानार येताली. पलनीक तिची काकुळट आयली की ना कोण जाणा!

थोड्या वेळान तिच्या कानार हीं उतरां पडलीं, ''हें हांव म्हणिना; पूण हेर सगलो लोक हेंच उलयता.''

ताणें फुडें म्हळें, ''त्या पप्पून हें सगलें सांगलां.'' अशे तरेन लग्ना उपरान्त पयलेच खेप त्या घरांत दुकां गळ्ळीं. समजावपाचो येत्नूय जालो. घरच्या मोगा-मळबांत काळीं कुपां मांडलीं. रातभर मोनेळ उरलो. हुटकेतां, हुटकेतां मदींच तिणें म्हळें, ''हांव दयदिगेवयली अयोग्य जावंक सोदिना.''

तिणें आपल्याचेर विस्वास दवर अशें मागलें. घोव दर्यांत वेता, तेन्ना ताणें परतो न येयसारकें कसलेंच वायट काम आपूण करची ना, दर्यांत वादळ उठ सारकी करणी तिचे कडल्यान घडची ना- विखारी सोरोप जमनीर येय सारके, अशें कृत्य करची ना. तिणें सोपूत घेतलो, की ती एक पतिव्रता गाबतीण कशी जियेतली. तिणें पलनीक परतेंय परतेंय विचारलें,

''तुजो म्हजेर विस्वास आसा की ना?''

पूण पलनीन हय, ना कांय सांगलें ना. पलनीच्या हड्ड्यार तकली दवरून तें दुकांनी भिजोवपा शिवाय दुसरें ती करतली तरी कितें?

पलनीन विचारलें, ''तूं अशें म्हाका फिरून फिरून म्हजेर विस्वास आसा की ना अशें कित्याक विचारता? तुजें एकसारकें अशें विचारप पळयलें की, तुजो तुजेरूच विस्वास ना असो दुबाव मारपाक लागता.''

करुत्तम्माक अशें दिसलें की तिचेर आनीक एक वज्राघात जाता. तिच्या गुपिताचोच पलनीक पत्तो लागला जावंये. कोणें दुश्टान ताका सगलें कितें कळयलां आसुंये.

हाचे उपरान्त रातभर कांयच म्हळें ना. घोवाक आपलें गुपीत कळिल्लें आसूं, नासूं, खरी गजाल ताका सांगप बरें जावचें ना! खरी घडिल्ली गजाल सांगल्यार घोव आपल्याक गुन्यांव भोगसुंचो ना. पूण तें कशें सांगतलें? कशेंय आसलें तरी हेरांनी तिखट मीठ लावन कित्या कितेंय ताच्या कानार येवचे परस खरेली घडिल्ली घडणूक ताका कळपूच चड बरें.

करुत्तम्माक एक निर्धार करपाक जाय. कितलेशे खेपे ती सांगपाक तयार जाली, पूण सुरू कशें करचें, हेच तिका कळना. 'हांव एका मनशाचेर मोग करतालें'- अशें सुरू

करचें? पूण हें आयकुपाची तांक एका घोवांत आसत? 'म्हजो भुरगेपणांतलो एक सवंगडी आशिल्लो' -अशी करची? ना, तेंय बी जावं शकतालें.



## 13

लग्ना उपरान्त चवथ्या दिसा जांवय, धूव दोगांकूय ओपवणें धाडपाक जाय. पूण आपोवपाचे पासत धाडपाक कोण नाशिल्लो.

चक्कीन लग्ना दिसापसुनूच हातरुण धरिल्लें. ती ते उपरान्त उठलीच ना. शेजराची नल्लम्मा परती परती येवन सेवा करून वताली. घरचें कामकाज पंचमी पळयताली. वायटकारी बायलेकडेन चेम्पनान ध्यानूच दिलें ना. नल्लम्मान खंयच्याय बऱ्याशा वैजाक आपोवन दाखय अशें दोन-तीनदां सांगलें, पूण चेम्पनान तिचेकडेन लक्ष दिलें ना.

चेम्पन लग्ना उपरान्त चड कामांत आशिल्लो. मदीं मदीं चक्कीचे कुडींत वचून तिका पळयतालो. असोच एक दीस तो चक्कीक पळोवंक आयिल्ल्या वेळार चक्कीन करुत्तम्मा आनी पलनीक वचून घेवन यो अशें म्हळें. पूण तें आयकून चेम्पन रागान धेंगशेलो, "हांव ना वचचो. म्हज्या घरांत तिणें येवपाची कांय गरज ना."

चक्कीक खूब वायट दिसलें. ताचो परिणाम असो जालो, ती बेसुद्द जाली. त्या दिसा चेम्पन एका वैजाक घेवन आयलो. लग्ना उपरान्त चलयेक आपोवपाकूच जाय. कित्याक आपयना, हो प्रस्न सगले विचारपाक लागले. जो कोणूय प्रस्न विचारी, ताचेर चेम्पन रागेतालो. पूण लोकांनी ताका सोडलो ना. अशे तरेन सगल्यां बराबर ताचीं झगडीं जावपाक लागलीं.

तृक्कुन्नपशा-तटाचेरूय करुत्तम्माक घरसून आपोवणें न येवप हो लोकांचे चर्चेचो विशय जालो. रिती-रिवाजा प्रमाण कोणेंय तरी येवन तिका घेवन वचपाक जाय. तिच्या घरा कोण एक ना अशी गजाल नाशिल्ली. न आपोवण्याचें एकूच कारण आसूं येता, घरच्यांनी तिका घरसून धांवडायल्या. मनीस कितलोय गरीब आसलो तरी, लग्ना उपरान्त चलयेक आपयताच. करुत्तम्मानय वाट पळयली. आपल्याक बापूय सोडीत अशें तिका दिसूंक नाशिल्लें. आवयचे बाबतींतूय तिची काळजी वाडत गेल्ली. पूण घोवाक तशें सांगपाक तिका भंय दिसतालो. तरीय काळीज घट्ट करून तें सांगपाचो निच्छेव केलो.

एक दीस जेवणा उपरान्त, वेळ बरो आसा शें समजून तिणें म्हळें, "म्हजी आवय आसा की ना, कोण जाणा!"

पलनीन कांय जाप दिली ना. करुत्तम्मान पलनीकडेन काकुळटेन पळयले. "आमी वचून पळोवन येवंया," तिणें फाटींफुडें येयत म्हळें. "आतां कांय गरज उरूंक ना." तोंडार थापट मारिल्लेवरी ताची जाप आयली.

तो इतलो कठोर जावन उलयतलो अशें करुत्तम्माक दिसूंक नाशिल्लें पलनींत जाल्ल्या ह्या बदलान तिका भेश्टायलें.

तिणें मंद हांसत म्हळें, "अशें करून कशें जातलें?"

गम्भीर जायत पलनीन विचारलें, "कितें जातलें!"

"आमकांय बी चलयो जातल्यो, तांचेय बी घोव जातले. तेय फेडाक फेड करतले." हाचीय जाप पलनीकडेन तयार आशिल्ली, "त्या वेळार कितें जायत, तें पळोवं येत" हाची जाप ती कितें दितली! करुत्तम्मान उलोवप थंयच सोडून दिलें. परतीय संद मेळ्ळी तेन्ना तिणें विचारलें, "तर हांव तरी एकटीच वचून आवयक पळोवन येवं?"

तशें करपांत पलनीक कांय अडचण दिसली ना. पूण ताणें एक अट घाली, "वेताच जाल्यार परती येवपाची गरज ना."

करुत्तम्माक तिडक मारली, जी ह्या उतरांतल्यान उक्ती जाली, "आवयस! ह्या दादल्यांचें मन कशें आसता!" -अशें म्हणून तिणें थोडें हांसपाचो येत्न केलो.

निर्कुन्नमु-घरांत चक्कीच्या, आनी तृक्कन्नपुशा-घरांत करुत्तम्माच्या इत्सांक म्हत्त्व उरलें ना. अशे तरेन दीस वचत रावले. दोगांयचे आत्मे व्याकूळ जावन तळमळत रावले. एकटीच उर तेन्ना करुत्तम्मा रडून काडी. चक्कीचें काळीज पिंजत राव. पूण कोणाकूच ही गजाल समजली ना.

चक्कीचें वायटपण वाडत रावलें. हें आयकून परी एक दीस तिगेर गेलो. चेम्पन घरा नाशिल्लो. दर्यार त्या दिसा वचूंक नाशिल्लो तरी तो खंय तरी भायर गेल्लो. परीक पळोवन चक्कीक रडूंक आयलें. तिका रडटना पळोवन परी गोंदळून गेलो.

परीय बी आतां बदलून गेल्लो. ताच्यांत पयलीं सारकी तरतरी उरूंक नाशिल्ली. रडटां रडटां मदींच चक्कीन म्हळें, "हांव...हांव चल्लीं आतां सावकारा!"

चक्की खूब त्रासांत आसा, हें परीन पळयलें, तरी ताणें म्हळें, "किदें उलयता गे?.... ना, ना, दुखणें इतलें व्हड ना तुजें."

चक्कीन ताका लागीं बसपाक खुणायलें. तो बसलो. परीक पळयत चक्की रडटाली. परीक, तिका कितें सांगचें म्हणपाचें कळना. चक्कीन म्हळें, "सावकारा, तुका खूब खूब सांगपाचें आशिल्लें."

परीन सांग म्हणून सांगलें.

तिका त्या पयशाची गजालच आदीं सांगपाची आशिल्ली. परीन तिका धीर दित म्हळें, की तो सामकोच हिमटो आनी आशेखोर आसा. तिणें फुडें म्हळें, "आमी तळमळून कितें उपेग? तो पयशे दियच ना."

"ते पासत तूं कश्टी जावं नाका!"

"ना सावकारा, म्हजे चलयेकूय बऱ्या जाग्यार धाडली ना. तिकाय बी दुःख सोडून सुख भोगूंक मेळचें ना."

हे विशीं परीक कांय सांगपाचें नाशिल्लें. ती करुत्तम्मा कडेन संबंद राखपी गजाल आशिल्ली. चक्कीन फुडें म्हळें, "हांव हांगा अशे तरेन मरतां, तरी सुद्धां म्हजे धुवेक आपोवणें धाडूंक ना."

एके आवयचे सगळे हुस्के आनी वेदना जाग्यो जाल्यो. तिचे चलयेची एक मोगाची काणी आसा. ती मोगा-काणयेची सया तिचे जिणेक बादिकारी जावची नाच अशें निच्छेवपूर्वक कशें म्हणूं येता? ती आपले जिणेचो नवो अध्याय सुरू करता. तरीय गेल्ले जिणेचो प्रभाव उरचो ना, अशें कोणाच्यान सांगूं येता? सगळयांत व्हड गजाल अशी की तिका अशा एका मनशा बराबर धाडल्या, जांकां जिणेंत कोण एक ना, कांय एक

ना. पलनी तिचेर मोग करतलो की ना, हें तरी कोणाक खबर!

चक्कीन म्हळें, "अशें दिसता की तिका दर्यांतूच निराधार सोडून दिल्या."

परीन समजायलें, "अशें म्हणूं नाका, पलनी बरो मनीस आनी जोडपी आसा. तो तिची राखण करतलो."

चक्कीन मान हालयत अविस्वास पर्गटायलो. तिणें म्हळें, "तुमी हे वेळेर एकठांय खेळटालीं."

परीच्या काळजाक खोलवेर स्पर्श जालो. गेल्ले दीस दोळयांमुखार आयले. चक्कीच्या ध्यानांत आयलें. चक्कीकूय ती मोगाकाणी खबर आशिल्ली न्हय! तातूंत केदी शक्त आसता, म्हणपाचेंय तिका घडये खबर आसुंये. दोन जिवांमदीं संबंद राखपी ती गजाल. दुखणेकार चक्की एके आवय प्रमाण उलयली, "म्हज्या पोटांत चल्यान जल्म घेवंक ना पुता!"

सोसुंयेना अशा दुःखान चक्कीन फुडें म्हळें, "म्हजोय एक पूत आसा."

परीन बारीकसाणेन तिचेकडेन पळयलें. चक्कीन परीकडेन अशे नदरेन पळयलें, जशें कितें ती म्हणटाली, 'खोदून सांगपाची गरज ना. तरीय चक्कीन परीचो हात आपल्या हातांत घेतलो आनी तो दाबीत म्हळें, "हो... हो परीच म्हजो पूत."

अशें दिसलें, परीच्या दुखेस्त काळजाच्या एका कोनशाक आशेचें एक ल्हारूच ल्हारेवन उठलें. जिचेर ताणें मोग केल्लो, ती ताची आसुनूय नाशिल्लेवरीच जावन गेल्ली. पूण आतां ताका पटलें की तशें न्हय ती ताची कोण तरी लागताच, आनी तोय तिचो.

करुत्तम्मा त्या लग्नान सुखी जातली, म्हणपाची चक्कीक आशा उरूंक ना. परी आनी ती एकामेकां बराबर खेळत वाडिल्लीं म्हणपाची तिका याद आसा. ती ताका आपलो चलो मानता. तेन्ना त्या खिणाक परीच्या तुटिल्ल्या आसांतूच एक आंकरी फुट्टा. खरेंच, करुत्तम्मा आजुनूय ताची जावंक शकत? नाय जाली तरी आवयची इत्सा तशी आसा व्हय? एका खिणांत भरकटत परी एका अस्पश्ट आनी पटनाशिल्ल्या संवसारांत पावलो. आवयन म्हळें, "पुता, तूं लग्न करून वेपारांत वयर सरून सुखी जा."

केन्नाच विसरपाक न येवपासारकें उतर परीच्या कानांत गुंजपाक लागलें. ते रातीं करुत्तम्मानूय अशेंच म्हणिल्लें. पूण करुत्तम्माक जे तरेची जाप ताणें दिल्ली, तशी जाप ताणें चक्कीक दिली ना.

"पुता, तूं करुत्तम्माक संकश्टांत घालूं नाका. तिचें लग्न जावन गेलें. आतां तिका कश्ट दिवं नाका!"

परी चकीत जालो. ताका दिसलें, नशीब ताका फर्मायता की ताणें करुत्तम्माचे जिणेंत प्रवेस करचो न्हय.

ताणें चक्कीकडल्यान फुडें आयकलें, "परी, तूं करुत्तम्माचो भाव, तिका खाशेलो भाव ना. पुता, तुकाच तिचो भाव जावन रावपाचें आसा!"

चक्कीनूच हें सांगिल्ले बद्दल परीक दुबाव उरलो ना. चक्कीन आनिकूय गजाली सांगल्यो. चेम्पनान करुत्तम्माचो संबंद तोडला. आपूण आतां मरतली. करुत्तम्मा अशा मनशाचे सुवादीन केल्या, जाचें घर ना दार, ना कोण आप्त इश्ट. तिचो आतां ह्या संवसारांत आपलो असो कोण आसा? फक्कत परी आसा. तिणें सांगलें, दोगांय मदीं भाव-भयण

पणाचो संबंद उरपाक जाय.

चक्कीन विचारलें, "पुता, तूं सासणाचो तिचो भाव जावन रावतलो मूं?"

परीच्या दोळयांत दुकां आयलीं. तीं टपाटप गळपाक लागलीं. चक्कीन पळयलें. त्या दुकांचो अर्थूय बी तिका कळ्ळो.

ते मोगा-काणयेचें गुपीत चक्कीन उकतें केलें, "पुता, तुजो तिचेर मोग आशिल्लो. पूण आतां तिका भयण मान! होच तुज्या मोगाचो परिणाम जावपाक जाय. किदें?"

परी कांय जाप दिवंक शकलो ना. ताचो गळो भरून आयिल्लो. तो तिचो मोग करतालो, आनी आतां तिचो भाव जावपाक जाय हें बराबरूय आसा.

मोनेळींत कांय खीण गेले. चक्कीन विचारलें, "बराबर आसा मूं, पुता?"

यंत्रावरी परीन जाप दिली, "हय."

"तुमकां भाव-भयणां जावन रावपाचें आसा!"

एका खिणा उपरान्त चक्कीन फुडें म्हळ्ळें, "ती हांगा आसती जाल्यार मरच्या वक्तार तिकाय समजायतलीं आसलीं.'

चक्की उलयत रावली. ती परती-परतीय करुत्तम्माचो भाव जावन रावपाची खबर परीक सांगत रावली. कोण उरचो ना तेन्ना तिची खबर घे म्हूण सांगलें. ती मरचे पयलीं करुत्तम्मा पावली ना तर तिका हांवें तुका तिचो भाव जा म्हूण सांगिल्ल्याची खबर सांग. परीन सगलें आयकून घेतलें. चक्कीक दिसलें, परीन बेठें आयकून घेतलें म्हूण जालें ना. ते पासत परतीय एक खेप परीक तिणें प्रार्थना केली.

ते रातीचो चक्कीन परीक दर्यावेळेर गायतना आयकलो.

चेम्पनाक तो दीस संकश्टाचो आशिल्लो. तो दर्यार वचूंक पावनासलो. येणावळ उणी जायत चलिल्ली. वयल्यान ताका आनीक एक लुकसाण जालें. कादरी सावकाराक ताणें जो माल दिल्लो, ताचे थोडे पयशे येवपाचे आशिल्ले. कादरी एके रातीं आपले खोंपींतलें सगलें सामान घेवन पसार जालो. ह्या लुकसाणी कारणान चेम्पनाक एक धस्को बसलो.

चेम्पनान आदले सारको परतोय दर्यार वचपाचो निच्छेव केलो. कितले दीस म्हूण घरा बसून काडटलो! बऱ्याच दिसांनी परतेंय एक खेप लोकांक चेम्पना आपलें व्हडेकारपण चलयतना पळोवपाक मेळ्ळो. पूण तो बशिल्लो, उबो दिसलो ना. व्हड्याचे चालींतूय पयलींसारको वेग नाशिल्लो. पयलीं प्रमाण ल्हारांवयल्यान उडत मोडत तें चलनाशिल्लें. पयलीं प्रमाण हावेसान तें सांबाळपूय चेम्पनाक जमनाशिल्लें. ताचे पांय थरथरताले. व्हड्याचे देगेवयल्यान चलाखीन तोल सांबाळपाक ताका भिरांत दिसताली... म्हणचे कितें, फुडें वचपाची ताची तांक सोंपिल्ली.

हेर व्हडीं फाटीं घालून एकाव्र्या सुकण्याच्या वेगान आपलें व्हडें फुडें काडप, तेच प्रमाण हेर व्हड्यांपरस चड मासळी भरून परतुपाक चेम्पनाक जमना, अशेंय जावंये. ताचें व्हडें आतां हेर व्हड्यांसारकें चलता. तडीच्या लोकांक हे फुडें ताची सुकण्यासारकी गती पळोवपाक मेळपाची ना.

वेळ जावचे आदींच व्हडें तडेचे दिकेन वळ्ळें. व्हडें चलोवप्यांनी हाचें कारण विचारलें, "चेम्पनान म्हळ्ळें, "दुसऱ्या दिसा पळोवया, आयज इतलेंच पुरो."

"पुरो" अशें हे आदीं चेम्पनाक केन्नाच दिसलें ना.

व्हडें तिराक लागपाक येतालें. चेम्पनान, ताज हातांत धरिल्लें मात, तो उदकांत शेंवटलो. वलेकारांनी मेळून ताका धरलो आनी व्हड्यांत चडयलो. हाचे उपरान्त चेम्पनान ताज हातांत घेतलें ना. येरें धरलें ना.

त्या दिसा चेम्पनान मालाचें वजन-मापूय केलें ना. सगळ्याचो सगळो माल विकलो. सामको पुरो जाल्लेवरी घरा परतलो. ताची चाल थाकाय आयिल्ल्या मनशावरी आशिल्ली.

चेम्पनाचो सगलोच बेत तुटिल्लो काय? पंचमी बापायची वाट पळयत उबी आशिल्ली. तिणें शीत करून दवरिल्लें. भाजीय बी बापायचे आवडीची केल्ली. मंद आवाजांत चक्कीलीं भितल्ल्यान उतरां आयलीं, "पुते, पान वाड! बाप्पा येता."

पंचमीन जेवण वाडून फुड्यांत हाडून दवरलें. चेम्पनान दोन उंडयो खाल्यो. पूण रुचीन आनी खोश्येन न्हय. जेन्ना तो भायर गेलो तेन्ना पंचमीन आवयक म्हळें, "अम्मा, आयज बाप्पा सारको जेवलोच ना."

हात, तोंड धुवन चेम्पन चक्कीकडेन आयलो. चक्कीन चेम्पनाक बारीक नदरेन पळयलो. दोगांयचे दोळे भरून आयले.

जिणेंत पयलेच खेप चेम्पनाचे दोळे ओले जाल्ले. चक्कीन म्हळें, "कितें करुंया? सगलो नशिबाचो खेळ!"

चेम्पनान दोळे पुसले. एक थेंब लेगीत सकयल गळूंक दिलो ना. इतली इच्छाशक्ति आजुनूय बाकी उरिल्ली. ताणें विचारलें, "तुका उठपाक येना?"

"हांवें येत्न केलो. पूण करतलीं किदें!"

मात्तसो वेळ ओगी रावून चेम्पनान विचारलें, "मागीर हांव किदें करूं?"

चक्कीक दिसलें, चेम्पन, ती मेल्या उपरान्त तो किदें करतलो, हाचेविशीं विचार करपाक लागला. ताची सगली जीण अपुर्णूच रावतली, फुडें वचूंक पावची ना. जाप कितें दिवपाची हाचो चक्की विचार करपाक लागली.

चेम्पन खाटयेर चक्की म्हऱ्यांत बसलो. चक्कीन पळयलें की घोवांत पयलींप्रमाण शक्त वा हुशारी आतां उरली ना. चेम्पनान त्या दिसा दर्यार घडिल्ली खबर तिका आयकयली. ताणें म्हळें, "म्हजे पांय आतां सैल पडले."

घोवाक दर्याचेर कसलोय अपघात घडूं येता, हो विचार चक्कीक केन्नाच आफुडलो ना. आयज तेंय बी घडलें. फुडेंय अशें घडूं येता.

कितें करचें म्हणपाचें कळना जावन चेम्पनान विचारलें, "हांव किदें करूं चक्की?"

तो चक्कीक हो प्रस्न करचोना जाल्यार दुसऱ्या कोणाक तरी करतलो! जाप दिवपाचोय बी अधिकार तरी हेर कोणाक आशिल्लो? ताचे जिणेची आनी येसाची चक्की एक वेगळावं नज अशें आंग आशिल्ली. आतां ती हांतरुणांत पडल्या. तिचे बराबरूच चेम्पनाचें सगलें तेजूय सोंपिल्लेवरी जालां. तो एखाद्र्या हारिल्ल्या मनश्यावरी आंग आखडून खाटेर बशिल्लो.

चक्कीन चेम्पनाचो हात छातयेर दवरून तो दाबीत विचारलें, "हांव मेलीं जाल्यार किदें करतलो?"

चेम्पन रडपाक लागलो.

"असली गजाल उलोवं नाका चक्की - हांव किदें करतलों?"

चेम्पनाच्या हाताचेर चक्कीची पकड घट्ट जाली. चक्कीचे छातयेचेर चेम्पनचो हात आशिल्लो तेन्ना तिच्या काळजाच्या ठोक्यांनी आपलो हात हालिल्लेवरी दिसपाक लागलो.

चक्कीन चेम्पनाचेर आपली नदर रोखीत म्हळें, "कोणाय दुसरे बराबर लग्न जा."

इतलें सांगून सोंपता थंय आसा, चक्कीची कूड थरथरपाक लागली आनी हातपांय ताठ जावपाक लागले. छातयेचे ठोकेय हळुहळू पडिल्लेवरी दिसपाक लागले.

चक्कीची नदर चेम्पनाच्या तोंडाचेर खिळिल्ली. चेम्पनान विचारलें, "किदें म्हळें तुवें! दुसरें लग्न कर म्हूण?"

कांय जाप मेळ्ळी ना. चक्कीक खबर आशिल्लें, जिणेंत मनशाक एका सांगात्याची गरज उरता. ते पासत तिणें एक मार्गूय सुचयल्लो. चेम्पनान तेन्नामेरेन अशे तरेचे गजालीविशीं विचार करूंक नाशिल्लो.

"तूं उलयना कित्याक?"

चक्कीचे दोळे फातरिल्ले वरी जाल्ले. चेम्पन भियेलो. ताणें आड्डून चक्कीक उलो मारलो.

"चक्की! चक्की!!"

चक्की निश्चल आशिल्ली.

"देवा, तूंय गेली काय किदें!"

चेम्पन चक्कीचे कुडीचेर शेंवटून पडलो. त्या वेळारूय चक्कीची पकड सदळ जावंक नाशिल्ली.



# 14

पंचमी हुटके हुटकेवन रडटाली. नल्लम्मा तिका थारायताली. चक्की पंचमीचें वजें नल्लम्माचेर दवरून गेल्ली. नल्लम्मानूय आपलीं चार आसातूच, तातूंत आनी एक पांचवें अशें मानलें. पूण त्या कारणान पंचमीचें समाधान जाता व्हय?

- अच्चन आनी हेर सांगात्यांनी मेळून चेम्पनाक चक्कीचे कुडी पसून विंगड केलो, उपरान्त जे जे विधी करपाचे तांची वेवस्था केली. घाटकाराक खबर कळयली. तो आयलो. करुत्तम्माक खबर कळोवपाची गजाल आयली, तेन्ना ती गजाल दुखेस्त चेम्पनाच्या कानार पडली. ताणें व्हडान धेंक्शेत सांगलें, "नाका, तिका कळोवपाची कांय गरज ना."

चेम्पनाच्या मत्तान करुत्तम्माच चक्कीच्या अकाली मरणाक कारण आशिल्ली. सगळे जाण थोडो वेळ गप्प जाले. चेम्पनाच्या ह्या निच्छेवाच्या न्याय-अन्याया बाबतींत सगले विचार करीत आशिल्ले, घाटकाराच्या मत्ताची वाट पळयत. ताणें सांगलें, "आवयक बेसुद्द पडिल्ली पळोवन लेगीत न्हय ती गेल्ली, सगल्याचो त्याग करून? वचूं दी!"

पंचमी तरीय आपले भयणीक उलो मारीत रडटाली. पूण तिचेकडेन कोणें लक्ष दिलें ना.

प्रेताक उजो दिवपाची तयारी जाताली. परधर्मी परी मात्तसो पयसूच उबो रावलो. करुत्तम्मा शिवाय हें सगलें चलिल्लें, हाचें ताका वायट दिसलें. पूण तो हे बाबतींत कांय करूंक शकनासलो.

करुत्तम्माक कितलें दुःख जावं येता! फुडें केन्नाय मेळ्ळयार ती ताका विचारूंक शकताली आनी म्हणूंक शकताली, "सावकारा, तुवेंय म्हाका कळयलें ना!" इतलेंच न्हय, चक्की लेगीत ताका क्षमा करची नासली. परीक दिसलें, ह्या वक्तार ताणें कितेंय करपाक जाय. पूण करचें कितें, हें स्पश्ट नाशिल्लें. तो करुत्तम्माचो भाव जाल्लो. तिका आपली भयण करून घेतिल्ली. आतां भावाच्या नात्यान ताका जीण घालोवपाची आशिल्ली.

ते रातीं परीक न्हीद आयली ना. रात बरीच गेले उपरान्त तो उठून बसलो. थोड्या वेळान खोंप बंद करून तो भायर सरलो.

तो फुडें चलत रावलो. समुद्र तिरावेली हवा जशी कितें, कितें तरी गुणगुणटाली. ल्हारांय जशीं काय कितेंय तरी विचारतालीं - खंय वता? तृक्कुन्नपुशाक? - कित्याक? - करुत्तम्माक तिच्या आवयच्या मरणाची खबर दिवपाक? - तशें करपाचो तुका अधिकार कितें? - कोणेंय जर असो प्रस्न केलो, जाल्यार ताची जाप कितें दितलो?

करुत्तम्माक तो मेळटलो तेन्ना तो कितें सांगतलो? अशे तरेचे ताची चाल रोखून धरपी प्रस्न आशिल्ले. तरीय तो चलतूच रावलो. तो तिचो भाव आसा, तिचे आवयन ताका तिचो भाव करून सोडला. पूण ती भयण जायत व्हय?

परी करुत्तम्माक वचून मेळ्ळो जाल्यार त्या मेळपाचो परिणाम कितें जातलो, म्हणपाचो

ताणें विचार केला व्हय?

खूब भिणभिणट्यार तो तृक्कुन्नपुशाक पावलो. व्हड्यार वचपाक भायर सरिल्ल्या एका मनशाक ताणें पळयलो. परीन ताका पलनीच्या घराचो पत्तो विचारलो. बांगडे मारपा दिसांनी तो मनीस नीर्क्कुन्नम वेळेर वचून आयिल्लो. तो परीक वळखलो. ताणें विचारलें, "धाकटो सावकार! पलनीक कित्याक सोदता?" परी मात्तसो कांचवेलो. ताणें म्हळळें, "पलनीचे बायलेची आवय सोंपल्या."

कोच्चुनाथनाक ही एक बातमीच आशिल्ली. तो चेम्पन आनी चक्की दोगांकूय वळखलो. ताणें चक्कीची तुस्त केली. पूण एक गोंदळांत उडयसारको प्रस्न ताणें केलोच, "मरणाची खबर घेवन पूण सावकारा, तूं कसो आयलो? तांकां थंय कोणूच गाबीत मेळना जालो?"

हो प्रस्न परीच्या मनांतूय उठिल्लो आनी ताणें ताची एक जापूय सोदून दवरिल्ली, "लोकांनी पलनी आनी ताचे बायलेक खबर न कळोवपाचें थारायलां. ते पासत हांव आयलों." चक्कीच्या मरणा उपरान्तची थंयची खबर परीन सांगली तेन्ना परत कोच्चुनाथनान प्रस्न केलो, "ते खातीर अर्दे रातीच्या वेळार सावकारा, कित्याक भायर सरलो?"

हाची जाप म्हणचे ताका भाव केल्लो ताची खबर. पूण तें कारण सांगलें जाल्यार, ताचेय फाटली काणी सांगची पडटली आशिल्ली. एक मुसलमान एके गाबतिणीचो भाव कसो जालो? आवयन ताकाच कित्या पासत भाव केलो? हें सगलें उक्तें करचें पडटलें आशिल्लें. योग्य ती जाप न मेळिल्ल्यान तो गडबडलो आनी शेवटा एक खेरीतूच जाप दीत ताणें म्हळळें, लोकांचें निश्ठूर वागप पळोवन ताका खूब दुखलें, तेच पासत तो भायर सरलो. हे जापेन कोच्चुनाथनचें समाधान जालें की ना तें समजलें ना. ताणें परीक पलनीचें घर दाखयलें.

करुत्तम्माक कितें सांगपाचें? सरळ सांगून उडोवप बराबर जायत? तिका कशी समजावपाची?

व्हडीं दर्यांत सुटिल्लीं. पलनीच्या घरा सामखारा येवन परी उबो रावलो. तें ल्हानगुलें घर शान्त आनी ओग्गी दिसतालें. परीचो ताळो सुकलो. थोडो वेळ तो उबो रावलो. आनी नकळटांच "करुत्तम्मा" हें उतर ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरलें.

जाप कांयच आयली ना. परीन दुसरे खेप उलो मारलो. भितल्ल्यान आवाज आयलो - "कोण?" करुत्तम्मान परीचो आवाज वळखलो.

"हांव तो, करुत्तम्मा!"

"हांव, म्हणचे?"

"म्हाका वळखली ना?"

"हांव तो परी, परी."

परतून बरोच वेळ मोनेळ. परीन म्हळळें, "एक व्हड गजाल सांगपाची आसा करुत्तम्मा!"

रडपाच्या सांगातान भितल्ल्यान जाप आयली, "थंयसून सगलें सोडून आयलीं तरी म्हाका सुखान रावंक दिवचो ना...? ना, ना, हांव दार उगडचीं ना... हांव पळोवंक सोदिना."

ती रडत आशिल्ली. तिचीं उतरां परीच्या काळजाक तोपलीं. तिणें सांगिल्लें बराबर.

ती आपल्याक वांटोवपाच्या सोदांत आशिल्ली. ती थंयसून तोंड घेवन आयली तरी तिका सुखान रावपाक दिना! कांय सांगले बगरूच ताणें परतो वचपाचो विचार केलो. पूण पुनाय विचार केलो, जी गजाल सांगपाची, ती भायल्यानूच सांगून वचचें. पूण एकाएकीं कठोरपणान ती कशी सांगप? परीन दार उगड अशें विनयलें. ताणें विचारलें, "करुत्तम्मा! तूं म्हाका वळखना?"

आपल्यो उफाळून वयर सरिल्ल्यो भावना ओंठांभितर दाबीत भितरसूनूच तिणें म्हळें, "वळखतां."

"मागीर भायंर येवपाक कित्याक भियेता?' हाची कांयच जाप मेळ्ळी ना. तिणें फुडें म्हळें, "हांव आजुनूय तो पयलींचोच परी आसां. तूं आपल्या घोवा बराबर रावता हें हांव जाणां."

असहाय अवस्थेंत करुत्तम्मान म्हळें, "हांव तुका पळोवंक शकना."

परीक खंयच्यान तरी धीर आयलो. ताणें म्हळें, "अशें म्हणूं नाका करुत्तम्मा! आमकां फुडेंय बी मेळत रावपाचें आसा. एकल्याक दुसऱ्या बराबर एकठांय येवन उलोवपूय करपाचें आसा."

"बाप रे, ना ना, अशें जावपाक फावना. तो दर्यार गेला - वाऱ्या वादळाच्या दर्यार."

परत मोनेंळ पातळ्ळो परीन परतोय उलो मारलो, "करुत्तंम्मा!"

करुत्तम्मान काकुळटेक येवन विचारलें, "किदें?"

"हांव तुजो भाव."

"भाव?"

त्या गुपीत नात्याची उक्तावणी करिनासतनाच, ताचें एक नवें रूप पर्गटावप शक्य जालें. करुत्तम्माक धीर आयलो. परीन म्हळें, "हय भयणी, तुजो भाव. तुजो खाशेलो भावूच न्हय हांव?"

"ना, ना."

खरेपणींच तुजो भावूच तुका आपयता. तुजे आवयन सांगलां की तुजो भाव जावन हांवें तुजी राखण करची!"

"म्हजी आवय?"

"हय, हय, दार उगड! सगलें सांगतां!"

करुत्तम्मान भितर दिवो पेटयलो आनी दार उगडलें. तो सांगतलो तरी कशें? पूण निश्ठूरपणानूच उतरां भायर सरलीं, "तुजी आवय देवागेर गेली."

तें आयकलेबराबर करुत्तम्मा किळांच्यो मारून रडपाक लागली. शेजारच्यो बायलो आयल्यो. तोंवेर परी थंयसून वचूंक गेल्लो. शेजाऱ्यांनीं करुत्तम्माक शान्त करपाचो येत्न केलो. आपली आवय मेली हे गजालीचेर तिचो विस्वास बसना जालो. ते दुखेस्त अवस्थेंतूय कोणें ही खबर दिली म्हणपाचें उक्तें केलें ना. बायलांक दिसलें, तिका सपन पडलां आसूंक फाव.

बरोच वेळ रडून जाले उपरान्त तिच्या मनांत जायते विचार उठले. हे खबरेचेर विस्वास धरूं येता? "काय एका निरशेल्ल्या मोग्याच्या दुस्वासाचें फळ बी न्हय मूं हें! आवय खरेपणींच मेली जाल्यार ती खबर घेवन कोणूय तरी येवपाचो न्हय?"

घोव व्हड्यार गेल्लो. तो परतलो की ताका जेवण दिवपाचें आसा. बायलेचे कर्तव्यबुद्दीन तिका घरच्या कामांत घुस्पायलें. कशीय तरी सदांचे सारकी शीत भाजी तिणें रांदली. ती एक एक खीण कोणूय खबर घेवन येत काय अशी वाट पळयत रावली. पलनी मात्तसो बेगिनूय आयलो. रडत रडतूच करुत्तम्मान म्हळें, "म्हजी आवय मेली."

पलनीन लक्षूच दिलें ना. ताच्या तोंडार एक केन्नाच पळोवंक नाशिल्ली गंभीरताय दिसली. करुत्तम्मा रडतूच आशिल्ली.

"हांवेंच म्हजे आवयक मारून उडयली!"

मात सुद्दां सहानुभूति पर्गटायलेबगर पलनीन विचारलें, "खबर हाडली कोणें?"

जाप कितें दिवपाची? करुत्तम्मा भियेल्लेवरी जाली. पलनी बारीकसाणेन तिका पळयतालो. निमणे करुत्तम्मान सांगलें, "त्या धाकट्या सावकारान."

"मागीर तो आसा खंय?"

"खबर दिले उपरान्त तो दिसलो ना."

पलनीचे ते गम्भीर वागणुकीचें कारण कितें? परीचें येणें, काय रिती-भाती प्रमाण खबर न मेळप? पलनीन विचारलें, "त्या मुसलमानाक तुज्या बापायनूच धाडिल्लो?"

करुत्तम्मा हाची जाप दिवंक शकली ना. पलनीन फुडें विचारलें, "ही खबर धाडपाक तांकां गांवांत एकूय गाबीत मेळ्ळो ना काय कितें?"

करुत्तम्मा हाची तरी कितें जाप दितली? ह्याच खिणाक सुरी तोपून रितीभातीची गजाल काडपाची? पलनीच्या मनांत कसल्याय तरी दुबावान मूळ धरिल्लें. दुबाव आसलो कसलो, करुत्तम्माक कळ्ळो ना, तिका फक्कत एक गजाल सांगपाची आशिल्ली, "आमी वचुंया!"

"खंय?"

"नीर्क्कुन्नमतटाचेर."

पलनी आपलो ओंठ एके वसल्यान खिंचीत मात्तसो हांसलो. ताचो अर्थ असो की तो वचपाक तयार ना. करुत्तम्मान म्हळें, "म्हजी जल्म दिवपी आवय मेल्या."

ह्या उलोवण्याचो पलनीचेर कांय परिणाम जालो ना. करुत्तम्मान सांगलें, तिचे आवयन एके आवय प्रमाण पलनीचेर मोग केल्लो. आवयन कांयच चूक करूंक ना. चूक जालीच आसल्यार ती तिचेकडल्यान जाल्या. लग्नाच्या दिसा आवयनूच तिका हांगा वचपाक सांगिल्लें. तिचेच सांगणेन ती आयिल्ली. तिणें फुडें म्हळें, "समुद्रमातेचो सोपूत! हांव येवपाक कचरतालीं तेन्ना आवयनूच पराथून म्हाका हांगा येवपाक लायलें. आमी मात्तशीं वचून थंय पळोवन येवंया."

करुत्तम्मा पलनीचे पांय धरून रडूंक लागली; पूण तो फातरा मुर्तीभशेन अचळ रावलो.

आवय कशी आसता, हें चक्कीनूच पलनीक दाखयिल्लें. ती चक्कीच मरून गेल्या. तिच्या मर्णाचो परिणाम पलनीचेर जावचो ना, अशें कशें शक्य आशिल्लें! तिणें आपुणूच उलयत म्हळें, "सगल्यांनी मेळून म्हाका तिरार पावयल्लो."

करुत्तम्मान विचारलें, "नीर्क्कुन्नम वचपाखातीर मूं?"

"अशेंय ते म्हणटाले, पूण कांय गरज ना."

"कारण?"

थोड्या वेळान पलनीन म्हळळें, "ताका येतना कोच्चुनाथन भैय्यान पळयल्लो. तो पप्पू, तटावेल्या लोकांचे मदीं नाका जाल्ल्यो गजाली फांकयत रावता. जेन्ना जेन्ना..."

सांगतां, सांगतां ताचो गळो दाटून आयलो. तो साफ करून तो परतोय उलयलो, "ते सगले भुर्गेबाळकार आसात. ते पासत म्हाका व्हड्यावयलो देंवयलो."

करुत्तम्माच्या ध्यानांत सगल्यो गजाली आयल्यो. घोळांत घोळ म्हूण हेंय घडलें. करुत्तम्माक आतां एकूच प्रस्न विचारपाचो आशिल्लो. तिणें विचारलें, "म्हजो तुका दुबाव येता?"

तो 'ना' म्हणूंक शकलो ना, आनी 'हय' म्हणूंकूय. ताणें विचारलें, "तो मुसलमान आयलो, खबर दिली, आनी खंय पावलो एके फांशीर चडपाक?"

"ते उपरान्त हांवें ताका पळयलो ना."

"तो कित्याक हांगा आपल्याक घसटत घेवन आयलो?"

सगळें कितें सांगून उडोवपाचो तो खीण आशिल्लो. कांयच लिपयनासतना सगली गजाल सांगून उडोवपाक येताली. पूण करुत्तम्माक तें सांगपाक उतरां मेळनाशिल्लीं.

पलनीन विचारलें, "ताणें येवन कितें सांगलें?"

"की अम्मा मेली."

त्या ल्हानगुल्या कुटुंबाच्या फुडाराचो निर्णय थारावपी खीण आशिल्लो.

त्या खिणाक दर्याचेरूय ते खबरेविशीं चर्चा चलिल्ली. म्हातारेच्या मर्णाची गजाल खरी आसूं येता. चक्की बेसुद्द जावन पडिल्ल्याची गजाल सगळ्यांक खबर आशिल्ली. चड करून ती परतीय उठची ना, हो अंदाजूय सगल्यांनी बांदिल्लो. पूण मरणाची खबर दिवपाक एका मुसलमान मनशाक येवपाची कितें गरज आशिल्ली?

कोच्चुनाथनान म्हळळें, "हांवें विचारलें तेन्ना तो कांचवेलो."

पप्पूक आनिकूय गजाली सांगपाच्यो आशिल्ल्यो. ताणें सांगलें की नीर्कुन्नम-वेळेचेर करुत्तम्मा आनी तो मुसलमान रातदीस बराबर खेळटालीं, कुदतालीं, हेडटालीं. ताणें फुडें म्हळळें, "रातीचो तो बसून गायतालो आनी ही भायर सरून ताका मेळपाक वताली. हे पासत लग्नावेळार हांवें घुस्पट घाली ना!" पप्पूक आपूण एक जैतवंत कसो दिसलो.

सगल्यांक एके गजालीचें दुःख आशिल्लें. पलनी बाबडो एक सादोसुदो मनीस. ताका अशी बायल मेळची, हाचें सगल्यांक दुःख.

एकल्यान विचारलें, "मागीर ताका व्हड्यार कसो व्हरपांचो?"

ह्या प्रस्नाचो अर्थ सगल्यांक खबर आशिल्लो. सगल्यांक कळून आयलें की पलनीचें घर शुद्द ना. ते स्थितींत पलनी जर व्हड्यार चडलो जाल्यार केन्नाय तरी अरिश्ट येवं येता.

वेलायुधनान विचारलें, "ताचें घर शुद्द ना अशें कोणें सांगलां?"

आण्डीनूय बी वेलायुधनाची बाजू घेतली आनी प्रस्न उपस्थित करपी कुमारनाक विचारलें, "कितें रे! तूं नक्की सांगूंक शकता? ताचें घर शुद्द ना म्हूण... अशें निश्चितपणान हांगा कोण सांगूंक शकता?"

तशें सांगपाक कोण कबूल नाशिल्लो. पलनीचें घर शुद्द आसा, असो भरवंसो धरूं

येतालो. हातूंत कोणाची अडचण नाशिल्ली. तरीय सादारणपणान एक दुबाव सगल्यांक आसलो. त्या दिसा पलनी ह्याच कारणापासत व्हडें भायल्या दर्यांत घेवन वचूंक नाशिल्लो. काय ताचें बोड फिरिल्लें? पप्पू, जी काणी पसरीत रावला, ताचे विशीं ताच्या मनाक खात्री ना. तरीय, 'चली बरी आसा, ' अशें ते सांगूंक सोदताले.

कुमारन् सोडल्यार हेर सगले पलनी चें घर पवित्र मानपाक तयार आशिल्ले. कुमारनान एक प्रस्न उपस्थित केलो, "एक गाबीत मेल्ल्याची खबर दिवपाक एका मुसलमानाक ~~धाडूं येत?~~ खेरीत तो रातीच्या वेळार कित्याक आयलो?" हाची जाप कोणाच्यान दिवं येताली?

सगले तरेन पळयले उपरान्त एक दुबावूच सो रावन गेलो. पूण पलनीक सगल्यांचो मोयपास आशिल्लो.

पलनीच्या घरांत सगलें अनिश्चित आशिल्लें. करुत्तम्मा एके पिडेस्त, दुखेस्त मनशाच्या अधिकारान, एक बायल म्हूण न्हय, विनयलें की तिका आपल्या आवयच्या प्रेतार निमणी नदर घालचे पासत वचूंक दिवचें, पूण पलनीन कांय सांगलें ना.

करुत्तम्मान विचारलें, "म्हजेर विस्वास दवरूंक शकता तूं?"

"विस्वास करतलोंच."

पूण तो कांय गजाली जाणून घेवंक इच्छितालो. आनी करुत्तम्मा कांय एक लिपयनासतना, सगलें सांगून उडोवपाक तयार आशिल्ली. पूण त्या खिणाक तिच्यांत कांय सांगपाची शक्तूच नाशिल्ली. तिचे नदरेन वेळ चड मोलाचो आशिल्लो. पूण पलनी तिची अवस्था समजुपाक शकनाशिल्लो. तिचे आवयच्या मरणाचीच न्हय, कोणाच्याच आवयच्या मरणाची गंभीरताय पलनी समजुंचो नाशिल्लो.

करुत्तम्मा निरुपाय जावन रडली. एक तरी गजाल तो आयकत अशी आस्त आशिल्ली. तिका एकलीच वचपाक तो दियत, ती त्याच दिसा परती येतली. पलनीन हे सुचोवणेचेरूय कांय जाप दिली ना. करुत्तम्माक मनांत अशेंय दिसलें की घोवाची पर्वा करिनासतना उठून वचचें! पूण ताचो अर्थ जातालो की परती येवपाक मेळचें ना. ना, तशें करपाक ती तयार नाशिल्ली. तिणें एक गाबतीण म्हूण जल्म घेंतला, आनी तशीच तिका मरपाचें आसा. तिचे आवयलीय बी तीच इत्सा आशिल्ली. ती बापायचे पांय धरूनूच आपली जीण सोंपयतली. एक मनीस धाडून आवयच्या मर्णाची खबर न दिवपी बापूय, तिका राखण दितलो, क्षमा करतलो, अशी आस्त बाळगुपांत अर्थ नाशिल्लो. हक्कानूय ती आलाशिरो मागपाक शकनाशिल्ली. ती बापायची अवहेलना करून, घराचो त्याग करून एका मनशाचे फाटल्यान आयल्या. आतां ती ताचे सुपुल्ले खोपींत पडुनूच आपली जीण काडटली.

तिका पंचमीची याद जाली. येतना तिणें 'दिदी-दिदी' म्हणत ज्यो किळांच्यो मारिल्ल्यो, त्यो आजुनूय तिच्या कानांत गुंजताल्यो. ती पंचमी आवयच्या अग्निसंस्कारां वेळार आलाशिऱ्या विरयत अनाथ जावन रडटा आसतली. आतां तिका घरांत एकटीच रावचें पडटलें. दर्यावेळेर आनिकूय परी आसतलेच!

पलनी तोंड फिरोवन ओगी बशिल्लो. ताच्या मनाकूय शान्ती नाशिल्ली. आयजवेर सगल्या तरांच्या चिन्तांपसून तो मेंकळो आशिल्लो. खंयूय उरूं, तो सदां सुखी दिसतालो.

करुत्तम्मा ताचेलागीं गेली आनी म्हळें, "जेवन घे!"

"म्हाका भूक ना."

"कशी?"

पलनीन विचारलें, "तो मुसलमान हांगा कित्याक आयलो?"

करुत्तम्मान आपली खरी गजाल सांगून उडोवच्या हेतान म्हळें, "म्हजो सत्यनास करचे पासत; ना जाल्यार कित्याक!"

करुत्तम्मान पलनीच्या प्रस्नाक जाप दिवपाचें थारायलें. तितली धिटाय तिच्यांत आयली. पलनीय जागृत आशिल्लो. ताणें विचारलें, "तो कोण आसा करुत्तम्मा?"

करुत्तम्मा ताच्या प्रस्नाचो अर्थ जाणून सगलें सांगून उडोवचे पासत तयारेन रावली. कशें सांगपाचें इतलोच तिका दुबाव आशिल्लो. खंयच्यानूय सुरू करचें, आतां तिका ताची पर्वा नाशिल्ली. सगलेंच सांगून उडोवपाचें जाल्यार खंयच्यानूय सुरू केलें म्हूण कसलें लुकसाण जावपाचें! तिणें म्हळें, "आमी दोगांय भुरगेपणासावन एकामेकां बराबर हांसत खेळत वाडल्यांत."

करुत्तम्मान सगली काणी सांगपाक सुरवात केली. कसलेच तरेन भावनावश न जातां ती सांगत गेली. पलनी ध्यान दिवन आयकत रावलो. पलनीच्या तोंडावयले भाव पळोवन करुत्तम्माक भंयूय बी दिसलो. मात्तशें आयकयले उपरान्त तिणें विचारलें, "म्हज्या उतरांचेर विस्वास बसना?"

पलनीन म्हळें, "बसता." एक चली आपल्या घोवाक आपली मोगाकाणी सांगाताली. तातूंत अविस्वास दाखोवपाचें कांय कारणूच नाशिल्लें. ती आपल्याक काळया रंगांत चित्रीत करीत आशिल्ली न्हय?

फुडें फुडें करुत्तम्मा सांगपाक लागिल्ली ते तरेन काणी सांगप कठीण जालें. काणयेंत पयलींची गती उरली ना. तिणें आपल्या अठराव्या वर्सांत प्रवेस करपामेरेनची काणी सांगली. पयशे उसने घेतिल्ल्याचें कांय सांगलें ना. निमणें भेटेविशींय सांगलें ना. हेर सगलें सांगलें. आपणें कितेंय पूण लिपयलां असो दुबाव पलनीक आयला जावंये अशें तिका दिसलें. तिणें म्हळें, "म्हाका खाशेलो भाव ना, तो म्हजो भाव."

पलनीक तें पटलें शें तिका दिसलें ना.

सगलें आयकून जाले उपरान्त पलनीन म्हळें, "मागीर लोक म्हणटात की तुका नीर्क्कुन्नमतटावेल्यान पयस केल्या अशें, तें खरेंच जालें ना?"

हाचेर जाप म्हूण करुत्तम्माक एकूच गजाल सांगपाची आशिल्ली, ती म्हणचे, आपूण हे वेळेवयली एक, तटाक फावो सारकी घरकान्न जावन आपली जीण सारतलीं.



# 15

करुत्तम्मान जें कितें सांगिल्लें, तें सगलें खरें आशिल्लें. पलनीन सगल्या गजालींचेर विस्वास दवरलो अशें मानलें तरीय, ही घडणूक ताच्या भावनांचेर एके तरेचो जबरदस्त आघातूच आशिल्लो. पलनी एक विचारशील मनीस, तो उदास जालो. पप्पू बराबर सरळ झगडप आतां ताका कशें शक्य आसा? करुत्तम्माचें चारित्र्य सुद्द आसा, असो ताका भरवंसो आशिल्लो. पूण पप्पू सामखारा येवन, करुत्तम्मा तुका फावना अशें म्हणपाक लागलो जाल्यार ताचेर ताचेकडेन जाप खंय आसा? करुत्तम्माक हट्टान तिच्या बापायच्या आसऱ्याखालच्यान काडून घेवन तो आयला, तिका सोडून दिवपाक ताची धर्मबुद्दी तयार ना. तिका सोडल्यार ती खंय वतली?

तिणें सगल्यो गजाली उक्तेपणीं सांगून उडयल्यात, हाचो ताका विस्वास आशिल्लो. आपल्या चुकांबद्दल दुकां गळयत परती-परतीय प्रतिज्ञाय बी केल्या. गेल्ल्यो गजाली विसरून वचपाक जाय. ती हे फुडें आपलें चारित्र्य सुदारतली म्हणपाविशीं पलनीक दुबाव नाशिल्लो.

पूण मोगा-हावेसान तिचो उमो घेवप पलनीक जमपाचें ना. वेंगावच्या वेळार ताचे हात आतां सदळूच उरतले. करुत्तम्मा वाडिल्ल्या हावेसान दुकां गळयत कितें कितें उलयत रावताली. हातांतल्यान तो सुटून वचचो न्हय, ह्या भंयान ती घोवाक घट्ट धरून रावताली. तिच्या मनांत, पलनी आपल्या हातांतल्यान निसटून वचचो बी ना मूं, असो एके तरेचो कायमचो भंय तिका वेढून आसा, म्हणपाचें दिसतालें. "म्हजेर विस्वास ना?" तेच प्रमाण "म्हजेर तूं मोग करिना?" अशे प्रस्न ती करूंक शकनाशिल्ली. दिसतालें की अशे प्रस्न करपाचो तिचो अधिकार ती शेणोवन बसल्या.

पलनी, केन्ना कोणाकडेन झगडपी न्हय, पूण आतां एक झगडें करून बसलो. एक खेप पप्पून कांय गजाली सांगल्यो. पलनीन करुत्तम्माकडल्यान तें सगलें आयकल्लें. पूण तेंच एका तिसऱ्या मनशाकडल्यान आयकून घेपव ताका सहन जाय सारकें नाशिल्लें. दोगांतूय झगडें पेटलें आनी पलनीन ताका बडयलो.

हें झगडें ल्हानशेंच उरलें ना. पप्पू एका व्हड कुटुंबांतलो मनीस. गजाल वाडत गेली, आनी पलनी पप्पूक मारपी असो कोण...! हो प्रस्न उबो रावलो.

करुत्तम्माचो घरा वचपाचो प्रस्न अशे रितीन सोंपलो. त्या दिसांनी दर्यांत मासळीय बी मेळनाशिल्ली. पलनींत कांय उमेदूय उरली ना. करुत्तम्मांतूय बी "वांटो कितें मेळ्ळो?" अशें सुद्दां विचारपाचो धिरूय उरलो ना.

करुत्तम्माक नटोवन थटोवन मण्णारशाला जात्रेक व्हरचो ना व्हय? रावपाच्या घराक एक जेवण करपाची, दुसरी न्हिदपाची - दोन कुडी करपाच्यो नात! व्हडें, जाळांची गजाल तर मोडूनच दिवपाची. ती खूब पयशिली गजाल आसा. व्हडें, जाळां जातीतूय, वा नाय

जातीत. हांगा दिसाचो खर्च सुटप कठीण जालां. सदांच तांदळांचो खर्च लेगीत केन्ना केन्ना सुटना. करुत्तम्माक आनीक एक लुगट आनी बुलूज जाय. पलनीच्या आंगारूय एकूच लुगट आसा.

"हांव फायच्यान मासळी विकपाक उदेन्तेक वचूं?"

करुत्तम्माच्या ह्या प्रस्नाची जाप पलनीन सटकरून दिली ना. गेल्ल्यान कितें कितें फायदो आसा म्हणपाचें करुत्तम्मान सांगलें. तेच प्रमाण ताका मानत तेन्नाच आपूण वचन अशेंय सांगलें. पलनीन म्हळें, "तशें जाल्यार वच!"

दोन दिसांनी करुत्तम्मान एक पांटें विकतें हाडलें. दुसऱ्या दिसा व्हडीं तडेक लागपाच्या वक्तार, विकपाखातीर मासळी घेवपाक ती वेळेर गेली.

लग्ना उपरान्त इतले वेगीं चलयेन वेळेर वचप, कोणाक चडशी मानवपासारकी गजाल नाशिल्ली. कोच्चून विचारलें, "तूं कित्याक गे ह्या कामाक आयल्या?"

"हांव ह्या तटावेली गाबतीण आसां, म्हूण" करुत्तम्मान जाप दिली. तरीय तिचें वेळेर वचप, ही त्या दिसा लोकांचे चर्चेची गजाल जाली.

करुत्तम्माक त्या कामाचें कांय गिन्यान नाशिल्लें. अशा कामार वचचें पडत अशें तिणें केन्ना चिंतिल्लें तरी? तिका कशें खबर आसतलें? तिचे आवयन हें काम केल्लें खरें, पूण आपले धुवेकूय अशें जड जड पांटें माथ्यार घेवन विकपाक भोंवचें पडटलें अशें चक्कीकूय दिशिल्लें शें दिसना. व्हडीं तडेक लागतनाच करुत्तम्माय हेर बायलां सांगाता फुडें जाली. एका वेपाऱ्यान एका व्हड्याचो माल ठोक दरान घेतलो. करुत्तम्मा आनी तीन-चार बायलांनी मेळून तो खरेदी केलो.

हेर बायलो करुत्तम्मा फुडें वचपाक गेल्यो. तांकां संवय आशिल्ली. करुत्तम्मा जड पांटें माथ्यार घेवन धांवपाक शकनासली. ती सगल्यां फाटीं पडली. केन्ना, केन्ना तीन चार मैल पयस वचचें पड. करुत्तम्माक जागेय खबर नाशिल्ले. लोकांचीय वळख नाशिल्ली.

येवपी वचपी सगल्यो बायलो घराघरांनी पाविल्ल्यो. नवी वाट सोदून काडून वचप तिका खबर नाशिल्लें. सगल्या घरांनी तिणें विचारलें, खंय जाप मेळ्ळी, नुस्तें घेतलें. खंय दर पटलो ना. तर खंय नुस्तें मानवलें ना. बरेंच पयस वजें उबारूनूय माल खपलो ना. लुकसाणेंत माल काडून उडोवचो अशेंय तिका दिसलें. घेवन परती कशी वेतली? अशे तरेन निमणें लुकसाणेंत विकुनूय ती पुरो जावन घरा परतली. त्या दिसा एक खोश्येची गजाल मात घडली, ती म्हणचे कांय घरांनी हेफुडें माल दिवपाचीं उलोवणीं पक्कीं करून ती आयिल्ली.

पलनी बसून विडी ओडटालो. करुत्तम्मा खूब खर्शेल्ली. खरेपणीं तिच्यान चलपाकूय जाय नासलें. तिका दिशिल्लें, आपली दशा पळोवन पलनीक वायट दिसतलें, तो कितेंय विचारतलो. उण्यांत उणें "कितें मेळ्ळें?" म्हूण तरी विचारतलो. पूण पलनीन कांयच केलें ना. ह्या वेव्हारा खेरीज दुसरें कांय तिका करपाक येनासलें.

ती ताची बायल आशिल्ली. हक्काची गजाल सोडलीय जाल्यार, तिचीं कांय कर्तव्यां आशिल्लींच. तिणें विचारलें, "जेवलो?"

पलनीन जाप दिली, "हय"

न्हाले उपरान्त बदलपाक तिचेकडेन कापड नाशिल्लें. ती भिजिल्लें कापड न्हेसून रावली.

विचारले शिवायूच त्या दिसाचो आपलो अणभव सांगपाक लागली. तिणें सांगलें, त्या दिसा लुकसाण जाल्लें आसलें तरी फुडल्या दिसांच्या विकपाविशींची गजाल तिणें थारायल्या. आनीक एक गजाल ती सांगपाक सोदता. तिणें पलनीक म्हळें की खंयच्याय तरी 'कम्बा' जाळवाल्याकडेन आपल्याक कामाक लाय.

पलनीन जाप दिली, "म्हज्यान तें काम जावचें ना."

दुसऱ्या दिसा पाग्यांक बांगडो पडलो. करुत्तम्मा कडेन आशिल्ल्या सगल्या पयशांचे तिणें बांगडे घेतले. ती त्या दिसाय सगळयां फाटसुनूच पावली. हेरांनी आण्याक दोन दरान दिले. करुत्तम्मान दोन आण्यांक पांच दिले. फायदो उणो जालो तरी तिका कांय घरांनी दिसपट्टें नुस्तें दिवपाची सवलत मेळ्ळी. त्या घरवाल्यांनी नवे मासळकान्नी विशीं बरें मत्त पर्गटायलें.

तीन चार दिसां उपरान्त वेळेर एक व्हडलें झगडें उप्रासलें. मासळी विकपाक वचपी नुस्तेकान्नी एकठांय येवन करुत्तम्माची कागाळी करपाक लागल्यो. करुत्तम्मा कोणाक कांय म्हणूंक शकनासली. ती उब्यांनीच रडत रावली. एकलेन रागान म्हळें, "थंय कोणा मुसलमानाक घेवन रावताली. आतां हांगासल्ले वेळेचो सत्यानास करपाक आयल्या."

दुसरे एकलेन म्हळें, "तिकाच काम मेळटलें. सगल्या घरांनी दादले तिचे कडल्यानूच नुस्तें घेवपाक सांगतले. ही तर तसलीच नटून थटून भोंवपी, दादल्यांक भुलोवपीच आसा."

करुत्तम्मा मुखार हें सगलें सांगून जालें. आयकून तिच्या दोळयांमुखार काळोख आयलो. कान गप्प जाले. तिची कड घेवपी ह्या संवसारांत कोण नाशिल्लो. कोणेंच तिची खरी खबर समजून घेतली ना. हेर नुस्तेकान्नी प्रमाण कश्ट करून पोट भरपाचोय तिका अधिकार ना.

दर्यावयल्यान परतले उपरान्त पलनीन तिका, त्या दिसा ती कामाक गेल्ली की ना हें लेगीत विचारलें ना. ताणें करुत्तम्माकडेन फक्त पळयलें. रडवें तोंड दिसप ताका कितें नवी गजाल न्हय. त्या दिसांनी तो तशे तरेचेंच तोंड पळयतालो. पूण त्या दिसा तोंड सदांपरस सामकेंच बाविल्लें दिसलें. पलनीन ताचें कारण विचारलें, "करुत्तम्मान म्हळें, "कांय ना." बाबडी आनीक कितें सांगतली? खरी गजाल कोणाक आयकयतली?

तृक्कुन्नपुषाच्या बायलांपैकीं कोणाच कडल्यान केन्ना कसली चूक घडूंक ना काय? नीर्कुन्नम गाबीत वाड्यार तर, बायलां जेन्ना एकमेकांबराबर झगडटालीं, तेन्ना एकली दुसरेची काणीय बी आयकयताली! दिसतालें, सगल्यांची आपापली एक काणी आसा. हांगा कोणाच संबंदीं करुत्तम्माक कांय खबर नाशिल्लें. जर थोडें भोव आसतें, जाल्यार तीय तें आयकयत आसली. ना कित्याक? तिणें असो गुन्यांव तरी कसलो केल्लो?

कितें, चले-चलयो हांगा एकामेकां बराबर खेळनात? तिणें चले-चलयांक घुलो वेंचतना, रांपणीची बारीक मासळी जमयतना पळयलां. हांगासल्ल्यो बायलोय बी, हांगाच भुरगेपण फाटीं घालून व्हड जाल्यात मूं! करुत्तम्माक मनांत दिसलें की कशेंय करून ह्या लोकांच्यो काणयो आपल्याक कळच्यो.

हांगाचे हवेंतूय कोणा तरी पुरातन बायलेची प्रेमकाणी व्यापिल्ली आसची ना? कोणाय तरी गुन्यांवकारी गाबतिणीचो आत्मो हांगाच्या चान्न्यांतूय मांडून भोंवना जायत काय?

अशे काणयेशीं संबंदीत एकाद्रें गीत कोणें गायतना तिणें आयकूंक ना.

करुत्तम्मान नुस्तें विकपाचें काम सोडलें. पूण एक दुसरें काम तिणें सुरू केलें. मासळी घेवप आनी ती मिठाक लावन सुकोवन दवरप. जेन्ना मासळी मेळना, तेन्ना हिचे पयशे दामदुपेटीन वसूल जातले. ना जाल्यार ठोक माल घेवप्यांकूय ती विकूं येता.

अशे तरेन करुत्तम्मा थंय आपलीशी एक खेरीतूच जीण काडपाक लागली. खरें पळयल्यार सदांच तिची अशी आपली निजाची जीण उल्ल्याच, जे जिणेंत ती एकली एकसुरीच रावत आयल्या. हांगाय बी कोणाकडेन इश्टागत केलेबगर, कोणाकडेन उलयले-बोलले बगर तिचे खूब दीस गेल्यात.

पलनीचीय बी तीच गजाल आशिल्ली. तो सद्दां कामार वच, पूण ताचो हावेस आनी उमेद सोंपिल्ली. ताचे सांगाती आशिल्ले, पूण तो सगल्यांपसून विंगड रावतालो.

घोवा-बायलेची जीण अशे तरेन चलिल्ली. सुरवेच्यो सगल्यो उमेदी जिरून गेल्ल्यो. हावेस जेन्ना सभावीक तरेन थंड जातात, तेन्ना जिणेचेर तांचो कांय परिणाम जायना. पूण ह्या दोगांयची गजाल तशी जाली ना. पर्जळीत जावपी हावेस एकाएक थंड जालो. जिणेचीं निर्मण जावपी सपनां अचानक भंगून गेलीं. दोगांय मदीं फक्त एक भावशून्य घोव-बायलेचो संबंद उरलो.

हे अवस्थेंत दोगांय समाधानी आशिल्लीं वा ना कोणाच्यान सांगूं नज. वेळेर करुत्तम्मा एक उलोवण्या-बोलण्याचो विशयूच जाली. तेच प्रमाण पलनीय बी. पलनी खंयूच वच तेन्ना तेन्ना ताचे आड लोक आपापसांत ताचेविशीं कितेंय तरी फुतफुततातशें ताका दिस.

चार पांच म्हयन्यांआदीं जेन्ना तो पुरायेन स्वतंत्र आशिल्लो, तेन्ना ताका पळोवन कोणूय ताका हांसत ताची खबर विचारले बगर रांवनाशिल्लो. ताचेविशीं सगल्यांचें बरें मत्त आशिल्लें. पूण आयज तो खंयूय वचूं, कितें नी कितेंय तरी ताचे आड लोकांक उलोवपाचें आसता. केदो बदल जावन पडला! पलनीन कोणाचेंच कांय वायट करूंक नाशिल्लें... पूण त्या दिसा पिसांटा सारकें भायल्या दर्यांत व्हडें घेवन गेले उपरान्त, ताचे सुवादीन व्हड्याचें येरें करूंक ना!

सगल्यांच्या मनांत पलनी भ्रमिश्टा सारको वागता असो भंय उप्रासला. आनी करुत्तम्मा एक शिंदळके सभावाची जाल्ल्यान, पलनी बराबर दर्यार वचपांत घोको आसा.

करुत्तम्माचे वटेन एक उतर उलोवपी कोणूच नाशिल्लो. पलनीचीय तीच स्थिती जाल्ली. कोणूय त्या दोगांयविशीं कितेंय उलोवंक शकतालो. तांचे आड वाद घालपाक कोण तयार जाय नाशिल्लो.

पलनी ज्या व्हड्यार कामाक वच, तें कुंजन रांपणकाराचें. कुंजन खूब वर्सां ताचो मालक जावन आसा. आयज ताका पड आयल्या. आनी व्हडयारूच ताचें पोट चलता. ताचें घरदार, जमीन सगलें दुसऱ्यांच्या हातांत पावलां. आयज ताचें व्हडें ना जायत जाल्यार ताचेर उपाशीं मरपाचो प्रसंग. तो मानायपण करूंक शकना. तातूंत तो जाणटोय जाला.

ताच्या कानारूय करुत्तम्माची काणी पावल्या. ताका मोटो घस्को बसला. एके शिंदळीचो घोव सद्दां ताच्या व्हड्यार वता. देखून व्हडें परतें तडेक लागसर ताच्या जिवांत जीव ना. दर्यार कितें जावंक शकना! सगलें ना जावन वचूं येता!

कुंजनान, पलनी खेरीज हेर सगल्या गाबत्यांक उलोवणीं करपाक आपयले. सगल्यांकूय तो भंय आशिल्लो. बायलां हो कांच दिसान दीस वाडयतालीं, आनी राखणेपास समुद्र-मातेक विनयतालीं. अशे परिस्थितींत कुंजनान भोवसार सांगलो तेन्ना तांकां धी दिसलो.

कुमारनान म्हळें, "तुका तुजें व्हडें ना जायत इतलोय भंय. पूण आमकां आम जिणेचीच भिरांत. धनया, कितेंय विपरीत घडलें जाल्यार बारा कुटंबां वाऱ्यार पडटलीं."

वेलायुधनानूय हाचे विरुद्ध कांय सांगलें ना. ताकाय जावंये, भितल्ले भितर अर कांच आशिल्लोच. कुंजनान म्हळें, "तर, तुमी म्हणटात तें दर्याच्या नेमान कांय ए बदल जायना."

कुमारनान भियेल्ल्या सुरांत म्हळें, "आमी दर्यार गेल्ले आसतना जर काय त मुसलमान गांवांत पावलो, जाल्यार कसलो प्रसंग येयत?"

कुंजनाक कांपरें भरलें. ताणें म्हळें, "खरेंच, कितेंय जावं येता."

आण्डीन निरास सुरांत म्हळें, "आयकूंक येता की तो आजुनूय हांगा फेरयो घालता.

कुंजनान म्हळें, "खरेंच, अशी गजाल आसा? ताका नाच करून उडोवपाक जाय!

"तशें केल्यार संकट चडूच वाडटलें न्हय, धनया?"

"घरांत बायलांक सूख ना. सगलीं भियेवन दीस काडटात. व्हडें दर्यांत लोट्टा ते तें परतेंय तडेक लागसर सगळयांची गुळी जाता." आण्डीन फुडें म्हळें, "बायलां म्हणणें खरें आसलें जाल्यार, समुद्रमाताच राखण करीत आयल्या. पुर्विल्ले सारको कड कायदो चलिल्लो जाल्यार आमच्यांतलो आयज नांवाक एकलो पसून जितो उर नाशिल्लो. सगल्याचे सगले दर्याच्या पोटांत कुसून वतले आशिल्ले. आनी हाडां तित शिल्लक उरतीं."

वेलुत्तानूय पप्पूकडल्यान आयकल्ली गजाल परतीय सांगली. चार पांच दिसा आदीं मध्यान्न राती वेळार परी गाणें गायतना दिशिल्लो. असो तो सारको येत आसता.

इतलेंय आसून पलनीक सगल्यांचो मोयपास आशिल्लो. बाबडो पलनी! ताचें नाशिब तशें जालें! ताका कोणाच्यान कितें करूं येता!

कुंजनान भियेवन विचारलें, "आरे, पूण हाचेर उपाय कितें?"

कुमारनूच्या मत्तान एकूच उपाय आशिल्लो. आनी तो म्हणचे पलनीक व्हड्यावयल्य देंवोवप.

हें मत्त सगल्यांक पटलें. तोच एक मार्ग आशिल्लो. कुमारनान त्या दिसा, मदीं समुद्रा पलनीन व्हडें हाकारपाची गजाल उण्यांत उणी शंबरदां तरी तिखटमीठ लावन सांगल ताणें फुडें म्हळें, "ताच्या माथ्यार अशे तरेचें पिसायेचें भूत परतेंय उबें जावं येत हांव व्हड्यारआसतना सारको ताच्या तोंडाकडेन पळयत आसतां तेळीत, ताच्या तोंडावय रंग केन्ना बदलत काय."

सगल्यांनी ही गजाल मानली. येरें नासलें तरी शीडूय खेरीत दिकेन लायलें तरी धोव उरताच न्हय?

कुमारनाची गजाल सगल्यांक बराबर लागली. पूण हे गजालीन सगल्यांक वायट दिसलें. पलनी भुरगेपणापसून कुंजनाच्या व्हड्यार काम करीत आयला. सुरवेक तार

जाळ उडोवपाचें काम सोंपयल्लें. समुद्रांतूय मदीं पलनीक कामाक लावपाक कोणाक भीड दिसनाशिल्ली. कित्याक, ताका कितेंय जालें जाल्यार, ताचेपासत दुःखी जावपी कोण नाशिल्लो. जाळ उडोवपाच्या कामाक सुरवात करून हळूहळू तो शीड सोडपाक, येरें धरपा मेरेनच्या कामार पाविल्लो.

व्हड्याचें शीड सांबाळपाच्या कामापासत तर ताका सदांच हेरांपरस दोन रुपया चड मेळटाले. कुंजनान सगल्यांक सांगलें, "कुमारनान पलनी कडल्यान येऱ्याचो भार घेतले उपरान्त येणावळ उणी जायत गेली हें खरें की ना?"

कुमारनान तें मानलें. पूण संकश्टांतल्यान वांटावपाचो दुसरो उपाय तरी कितें आशिल्लो? दुसरो उपायूच नाशिल्लो.

पलनीक पूण ही गजाल कोण सांगतलो? कशी सांगतलो? कुंजन हें करूंक शकना. ताचें मन तयार जायना. ताणें कुमारनाक सांगलें, "तुमचे पैकीं कोणूय सांगात!"

कोणूच तयार जायना. मागीर कशें जावपाचें? करुत्तान एक उपाय सुचयलो, "तो येवचे पयलींच नांगर काडून व्हडें सोडचें. तेच प्रमाण गरज पडली की मनशाक बदलूंकय जाता."

कुंजनाक ही रीत खबर आशिल्ली. पूण अशे तरेन काडिल्ले मनीस फाटसून मालकाकडेन झगडूंक येतात. पलनी येतलो तेन्ना तो ताका कितें म्हूण सांगतलो, होय एक अडचणीचो प्रस्न आशिल्लो.

पूण तो एकूच उपाय आशिल्लो. देखून सगल्या व्हड्यांर काम करपी मानायांनी एका मत्तान तशेंच करपाचें थारायले उपरान्त सगले घरा गेले. कुंजनान पलनीच्या जाग्यार एका नव्या मनशाक नेमलो.

पलनी सदां प्रमाण सकाळींफुडें उठून दर्यावेळेर गेलो. ते मेरेन व्हडें उदकांत गेल्लें. ताणें नेटान कुकारी घाली. ताची कुकारी गंभीरपणान गुंजून उठली. इतलो व्हडान कुकारे आवाज कोणें आयकूंक नाशिल्लो. हें सगळें बळयां जाणून-सवरून केलां म्हणपाचें जेन्ना पलनीच्या ध्यानांत आयलें, तेन्ना ताच्यांत एक समुद्र-पुत्राची जी एक निजाची शक्त लिपिल्ली, ती सगली एकवटावन जागी जाली. ताचीं शिरंतरां खेरीतूच तरेन सळसळून उठलीं. ताका ताच्या कामावयल्यान आडायल्लो. ताची कूड दर्याचें वादळ आनी तुफानालागीं सर्त लावचे पासतूच घडिल्ली. इतलेय दीस ताचे सैमाआड झूज दित गेल्यात. आतां ताका अशें करपापसून आडायला. ह्या आडांगायेन पलनीच्यो शक्ती जाग्यो जाल्यो. दर्यावयल्यान येवपी वाऱ्यान पलनीचो आवाज लागसारच्या घरांमेरेन पावयलो. व्हड्यावयले ताचो आवाज आयकतेय बी जाल्यार कितें परते येवपाचे? ना येवचे. ज्या व्हड्याचेर ताणें मोग केल्लो, तें, दर्याचेर काम करपाक तो लायक न्हय अशें दाखयत फुडें फुडें सरत राविल्लें.

पलनीच्यो जागृत शक्ती आटापा येय सारक्यो न्हय. ते घडणुकेचो अर्थ ताका कळिल्लो. आपहक्क मेळोवपाखातीर ताणें दर्यांत उडी मारली. मानगें वा मोऱ्या प्रमाण तो अस्तन्ते दिकेन फुडें वचत रावलो.

हें, गाबीत आनी समुद्रसन्तान म्हूण जियेवपाच्या ताच्या हट्टाचें फळ आशिल्लें. एक व्हड ल्हार...इतलें, जितलें ऊंच हे आदीं कोणें केन्ना पळयलें ना, ताच्या माथ्यावयल्यान

उसळ्ळें. आनी दुसऱ्याच खिणाक ताणें, तांचे शक्ती सैत घुंवडावन एका चेंडूसारको ताका तडेच्या रेंवट जमनीचेर मोखून उडयलो.

पलनी हारिल्लो. तो उठून कुंजनाच्या घरावटेन धांवलो. ताका कुंजनाक एक प्रस्न विचारपाचो आशिल्लो, "कितें, दर्यार काम करपाक हांव लायक ना?"

कुंजन कांय ज्राप न दिवपाक शकिल्ल्यान गोंदळ्ळो, "आरे....ती..."

"ती गजाल फट, सामकी फट. करुत्तम्मा मात्तूय भश्टूंक ना."

"पूण तरीय सगले तशेंच म्हणटात न्हय?"

क्रोधान सामको क्रुध्द जावन पलनी गरजलो,

"अशेंच म्हणटात न्हय?..." आनी थंयच्यान तो तसोच परतलो.



# 16

पलनी परतलो तेन्ना करुत्तम्मा भियेली. कितें जालें तें तिका समजलें ना. तिणें कारण विचारलें. पलनीन जाप दिली, "लोक म्हणटात, तूं एक शिंदळ आसा, ते पासत हांव दर्यार वचपाक लायक उरलों ना."

आयकून करुत्तम्मा चकितूच जाली. तिका हेरांनी भश्टल्ली म्हणिल्लें तिणें आयकल्लें, पूण घोवाच्या तोंडसून पयले खेप आयजूच आयकलें. आपूण जावन ताणें तशें म्हणिल्लें नासलें, दुसऱ्याचीं उतरांच जायना, उलोवन दाखयिल्लीं.

अशे तरेन करुत्तम्मा कारणाक एका गाबत्याक काळो दाग लागिल्लो.

पलनीन तिका विचारलें, "आपूण एका गाबत्याची चली हें विसरून, कित्यापासत तूं त्या मुसलमान पोराबराबर भुरगेपणांत नाचपाक-कुदपाक गेली?"

गजाल खरी आशिल्ली. पूण असो प्रस्न आयजवेर कोणेंच विचारूंक नाशिल्लो. आवय सुरवेक रागेल्ली. पूण अशे तरेच्या स्पश्ट आनी सरळ प्रस्नाक जाप दिवपाचो प्रसंग तिचेर आयलो ना. करुत्तम्मा काकुळटेक आयली. त्या प्रस्नाचो अर्थ ती समजली, पूण जाप कितें दितली? तिणें आपली चूक कबूल केली. तिणें म्हळें, "अशें जालें खरें. म्हाका क्षमा क़र!"

पलनीचो प्रस्न सरळ करुत्तम्माक नाशिल्लो. ताणें म्हळें, "तुका कितेंय हांवें कित्याक म्हणचें? ती तुजी चूक नाशिल्ली."

करुत्तम्माक मातसो धीर आयलो. घोवान तिका भक्षिलें. तिच्या उतराचेर ताचो विस्वास आसा. तिची चूक फक्त ती निश्काळजी रावली, इतलीच. ही एक व्हड समाधानाची गजाल आशिल्ली:

चलयेक त्या मुसलमाना बराबर खेळपाक, उडपाक सोडून...अशे तिचे भोगणार केले! चलयेची काळजी घेवपाक जाय आशिल्ली ती तिच्या आवय बापायन न्हय!

पलनीचो राग इतल्यानूच शांत जालो ना. ताणें करुत्तम्माकडेन पळयत म्हंळें, "बापायन त्या मुसलमान पोराक आपली चली दाखोवन, तेच प्रमाण ताका फटोवनूच आपलें व्हडें-जाळ केलां आसतलें. बेस बरो धन्दो आशिल्लो."

पलनीचो हो दुबाव खरें पळयल्यार न्यायाक धरून आशिल्लो. करुत्तम्मान पयशांचें तें गुपीत पलनीक सांगूंक नाशिल्लें. करुत्तम्माक दिसलें, तेंय सांगपाक जाय आशिल्लें. संद मेळत तेन्ना तेंय बी ताका ती सांगतली. पलनीन बायलेक शिटकावणी दिली, "हें पळय, तुज्या आवय-बापायन जे तरेन तुका वाडयली, तेच तरेन तुज्या पोटांत आसा ताका तूंय वाडय! चली जाली जाल्यार तिका वेळेवेल्या खंयच्याय चल्याच्या दुःखाचें कारण जायत शी कर! आयकलें?"

करुत्तम्मान म्हळें, "ना, ना" ती गजाल समजली. तिणें थारायलें, पोटांत जें भुरगें

आसा, ताचे ती केन्नाच आपले सारके भोगणार जावपाक दिवपाची ना. तिणें भोगलें तितलें पुरो! ती खूब शाणी जाल्या!

जिणेचे एके व्हड घडणुकेकडेन ती झुजताली. तरीय एके गजालीचें समाधान जालें. आयज पलनी पयलेच खेप तिच्या पोटांतल्या भुरग्याविशीं उलयिल्लो. तेच प्रमाण, तिचे चुकीविशींय बी आयजूच तो मेकळेपणान उलयिल्लो. तिचेविशीं बदनामी करपी जें वीख पसरायलां, ताचेर ताचो विस्वास नाशिल्लो. करुत्तम्माक ही केदी व्हड आनी समाधानाची गजाल आशिल्ली!.

एकाच घरांत रावन लेगीत बायल घरांत आशिल्ल्याची जाणविकाय घोवाक नासताली. करुत्तम्मा सामकी निरशेल्ली जावन ताचेसरीं वचून बस, तेन्ना खोंट मारून तिका तो धांवडावन घाली नाशिल्लो, इतलेंच. हेंच खूब अशें मानून मनाक धीर दित तिणें विचारलें, "फुडें आमचें पोटा-पाण्याचें कशें चलतलें?"

पलनी मुखार हो प्रस्न नाशिल्लो. करुत्तम्मान हेर सगल्यांक दूशण दिलें. तिणें म्हळें, "खूब छळणुके हे लोक. म्हाका घराघरा वचून मासळी विकपाचें काम करपाक हांणी मना केलें. आनी आतां दर्यार वचपाक तुजे आड येतात!"

पलनी तेर्मी मनीस. ताणें निच्छेवान सांगलें, "हांव गाबती आसां, हय मूं? गाबीत म्हूण जियेतलों नी गाबीत म्हणुनूच मरतलों"

करुत्तम्माक पलनी म्हणचे एक मूर्तिमंत पौरूष कसो दिसलो. कश्टान पुश्ट जाल्लीं शिरंतरां धडधडटालीं. करुत्तम्माक दिसलें, आपणें खेरपणींच एका घटमूट गाबिताचे राखणे खाला आसां. पलनीन आपलो ओंठ दाबीत म्हळें, "आगो, कोणाक अधिकार आसा म्हणपाचो, हांव दर्यार वचपाक नालायक आसा म्हूण? दर्यार काम करीत जियेवपा पासतूच म्हजो जल्म जाला. दर्यांत कितें आसा तें सगलें म्हजें, ना म्हणपाची आसा कोणांत हिम्मत?"

पलनीचें मन आपल्या अधिकाराचे जाणविकायेन भरून आयिल्लें. अमर्याद दर्याचो तो वंशज!

"गाबीत कुदळ घेवन केन्ना खणूंक वचना, वा जोत घेवन कसपाकूय, तूं जाणा मूं? पलनीय बी तें केन्ना करचो ना, हें सांगपाची गरज ना."

पलनीन बायलेक धीर दित म्हळें, "तूं निर्धास्त राव! समुद्राचे गिरेस्तकायेचेरूच पलनी जियेतलो."

दर्यार जाळां उडोवपाचो तो वेळ आशिल्लो. पांच वर्सांचे पिरायेचो आसतना पसून तो दर्यार जियेत आयला. इतल्याय वर्सांत आयज पयलेच खेप तो बेकार म्हूण घरा बसून आसा.

अस्तेन्ते कडेन पळय जाल्यार दर्यांत व्हडीं वचत थंय पडिल्लीं दिसतात. तो दीस बांगडो, ताल्लो राशींनी मरपाचो. पलनीच्यान ओगी बसूंक नज जालें. पूण करतलो कितें? रागान तो आपले आपुणूच पुटपुट्टालो. ताचो हावेस जागो जाल्लो.

करुत्तम्माचो अभिमानूय जागिल्लो. पलनी एक निजाचो गाबीत, जाल्यातेंर तीय तशीच एक गाबतीण आशिल्ली. तिकाय दर्याचे गिरेस्तकायेचेर जियेवपाचें आशिल्लें. खंयचीर गाबतीण नाल्ल विकून, दोरयो विकून दीस काडिना.

तिणें विचारलें, "हांव वचूं नुस्तें घेवन?"

पलनीन तिका मना केलें. म्हणपाक लागलो, "नाका, तूं घराच राव! गुरवार बायलेन जड वजीं घेवन भोंवपाची गरज ना."

"म्हाका आजून तरी तशी कांय अडचण ना. अडचणींत पडपाचो खीण आजून येवंक ना"

पलनीन फुडें म्हळें, "तुजो खर्च हांव चलयतलों, असो विचार करूनूच हांवें तुका हाडल्या. तेदी शक्त म्हज्यांत आसा. तूं ओगी बसून रावशीत जाल्यार तितलें पुरो."

करुत्तम्माक ताचें हें म्हणणें पुरायेन पटलें ना. तरीय ताच्या म्हणण्या फाटल्यान एक लिपिल्लो अर्थ आशिल्लो. ती गुन्यांवकारी थारिल्ल्या कारणान तांका तिच्या फुडाराची चिंता आशिल्ली. घोव तिका आतां कामार वचूंक दिवचो ना. तोच तिचो सगलो भरिभार घेतलो.

तिचे जिणेंतलो हो दीस केन्नाच विसरूं येना अशे तरेचो. खरेपणीच त्या दिसा आपूण एक घरकान्न म्हणपाचो अणभव तिका आयलो. आतां तिका कितें उणें आशिल्लें? अशा बळिश्ट घरकाराची दुसरी बायल त्या वेळर दुसरी नाशिल्ली. तीं दोगांय आपूण घोव आनी बायल आसांत म्हणपाचे जाणविकायेच्या एका स्पश्ट निच्छेवाचेर आयिल्लीं. एकूच गजाल आतां उरिल्ली.

पलनीन म्हळें, "करुत्तम्मा, एकेच गजालीची आतां गरज आसा. तुका आपली मर्याद सांबाळपाक जाय. तशें केल्यार ह्या वाठारांत एक गाब्रतीण म्हूण तूं सुखान जियेवंक पावतली."

अशे तरेन पलनीन स्पश्ट रूपान एक मागणीच केल्ली. आयज मेरेन करुत्तम्मा ताचे पांय धरून, वा हड्डयार तकली दवरून ताका वचन दित आयिल्ली. पूण आपले परीन पलनीन हाचे पयलीं केन्ना तिचेकडेन कांय मागूंक नाशिल्लें.

खरें पळयल्यार गरज नासलीय तरी अशे तरेचें मागणें करप हो घोवाचो एक हक्क लागून उरता. कित्याक, तशें जालेबगर बायलेची पुरायेन तृप्ति जायना. अशें मागणें लग्न संस्कारांतूय सामील आसता. 'तुका मर्याद आनी नेम पाळपाचे आसात' ही मागणी घोवाच्या मोगाचो एक अविभाज्य वांटो जावन आसता.

आतां बायल पुरायेन तृप्त जावन घोवाच्या विशाळ काळजांतूच रिगून गेली. तिच्या दोळयांतल्यान दुकांची न्हंयूच भायर सरली. तिणें विचारलें, "अशें कित्याक म्हणटा तूं? हांवूच आदीं गुन्यांवकारी थारल्यां. आपली मर्याद आनी नेम विसरून हांव कशी चलतली?"

पलनी तिची फाट सांसपीत रावलो. ताणें करुत्तम्माक समजायत म्हळें, "रडूं नाका, रडूं नाका!"

मंदाविल्लो हावेस आतां परतोय उफाळून उठलो. पलनीच्या बळिश्ट भुजांनी तिका घट्ट वेंगेंत ओडली. दोगांय आनन्दून गेलीं. पलनी, जाका घरचो कोण एक नाशिल्लो, ताची काळजी घेवपी एक मनीस आसा. ती म्हणचे करुत्तम्मा. करुत्तम्मा, जी पुरायेन आदाराविरयत जावन पडिल्ली, तिकाय एक राखणाराच्या रुपान मनीस आसा. पलनीक करुत्तम्मा आनी करुत्तम्माक पलनी. दोगांय एकामेकांक आदार दित सामखार आयिल्ल्या

सगल्या संकश्टाकडेन झूज [illegible] फुडें [illegible].

व्हडीं तडेक [illegible]. [illegible] [illegible] नदर चुकयली. ताका दिसलें, ताचे सांगी आतां एकामेकांक विचारतले, 'हें फुडें तो [illegible] कसो?' ताणें मनांत थारायलें, तशें जाय तें करूं दी, तो मात हें [illegible] ना.

करुत्तम्मा एक गजाल विचारूंक [illegible], "हांच्या बायलांमदीं गुन्यांवकारी जी म्हजेवरी एकूय बायल नासली?"

"नासतली कित्याक? असंख्य आसात. सगल्यो फटकिन्यो. आपल्यो गजाली लिपयतात."

त्यो आपल्याक कळिल्यो जाल्यार आपूण एक-एकटेक मेजून विचारतलीं आशिलीं, अशें करुत्तम्माक दिसतालें. तिणें म्हळें, "कांय नज, आयज ना जाल्यार केन्नाय ण हांव तांकां झाडटलींच"

बुन्याद घट जाली. दोगांय एक जालीं. पूण पोटाचो प्रस्न मात सुटावो करपाचो आजून उरलाच. करुत्तम्मान विचारलें, "तूं कितें करतलो म्हणपाचें कित्याक सांगना"

पलनीय बी तेंच चिंततालो. करुत्तम्मान फुडें म्हळें,"म्हजेकडेन बारा रुपया आसा"

ते कित्याक पावतात? एक पागेर घेतलो जाल्यार उण्यांत उणे तीस रुपया पडत. करुत्तम्माक एक गजाल सुचली. तिणें म्हळें, "कांटाळी घेवया आमी?"

पलनीन म्हळें, "ती घेतली जाल्यार एक ल्हानगुलो पनेळ तरी जाय न्हय?"

"खेरीज आनीक एक मनीसूय जाय. कोण आसा तसो मनीस?"

तो प्रस्न म्हत्त्वाचो न्हय; पलनीन म्हळें, "तो मेळपाची गरज शी ना. ल्हानसो पळ आसल्यार हांव एकलोच वचून दिसपट्टो खर्च सुट इतलें जोडूंक शकतां."

कांटाळीं उडोवपाक वचपी पांच स पनेळ वेळेर आशिल्ले. करुत्तम्मान म्हळें, तातुंनी एखाद्रो भाड्यान घेतल्यार कसो? पलनीन जाप दिली, "कोण दिवचो ना गो! बिय घडलें आनी पनेळूच बुडलो जाल्यार!"

"मागीर दुसरो उपाय तरी किदें ?"

पलनी थोडो वेळ विचार करीत रावलो. म्हणपाक लागलो, "काड ते पयशे, हांव एक कांटाळीच घेवन येतां!" करुत्तम्मान पयशे काडून दिले.

जिणेचो निच्छेव करपी मनशाची बायलूच वेव्हारांत भाग्यवंत जाता. घर, सामान, व्हडें, जाळ आदि जायत्यो वस्ती फुडाराच्या अंतराळांत नदरे आंवाठांत येवपाक लागल्यो. मण्णारशालेची जात्रा उलगली. पूण फुडल्या वर्सा परतून येतली.

करुत्तम्मान देवाक प्रार्थना केली की तिच्या पोटांत जें भुरगें आसा, ती चली जावची न्हय. चली जाल्ल्याचो परिणाम तिणें पुरायेन अणभवला. चली जर जालीच, जाल्यार तिची काणीच परतीय आनीक एक फावटीं जाणें शक्य आसा. ना, ती तिका खंयच्याच चल्या सांगाता खेळपाक-वाडपाक दिवची ना. तिका कसल्याच मोगाच्या जाळांत धूंक दिवंक फावना. चलो जालो जाल्यार ताकाय ती खंयचेच चलयेची जीण इबाडूंक दिवची ना.

तिणें जेवण तयार केलें. आयज पयलीं भशेन एकाच ताटांत ती घोवा बराबर जेवंक शकता, अशें तिका दिसलें. तिणें आयज घोवाच्या तोंडांत आपणें व्हड व्हड उंडयो घालून

ताका भरोवंचो असो विचार केलो. ती अशे तरेचें दिसा सपन पळयत उरली.

उपास काडचे पडले तरी ती ते सोसूंक शकता. घोव तिचो मोग करता. ताणें तिचो गुन्यांव भक्षिला. आनीक कितें जाय? तिच्या देवान तिची राखण केल्या.



# 17

एक बायल मरता तेन्ना तिचो आत्मो घोवाचे न्हिदपा कुडींत रातीच्या समयार येवन रावता. मरणा उपरांत बायलेच्या आत्म्याची स्थिती अशीच उरता.

'कोणाय तरी दुसरे बराबर लग्न करून उडय' अशें चक्कीन कशें म्हळें? परिस्थिती पळोवनूच तिका तशें म्हणप बराबर दिसलां आसुंये. ना जाल्यार चेम्पन सुखी जातलो तर तशें करप गरजेचें अशें समजून तिणें अशें म्हळें आसुंये.

चक्कीच्या मरणा उपरान्त चेम्पन एखाद्र्या पिशासारको विचारीत रावलो, "हांव किदें करूं चक्की? तूं म्हाका सोडुनूच गेली?"

सगळयांनी म्हळें, चक्की मेल्ल्यान जशें कितें चेम्पनाचो उजवो हातूच कापून गेल्लेवरी जालें. आनी तें खरें आशिल्लें. ताचे सगले समृध्दीक चक्कीच कारण आशिल्ली. तिचे सारकी हुशार बायल गांवांत दुसरी मेळप कठीण.

आतां चेम्पनाच्यान कितें जातालें? पंचमी येदे ल्हान चलयेच्या आदारान घर सांबाळटलो? करुत्तम्मा तर येवपाची ना. चेम्पनूय तिका आपोवपाचो ना. ताचें म्हणणें, "धुंवरेल्लें लांकूड भायरूच मोखून मारपाक जाय." चक्कीचीं निमणीं उतरां ताच्या कानांत घुमत रावलीं... "कोणाय दुसरे बराबर लग्न करून घे!" ताणें अच्चनाचें मत्त विचारलें. अच्चनान म्हळें, "एक बायल हाडले बगर काम जावपाचें ना. ल्हान भुरग्याक सांबाळूंक आवयचीच गरज आसता न्हय?"

"पूण कोणूय आयली जाल्यार म्हजे चक्कीची सर येवपाची ना."

"बरोबर, तिचे सारकी दुसरी कोण जावचीच ना."

पंचमीक नल्लम्मागेर दवरून चेम्पन आनी अच्चन बायलेचो सोद घेवपाक भायर सरले.

अच्चनान ह्या संबंदान चेम्पनाक बुद्द दित म्हळें की ताच्या दर्जाक सोब सारकीच बऱ्या घराण्यांतली बायल सोदपाक जाय.

चेम्पनाक ताचें म्हणणें मानवलें. कित्याक, आतां तो आदले सारकें काम करूंक शकना. ताचीं कूड आनी मन दोनूय अशक्त जाल्यांत. आतां ताका विस्रांतीची गरज आसा.

जिणेंत सूख भोगपाचे इत्सेनूय तकली वयर काडली. ताका हे गजालीचेंच खूब दुःख जालें की चक्कीन जीणभर हाल-अपेश्टा सोसल्यो, पूण अखेर मेरेन इल्लें सूख भोगूंक पावली ना.

चेम्पन आनी अच्चनाक बातमी मेळळी की पल्लिकुन्नम "जाळवालो" सोंपलो आनी ताची घरकान्न पाप्पी सद्या अर्थीक संकश्टांत आसा.

पाप्पीक हाडपाची बुद्द कसलो बरो वायट विचार करचे पयलींच चेम्पनान मानून घेतली. सूख भोगपाचे इत्सेन तशें पळयल्यार पाप्पीच्या घरांतल्यानूच आंकूर धरिल्लो न्हय!

पाप्पीकूय विचार मानवलो. घाटकाराक कळोवपाची कांय गरज ना अशें पाप्पीचें मत्त. चेम्पन पाप्पीक घेवन घरा आयलो. पाप्पी बराबर तिचो एक व्हड चलोय आशिल्लो.

पाप्पीचो घोव मेले उपरान्त ती अर्थीक अडचणींत आयिल्ली. तरीय ती आजून सुन्दर दिसताली. तिच्या तोंडार कुलीनपणाची सया मारताली. पूण पंचमीक घरांत आयिल्ली नवी बायल मानवली ना. ती धांवत नल्लम्माकडेन गेली आनी तिका तशें सांगपाक लागली. नल्लम्मान तिका समजायली, "बाय, तूं कांय उलोवं नाका!"

"उलोवं नाका कित्याक?"

"तुज्या बापायक राग येतलो."

तें आयकून पंचमी हुटके हुटकेत रडपाक लागली. चेम्पनाक सुरवेक आपल्या घरांत कितें तरी उणें पडटा शें दिसपाक लागलें. तें दिसपाक बरें दिसना शें ताका दिसलें. पाप्पीक त्याच घरांत हाडची पडली. मिस्कीलपणान हांसत ताणें म्हळें, हें घर जाळ, व्हडें घरा येवपा पयलींचे मुस्तींत बांदिल्लें. म्हजे चक्कीचेंय ह्या गजालींकडेन फाव तितलें लक्ष आसनाशिल्लें. ते पासत मागीरूय घराचें सुदारप जालें ना."

पाप्पीच्या मोट्या घरा चेम्पन पावला. आतां तें घर दुसऱ्यांकडेन पावलें. पूण जालें तरी, तिची जीण त्या मोट्याच घरांत गेली.

चेम्पनान थारायलें की थोडी जमीन घेवन नवें घर बांदपाचें. ताणें आपले नवे बायलेक हो विचार कळयलो.

आपले मोगाळ चक्कीक, जिणें ताका दुसरें लग्न करपाची मेकळीक दिल्ली, ही नवी आयिल्ली बायल मानवल्ली की ना हें समजून घेवपाक चेम्पन आंवडेतालो. चेम्पनान चोशींल्यान पळयलें. ताका भास जालो की ताची चक्की मुजरत त्या वातावरणांत आसा.

चेम्पनान पंचमीक उलो मारलो, जी उत्तरेच्या घरांत नल्लम्मा म्हऱ्यांत उबी रावन रडटाली. सावत्र आवय कडेन तिची वळख करून दिवपाची आशिल्ली न्हय!

नल्लम्मान पंचमीक म्हळें, "चल, म्हजे धुवे!"

पंचमीन रडतूच जाप दिली, "हांव ना वचची."

"मावशीय येता तुज्या सांगाता, बाय, चल!" नल्लम्मान आपल्या पालवान तिचें तोंड पुशीत, तिका रडूं नाका म्हणून सांगलें. पंचमीचो हात हातांत धरून तिका घेवन ती चेम्पनागेर आयली.

पाप्पीन चलयेक बारीकसाणेन पळयत विचारलें, "रडटा शी कित्याक ती?"

चेम्पनान म्हळें, "ल्हान आसा न्हय! आवयची याद येवन रडटा आसतली."

धुवेक पोटाकडेन ओडून घेत चेम्पनान म्हळें, "रडूं नाका पुता, ही नानीमा खऱ्यानी बरी आसा."



# 18

कांय दिसां उपरान्त चेम्पनाचें पिशें निवळ्ळें, पूण बुद्द मंद जाली. तो सामको मोनो कसो जावन पडिल्लो. ताचो एकंदर नूर पळयल्यार तो बाद जाल्लेवरी दिसतालो. तो कफल्लक जाल्लो. हो वेळ मेरेन कमायल्लें सगळें ना जावन गेल्लें. अशा समयार मनशाची बुद्दूय ना जावप नवल न्हय! तशें न जाल्लें जाल्यार जीण आनिकूय कश्टांची जावपाची

चेम्पनाचीं दोनूय व्हडीं कामाक आयिल्लीं. काम केले शिवाय तीं उपकारा येवप कठीण आशिल्लें. जाळांय बी योग्य वेळार सारकीं न केल्यान कामाक उपकारपाची न्हय. एका 'आयला' तरेच्या जाळांत एक व्हड नुस्तें आयिल्ल्यान तें पिंजून गेल्लें. सगळे जाग्यार घालतलो जाल्यार व्हड रकमेची गरज आशिल्ली. घरचो खर्च वाडिल्लो, पूण आवक घटिल्ली, कित्याक, चेम्पन दर्यार वच नाशिल्लो.

पाप्पी घरचें काम सांबाळ्ळी. तिणें चेम्पनाक, व्हडीं-जाळांच्या कामाविशीं ताका सांगलें रीण घेतले बगर भागपाचें नाशिल्लें. चेम्पनान कर्ज मेळोवचें ही गजाल मानून घेतली.

रीण कोणा कडल्यान घेतलो? औसेप्पा हो एकूच असो मनीस आशिल्लो, जाचे कडल्यान रीण मेळत. आवय कडल्यान करबट विकून पंचमीन मेळयिल्ल्या पयशांतले उरिल्ले वीस रुपया तिचे कडेन आशिल्ले. तिणें ते पयशे चेम्पना सुवादीन केले. चेम्पनाक ते घेतना रडूंक आयलें. पंचमीन म्हळ्ळें, "दिसपट्टें करबट हांव विकतीं जाल्यार हाचेपरसूय जायते जावपाचे! ना जाल्यार आम्मा तरी आसपाक जाय आशिल्ली!"

चेम्पनान कांय म्हळ्ळें ना. ताच्या काळजांत आतां कसलें व्हड काम करपाक जागोच नाशिल्लो.

आमी वचुंया अशें म्हणून हट्ट करीत गंगादत्त आपले आवयक छळपाक लागलो पाप्पी आपली ही गरजेची गजाल चेम्पनामुखार आयज मेरेन दवरूंक पावंक नाशिल्ली ती आपल्या खर्चा कारणान तशेंच गंगादत्ता पासत बऱ्योच गजाली सोशीत दीस काडटाली पंचमीची तिचे कडली वागणूक तशीच आशिल्ली. पाप्पीक दिसतालें, तिच्या पुताक थंय फुकेसवाय जेवप-खावप करपाचो कांय हक्क ना. तातुंतूच चेम्पनाची उदासीन वृत्ती! गजाल ह्या थराक पावत शें ताका दिसूंक नाशिल्लें जावंये.

आपूण अशे तरेच्या हालांत पडत, म्हणपाची चेम्पनाक कल्पना नाशिल्ली. ताचे त्रास वाडोवपाचें काम ती करपाची ना. तो तिची राखण करपी मनीस.

चक्कीवरीच आपुणूय चार पयशे जोडपी जोडकारीण आशिल्ली जाल्यार गजाली ह्या थराक पावच्यो नाशिल्ल्यो अशें पाप्पीक दिसतालें जावंये, देखून ते पासत तिका दुःखूय जातालें. जर माल विकपाक चक्कीवरी तिच्यानूय जातालें, आनी जाळूय ओडप तिका जमिल्लें, जाल्यार परिस्थिती सुदारपाक येस येवं येतालें. कितेंय तरी काम-धन्दो सुरु करपाक जाय असो विचार केन्ना केन्ना तिच्या मनांत येतालो जावंये.

पाप्पीन एका न्हवऱ्याची सेवा केल्ली. तें काम तिका खबर आशिल्लें. तिणें चेम्पनाचेरूय मोग केलो. मोग केले बगर ती रावंच शकनाशिल्ली. फरक इतलोच आशिल्लो की, पाप्पीच्या काळजांत पयलो जागो कण्डनकोरनाक आशिल्लो. हे गजालींत चेम्पनाक जे प्रमाण चक्कीची याद येता, तशीच घडये जावंये, पाप्पीक कण्डनकोरनाची याद येताली. आनी मनांतल्या मनांत ती ताची क्षमाय मागताली.

खरेपणीं पाप्पी बेचैन आशिल्ली. परिस्थिती आनिकूय वायट जातली अशें तिका दिसतालें. तिका अशेंय दिसातलें आसुंये की ह्या सगळ्या गोंदळाक कारण आपुणूच. चक्की बराबर चेम्पन ऐश्वर्यशाली जालो. आतां पाप्पी बराबर तो गरीब जायत चलिल्लो. चक्की आशिल्ली दर्यार काम करपी एका तांडेल खारव्याची बायल. जाल्यार पाप्पी आशिल्ली एका रांपणकाराची.

व्हडीं, तांचें पळोवप सवरप केलेशिवाय तडेक पडून उरप पाप्पीच्यान सोसूं नज जालें. तिणें औसेप्पाक आपोवणें धाडपाचें थारायलें. रातीचें जेवण घेवन चेम्पन चिंतेस्त बशिल्लो आशिल्लो, तेन्ना ताचेलागीं वचून पाप्पीन विचारलें, "अशे तरेन बसून रावन कांय जावपाचें ना. व्हड्यांचेर, तीं सारकीं करपाचीं कामां जावंक जाय न्हय!"

चेम्पनान तकली वयर करून पाप्पी कडेन पळयलें. कांय उलयलो ना. पाप्पीन परतेंय तेंच विचारलें तेन्ना चेम्पन 'हय' इतलेंच उलयलो.

पाप्पीन फुडें विचारलें, "मागीर औसेप्पाक आपोवन हाडूं?"

"हाड!"

चेम्पनान सटकरून जाप तर दिली. पूण ही गजाल स्पश्ट आशिल्ली की ताणें कसलोच विचार करून ती दिवंक नाशिल्ली. कारण औसेप्पा कडल्यान रीण काडप ही केदी भिरांकूळ गजाल म्हणपाचें ताचे इतले बरें हेर कोणाकूच खबर नाशिल्लें. ताणें मात लेगीत चिंतिल्लें जाल्यार तो औसेप्पाक आपोवपाक सांगचो नासलो. अशेंय दिसतालें की व्हडीं तडेक चड दीस पडिल्ल्यान तीं पुराय इबाडून वतलीं. हे गजालीचेंय ताका कांय दिसनाशिल्लें.

आदीं सदांच रातीचें जेवण जालें की त्या घरांत अशे तरेचे विचार चलताले. त्या तेंपार तिळेल तेलाचे मंद पेटपी दिवे अशा देखाव्यांची गवाय दिताले. त्या तेंपार तीख बुद्दीचो, उमेदी चेम्पन आनी ल्हान पिरायेरूच ताची सांगातीण जावन घरांत आयिल्ली चक्की हांची जिणेविशींच्या गजालींचेर बरे तरेन उलोवपां चलतालीं. तीं सगल्या बाजूंचो गम्भीरतायेन विचार करतालीं आनी दोनूय चलयो शान्ततायेन न्हिदून पडटाल्यो. आयज जेन्ना पाप्पी आनी चेम्पन हांचे मदीं उलोवणें जालें, तेन्ना पंचमी भितर भियेल्ले अवस्थेंत सपनां पळयत न्हिदेंत परवंताली.

पाप्पीन विचारलें, "हांव कितें करूं?"

चेम्पन ओगीच. पाप्पी फुडें म्हणपाक लागली, "हांव घरांत एक नग कशी. म्हज्यान कांयच जायना. हांव कितें करूं? घोवान जोडून हाडचें आनी हांवें खावचें, अशें करपांत म्हजो जल्म गेलो."

चेम्पन मोन्यानी आयकत रावलो. पाप्पी हो करून रडपाक लागली.

"हांव कितल्या जाणांच्या सत्यानासाक कारण जालीं! हांगा आयलीं आनी हांगाय

तुमचें लुकसाण केलें.''

चेम्पनाचें तोंड उगडलें, ''मागीर?''

''आतां करपाचें कितें?''

''कितेंय कर!''

गंगादत्त आपल्याक ५०० रुपया जाय म्हूण हट्ट घेवन बशिल्लो. पाप्पीन ताका ल्म दिल्लो. ताची मागणी आपणें मानूंक जाय शें तिका दिस. पूण ती बाबडी कितें करतो? हो विचार गंगादत्ताक येनासलो. ताचें म्हणणें आसलें की हे पयशे दिवप चेम्पची लागणूक आसा; कित्याक पाप्पीक ताणें विकती घेतल्या. आवयन आपल्याक स्वाक दुसऱ्याक विकल्या. ताच्यांत कण्डनकोरनाचें रगत आशिल्लें. पाप्पीक केन्ना केन्नाय दिसालें की गंगादत्ताच्या तोंडांतल्यान कण्डनकोरनूच उलयता.

पाप्पीन मनशाक धाडून औसेप्पाक आपोवन घेतलो. तिणें औसेप्पाक आपलीं ल्मां सांगलीं. औसेप्पान पयशे दिवपाचें कबूल केलें. ते खातीर दोनूय व्हड्यांचें घाणखत ल्चें पडटलें, तशेंच पयशे वेळार चुकते जाले नात जाल्यार, दोनूय व्हडीं, तेच प्रमाण जळूय आपलें जातलें अशें सांगलें.

चेम्पन कांय उलयलो ना. औसेप्पान विचारलें, ''कितें चेम्पन, तूं ओग्गी र''

चेम्पनान म्हळें, ''उलोवपाचें कितें? कशेय तरेन आमकां पयशे जाय.''

दुसऱ्या दिसा औसेप्प कोंत्राद बरोवन घेवन आयलो. तो वाचिनासतनाच चेम्पान ताचेर निशाणी मारली. औसेप्पान मेजून ७९५ रुपया दिले. पांच रुपया खर्चाचे काले. चेम्पनान पयशे घेवन आपले पेटेंत दवरले.

हाचे उपरान्त ताचें मोनेपण इल्लें निवळळें. व्हड्यांची दुरुस्ती आनी वेळार रिण्ची फेड हांचेविशीं मदिंमदीं उलोवपाक लागलो. ताणें म्हळें, वेळार रीण पावतें जालेना तर संकश्टांत पडटलीं; कित्याक, औसेप्प एक कसाब कसो मनीस. पाप्पीन आपले ्ती आपूण येल करीन अशें सांगले.

पयशे घरांत आयिल्ले ते गंगादत्ताक कळिल्लें काय ना कोण जाणा. मात तो आवक पयशां पासत सामको सतावंक लागिल्लो. ताणें सांगलें, आपूण थंय एक मिनीट लोत हे फुडें रावपाचो ना. ताका ताकतिकेन वचपाक दिवचें. पाप्पीन ताचे पांय धरले. ाणें सांगलें, व्हडीं दुरुस्त जावन दर्यार वचपाक लागलीं की कशेय तरेन आपूण तातले पयशे दितलीं.

गंगादत्तान आपलो निच्छेव कळयलो, ''ना, हांव रावपाचों ना!''

पाप्पीक तिडक मारली. तिणें म्हळें, ''ना रावचो जाल्यार नाका रावं, हांव ितें करूं?''

''तशें जाल्यार हे फुडें याद दवर, हांव तुजो पुतूच न्हय.''

पाप्पी निच्छेवान जाप दिवंक शकली ना. ती कितलीय जाली जाल्यार ताची आय. तिणेंच ताका जल्म दिल्लो. ती आपल्या घोवाक विसरून चेम्पना बराबर उठून आयिली. ती काकुळटेक येवन म्हणपाक लागली, ''ह्या मनशाकडेन कशी मागूं पुता?''

''ते परस तूं म्हाकाच विसर!''

तो मानपी न्हय. ताची मेकळीक करून आवयन चेम्पनाचीच जावन रावची शी त्का

दिसनासलें. पाप्पीन म्हळ्ळें, "पुता, तुज्या फुडाराचो विचार करूनूय हांव हांगा आयिल्लीं."

"तशें आसलें तरीय आयज म्हजी सोडणूक कर!"

ही घुसपट चेम्पना मुखार दवरपाचो धीर पाप्पीक जालो ना. ती वाडतूच रावली. पाप्पीक शान्तताय मात्तूय उरली ना. चेम्पना बाबतींत तिका भिरांत जाल्लीच, की ताचें सगलें सोंपून गेलां. एके वसल्यान ती चिंतता, दुसरे वसल्यान गंगादत्ताचो हट्ट.

तिका दिसलें, हें दुसरें लग्न आपणें करूंक फावनासलें. तशें जाल्लें जाल्यार प्रस्न उरतलो आशिल्लो तो फक्त पोट भरपाचो. लग्न केल्ल्यान आपूण अशी फस्तीक पडटलीं म्हणपाचें तिका दिसूंक नाशिल्लें... लग्न न केल्लें जाल्यार घडये गंगादत्त अशे तरेचो हट्टूय करचो नाशिल्लो आनी चेम्पनाची दुर्दशाय पळोवपाचो प्रसंग येवचो नाशिल्लो. ही नवी जीण सुरू करप हीच एक व्हड चूक आशिल्ली. एक सादी व्हडेकारा बायल उरत आशिल्ली जाल्यार तकलेर पांटली घेवन नुस्तें विकपाक वचत आसली. आपलें पोट भरत आसली. दोन व्हड्यांची मालक आशिल्ल्या गिरेस्त मनशा बराबर जीण सारपाची तयारी केल्ली. पूण आतां कितें जातलें?

त्या खर दोन विरोधी विचारांत आवयच्या मोगानूच जैत मेळयलें. ताचें जैत जावप साहजिकूच आशिल्लेंय बी. ती अर्ध्या पोटार रावपाक राजी आशिल्ली. भिकूय मागूंक शकताली. निमणो शेवट असोच जावं येतालो. हें सगलें भोगपाची तिची तयारी आशिल्ली. त्या घरा कडेन तिचो कसलो संबंद आशिल्लो...? विचार केल्यार कसलोच ना... चेम्पनाचेंय सगलें ना जावन गेलें जाल्यार...? निमणो तिचेरूय उपाशीं रावपाचो प्रसंग येतलोच. कांय पयशे घेवन गंगादत्त गेलो आनी आपल्या कामांत पटायत जावन वयर सरलो, जाल्यार आवयचीय बी जीण जाग्यार पडटली. आनी आवय थाऱ्यार पडली जाल्यार चेम्पनाकूय आधार जावन पडटलो.

अशे तरेन आवयच्या मोगाचें जैत जालें.

एक दीस चेम्पन खंय तरी भायर गेल्लो आसतना संद सादून पाप्पीन ताची पेट उघडली. त्या समयार पंचमी थंय नाशिल्ली. औसेप्पा कडल्यान घेवन चेम्पनान जे पयशे दवरिल्ले, तातुंतल्यो शंबर-शंबरांच्यो दोन नोटी काडून तिणें पेट बंद करून दवरली.

ते रातीं पंचमीन आवय-पुताक, घराचे अस्तन्ते वसल्यान उब्या-उब्यांनीच एकामेकां लागीं कसलीं तरी गुप्त उलोवणीं करतना पळयलीं. तिणें एका माडाच्या आडसाक रावन तें आयकुपाचो यत्न केलो. उलोवप थोडें थोडें तिच्या ध्यानांत आयलें. सद्याक दोनशें रुपयांनीच भागय, उरिल्ले मागीर दिवपाची वेवस्था करतां, अशें आवयन सांगिल्लें.

आवयचो आशिर्वाद घेवन पूत वचपाक गेलो. आवय पुताक पळयत रावली. तिचे दोळे भरून आयले. ते पुसून ती घरांत आयली.

पंचमीक एक बरें अस्त्र मेळ्ळें. ताचो उपेग करपाचो तिणें निच्छेव केलो. धाकले आवयन पुताक पयशे दिल्यात ते बापायचे पेटयेंतले काडिल्ले, हें तिका खबर नाशिल्लें. पूण तरी धाकले आवयन आपल्या बापायक फटयला नक्की म्हणपाची तिका खात्री आशिल्ली. पयशां खातीर अडचणेंत येवन ताणें व्हडें, जाळ घाणवट दवरलें, तेन्नाच ताच्या हातांत थोडे पयशे आयले, ते लिपोवन तिणें पुताक दिल्ले आसूंक फाव, असो पंचमीक दुबाव मारलो. आनी हें गुपीत बापायक कळोवचें अशें तिणें थारायलें.

दुसऱ्या दिसा चेम्पन दर्यावेळे वसल्यान वचपाक लागलो, तेन्ना पंचमी ताचे बराबर गेली. थोड्याच वेळान चेम्पन पिशावरी घरा परतलो. ताणें पेट उगडून पळय जाल्यार थंय पांचशें रुपयाच आसात. ते उपरान्त तो किळंचेलो, "आगे, हे पेट्येंतले पयशे तुवें काडले? चलूंक लाग आत्तांचे आत्तां!" चेम्पन आड्डलो. पाप्पीन कबूल केलें.

एक उतर तोंडांतल्यान काडिनासतना पाप्पी भायर वचपाक लागली. पंचमी तें पळोवन खोशी जाली.

चेम्पन परतोय गरजलो, "वच हांगासल्ली तोंड घेवन!"

पाप्पी दर्यावेळे दिकेन वचपाक लागली. चेम्पनान घराचें दार बंद करीत म्हळें, "हे फुडें ह्या घरांत पांय दवरूंक दिवपाचों ना." पाप्पीन कांय जाप दिली ना. ते उपरान्त ती दर्यावेळेर एकटीच हे वसल्यान, ते वसल्यान भोंवतना दिसताली.

चेम्पनाक परतोय भार आयलो, जो थोडो वेळ देंविल्लो. पूण हो भार पयलीं इतलो खर नाशिल्लो.

चेम्पनान पाप्पीक मारून धांवडायल्या म्हणपाची खबर सगले वेळभर पातळ्ळी. लोकांचे भासाभाशीचो विशय जावन पडली. पाप्पी एका माडामुळांत बशिल्ली. खंय वतली म्हळयार तिका दुसरो जागो नाशिल्लो. चेम्पनाक तिची काकुळट आयली ना. लोकांनी मात ही गजाल इतल्यारूच सोडून दिवप समा मानलें ना. एके बायलेन अनाथ जावन अशी दर्यादिगेर भोंवत रावप बराबर दिसता?

कांय जाण मेळून जलम्याकडेन गेले. पोन्नानी घाटावयल्या जलम्याच्याच दायज्यांतली एक बायल, कण्डनकोरनाची घरकान्न, चेम्पनाचो हात धरून आयिल्ली, ही गजाल मुळांत जल्म्याक मानूंक नाशिल्ली. अशें जावप म्हणचे ती गजाल सगल्या जलम्यांच्या नांवांकूच लज हाडी सारकी, अशें ताका दिसलें. अशे तरेचे गजालींत ते पासत, आपले घरचीच मर्याद सोडून आयिल्ले बायलेचे बाबतींत, आपूण कांय आयकुपाक तयार ना, अशें ताणें सांगलें. जल्मीक खुबूच वायट दिशिल्लें. तो मनार घेना जालो, पूण जाणट्या लोकांनी ती गजाल तशीच सोडली ना. सांजवेळा, घरांत आसरो ना देखून एके बायलेचेर अशे तरेन दर्यादिगेर भोंवपाचो प्रसंग येवप कोणाच्यान सोसूंक जायत?

"तुमकां जाय तें करात." जल्म्यान म्हळें, "गरज पडल्यार दोगां पयकीं एकल्याक कोणाकूय जिवेशीं मारून दर्यांत उडयात!"

अच्चनान नमळायेन विचारलें,

"सुवामी! तशें कशें?"

"मागीर हांव कितें करूं?"

"तुमी चेम्पनाक आपोवन सांगात!"

"म्हज्यान तें जावचें ना. ताका हांव कितें सांगतलो?"

"मागीर आमी तरी कितें करपाचें? ह्या प्रस्नाचेर तुमचे शिवाय हेर कोणाच्यान विचार करपाक जायत?"

घाटावयल्या व्हडेकारांच्या ह्या प्रस्नामुखार जल्म्याक (घाटकाराक) नमतें घेवचें पडलें. कितेंय पूण करप गरजेचें आशिल्लें. कितलेंय जालें जाल्यार ताणें एका घाटकाराच्या कुळांतूच जल्म घेतिल्लो न्हय! जल्मी म्हणपाक लागलो, "आपली मर्याद सोडिल्ल्याचेंच

हें फळ आसा. ती एकाद्र्या घाटकाराच्याच घरांत रावती जाल्यार तिचेर असो प्रसंग येतो ना!''

सगल्यांक घाटकाराची गजाल मानली.

घरांत जी आवयचो जागो घेवपाक आयिल्ली, ती उठून गेली. जशें कितें एक वावराडी आशिल्ली अशे रितीन गेली. पंचमी आपल्या बापायक सोडीच नाशिल्ली. तिका एक काम करपाचें आशिल्लें. ते पासत ती संदूच सोदताली.

पंचमीचें काम? घरांत कोण नाशिल्ली, देखून भयणीक आपोवन हाडपाक जाय आशिल्ली. तशें घडत जाल्यार तिचें घर पयलींचे सारकें जावं येतालें. आवय आसची ना- इतलेंच किदें तें उणेपण उरतलें. पूण पंचमीक फाव ती संद मेळनाशिल्ली. चेम्पन एक मिनिट शांत बसनाशिल्लो. सदां विचारांत उरतालो. मनीस पुरायेन बदलून गेला असो दिसतालो. तो परतोय पयलींचे सारको चेम्पन जावपाच्या विचारांत आशिल्लो. केन्नाय दुसऱ्यांक दोशी थारायतालो. पाप्पीच सगल्या सत्यानासाचें कारण आशिल्ली. तिका लागुनूच घराक गळटी लागत गेली. ताणें तिचे बराबर लग्न करपाचें थारायलें हे गजालीचेंच ताका वायट दिसलें. तो म्हणी, ''म्हाका खबर ना, कशी म्हजी तकली घुंवली! तिचो रंग, डाम-डौल, केंस बी पळोवनूच तशें जालें जावंये.''

करुत्तम्मा विशींय तो उलयतालो की ती मुसलमाना बराबर भोंवली-सवरली, आनी एक व्हडेकार आयलो तेन्ना सगलें सोडून ताचो हात धरून गेली. आतां करुत्तम्माक तो आपली धूव समजना आनी केन्नाय तरी एक तिचेसारकी चली आशिल्ली म्हणपाची लेगीत ताका याद जायना.

केन्ना, केन्ना तो पंचमीक विचारी, ''तूं बाय्ले कितें करपाची आसा?'' तिचोय चेम्पनाक विस्वास नाशिल्लो.

ताणें एक नवी जीण सुरू करपाचो निच्छेव केलो. मदीं ज्यो घडणुको घडल्यो. त्यो आपल्या मूर्खपणाचें फळ अशें तो मानतालो.

नल्लम्मान पाप्पीक आपोवन आपल्यागेर दवरली. पंचमीक त्या कारणान वायट दिसलें. दुसरे कोणेंय तशें कल्लें जाल्यार पंचमीक तितलें दुखचें नासलें. आवयन तिका मावशेचे सुवादीन केल्ली. ती मावशीच आतां अशी कितें करता? चेम्पनाकूय त्या कारणान राग आयलो. पूण ताणें विचार केलो, की अच्चनान ताचो सदांच द्वेश केला. आनी आयज ताका खालतेपण येवचें हे पासत तो तशें करता.

पंचमीक दिसलें, कितेंय पूण समजिकाय जातली, ताचे पयलींच आपले भयणीक आपोवपाचो विचार तिका आयलो. एक दीस संद सादून तिणें म्हळें, ''बाप्पा, ताईक आपयल्यार कितें जाता? ती बरी, लोक कित्याकितेंय फट उलयतात.''

चेम्पनाक भिरभिरी मारली. ताणें विचारलें, ''कोणाक आपोवपाच्यो गजाली सांगता?''

पंचमी भियेली.

''त्या मुसलमानाची खोंप मोडल्या तरीय तो हांगाचो हालना. पापणी, ते उणाक चलयेक म्हज्या घरांत जागो ना.''

पंचमी ओग्गी रावली. चेम्पनान विचारलें, ''तूंय बी तिचोच धडो गिरोवंक सोदिना मूं? तशें आसल्यार तूंय आत्तां घरच्यानूच तोंड घेवन वच!''

चेम्पनाचो राग वाडत रावलो. भान ना उरून तो आडुलो, "चल, चलूंक लाग!" अशें दिसलें, तो पंचमीक मारपेट करूनूच धांवडायतलो. ते उपरान्त चेम्पनान पाप्पी विशीं उलोवपाचेंच सोडून दिलें. करुत्तम्मा आनी पंचमी विशींच तो उलयतालो. पंचमीय करुत्तम्मा सारकीच जातली.

पाप्पी विशीं विचार करचे पासत घाटकार जल्मी आयलो. ताणें घाटा वयले मुखेल मुखेल लोक, चेम्पन आनी पाप्पीक आपयलें. ती ह्या तटावयली एक मुखेल घडणूक आशिल्ली. बरोच लोक जमलो. "समेट निखालच जावंक फावना" हे पासत मनापसून फक्त एकल्यानूच प्रार्थना केली. ती आशिल्ली पंचमी. पंचमीन आवयचें, तेच प्रमाण समुद्रमातेचें स्मरण करून देवालागीं समेट जावंनये म्हणून मागलें .

घाटकाराच्यो जायत्यो कागाळयो आशिल्ल्यो. दुसऱ्या लग्नाची तर घाटकाराक खबर लेगीत कळोवंक नाशिल्ली, हे गजालीविशीं चेम्पन कितें जाप दितलो! हो एक व्हड गुन्यांव आशिल्लो. घाटकाराक तम्बाकू दिवन लग्नापासत ताचो मानपान करून मान्यताय मेळोवपाक जाय आशिल्ली. तें चेम्पनान करूंक नाशिल्लें. चेम्पन ह्या प्रस्नाची कितें जाप दिता म्हणपाचें आयकुपाक सगले कान दिवन उबे आशिल्ले. अच्चन बी कांय जाण हाचेर सरळ सम्बन्धित आशिल्ले. तांकांय जाप दिवपाची आशिल्ली. कांय जाण हळुहळू फुडले ओळींतल्यान फाटीं गेले. घाटकारान हक्कान विचारलें,

"कितें म्हणणें आसा तुजें चेम्पन?"

चेम्पन नेटान उबो आशिल्लो. दिसतालें, तो आपले उंचाये परस नाकूटभर चडून ऊंच आनी मोटो जाला. ताका कसलीच पर्वा ना अशें दिसनाशिल्लें. ताच्या तोंडार एके तरेचे विचित्र शे अभिमानाचे भाव आशिल्ले. ह्या रुपांत चेम्पनाक केना कोणें पळोवंक नाशिल्लो.

घाटकारान परतोय तोच प्रस्न केलो. चेम्पनाची जाप एकाएक गर्जून आयली,

"हांवें लग्न करूंक नाशिल्लें."

हे अनपेक्षित जापेन सगले चकीत जाले. घाटकार लेगीत उस्वास रोखून उबो रावलो. ताणाताणीचो खीण पासार जातांच घाटकारान प्रस्न केलो,

"मागीर ही बायल हांगा कशी पावली?"

"हांवें काम करपाक एक वावराडी म्हूण हिका दवरिल्ली, तातूंत कितें चुकलें?"

घाटकार हारलो. ताचो पयलोच आरोप आधार नाशिल्लो जावन गळून पडलो. फुडल्यांचीय गत तीच जातली.

घाटकारान मर्याद हुपपी पाप्पीक आपोवन तिका वयर सावन सकयल मेरेन ध्यान दिवन पळयली आनी विचारलें, "हें खरें मगे?"

सगल्यांक दिसलें, ती चेम्पनाचें म्हणणें खोडून उडयतली. चेम्पनाच्या तोंडावयले भाव तशेच आशिल्ले. पाप्पी आपलें म्हणणें खोडून उडयतली वा आनीक कितें करतली म्हणपाचे गजालीची ताका मात्तूय पर्वा नाशिल्ली. ताच्या तोंडा कडेन पळयल्यार दिसतालें, तो खंयचेच बाबतींत मान बागोवपाचो ना, इतलेंच न्हय, तर सगल्यांचो अपमान करपाक लेगीत अनमनचो ना.

घाटकारान पाप्पीक परतोय तोच प्रस्न केलो. तेन्ना तिची जाप आयली,

"हय."

आयकून सगलेजाण चकीत जाले. घाटकारान विचारलें, "चेम्पनान तुजे बराबर लग्न करूंक ना?"

"ना!"

"तूं चेम्पनागेर वावराडी म्हूण आशिल्ली?"

"हय."

न्याय दिवपी घाटकार थोडो वेळ मोन्यावरी ओग्गी बसून रावलो.

चेम्पनाक लेगीत पाप्पी अश्यो जापो दितली म्हणपाचें दिसूंक नाशिल्लें. आपल्या बऱ्या फुडाराचे दरवंटे बंद करपी, आपल्या कुळाची बदनामी करपी पाप्पी कडेन तुच्छतायेन पळयत घाटकारान म्हळें, "तुजी अशी गत्त जावपाकूच जाय. ना जाल्यार एका बऱ्या दादल्या बराबर रावन..."

घाटकारान आपलीं उतरां पुरीं केलीं नात. ताणें विचार केलो, की चेम्पनाक अशे तरेन जैतिवंत जावपाक दिवंक फावना. ताणें चेम्पनाक म्हळें,

"समजा, वावराडीच आशिल्ली! पूण जालीय तरी एके बायलेक कांय कारणाशिवाय अशी रस्त्यार उडोवपाची रे?"

ताचीय रोकडीच जाप आयली,

"तिणें चोरी केल्या."

घाटकारा कडेन फुडें विचारपाक जागोच उरलो ना. गजालीन वेगळेंच वळण घेतलें. पूण खरेपणीं गजाल तशी नाशिल्ली, हें सगल्यांक खबर आशिल्लें. चेम्पनान गांवचे रीत-रिवाजानुसार 'कापड न्हेसोवन' पाप्पीक आपल्या घरा हाडिल्ली.

घाटकारान एक दुसरोच मार्ग काडलो. चेम्पनाक ताणें धेंक घालत म्हळें, "तूं खुबूच व्हड जालो. ही आयचीच गजाल न्हय, तूं सदांच अशें करीत आयला. पूण हाचो परिणाम कितें जातलो खबर आसा तुका?"

ओंठ मात्तसो वांकडो करीत कुस्कुटावपाच्या सुरांत चेम्पनान विचारलें, "समजून घेवन कितें जावपाचें आसा? कितें करतलो तूं म्हजें? चेम्पनाक सामखारा, दर्या आनी वयर मळब, समजलो?"

ताणें फुडें म्हळें, "कांय एक जाणा जावन घेवपाचें ना. सगलें खलास जालां. हांव कोणाकूच हे फुडें मानपाचो ना. कितें? बोल्सांत कितेंय उरता तेन्नाच मूं रस्त्याचेर भिरांत उरता?"

घाटकारान ताका शेडायलो, "घाटावेल्या लोकां बराबर तूं खेळूं नाका! गमजो करूं नाका!"

घाटकाराचें उतर पुरायेन भायर सरचे पयलींच चेम्पन रागान थरथरत उलयलो, "लज घालोवपाची नासत जाल्यार तोंड धांप!"

घाटकारा मुखार आयज मेरेन कोणेंच असो वेव्हार करूंक नाशिल्लो. आनी तोय बी घाटकाराच्या लोकांमुखार. हाचो अर्थ फक्त एके व्यक्तीचोच अपमान नासून, पुराय घाटाचो, दर्यदिगेचो तो अपमान आशिल्लो.

चेम्पन कितें समजता काय? ताची बुद्धूच ना जाल्या बी काय कितें? काय ताका फाल्यांची पर्वाच ना? कोणाक कांय कळळें ना.

हे उपरान्त चेम्पन एक उतर उलयले बगर थंयच्यान उठून गेलो.

घाटकार अपमानीत जालो. घाटवाले सगले एकामेकांचीं तोंडां पळयत रावले. पाप्पीय चेम्पनाचे फाटसून चलत रावली.

पंचमीची इत्सा थंयचे थंय चिड्डली. पाप्पीक तिणें चेम्पना फाटल्यान वतना पळयली.

चेम्पनान पाप्पीक मना केली ना.



## 19

दुसऱ्या दिसा पंचमी खंयच दिसली ना. ती गेल्ली तरी खंय? बायलो म्हणटाल्यो, घरांतली जीण सोसना जावन ती पळून गेल्ली. तरी, पाप्पीचे चलणुकेची सगलींच तोखणाय करतालीं. तिचे भाशेन आनी खंयचीय दुसरी बायल चलतली आसली काय? पाप्पी खऱ्यानीच बरी बायल. चडशें जिवीत तिणें एका स्वाभिमानी दादल्या वांगडा काडिल्लें. दुसरे तरेन ती चलचीच नासली.

चेम्पन कुंजूची कितें गत जातली तें पळोवपाक सगलेजाण रावताले. ताणें गांवच्या मुखेल्याचो अपमान केल्लो. मुखेल्याचो राग ताच्यान कसो सोसूंक जातलो? ताचो राग कसलीं, कसलीं रुपां धारण करीत कोण जाणा! इतलेंच न्हय, तीं दोन व्हडीं आतां औसेप्पा मालकीचीं जातलीं, दुबाव ना. मागीर तो पोट कशें चलयतलो? दर्यार वचपाचें आतां ताणें मनांत लेगीत हाडूंक जायना. आतां ताच्यान तें काम जावचेलें ना.

ते दर्यादिगेर आनीक एका मनशाचें जिवीत ल्हव, ल्हव करून ना जावन वतालें. ताचे विशीं आतां लोक चडशे उलयनासले तरी परीकुट्टीची जीण दिशाहीण जाल्ली. केन्ना, केन्ना तो दर्यावेळेर दवरिल्ल्या व्हड्याचे कडेर बसतालो आनी आपलें गीत म्हणटालो. तो तें गीत परतून, परतून म्हणटालो देखून त्या गिताक एक वेगळीच सोबाय आयिल्ली. ताणें तें गीत आपलेंच शें केल्लें. तें ताचेच पासत बरयलां शें दिसतालें.

परीकुट्टीच्या धंद्याचें दिवाळें वाजिल्लें. ताचो मांगोर मोडिल्लो. तरी परीकुट्टी दर्यावेळेर रावतालो. घडये ताका आनीक खंय वचपाक जागोच नासलो.

तकली सकला घालून तो वेळेर चलतालो. रेंवेंत कितें तरी शेणलां तें तो सोदतालो अशें दिसतालें. तशें म्हळयार तें खरेंच न्हय? हे रेंवेंत एक जिवीत शेणिल्लें!

केन्ना केन्ना करुत्तम्माचे भानगडी विशीं खबरी जाताल्यो, आनी तेन्ना ताचें नांव येतालें. पूण मागीर रोखडेंच सगलें न्हिवतालें. आपले गुदांव आशिल्ल्या चडशा सगल्याच वेपाऱ्यांच्यो भानगडी आशिल्ल्यो. त्यो जाताल्यो तश्यो वताल्यो. कांय दीस लोक तांचे विशीं उलयताले. पूण कोणेंच तशें मनाक लावन घेवंनाशिल्लें. कोणूय वेपारी असो मनापासून एकेच खारविणीच्या मोगांत पडत काय? अशें केन्नाच घडूंक नासलें.

खरें म्हळयार कोणाकूच परीकुट्टीच्या मोगाची शोक-कथा खरी समजूंक नासली.

आतां लेगीत, व्हडीं येतकच परीकुट्टी विक्री-खरेदीचो वेव्हार पळयतालो. तो ल्हानशीं कामां करतालो आनी पोटा पुरतें जोडटालो. जायते खेपो तो वेळेर रिकामी पडिल्लीं चेंम्पनाचीं व्हडीं पळयतालो. घडये, ताच्या मनांत त्या व्हड्यांचे उगडास जागताले. एक दीस, येवजीत बशिल्लो आसतना अकस्मात थंय चेम्पन प्रगट जालो.

परीकुट्टी आनी चेम्पन एकामेकांक मेळयार खूब दीस जाल्ले. पयशिल्ल्यान चेंम्पन येता सो दिसल्यार, तो ताका ताळपाक कुशीक सरतालो. ताचें मन ताका खातालें जावंये.

खरें म्हळ्यार, परीकुट्टीन चेम्पनाक बरेच त्रास दिल्ले. चेम्पन एकदम मुखार दिशिल पळोवन परीकुट्टी गडबडलो. ताचेमुखार आशिल्लो चेम्पन कुंजू आदलो चेम्पन कुंज न्हय. ताचेर एक नदर मारल्यार कळटालें, तो तकलेन बरो ना.

एक मिनीटभर ते एकामेका मुखार रावले. मागीर, चेम्पनान ताचेर प्रस्नांचो मा केलो.

"हांव तुका कितले देणें आसां?"

ताचो उगडासूच परीकुट्टीन दवरूंक नासलो. ताका खबर नासलें. ताका ताची कल्पना नासली.

"कितले?" चेम्पनान परतून विचारलें.

कितें उलोवचें तेंच परीकुट्टीक कळळें ना. ताची कांयच अपेक्षा नासली. चेम्पन ता कांयच देणें नासलो. ते विशीं ताका कितलेंशेंच उलोवचें आसलें, पूण उलोवपाक कांचवेतालो. खरें म्हळ्यार तोच रीणकारी आसलो. ताचो सावकारूच ताका ताक दितालो.

त्या वेव्हाराचें खरें रूप कितें? करुत्तम्मा परीकुट्टीचो मोग करताली आनी तो ति तांचो मोग फुलूंक लागिल्लो, तेन्ना चक्की आनी चेम्पन हांचेमदीं वेव्हार जाल्लो. ताणें दु दिल्ले तेन्ना परतफेड जावची अशें ताच्या मनांतूय नासलें जावंये. आवय-बापा उपकारांत दवरून आपल्या खऱ्या मोगाची वाट सरळ करपाचो ताचो हेत नासलो तांकां दिल्ल्या रिणान तांचें काळीज मोव करपाचें ताच्या मनांत नासलें मूं? काय त चलयेचो हात ताच्या हातांत दिवचो म्हणून ही लांच नासली मू? ना, तशें जावपाक वायट तरेन करुत्तम्माचें मन जिखपाचो ताणें केन्नाच येल केलो ना. ताच्या मनांत तसो विचार केन्नाच आयलो ना. जेन्ना कोणें दुसऱ्यान तिचें मन जिखलें आनी तिका व्हे तेन्ना आपले दुडू ताच्यान परते मागूंक जाय नासले? ताणें तशें केलें व्हय? आपण जाय तें मेळळें ना जाल्यार, दिल्ले दुडू परते घेवंक कोणाक नाका जातलें? काय चेम्पन विचारलें म्हणून ताणें ताका दुडू दिले? अशें जाल्यार ताणें तिका लिप-चोरयां दुडू दि नात. त्या वेव्हाराक लागून ताचें दिवाळें वाजलें. आंगावयले कपडे सोडून ताचे लों कांयच उरूंक नासलें. ताचें घर आनी आंगण घाण पडिल्लें. परीकुट्टीकूय आतां कसल आशा उरूंक नासली.

एक ल्हानसो मांगोर काडून परतून सुरवात करूंक जातली काय? वांचून उरू पोट भरपाखातीर तरी! करुत्तम्मा केन्नाच ताची जावची ना. जिवितांतलें तें प्रक विसरचेंच पडटलें. असले धपके खातकच खंयचो मनीस बदलचो ना? आतां खंयच्च अणभव सोसूंक जायना असो जाला. आजून लेगीत तो आशिल्लो प्रेमभंग जाल्लो मो

चेम्पनान एक नोटींचो कवळो काडलो आनी ताणें परतून विचारलें.

"कितले?"

कांयच जाप ना. परीकुट्टी एका गुन्यांवकारा भाशेन राविल्लो.

"म्हाका दिशिल्लें, तूं एक सादो-सरळ भुरगो म्हणून" चेम्पनान म्हळें, "पूण तूं सो न्हय."

तशें म्हळ्यार ताणें वायट कितें केल्लें? ताणें करुत्तम्माक फुसलायल्ली? तिच्या लग्न

ताणें आडखळी हाडिल्ल्यो? लग्नाउप्रांत ताणें तिच्या संवसारांत लुडबूड केल्ली, झगडीं केल्लीं? ताणें केल्लें तरी कितें? मोग केले बगर रावं नज देखून तो तिचो मोग करतालो, तिच्या वा तिच्या घराण्याच्या नांवाक कळंक लावचो म्हणून न्हय. तो एक दादलो एके बायलेच्या मोगांत पडिल्लो. तरी तिचे जिणेपसून तो पयस राविल्लो.

तरी लेगीत, थंय तो गुन्यांवकारी कसो उबो राविल्लो.

"म्हजे धुवेचेर नदर दवरून तुवें म्हाका दुडू दिले, हय काय न्हय?" चेम्पनान विचारलें.

ताच्या ओंठार "ना' हें उतर आयलें, पूण तें ओंठाभायर पडलें ना. तो आरोप ताणें न्हयकारपाचो न्हय? पूण ताणें तशें केलें ना.

चेम्पनान म्हळें, "हांवें तुका विचारलां मात, तुवें तुजेलागीं आशिल्लें सगलें म्हाका दिलें.. तूं मातूय फाटींफुडें सरलो ना. म्हाका दिसलें, तूं बरो मनीस म्हणून; पूण तें खरें न्हय. तुज्या मनांत दुसरेंच आशिल्लें."

ताणें पेळो सोडून दुडू मेजपाक सुरवात केली तेन्ना चेम्पनान ताका विचारलें, "तुवें आमकां कितलो त्रास दिलो तूं जाणा?"

परीकुट्टी एके म्हुर्तीवरी थंयच गोठेलो. ताच्यान कसलीच हालचाल करूंक जाली ना. ताची मतीच कुंठीत जाली. "तुका कळना; तुका कशें कळटलें? तूं मूर्तीमंत देंवचार."

तरी परीकुट्टी कांयच उलयलो ना.

"एक कुटूंब तुवें मोडून उडयलें. ताचो विध्वंस केलो. तुवें म्हज्या जिविताचो सर्वनाश केलो. तुवें कितल्या जाणांचो विध्वंस केला तुका खबर आसा?"

"म्हजी करुत्तम्मा एका सुकण्यावरी हे वेळेर हुस्क्यामेकळी धांवताली -तिची वाट लायली तुंवें!" चेम्पनान मुखार म्हळें, ताचो आवाज कांपतालो "सगली सुरवात जाली ती थंयच्यान, हय मूं?"

खरेंच तें. करुत्तम्माच्या मोगांत तो पडूंक नासलो जाल्यार हें सगळें घडलां तें घडचें नासलें. एक बऱ्या खारव्याचें कुटूंब, दिसपट्टे कश्ट करून, हे दर्यादिगेर उदरगत करून घेतलें आसलें. सैमाच्या मूळतत्त्वां आड झुजून, झुजून शाणो जाल्लो, उजू चलणुकीचो एक बरो खारवी - असल्या मनशाच्या जिविताचो सर्वनाश जावचो नासलो. आतां चेम्पन कुंजूक उरलां तरी कितें? ताका ना बायल, ना भुरगीं. सगल्याचो हिशेब केलो जाल्यार, ताणें ह्या संवसारांत दवरलां तें म्हळयार पांचशें पंचाण्णव रुपया. तो आनी ताचे बायलेन जल्मभर कश्ट करून तांकां कितें उरलां काय म्हळयार तें तितलेंच. आनी ते भायर एक पोरणें रीण फारीक करपाचें आसा.

एक रोग कसो, परीकुट्टी त्या कुटुंबांत रिगिल्लो. चेम्पन सांगतालो तें फट न्हय. तो खरो मनीस आशिल्लो जाल्यार ज्या दिसा तो आपल्या बापाय वांगडा दर्यादिगेर आयिल्लो तो दीस ताका नसाय जावपाचो. त्या दिसापसून चेम्पन कुंजूच्या कुटुंबाच्या दुर्दैवाची सुरवात जाली. दर्या-वेळेर घुलो पुंजावपाक आयिल्ली ती माणकुली चली ताका आपल्या व्हडल्या दोळयांनी पळयत राविल्ली. तिणें वेंचून काडिल्ली एक तांबडी घुल ताणें मागली, "ती म्हाका दिशी तूं?"

तिणें ताका ती घूल दिली आनी तिचे वांगडाच आपलें काळीज लेगीत.

"म्हज्या जिवितांत म्हजी फक्त आनीक एक लागणूक आसा. तुजे दुडू ते दुडू, तुवें

म्हाका दिल्ले म्हजी वाट लावपाक आनी म्हजी चली लाटपाक. हे घे ते दुडू'', चेम्पनान म्हळें.

ताणें दुडू भायर काडले आनी ते ताका दिवपाक हात मुखार केलो. परीकुट्टी हालले ना.

चेम्पनान परतून म्हळें, ''हे पळय ते दुडू, घे ते.''

कसलो भयंकर हुकूम. यंत्रा भाशेन, परीकुट्टीन हात मुखार केलो. चेम्पनान दुडू त्य हातार दवरले.

''म्हजेकडेन इतलेच आसात. कितले ते म्हाका खबर ना. फक्त म्हजे चक्कीक खबर आसा. तुका हांव देणें लागता ताचेपरस ते उणे आसल्यार लेगीत म्हज्यान आतां कांय करूं नज.'' चेम्पन चलूंक लागलो.

परीकुट्टीन आपल्या हाताकडेन पळयलें, हातांत आशिल्ल्या दुडवांकडेन पळयलें. नोटींच्ये कडो वाऱ्यान फडफडटाल्यो. हे दुडू आतां कसल्या कामाचे? ते दुडू रीण म्हणून दिल्यात अशें ताणें केन्ना येवजिल्लें तरी काय? ते परतून घेवपाचो ताणें विचार तरी केल्लो काय? म्हणटकच ते दुडू कोणाचे?

इतल्यांत अकस्मात ताच्या कानार एक हांसो पडलो. ताणें फाटल्यान वळून पळयलें. लागसारूच, चेम्पनाचें व्हडें वयर देगेर काडिल्लें दिसलें. कांय दीस जाले, तें थंयच आसलें. ताचें येरें ऊंच आनी दुसरें तोंक सकयल आसलें. वयर सरिल्लें तें येरें दर्याधारे पलतडीं कितें तरी पळयता शें दिसतालें. पयसुल्ल्यान ताका कितें तरी आपयतालें. ताका दर्याची बरी वळख आसली. ताका मात्सो हात लायल्यार पुरो, तें दर्याचे छातयेर धडक मारून मुखार धांवंक लागतलें. तें व्हडें केन्ना तरी एकदां त्या म्हान पल्लिकुन्नम कण्डनकोरनाचे मालकीचें आसलें. सगल्यांत चड नुस्तें धरपी तेंच तें व्हडें- 'नशीबवान व्हडें,' सुकण्याच्या वेगान धांवपी अशें तें व्हडें.

व्हड्याचें दुसरें तोंक सकयल जाल्लें. दिसतालें, तें निरोप घेवपाचो येत्न करतालें.

त्या व्हड्याकडल्यान चेम्पनाचो तो भयंकर हांसो येतालो. तो हांसो मर्णाचोच हांसो सो दिसतालो.



# 20

त्या दोनूय भयणींनी एकामेकांक घट वेंग मारली. तीं अशीं कितलो वेळ रावलीं, तांकांच खबर नासलें. दोगांयच्या पोल्यांर दुकां गळटालीं. तिचे बेत फळाक आयले नात तेन्ना ती तडक तृक्कन्नपुशाक आयली. आनी खंय वतली आसली ती?

पलनी ते भयणींक पळयत राविल्लो. ताच्या हातांतलें भुरगें खोसयेन हांसतालें आनी गळगळ असो आवाज करतालें.

"ही कोण? पंचमी?" पलनीन विचारलें. "तूं कशी आयली?"

जाप करचे आदींच करुत्तम्मान पलनीकडल्यान भुरग्याक घेतलें. तें खोसयेन पंचमीकडेन गेलें.

"ही तुजी मावशी, म्हज्या माणकुल्या," करुत्तम्मान म्हळें.

पंचमीन भुरग्याचेर उम्यांचो शिंवर घालो. ती हेच भेटेची वाट पळयताली.

करुत्तम्माक जायते प्रस्न विचारचे आसले, आनी पंचमीकूय करुत्तम्माक खूब खूब सांगपाचें आसलें. पूण पलनीक कांयच आयकुपाचें नासलें. ताका तो विचारूच सोंसनासलो. निर्कुन्नामाचें नांवूच नाका आसलें ताका. पंचमी एक बाबडी दुबळी चली, सामकी सादी भोळी. पूण तरी आयल्या तरी खंयच्यान? तिणें कसली खबर हाडल्या आनी कोणाची? पलनीक पंचमी म्हळयार काळीकिट्ट सांवळी. करूत्तम्माच्या खऱ्या जिविताचे वाटेंत ती आडखळ जावन आयल्या. ताका जें नसाय तें घेवन आयल्या. करुत्तम्मा ताका कितें कितें विचारतली? ती कोणाकोणाची खबर काडूंक आयल्या?

पलनी निर्शेलो. परतून त्या घरांत एक काळीकिट्ट सांवळी पडिल्ली. घरांतली सगली उमेद ना जाल्ली. केन्ना रडनाशिल्लें तें भुरगें आतां रडूंक लागिल्लें.

करुत्तम्मा कांयच विचारी नासली, कितेंच म्हणी नासली. ती घुस्मट्टाली पंचमीकडेन उलोवपाक. ती पलनी वचपाची वाट पळयताली. आजून तिका तशी संद मेळूंक नासली. करुत्तम्माची उचंबळाय वाडत गेली. घरांतल्या ल्हान गजालींचेर ती अस्वस्थ जाताली. पलनीचीय तीच गत जाल्ली. घोव आनी बायल सामकीं झगडपाक पाविल्लीं.

"तूं निबर काळजाची सामकी!" पंचमीन नमळायेन म्हळें.

"तूं अशें कित्याक म्हणटा?"

"तुवें एकदांय बाप्पाची खबर घेवंक ना."

"ओगी राव, पलनी आयकतलो" करूत्तम्मान म्हळें.

सांजच्या वेळार पलनीन सांगलें, आपूण बेगीन दर्यार वतलों. गरयांक हांयसां लायलीं. करूत्तम्मान बेगिनूच जेवण केलें. तोच एक सुशेग. तिनसांज जाता म्हळयार, आवय आनी भुरगें तो दर्यार वता तें पळयत रावलीं. भुरग्यान आपले माणकुले हात उबारले आनी हालयले. दर दिसा ती तशेंच करताली आनी पलनी आपल्या व्हड्या वयल्यान

तांकां हात हालयतालो. व्हडें अस्तन्तेचे दिकेन धांवत गेलें. तो नेटान वलें मारतालो.

पंचमीन करुत्तम्माक सगल्यो खबरो सांगल्यो. तांचे मोगाळ आवयचें मर्ण, तिणें पंचमीक नल्लम्माकडेन कशी सोंपयली, आपल्या बापायन परतून लग्न जावचें म्हणून आवयची इत्सा.

"हय, आनी एक दीस परीकुट्टी अम्माक मेळूंक आयलो."

करूत्तम्मान विशय बदललो. तिचें काळीज धडधडटालें.

"कितें, तुका आयकुपाचें ना?" पंचमीन विचारलें.

तो प्रस्न आयकूंक नाशिल्लेवरी करून करुत्तम्मान म्हळें, "अम्मा भायर पडली तेन्ना तुवें म्हाका कित्याक कळयलें ना?"

"सगल्यांनी सांगलें, ताची गरज ना."

"सगल्यांनी?"

"हय. सगलींच तुजें वायट उलयतालीं. तीं म्हणटालीं, तुवें केलें तें सगलें वायट केलें; तुका मोग करूंक येना; तुका दयामाया ना."

मागीर ती सावत्र आवयचें उलयली. ती गजाल सांग्तना, तिणें आनिकूय कितें सांगलें.

"आमी आमचीं व्हडीं आनी जाळां वगडावन बसल्यांत. तीं औसेप्पाकडेन घाण दवरलीं. आमकां दुडू जाय आसले. सावत्र आवयन आपल्या पुताक दुडू दिले."

तीं आपलीं व्हडीं आनी जाळां वगडावन बशिल्लीं. करूत्तम्माच्या दोळयांमुखार तिचो बापूय आयलो. तो व्हडें धांवडायतालो, आनी ल्हारांच्या तेमकाचेर व्हडें सुकण्यावरी उडटालें. जल्मभर तिच्या आवय-बापायन कश्ट काडिल्ले. ती लेगीत त्या व्हड्याच्या मोगांत पडिल्ली. आनी आतां तें व्हडें दुसऱ्याचें जाल्लें. आतां तिचो आनी त्या व्हड्याचो कांयच संबंद ना. करुत्तम्मा परतून रडूंक लागली.

"आतां बाप्पा कसो जियेतलो?" तिणें विचारलें.

"म्हाका खबर ना."

दुसरे खंयचेय गजालीपरस ती गजाल करुत्तम्माचें काळीज चिरीत गेली. तिका आनीक वायट दिसलें तें हे गजालीचें कीं पंचमीन ती खबर सहज कांय न्हय शी करून सांगिल्ली. आपलो बापूय कसो जियेतलो हाचो मातूय हुस्को नासलो तिका. तिणें ती गजाल मातूय मनाक लागून घेवंक नासली.

भान विसरून करूत्तम्मान म्हळें, "तुका मातूय दयामाया ना."

"कित्याक, कितें जालें?" पंचमीन विचारलें.

"बाप्पा कसो जियेतलो ताचो मातूय विचार करिनासतना तूं गेली आनी तुवें ताका येतां म्हणून लेगीत सांगलें ना. आतां बाप्पाक कोण?"

"ती खबर सोड आतां. आनी तुवें तरी कितें केलें?"

पंचमी सांगताली तें खरें. पंचमीक तरी दुशण कशें दितली? पूण तिची गजाल वेगळी. आनीक दुसरो उपाय ना म्हणून ती आवय-बापायक सोडून आयली. पंचमीची गजाल वेगळी.

"तूं ताका सोडून येनासली जाल्यार हें सगलें घडचें नासलें." पंचमीन म्हळें, "तुज्यान घरा रावन घरचें काम पळोवं येतालें, अम्मा भाशेन"

करुत्तम्माच्या मनांत फाटल्या उगडासांनी गर्दी केली. आपूण घर सोडून येवंक नासली जाल्यार कितें जातलें आसलें हाचो ती विचार करूंक लागली. तशें केल्लें जाल्यार सगलें बरें जातलें आसलें? भंगू पंचमीचें. तिका कांयच कळना.

बडबडी पंचमी मुखार म्हणूंक लागली, "तुजो घोव मेळ्ळो तेन्ना तुजें भान सुटलें आनी तूं तडक ताच्या वांगडा गेली."

"ना, तशें न्हय गो."

करुत्तम्माच्या काळजांतल्यान तीं उतरां फुटलीं, तिचें काळीज व्याकूळ जाल्लें. पूण तिच्या उतरांत अर्थ नासलो. ज़ीवघेणे व्यथेंतल्यान थपथपून तीं उतरां आयिल्लीं. तिणें स्पश्ट सांगूंक जाय आसलें, आपल्या घोवाचें आपल्याक पिशें म्हणून ती ताचे फाटल्यान येवंक नासली. कितेंय जावं, आपलें तें कर्तव्य, म्हणून ती येवंक नासली. पूण कशें सांगतली?

पूण तांच्या दिसपट्ट्या ग्रासा पासत आपलें जिवीत दर्यार संकश्टांत घालतालो त्या पलनी वांगडा रावन ती तशें कशें सांगतली? खरें म्हळ्यार, आपलो जीव राखपाक तिणें तशें केल्लें. पंचमी म्हणटाली ते खातीर ती आपल्या घोवा वांगडा वचूंक नासली.

आँनी उलयतां, उलयतां पंचमीन तिका बापायची तकली कशी विरार जाल्ली ती खबर दिली.

"ते मोटेले बायलेन सांगलें, तूं दर्यादिगेर मुसलमाना चल्या वांगडा भोंवताली आनी तुंवेंच हे दर्यादिगेची सामकी वाट लायली" तिणें रागान म्हळें. "आनी बाबड्या बाप्पाची तकली विरार जाली."

करुत्तम्मा थंयचे थंय गोठेली. तिच्या दोळयांमुखार सामको काळोख आयलो. म्हणटकूच आजून लेगीत दर्या देगेर लोक ती गजाल करताले तर! तिच्या स्वाभिमानी बापायच्या कानार लेगीत ती खबर पडिल्ली.

उलयतां, उलयतां पंचमी परीकुट्टीच्या वेव्हारा विशीं उलयली. तिणें ताची दुखेस्त कथा सांगली.

"ताचे लागीं आतां कांयच ना." तिणें म्हळें. "तो अन्नाक म्हारग जाला आनी वेळेर तो हांगा-थंय हेडटा. ताची तकली थाऱ्यार ना शी दिसता. काकुळट बाबड्याची!"

ती खबर सांग म्हणून करुत्तम्मान तिका सांगूंक नासलें. आनी ती गजाल सांगू नाका म्हणून तिणें पंचमीक सांगलें ना. दुबाव ना, ती गजाल आयकुपाक ती आशेताली.

परतून तिका तो माणकुलो भुरगो दिसलो.... हळडुवें खोमीस, माथ्याक तोपी आनी गळयाक शेलो घालून आपल्या बापाय फाटल्यान वचपी. आनी ह्याच दिसा तिणें ताका ती तांबडी शिंपली दिल्ली. एका मोलादीक जिणेचो सत्यानाश जाल्लो. आपूण कितें विचारतां ते समजनासतना तिणें म्हळें, "व्हड्याचे कडेर बसून आजून तो पदां म्हणटा?"

"हय, केन्ना, केन्ना तो पदां म्हणटा." पंचमीन म्हळें.

त्या गिताचो अर्थ पंचमी जाणा आसली? ना, पंचमीक त्या गिताचो अर्थ समजूंक नासलो.

"तुका मेळटा तो केन्ना, केन्ना?"

"हय, केन्ना-केन्ना."

"तो तुका मेळटालो, तेन्ना म्हजी खबर घेतालो?" करुत्तम्माचो आवाज उमाळयान थरथरतालो.

"म्हाका मेळटालो तेन्ना तो हांसतालो." आनी इतल्यांत तांच्या कानार एक आवाज पडलो. तो आवाज खंयच्यान तरी आयिल्लो. व्यथा, राग, आनी तिरस्कार हांणी कर्कश जाल्लो असो तो आवाज.

"ना पंचमी, तो करुत्तम्माची खबर विचारतलोच!"

तांचे मुखार पलनी उबो आसलो. पंचमी आनी करुत्तम्मा पुट्ट करून उठून उबीं रावलीं.

करूत्तम्माचें गुपीत उकत्यार पडिल्लें.



# 21

करुत्तम्माक एकदम जिविताचें नवें दर्शन जालें. एका अवर्णनीय अशा नव्या विचारान तिचीं सगलीं मुल्यां बदलून गेलीं. आयज मेरेन तिका जिविताची भिरांत दिसताली. तिका सगल्या गजालींची आनी सगल्यांची भिरांत दिसताली. तिका आपली अशी इत्साच नासली आनी हाचें कारण म्हळयार तिची जिणेची ओड.

तिचें गुपीत भायर फुटलें. आतां तिका कांयच लिपोवपाचें नासलें. आतां तिका कसलीच भिरांत नासली. तिची सुरक्षेची ओड ना जाली. आनी हे असुरक्षेचे भावनेंत ती एकटी नासली. तिच्या सांगाताक पंचमी आसली.

तिणें घोवालागीं घेतिल्ले पोरणे सोपूत परतून घेतले, पूण ती आपले जिणेविशीं उकतेपणान, मेकळेपणान उलयली. परीकुट्टी आनी ती हांचे मजगतीं तांच्या भुरगेपणांतल्या निष्पाप इश्टागती भायर आनीक कितें आसलें काय म्हणून पलनीन तिका विचारलें. आपणें कांयच वायट करूंक ना म्हणून तिणें सांगलें. पलनीक तितलेंच आयकुपाचें नासलें.

"तूं ताचो मोग करताली?" ताणें विचारलें.

तिच्या दोळयांमुखार तें फाटलें चित्र परतून दिसूंक लागलें. "परीकुट्टीची ती आकृताय" दर्यादिगेर एकटोच हेडत, हेडत पिश्यावरी भान सोडून तें पोरणें गीत म्हणपी, आनी पंचमीन वर्णन केल्लें, जिवितांतलें सगलें वगळावन बशिल्लो आतांचो तो परीकुट्टी. 'हांव हें गीत सदांच म्हणटलों. सदांच म्हणटलों. त्रिकुण्ण पुजेक लेगीत तें तुका आयकूंक येतलें.' हीं ताचीं उतरां तिच्या कानांत घुमघुमूंक लागलीं.

'तुमी तुमचें व्हडें आनी जाळां घेतलीं तेन्ना तुमी आमचे लागीं वेपार करतलीं?' हो ताचो प्रस्न आजून तिच्या कानांत घुमतालो. जाप दिवपाक फाटीं फुडें जाली म्हणून पलनीन तिका परतून तोच प्रस्न विचारलो. खोल मनाभितर तिका दिसलें, आपणें आतां कित्याक लिपोवन दवरचें? तिणें कांयच वायट करूंक नासलें. तातूंत वायट तें कितें?"

"हय, हांव ताचो मोग करतालीं" करुत्तम्मान म्हळें.

कुडींत जड थंडाय पातळ्ळी. पलनीच्या दुसऱ्या प्रस्नान ती भंग जाली.

"तूं वचचे आदीं तुवें ताका येतां म्हणून सांगलें?" तिणें जाप दिली ना. आनी ताणें दुसरो प्रस्न विचारलो.

"तुवें परतून ताका केन्ना मेळटा म्हणून सांगलें?"

"परतून मेळपाविशीं हांवें केन्नाच कांयच सांगूंक ना."

भुरगें उठलें आनी रडूंक लागलें. करूत्तम्मान ताका धरलें आनी दुदाक लायलें.

त्या दिसा तिणें ताच्या काळजाक हात घालो ना, पूण ताचे समजिकायेक उलो मारलो. एके पलीचें वचन. हेर पली असलीं वचनां दिताल्यो लग्न-विधी वेळार. करूत्तम्मा आपलें वचन उतरांनी दिताली.

पलनी फांतोडेर उठलो आनी भायर सरलो

"पलनीक तुजो राग आयलो?" पंचमीन विचारलें.

करुत्तम्मान म्हळें, "आमीं दोगांय गांवाभायरीं, आमकां कोणूच ना."

"तुजे लागीं कितें तरी आसा, म्हजे लागीं कांयच ना."

"ना, पंचमी, आमी दोगांय सारकीं; पूण दोगांय मेळून आमच्यांनी वाट काडूं येता. आमी त्या व्हडल्या चेम्पन कुंजूच्यो धुवो."

दनपरां पलनी घरा परतलो तेन्ना करुत्तम्मान ताका म्हळें, "म्हाका निर्क्कनमाक वचूंक जाय."

तो कांयच उलयलो ना. तिणें बापायची अवस्था वर्णिली.

"म्हज्या बाप्पाक कोण ना."

तरी तो कांयच उलयलो ना.

त्या दिसा लेगीत, ताणें सदांभाशेन गरयांक हांयसां लायलीं. तिणें ताचें जेवण एका वाट्यांत घालें. गरयो घेवन पलनी वेळेर गेलो. एका हातांत भुरगें आनी दुसऱ्या हातांत जेवण घेवन करुत्तम्मा ताचे फाटल्यान गेली.

भुरग्यान हात उबारले आनी ताका यो म्हणून सांगलें. ल्हारां फुट्टालीं. तीं हुपून तो मुखार पावलो तेन्ना ताणें फाटल्यान वळून पळयलें. भुरगें आजून हात हालयतालें.

करुत्तम्मा कांय वेळ वेळेर रावली. सांज पडटाली. पश्चिमेची धार म्हळयार उदकाचेर विशाळ कमरपट्याभाशेन दिसताली. कितलो सुंदर रंग तो! निळो दर्या आनी झगझगीत भांगरा धार एकामेकांक मेळटालीं. थंय काळशी वेळ आसली. ताचे पलतडीं सगळें अज्ञान-सगल्यांत व्हडलें गुपीत!

पलनीचें व्हडें उदकाच्या अनंत वाठाराचेर दक्षिण दिशेन धांवतालें. तो उबो रावन नेटान वलें मारतालो. तो नेटान वलें मारतालो तेन्ना, केन्ना-केन्ना व्हडें सकयल झोपय मारतालें, आनी मागीर थोडें उदक झप्प करून भितर सरतालें.

तो व्हड्यांत असोच कितलो तरी वेळ उबो राविल्लो आनी नेटान वलें मारतालो. ताचे भितर दडिल्ली सगली शक्त उफाळून आयली. आपले आपणाचेर ताबो दवरप ताका जालें ना. वलें फाव तितलें जड नासलें, व्हडें फाव तितलें व्हड नासलें. धारेचे काळे वळीचेर नदर दवरून तो मुखार वलें मारूंक लागलो. व्हड्यांत उदक झिरपतालें तें ताच्या लक्षांत आयलें ना.

ताचें बळ इतलें उचांबळून कित्याक आयलें? त्या बळाक आतां कोण आळाबंदा हाडटलो? एक आकांताळी शक्त मेकळी सुटिल्ली अशें दिसतालें. तो वलें मारीत रावलो.

कांय विशाळ माशे व्हड्याभोंवतणी आयले आनी नाच जाले. व्हडें एका माश्याचेर आदळळें. एक मासो वयर उसळळो आनी व्हड्याचेर मुसुंडी मारूंक आयलो. व्हड्यान दिका बदल्ली. अशें दिसतालें, खंयच्याय खिणाक बोट उमथी पडटली. पलनीच्या दोळयांतल्यान उजो येवंक लागलो. ताणें दांत घट्ट आंवुळळे आनी तो पिरंगलो.

"ना!" ताणें गरड घाली.

उदकावयर उसळिल्लें तें व्हडें ताणें त्या माश्याचे फाटीचेर घालें. हें सगळें एकाच खिणांत घडलें. व्हडें उमथें जालें ना. माश्याची फाट मोडली. ताणें उदकांत बुडी मारली,

परतून, पलनी मुखार वलोवंक लागलो. तो पयस, पयस वतालो पश्चिम दिकेन. पश्चिम दिकेक अंतपार ना काय कितें?

वेळेर भुरगें रड, रड रडटालें. ताच्या निष्पाप मनाक घडये आपल्या बापायचें पिशेपण आनी उचंबळाय कळळ्या जातली. त्या दर्या राखेसाची फाट मोडटना पलनीन गर्जना केल्ली ती वाऱ्यान पूर्वदिकेन मुखार व्हेली. करुत्तम्मान ती गरड आयकली काय? ना, ती तिच्या काना मेरेन येवंक पावली ना जातली. ती आयकुपाक तिचें मन तितलें नितळ, निश्कळंक नासलें.

पलनीचें व्हडें अज्ञाताकडेन वतालें. दर्यांतल्यान चंद्रीम वयर सरतालो तो ताणें पळयलो. तो नव्या जगांत पाविल्लो. दर्याचो शेकानशेक निळो वाठार रुपेरी चांदन्यांत न्हावन गेल्लो. इतल्यांत तो भिरांतेंत बुडलो. सगल्या वाटांनी उदक वयर उसळटालें. ताचे भोंवतणी उदकाची वणत कशी उबी जाल्ली. वलें मारूंक जाय, ती वणत तोडूंक -मोडूंक जाय.

पाणसोरोप ताच्या व्हड्यांत सरपटत येताले. दर्याच्या सगल्या रुपेरी आंगांचेर ते चलताले. व्हड्याचे कडेर चडून ते नाचताले. आनी परतून उदकांत पडटाले. व्हड्यांत लेगीत दोन सोरपांनी वेंटोळीं केल्लीं.

पश्चिम बिकेकडल्यान सगली दर्याधार हुपून येवपी एक आकांताळें ल्हार ताणें पळयलें. त्या उदकांत बुडी मारपाची आनी ल्हाराचे दुसरे वटेन भायर सरपाची एक विचित्र इत्सा ताच्या मनांत जागली. पूण ल्हारान व्हडें आपल्या माथ्यार उबारलें आनी दुसरे वटेन उडयलें. थंय ल्हारां नासलीं. विचित्र अशी ती शांतताय! दर्या निळ्या रंगाच्या बदला आता काळो जाल्लो. अशें दिसतालें की दक्षीण-पूर्वेकडल्यान एक लांबूच लांब जिबली उदकांतल्यान मुखार येता. व्हडें सदां भाशेन चलनासलें. तें एका प्रवाहांत घुस्पल्लें. खंय तरी एक व्हडलो भोंवरो आसलो आनी खरी मेरेन दर्याचें मंथन चलतालें.

हय, त्या झोताआड झुजूंक जाय. ताणें त्या झोताक म्हळें, "म्हज्या व्हड्याक तूं भितर कसो ओडटा पळोवया." तो झोताआड व्हडें वलोवपाक लागलो. मुखार, शांत दर्याचेर चान्नें चकचकतालें. तो ते दिकेन वचूंक लागलो.

ल्हान ल्हारां मजगतीं दर्या-सुकणीं बशिल्लीं आनी पाळण्यांतले भाशेन झेल घेतालीं. तीं न्हीद घेतालीं. एकदम जिवघेणी किळच मारून तीं वयर उसळ्ळीं. व्हड्याक लागून तांणी आंग काडूंक नासलें. दर्यांत धब्ब करून पडिल्ल्याचो आवाज आयलो. ती एक मोरी आसली. तिणें एका दर्या-सुकण्याक धरिल्लें.

पलनीन गरी शेंवटिली. एक खांप्या गरोवप्याचे कुशळतायेन ताणें ती गरी शेंवटिल्ली.

त्यो भयणी जायतो वेळ उलयत रावल्यो. त्या दिसा कितें जालें ते विशीं त्यो उलयल्यो नात. तांची आवय आनी परीकुट्टी आतां भूतकाळांत शेणिल्लीं. आतांचो विशय म्हळ्यार बाप्पा. तांची आतांची गत, होय तांचो प्रस्न आनी देखून पंचमीक न्हीद ये मेरेन तीं उलयत रावलीं.

करुत्तम्माक न्हीद आयली ना. वाव एकसारको व्हांवतालो आनी त्या वावाक एके तरेचें संगीत आसा अशें दिसतालें. करूत्तम्माक दिसलें, त्या संगितांत परीकुट्टीचें गीत भरशिल्लें. तिणें मन लावन आयकलें, परतून, परतून आयकलें आनी परतून एकदां ती

परीकुट्टी विशीं चिंतूंक लागली.

तिचो घोव दर्यार एकटोच गेल्लो. तो पयशिल्ल्या दर्यार पागतालो. त्या वेळार, पांगप्यां मजगतीची पयली पागपीण म्हणून तिणें ताचे पासत देवा लागीं मागपाचें. पूण, ती विचार करताली तो परीकुट्टीचो.

तिका तिची पुराय जाणविकाय नासली. ती जागी नासली. ती न्हिदेंतूय नासली. परीकुट्टी मोगाळ बरो आनी तो तिचो खूब मोग करतालो. आनी तीय ताचो मोग करताली. ह्या जल्मांत तरी ती ताका विसरची नासली. परीकुट्टी तिचो आनी ती परीकुट्टीची. तिच्या खोल काळजाभितर तिका कसलीच खंत -खेद नासलो. ते अर्दे जागृतायेचे अवस्थेंत ती आपले आपणा लागींच उलयताली.

ती वाट पळयत रावली. परीकुट्टी येतलो, परीकुट्टी तिका उलो मारतालो. तो उलो आयकूंक फावना.

"करुत्तम्मा..."

तिका कोणें उलो मारलो काय?

"करुत्तम्मा!"

रातच्या वेळार एकूच मनीस दारार मारतालो आनी उलो मारतालो. पागोवन घरा आयल्या उप्रांत पलनी तिका तसो उलो मारतालो. तो परत येवपाचो वेळ जाल्लो.

"करुत्तम्मा!"

तो ताळो पलनीचो काय? ताचे शिवाय तिका कोण उलो मारतलो?

"ओ" तिणें जाप केली.

त्या ताळ्यान तिका दार उगड म्हणून सांगलें ना. पलनी तशें सांगतालो. पूण ती उठली, तिणें दार उगडलें आनी ती भायर आयली. वाव आदीं परस चड नेटान व्हांवतालो, पूण नितळ चांदनें सगले कडेन शिंवरतालें. घरा भायर कोणूच नासलो. दर्या कडेन पळोवपाक ती वेळेर गेली.

चांदन्यात एक मनीस उबो आसलो. परीकुट्टी तो. करुतम्मा भियेली ना तिणें बोवाळ केलो ना. ताचो उलो आयकुनूच ती आयिल्ली, अशे तरेन ती रावली. तो सवकासायेन तिचे लागीं आयलो. तिणें बारीकसाणेन ताचे कडेन पळयलें. तिगेलो तो आदलो कोचुमुतलली उरूंक नासलो, तो बदलिल्लो.

तो तिचे लागीं येयी तेन्ना तो तिका ओडीन पळयत रावतालो म्हणून तिका हुस्को जातालो. आतां तिका कसलोच हुस्को नासलो. आदले भाशेन तिचीं थानां तट्टीत नासलीं. भुरग्याच्या कंवळया ओंठांनी ह्या चिंवांचेर आवयचें दूद सारयल्लें. पलनी पयस दर्यार गेला तेन्ना एका परक्या लागीं उलोवप बरें? पूण करुत्तम्माक कसलीच भिरांत दिसली ना. रातच्या काळखांत ती ताका एकटीच मेळिल्ली. ज्या मनशाचें जिवीत तिणें पिश्टून उडयल्लें, ताका एका खिणाचें सूख तिणें कित्याक दिवं नये?

एकामेकांक पळयत तीं एकामेकां मुखार रावलीं. तिणें ज्या मनशाचें जिवीत इबाडिल्लें, तो तिच्या मुखार राविल्लो. तो आपलो सदांच मोग करतलो अशी तिची खात्री आशिल्लीं. तो तिका समजतलो आनी तिका भोगशितलो. तिणें ताका कितेंय केल्यार तो कांयच करचो ना.

त्या थोड्याच खिणांत करुत्तम्मा आपल्या जिवितांतलें सगलें दुःख-दगदग विसरली. तिका दिसलें, आपूण हारूंक ना. तिचे सारकें बळ थोड्याच मनशांत आसता. एक बळीश्ट मनीस तिची राखण करपी आसलो, तिचें जिवीत सुरक्षीत आसलें. तिका भायल्या संवसारांतलो कोणूच हात लावचो ना वा दुखोवचो ना हाची तो काळजी घेतलो. आनी तिच्या मनाक घटाय आनी धिटाय दिवपी आनीक एक गजाल आसली. कोणेंच केन्ना इतलो मोग केलो ना असो एक मनीस तिचो मोग करतालो. हय, दोगांय मजगतीं तिचें जिवीत उपाट भरून ओत्तालें, तिचो मोग करपी मनीस तिच्या मुखार आसलो.

ताणें मुखार केल्ल्या हातांनी ती रिगली आनी तिचें आंग ताच्या आंगांत एकजीव जालें. तांचीं तोंडां एकामेकांक तेकलीं. तो तिच्या कानांत फुतफुतलो.

"म्हजी करुत्तम्मा!"

"हय."

ताणें तिचें सगलें आंग सांसपिलें आनी ताचे हात थंय थारले, जंय तो आनी ते तरणे आडांगी तरणाटे व्हडले दोळे करून पळयताले.

"करुत्तम्मा!"

ते अर्दवट न्दिदेंत, अर्दवट परमसुखांत तिणें म्हळें,

"हय... "

"हांव तुजो कोण लागतां?"

तिणें ताचो चेरो आपल्या दोनूय हातांनी घेतलो आनी अर्दकुट्या धांपिल्ल्या दोळयांनी तांचे कडेन पळयत म्हळें, "तूं म्हजें सर्वस्व... तूं म्हजो भांगरा -करंड...."

परतून तीं एक जालीं. ते अवस्थेंत तो तिच्या कानांत गोड फुतफुततालो.

ते वेंगेंतल्यान सुटून वचप तिच्यान जालें ना.

पयस दर्यांत पलनीन एक मोरी गरयली. खऱ्यानीच एक व्हडली मोरी. ते मरेन येदी व्हडली मोरी ताचे न्हय, तर कोणाचेच गरयेक लागूंक नासली. खंयच्याच पागप्यान येदो व्हडलो मासो गरोवंक नासलो.

ती मोरी गरयेक लागल्या.मात, ती नेटान फडफडूंक लागली. दर्या खळबळ्ळो आनी उदक वयर मळबांत घस्स करून उसळ्ळें. मागीर ते मोरयेन वयर धडक मारली. तिणें नेटान वयर मुंसडी मारिल्ली. ती उदका वयर येता ती पलनीन पळयली. तिच्या तोंडांतल्यान तांवस येता तो तांणें पळयलो.

ते दर्यादिगे वयलो सगल्यांत व्हडलो मासो आपणें फारायला हें पलनीक कळ्ळें. आपली खोस दाखोवपाक तो व्हडल्यान आड्डलो. आतां कितें तें थारावंक जाय.

रोखडोच सण ओडून माश्याक थामोवचो.काय सण कांय वेळ सदळ सोडचो? गरी त्याच्या गळयांत आडकल्ली आसल्यार तांवस मात्सो ओडल्यार तो भयांकृत मासो थांबतलो. पूण ताणें व्हड्याचेर मुसंडी मारून व्हड्याचे कुडके, कुडके केले जाल्यार? पूण ताणें ताका वचूंक दिल्यार ताचे फाटल्यान व्हडें धांवतलें आनी तो मासो व्हड्याक कितलो मुखार ओडीत व्हरत सांगूं नज.

पलनीक दर्यादिग दिसना जाली. दर्या देग खंयचे दिकेन आसा तें ताका कळना जालें.

ताणें एका हातान तांवस धरलो आनी दुसऱ्या हातान तो व्हडें ताणूक लागलो. आनी मळबांतल्या नखेत्रां वयल्यान आपूण खंय आसा तें पारखूक लागलो. आपणाक जाय आशिल्लें नखेत्र ताका दिसना जाल्लें. हांगा थंय पातळिल्ल्या कुपांनी मळब धांपिल्लें.

व्हडें आकांताळे गतीन धांवतालें. उदक चिरीत वतालें. ल्हारां नासलीं. दर्या शांत आसलो. पूण दर्याचेर काळसो रंग चडिल्लो आनी ताचें रूप भयाण कशें दिसतालें. ओघाची दिशा पळोवपाक ताणें उदकाकडेन बारीकसाणेन पळयलें. पूण कितलेंय केलें तरी ताका तें जमलें ना.

मोरी वाऱ्याच्या वेगान व्हड्याक ओडून व्हरताली. ती खंय वताली काय? तो कितले पयस गेल्लो? पलनी व्हडल्यान आड्डलो.

"राव, राव! मत्स्य देवेतेच्या महालांत म्हाका व्हरचे आदीं मातसो राव!"

ताणें तांवस ओडलो. व्हडें एकदम थामलें. मागीर पलनीक व्हडलो हांसो मारलो.

"हा, हा! राव, थंयच राव.'

व्हड्यापसून थोड्याच अंतरार मर्ण-व्यथेंत खासावीस जावन तो मासो फडफडटालो. पलनीन परतून एकदा तांवस ओडलो. माशान वयर उडकी मारली आनी तो परतून दर्यांत पडलो. व्हडें थीर आसा शें दिसलें तरी पलनीक समजलें, तें एका ओघांत घुस्पल्लें आनी त्या शेकानशेक दर्यार एक आकृताय काडटालें. तो ओघ वर्तुळांत व्हांवतालो. पलनीन तांचे कडेन बारीकसाणेन नदर मारली. आपूण भोंवऱ्यांत घुस्पलां काय किंतें? आतां ताका खात्री जाली, आपूण एका व्हडल्या चक्रांत वाटकुळोच भोंवतां. पूण तो तांवस घट धरून रावलो. पलनीन मळबा कडेन पळयलें, मळबांत एकूय नखेत्र दिसनासलें.

व्हड्यांत उबो रावन ताणें भोंवतणी पळयलें. आपले भोंवतणी ताका फक्त दर्याच दिसतालो. पूण आतां उदकाचो रुपकार बदलिल्लो. आतां अशें दिसतालें, ताचे भोंवतणी पर्वत आशिल्लो- उदकाचो वर्तुळाकार पर्वत. तो आनी ताचें व्हडें एके खोलायेंत सांपडिल्लें. व्हड्याचें तोंक वयर सरताशें दिसतालें.

मत्स्य देवतेचो महाल खोल दर्याच्या तळाक आशिल्लो. मत्स्य देवतेची थंयच स्थापना जाल्ली. पलनीन त्या महालाची वर्णना आयकल्ली. थंय एका भोंवऱ्यांतल्यान वचचें पडटालें. त्या भोंवऱ्याक लागून सगळो दर्या वर्तुळाकार घुंवतालो, आनी मत्स्य देवतेच्या महालाच्या दाराचेर नेटान मारतालो.

पलनीक दिसलें, आपलें भोंवतणचे पर्वत ऊंच, ऊंच जायत वतात। ताणें दोरी मात्शी सदळ सोडली. परतून व्हडें मुखार धांवंक लागलें.

खंयच्यान तरी पलनीच्या कानार काळीज थरथरावपी गर्जना पडली. ताणें असलो आवाज केन्नाच आयकूंक नासलो: तुफान उसळटालें.

ल्हारां पर्वता येदीं वयर उसळ्ळीं. एका फाटल्यान एक अशीं ल्हारां येतालीं. हीं ल्हारां एके वळींत येनासलीं. तीं सगळीं ताचे भोंवतणी वर्तुळांत येतालीं, ल्हारांचीं दोन तोंकां एकामेकांक तेकतालीं आनी एक आकृताय जातालीं.

पलनीन भोंवतणी नदर मारली आनी त्या आकांताळया रागीश्ट दर्याचें भयानक रुप पारखिलें. ल्हारां वयल्यान व्हडें कशें व्हरप ताका खबर आसलें. आनी मोडा लागीं कशें झगडप तेंय ताका खबर आसलें. किट्ट काळया रातींनी ताणें व्हडें दर्यार धांवडायल्लें.

एक लकलकीत जोगूल झगझगलें, ताचे फाटल्यान आकांताळो असो गडगडो गडगडलो. पलनीन दोरी सदळ सोडली. ताणें दोरी ओडून धरिल्ली जाल्यार आनी व्हडें थारिल्लें जाल्यार व्हड्याचे कुडके कुडके जातले आसले. ताणें माश्याक आपल्याक जाय थंय व्हडें व्हरूंक दिलें.

व्हड्याचें पयलें तोंक त्या ऊंच ल्हारांच्या तोंकार सोडलें, तेन्ना ताणें वल्याच्या आदारान तोल सांबाळळो आनी व्हड्याचें वजन ल्हव करपाक वयर झोंपय मारली. तो वयर पावलो तेन्ना व्हडें अकस्मात सकयल देंवलें. व्हडें सामकें एके सरळ रेगेंत आयलें. मागीर रोखडेंच एक विशाळ ल्हार आयलें. आपलें विशाळ तोंड वासून व्हड्याक आपल्या पोटांत घालपाक तें तयार आसलें.

दर्या गर्जना करतालो. त्या बाबड्या पागप्या आड तो रागान गरजतालो. तुफानाचो आवाज ते गर्जनेक सूर धरतालो.

गडगडो म्हळयार ताल. कसलें भयांकृत सैतानी नृत्य तें! कुस्कुटा येदो मनीस! समुद्रदेवतेन ताका तोडपाक, मोडपाक इतलो क्रोध कित्याक दाखोवचो? तिका जाय जाल्यार तिच्यान ताका रोखडोच समुद्राच्या तळाक ओडून व्हरूं येता. घडये तीं अरिश्ट ल्हारां दर्या देगेचे दिकेन वतालीं. घडये तीं देगे वयल्या घरां वयल्यान वतालीं. घडये विखाळ पाणसोरोप वेळेर सरपटत वताले. पयस कितें तरी वयर, वयर सरतालें, एका अरिश्ट ल्हाराचें तें तेमक आसलें काय? काय कसलो तरी समुद्र -राकेस आपलें माथें वयर उबारतालो आनी धोली भाशेन आपलो जबडो उगडटालो? त्या बाबड्या पागप्याची शक्तूच मोडून पडटाली काय? पलनीन त्या ल्हारा वयर उडकी मारून वचपाचो येल केलो. पूण ताच्यान वयर वचप जालें ना. तोंड वासून आयिल्लें ते अरिश्ट ल्हार ताचे वयर आनी ताच्या व्हड्या वयर गेलें. कुपांनी मळब गडगड्यान आनी जोगलांनी भरून उडयल्लें. इतलेंच न्हय, तर मळबाकूच चीर पडटा अशें दिसतालें. दर्यांतलें सगलें उदक एकेच सुवातेर एकठांय जालां शें दिसतालें. तुफान सगल्याचे तोडून-मोडून कुडके करता अशें दिसतालें. तरी व्हड्याचें वयलें तोंक आनीक एका ल्हाराच्या तेमकार आयिल्लें दिसतालें. ल्हारां येवन वतकूच पलनी त्या उमध्या पडिल्ल्या व्हड्याक धरून हुमकळटालो. एका खिणांत ताणें स्वास घेतलो आनी तो आड्डलो-

"करुत्तम्मा!"

पलनीचो उलो तुफानाचे गर्जने वयर हुपून गेलो.

ताणें करुत्तम्माक कित्याक उलो मारलो? दर्या वयल्या पागप्याची रक्षण-देवता म्हळयार घरा आशिल्ली ताची घरकान्न. तिणें आपली राखण करपा खातीर मागणें करचें अशें तो विनयतालो. पागप्याचे घरकान्नीच्या मागण्याक लागून, तुफान आयिल्लें आसतनाय पयलो पागपी घरा सुखरूप आयलो ना? पलनीकूय दिसतालें, आपलो जीव वाटावतलो. ताका घरकान्न आसली. ती ताचे पासत मागतली. कालचेच रातीं तिणें ताका आपलें उतर दिवंक नासलें?

तुफानाचो नेट आनिकूय वाडलो. तुफान, गडगडो आनी जोगूल त्या सांवारांत वांटेकार जाले.

उदक भयांकृत घुसळटालें आनी मळबा मेरेन उडटालें. सगलो दर्या एके धोली भाशेन

जालो. सगले कडेन एकूच एक तुफान. व्हडें ल्हारांच्या तेमकार परतून दिसलें. ताचेर पलनी आसलो. तो ताका घट्ट धरून हुमकळटालो.

तो सांवार केन्नाच सोंपचो ना काय? मागीर तें व्हडें भोंवऱ्यांत सांपडलें आनी फातर कशें बुडलें.

कुपांतल्यान एकूच नखेत्र भायर सरलें आनी चकचकलें. तें नखेत्र म्हळयार पागप्यांचें नखेत्र अरुंधती. तेंच नखेत्र तांकां वाट दाखयतालें; पूण ते रातीं त्या नखेत्राक लिकलीक नासलो.

दुसरो दीस उदेलो. दर्या शांत जाल्लो. दिसतालें, कांयच घडूंक नासलें. कांय पागप्यांनी म्हळें, काल रातीं दर्यांत व्हडलें वादळ जाल्लें. ल्हारां कांय घरां मुखार आयिल्लीं आनी धवे रेंवेर पाणसोरोप दिसताले.

पंचमी दर्यावेळेर येवन रावली. तिच्या पोल्यांर दुकां गळटालीं. हातांतलें भुरगें आपल्या आवय-बापाय खातीर रडटालें. काल रातीं पागपा खातीर दर्यार गेल्लो पलनी परतो घरा येवंक नासलो. करुत्तम्माय दिसनासली.

पंचमी रडटाली आनी रडत, रडत ती भुरग्याक थातारताली.

दोन दिसां उप्रांत एकामेकांक वेंग मारून राविल्ल्यो, दादलो आनी बायलेच्यो कुडी व्हांवत, व्हांवत वेळेर येवन पडिल्ल्यो. त्यो कुडी आसल्यो परीकुट्टी आनी करुत्तम्मा हांच्यो.

आनी चेरियक्कील वेळेर गरी लागिल्ली एक मेल्ली मोरीय येवन पडिल्ली.



कोंकणी भाशेंत अणकारिल्ली ही कादंबरी केरळाचे दर्यादिगेवयल्या नुस्ते मारपी खारव्यांचे जिणेचेर आदारल्या. ह्या खारव्यांची दिसपट्टी जीण, तांचे कुड्डे भावार्त, दुबावी सभाव आदी खाशेलपणां दाखयता आसतनाच एके मोगा काणयेचो पोड व्हडा कळशिन हातूंत गुथला. १९५७त हे कादंबरेक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फाव जाल्लो.

तकवी शिवशंकर पिळळे हांचो जल्म १४ एप्रिल १९१४ ह्या दिसा तिरुवितांकुर हांगा जालो. १९३३त मॅट्रीक परिक्षा पास जाले उपरान्त १९३५त तांणी कायद्याची पदवी जोडली आनी त्रिवेंद्रमांत आपलो रावितो केलो. त्या काळांत समाजवादी विचार आसावण्यो कथा, कादंबऱ्यो चडशो बरोवयी लेखकां मदीं तकवी हे पाटांगडे आसले. सुरवेक सावनच तांकां सुमाराभायर लोकप्रियता मेळत रावली. आनी आयज लेगीत मलयाळी भाशेंतल्या तांच्या कादंबऱ्यांक वाचकांचो उपाट प्रतिसाद मेळटा. तांच्या कांय उजवाडाक आयिल्लया कादंबऱ्यां मदीं ‘तोट्टीयुडे-मगन’, ‘रंटी टंगवी’ आनी ‘चेम्मीन’ ह्यो मुखेल अशी आसून ‘रंटी टंगवी’ चो कोंकणी अणकार ‘दोन दंगाळी भात’ ह्या नांवान साहित्य अकादेमीन उजवाडाक हाडला.

Chemmeen (Konkani), Rs. 75

ISBN 81 - 7201 - 725 -1